# अनन्य

## गोवा कोंकणी अकादेमीची
## स म्हयन्याळी साहित्य पत्रिका

## पूर्व प्रकाशीत अंक



























वर्स : 6-7; अंक : 12-13
(जानेवारी ते डिसेंबर 2020)

# अनन्य

**गोवा कोंकणी अकादेमीची स म्हयन्याळी साहित्य पत्रिका**

स म्हयन्याळी साहित्य पत्रिका

# अनन्य

वर्स : 6-7; अंक : 12-13
(जानेवारी ते डिसेंबर 2020)

प्रकाशक : सचिव, गोवा कोंकणी अकादेमी

संपादकीय कार्यालय :
गोवा कोंकणी अकादेमी,
243, पाटो कॉलनी,
पणजी - गोंय - 403001
फोन नं. : 0832-2437385/87
ईमेल : konkaniakademi@gmail. com



संपादक : डॉ. जयंती नायक

मुखचित्र आनी फाटलें चित्र : गीतेश शिंदे

रेखाचित्रां : गीतेश शिंदे

टायपसेटर : रिया एंटरप्रायजीस, ओल्ड गोवा

छापणावळ : लोकमान्य प्रोसेस, खोर्ली, तिसवाडी

मोल : ₹ 70/-

ANANYA :
(A Six Monthly Literary Journal in Konkani)
Vol : 6-7, No. : 12-13
(January-December 2020)
Goa Konkani Akadami, 243, Patto Colony, Panaji - Goa - 403 001
Ph. No. : 0832-2437385/87

*(अंकांतलीं मतां त्या त्या लेखकांचीं, त्या मतां कडेन गोवा कोंकणी अकादेमी सहमत आसाच अशें ना. )*

# अनन्य



गोवा कोंकणी अकादेमीची स म्हयन्याळी साहित्य पत्रिका

वर्स : 6-7; अंक : 12-13

(जानेवारी ते डिसेंबर 2020)


## मांडावळ

## नाट्यमंच



## ललीत



## लोकवेद



## मंथन



## ग्रंथदालन

# संपादकीय. . .

2020 हें वर्स सगळ्या जगाक हालोवन वडोवपीं थारलां. वर्स सोंपतेर आयलें तरी आजून जग सावरिल्लें ना. ह्या वर्साची सुरवात जावपाक दोन म्हयने आसतना म्हणजे 2019 च्या नोव्हेंबर म्हयन्याच्या मध्यार चिनांतल्या वुहान शारांतल्यान करोना नावांच्या विशाणून तकली वयर काडली आनी म्हण्टा म्हण्टा अख्ख्या जगाक आपल्या विखारी विळख्यांत सांपडायलें. ह्या म्हाभंयकर विशाणूच्या संसर्गाक लागून कोवीड –19 नांवाची म्हामारी जगभर पातळ्ळी आनी मनीस किड्याचे गतीन मरूंक लागले. मरणाचें सांवटान चोंय दिशो भंयभीत जाल्ल्यो. कोण मरतलो, कोण उरतलो हाची शाश्वती कोणाक ना जाली. सगले कडेन हाहाकार पातळ्ळो. आप-आपल्या मायघरा–मायदेशांत परतुवपाक मजुरांचे– लोकांचे पोव्यांचे पोवे धडपडूंक लागले. पोटाक अन्न ना, माथ्यार आसोर ना, वचपाक वाहन ना...अशे परिस्थितींत हजारांनी लोकांनी शेकड्यांनी किलोमिटर पांयांनी प्रवास केलो...कितक्या लोकांनी आपलो जीव व्हगडायलो... कितक्या लोकांनी– संस्थांनी , अडिल्ल्यांक अन्न– उदक दिवन, वखदां दिवन मनीसपणय सिध्द केलें...दोतोर– नर्सी...पोलीस यंत्रणा आपल्या जिवाची पर्वा करिनासतना निकटे कर्तव्याचे भावनेन न्हय तर मनीसपणाचे भावनेन आपल्या घर–दाराचेर उदक सोडून रात–दीस वावरुंक लागले.

टि.व्ही., सोशल मिडिया, वर्तमानपत्रांनी येवपी बातम्यो तकली सुन्न करताल्यो. 22 मार्च 2020 दिसा भारतभर जनता कर्फू जाहिर जालो. आनी दुसरे दिसाच्यान सरकारान कोवीड म्हामारी आळाबंदा हाडपाची खबरदारी म्हण 21 दिसांचो लॉकडावन जाहिर केलो , उपरांत तो आनीकय वाडयलो.

लॉकडावनाक लागून सगलें जग स्तब्ध जालें. वाहतूक ठप्प जाली. सरकारी–निमसरकारी, खाजगी कार्यालयां बंद उरलीं, मनशाक मनशांपासून पयस रावचें पडलें. मास्कांमदीं आनी प्रशासनान लागू केल्ल्या SOP मदीं लोकांचो जीव घुस्मटलो. लोक दिसपट्ट्या गरजेच्या वस्तीक पातिशेर जालें. मनशांनी गजबजिल्ले रस्ते– बाजार निर्मनुश्य जाले. देव देवळांनी बंदिस्त उरले...दिसपट्ट्या खबरांनी सामान्य मनीसच न्हय तर बुध्दीवादी, कलाकार,साहित्यीक, राजकारणी, नोकरदार, वेवसायीक , उद्देजक...सगळेच गोंदळिल्ले, भियेल्ले. कारण हे कोवीड म्हामारीन सामान्य , महनीय , कलाकार, दोतोर, साहित्यीक असो भेदभाव करनासतना आपल्या संपर्कांत येवपी सगळ्यांकच बाधा केल्ली. कितल्यांचे जीवय व्हेल्ले...

धा म्हन्याच्या काळा उपरांत जनजिवन इल्लें इल्लें मार्गार येवंक सुरवात जाल्या. ह्या काळांत पांच अनलॉकां जालीं, तरी आजून कोवीड म्हामारीचो प्रभाव पुराय ना जाल्लो ना. करोना विशाणुचो नायनाट करपा संदर्भान आतां देश–विदेशांतल्या कंपनींनी लस तयार करपाचो पण उखल्ला, जो कांय प्रमाणांत यशस्वी जाला. तरी भंयांचे सांवट आजूनय संवसाराचेर पातळिल्लें आसा. करोना शेड्ड्या सारकें आपलें रुप बदलत आसा...

कोवीड म्हामारीच्या वातावरणाचो साहित्याच्या लेखन आनी प्रकाशनाचेर मोटो परिणाम जाल्लो आसा. संवेदनशील लेखकाची लेखणी मरणाचें तांडव पळोवन बरोच काळमेरेन थिजली. देशाची आनी पर्यायान राज्याची अर्थवेवस्था कोलमिडल्ले कारणान साहित्यीक कार्यावळी थांबल्यो. पुस्तक प्रकाशनां उरलीं... तरी सुदैवान कांय दृश्टच्या कार्यकर्त्यांनी फुडें सरून online कार्यावळी करपाचो तोखणायेचे उपक्रम हातींत घेतलो. जाका लागून साहित्यीक जगात थोडी उमेद पातळ्ळी.

हे सगळे फाटभुंयेचेर अनन्याचो होवय अंक जोड अंक म्हण उजवाडाक येता. अंका खातीर लागपी मनीस हात आनी अर्थीक तरतूद दोनींचीय अडचड उप्राशिल्ल्या कारणान हो अंक जोड अंक म्हण उजवाडावपाचो निर्णय घेतिल्लो आसा. खरें तर अंकांचें काम जानेवारींत सुरू केल्लें. बाराव्या अंकांत लोकवेदाचेर भर दिवची ह्या हेतून लोकवेद क्षेत्रांतल्या जाणकारांकडेन संपर्क सादून साहित्य धाडपाची तांचेकडेन मागणीय केल्ली. कांय जाणांनी मार्च म्हन्याचे सुरवेक आपलें लिखाण धाडिल्लेंय बी, पूण फुडें कोवीड म्हामारीन सगळें गणितच बदलून वडयलें, आनी हो अंक जोड अंक रुपान उजवाडावचो पडलो.

ह्या अंकाच्या उजवाडणेच्या काळाचें एक वर्स, कोंकणी साहित्य मळाक खूब लुकसाण करपी थारिल्लें आसा. कोंकणी भाशा आनी साहित्य चळवळीक आपलें भोव मोलादीक योगदान दिवपी तिचे पांच पूत ह्या काळांत संवसाराक अंतरले. मंगळूर रावन कोंकणी भास आनी साहित्याची सेवा करपी स. पाव्ल मोरास, गोंयचे :- रोमी आनी देवनागरी लिपींत कोंकणीत साहित्य रचना करपी आनी कोंकणीक मानाचो पाट दिवंक वावुरपी सोतेर बार्रेत, हिन्दी भाशेंत कोंकणीचें साहित्य अनुवादीत करून कोंकणी साहित्याक हिन्दी क्षेत्रांत मान मेळोवन दिवपी स. मोहनदास सुर्लकार, कोंकणी राजभास चळवळींचो एक भारदस्त खांबो जावन वावुरतले लेखक स. दत्ता श्री. नायक , कोंकणी मायेक शब्दकोशा सारके गडगंज अळंकार पेटून दिवपी आनी अखेर मेरन कोंकणी साहित्य सेवेंत सक्रीय रावपी , अकादेमीचे माजी उपाध्यक्ष डॉ. तानाजी हळर्णकार हांचो जागो सदांच रितो उरतलो. कोंकणीच्या ह्या पांचूय पुतांक आमी ह्या अंकांत आर्गां ओंपतात. तशेंच कोवीड म्हारीचे भकीक पडून गोंयचेंच न्हय तर संवसार भरचे जें लोक ह्या संवसाराक अंतरले, तांकांय आमचीं काळजा सावन आर्गां.

ह्या अंकांत सदचे भशेन साहित्याचे भोवतेक प्रकार आमी आस्पावल्यात. वयर उल्लेखिल्ले प्रमाण लोकवेदाचेर खास भर दिल्या. नामनेची साहित्यीक श्रीमती मीना काकोडकार हिची श्रीमती ज्योती कुंकळकार हिणें घेतिल्ली मुलाखत, ह्या अंकाचें आकर्शण.

श्री. गीतेश शिंदे हांणी काडिल्लें मुखपृश्ठ आनी मलपृश्ठ तसेंच रेखाचित्रां ह्या अंकाची सोबाय वाडोवपी आसात. उतरांचो संवसार रचपी एक कवी रंगाचोय संवसार तितक्याच समर्थपणान उबो करूक शकता हें प्रमाण हीं चित्रां दितात.

ह्या अंकांक योगदान दिल्ल्या साहित्यीक, तंत्रीक तशेंच हेर सगळ्यांचे मनासावन उपकार.

**जयंती नायक**
संपादक

चौकेर

(सुसंवाद)

ज्योती कुंकळकार

# मनभुलयणे भाशा शैलीची साहित्यीक : मीना काकोडकार



मीना काकोडकार ह्यो कोंकणींतल्यो एक ज्येष्ठ आनी श्रेष्ठ लेखिका. तांची भाशाशैली सुंदर आनी मनभुलयणी. कोंकणी साहित्यीक मळार जेन्ना बायलांच्या कर्तुत्वाची चर्चा करतात तेन्ना मीना काकोडकर हांगेलें नांव सगळ्यांत मुखार येता. केंद्रीय साहित्य अकादमीचो पुरस्कार जोडिल्ल्यो त्यो पयल्यो कोंकणी लेखिका. तांची कथा, विशय आनी आशयान समृद्ध. तांचे कथेंत बायल मनशेचे उमाळे, तिची सुखां आनी दुख्खां अतिशय कळाशेन उक्तायिलीं दिसतात. तांगेले खुसखुशीत मार्मिक शैलीन पितारिल्लें मनीस सभावाचें चित्र, कोंकणी कथा साहित्यांत अज्रांवर उरतलें अशें म्हळ्यार अतिताय जावं नये. 'दोंगर चंवल्ला' हो तांगेलो पयलो संग्रह 1976 वर्सा उजवाडा आयलो. तो 44 वर्सां पयलीं गोंय विद्यापीठाच्या बी. ए. च्या पयल्या वर्साच्या

**ज्योती कुंकळकार** : जल्म : 1961, कथाकार, अनुवादक, सिने-नाट्य अभिनेत्री, फिल्म निर्माती. कोंकणी तशेंच मराठी भाशेंत लेखन. तीन कथासंग्रह, एक कादंबरी, तीन अणकाराचीं आनी दोन संपादीत, अशी णव पुस्तकां प्रकाशीत. गोंय सरकारचो यशोदामिनी तशेंच डॉ. टी. एम. ए. पै फावंडेशन, मणीपाल ह्या पुरस्कारांनी सन्मानीत. संपर्क : डी. 1, सुखनिवास, गौरी कॉ-ओपरेटीव्ह हाऊजींग सोसायटी, जुवारवाडो, तिवरें, माशेल - गोंय 403 107, मो. : 9822161853

**अभ्यासक्रमाक पाठ्यपुस्तक म्हण लागलो. मीनाबायचो दुसरो कथासंग्रह 'सपनफुलां' हो. ह्या संग्रहाखातीर तांकां 1993 वर्सा केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबलो. 2014 वर्सा तांची 'वास्तू' कादंबरी उजवाडाक आयली. ह्या शिवाय तांची बालसाहित्याची आजवेर 4 पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. तांकां आजवेर साहित्याखातीर आशिल्ले भौतेक पुरस्कार लाबल्यात. कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार, कला अकादमी सांहित्य पुरस्कार, कुळागर, टी. एम. ए. पै फाउंडेशनचा पुरस्कार, साहित्य अकादमीचो साहित्याखातीर आनी अणकारा खातीरचो पुरस्कार, विमला पै पुरस्कार, दिल्लीचे 'कथा' हे संस्थेचो कथा पुरस्कार, कला आनी संस्कृती खात्याचो राज्य पुरस्कार तशेंच वात्सल्य पुरस्कार, शाश्वती पुरस्कार आदी पुरस्कारांनी यशोदामिनी पुरस्कार आदी पुरस्कारानी त्यो सन्मानीत जाल्यात. गोंय सरकाराच्या लेखा निदेशनांतल्यांतल्यान त्यो निदेशक पदावयल्यान निवृत्त जाल्यात.**

*ज्योती : तुमच्या कथेच्या आशयाक तुमच्या शैलीखातीर उठाव येता अशें वाचप्यांचें आनी समीक्षकांचे मत, ही शैली तुमी कशी आपणायली?*

*मीना :* शैली ही एक नैसर्गीक देणगी. बरोवपाक लागतनाच लेखका भितर ताची अशी एक शैली आसता. पूण मागीर वाचन करतकच, वा बरयत रावतकच वज्राक जशी तांसां पडटात, तशी ती ल्हवू-ल्हवू बदलता. उपरांत चकचकूंक लागता तशीच ही शैली.

*ज्योती : तुमकां कथाबिजां खंय आनी कशी मेळटात? एक म्हळ्यार निरीक्षण शक्त आसता, अणभव आसता आनी एक कल्पना शक्त आसता. तुमी खंयच्या आदाराचेर कथा बरयतात?*

*मीना :* पयली गजाल म्हळ्यार म्हजो जल्म पाळोळ्या सारक्या सोबीत सुंदर, सैमान नटिल्ल्या गांवांत जालो. थंय म्हाका खूब कथा बिजां मेळ्ळी. म्हजेकडेन दर्या उलयतालो. कोणाची सुखां, कोणाची दुख्खां, भुरग्यांचें भाबडेपण, मनशांचो हावेस, पूण तेन्ना तीं कथाबिजां म्हज्या मनांत रिगतात हें म्हाका कळनाशिल्ले. जिणेची वाट चलतना जायते लोक मेळटात. तेय काळजान उरतात. मोनजातीची म्हाका खूब आवड. ह्यो सगळ्यो गजाली एक जावन म्हजेभितर उरल्यो. जायते फावटी त्यो गजाली बरोच काळ घोळत उरतात. आनी मागीर हांव कथा बरोवंक घेतां.

*ज्योती : सद्द्या गाजता ती तुमची 'वास्तू' कादंबरी तुमका कशी सुचली? हालींच तांचो इंग्लीश अणकार जाला. ह्या विशयाचो अभ्यास कसो केलो?*

*मीना :* कादंबरीकडे वचचें पयली हांवे ताचेर पयलें एक दीर्घकथा बरयली, 'आमी'. तिका थोडेशें यश मेळिल्ल्याचें म्हाका जाणवलें. ही 'वास्तू' बरोवपाचें मूळ कारण म्हळ्यार, तुवें पळयलां आसतलें आता चार चवक्यांचीं घरा मोडून थंय



मीनाबाय आनी ज्योती कुंकळकार गोंय दुरदर्शनाचेर मुलाखत कार्यवळींत.

बिल्डिंगो आयल्यात, तें पळयतकच म्हज्या मनाक पीळ पडटा आनी दिसता, हीं चार चवक्यांचीं, राजांगणाचीं घरां आतां ना जातली काय? आनी हे भिरांतेंतल्यान ही वास्तू कादंबरी उबी करची अशी कीट काळजांत पेटली. जी मातयेभरवण जायना अशी वास्तू उतरांनी उबी करन दिसली. बुन्याद उतरांची, वण्टी उतरांच्यो, सगळें कितें ते उतरांचें. आनी ह्या असल्या वास्तूंत म्हजें इल्लेंशे भुरगेपण गेलां. म्हणटगच हांवें ती जीण अणभवल्या, तांतूत अडेचे कांय ना. जें भितरल्या काळजांतल्यान आयलां, तें हांवें वास्तूत मांडलां.

*ज्योती : हे कादंबरींत खूब पात्रां आसात, हें तंत्र तुमकां कशें जमलें?*

*मीना :* खरें सांगपाचें म्हळ्यार साहित्य म्हळ्यार एक कला आनी तंत्रूय बी. पूण जर तू तंत्राच्याच फाटल्यान लागशी जाल्यार तो थर्मामिटरांतलो पारस कसो सुळ्ळ करून हातांतल्यान भायर सरतलो आनी मागीर तें तंत्र खंयच्या खंय पावता. हांव तंत्रा परस मंत्राचेर चड भार दिता. ताकाच लागून म्हजी हीं पात्रां आसात तीं मेकळेपणान वावुरतात.

*ज्योती : 'दोंगर चंवल्ला', 'सपन फुलां' दोनूय कथा संग्रह खूब गाजले. 'दोंगर चंवल्ला' बी. ए. क लागलो. 'सपन फुला'क साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळो. पूण मागीर तुमी बरोच गॅप घेतलो? वेळेचो उणाव? काय आपसूक जाले?*

*मीना :* वेळ म्हणल्यार सगल्यांचकडेन 24 वरां आसतात. पूण साहित्य म्हळ्यार ताका फकत वेळूच आसून उपकाराक पडना, साहित्य बरोवपाक मूड आसचो पडटा. वातावरण आसचें पडटा. पूण म्हजे बाबतीत हें मुडाचें प्रकरण इल्ले चडूच आसा. मूड नासल्यार म्हाका बरोवप शक्यूच जायना. इतल्या सगल्या व्यापांतल्यान आपणाक वेगळें काडचें पडटा. आनी तो वेळ आमी साहित्याक दिवचो पडटा.

*ज्योती : मीनाबाय, तुमच्यो कथा मध्यमवर्गीय जिविता पुरत्योच मर्यादीत आसात, तुमचें मत?*

*मीना :* म्हज्यो चडश्यो कथा मनशांच्या मनांतले उमाळे, भावनेचे वेगवेगळे पदर, मनशांचे सैमावांगडचें नाते, मोनजात हांचेर बरयल्यात. हांव जेन्ना एक विशय घेता तेन्ना म्हजें तकलेंत वर्ग बी कांयच आसना. मनांत जो विशय – नैसर्गिक रितीन येता ताचेर हांव कथा बरयतां. तो विशय खंयच्या वर्गाचो हें म्हजे तकलेंत लेगीत येना. कथेंत जें किते मांडटां तें वास्तव जावचें इतलेंच मतींत आसता. दुसरी गजाल म्हणल्यार आमचे मुखार तरेतरेचें खाण हाडून दवरल्यार आमी तातुंतले आमकां आवडटा तेंच वेंचून काडटलीं. बरोवप्याचेंय तशेंच, ताचे मुखार विशय जरी खूब आसले तरी आपल्याक आवडटात तेच तो कथेखातीर वेंचून काडटा. आनी एका लेखकान सगल्या वर्गांचेर बरोवपाकूच जाय असो खंयच नेम ना.

*ज्योती : बालसाहित्य बरोवप खूब कठीण. तुमी बालसाहित्याकडेन कशी वळ्ळीं?*

*मीना :* एक फावट बालसाहित्याची सर्त आशिल्ली. ताचे खातीर हांवें 'साळकांतलो जादूगार' ही एकांकिका बरयल्ली, ताका बक्षीस मेळ्ळे. तितल्यांचेर तें सोंपलें. बालसाहित्य दिसता तितले सोपो प्रकार न्हय. खूब कठीण. तो आळवाच्या पानावेलो थेंबो कसो, उरलो जाल्यार व्रजा भशेन चकचकता, पडलो जाल्यार सादो थेंबो. तुका एक गजाल सांगतां, म्हज्याच नातवाची. आमकां मोन जातीची आवड. आमगेर माजरां, कुत्रीं आसतात. आमगेर एक धवेंफुल्ल पील आशिल्लें मांजराचे. तांचें नांव आमी 'कापूस' दवरिल्लें. म्हजो नातू तेन्ना 5 वर्सांचो आशिल्लो. तो ह्या पिलाक खूब बरो करतालो. एक दीस तें बरें ना जावन मेलें. सगळ्यांक वायट दिसलें. ताका पोरसांत ओल्या दोळ्यांनी पुरलें. सगळ्यांचे दोळे ओले जाले. इशानाचे, म्हज्या नातवाचे दोळे ओले जावंक ना. म्हाका दिसलें हांका मातूय वायट दिसूंक ना काय? काय समजूंक ना. पूण कांय विचारले ना. पूण दुसऱ्या दिसासावन तो सद्दां कापसाक पुरला थंय वतालो. पळोवन परतो येतालो. अशें आठ दीस जाले. एक दीस म्हजे वेंगेत येवन विचारपाक लागलो, ''आज्जे आमीं कापसाक रोयिल्लो न्हय गे. तो केन्ना किल्लतलो?'' हें चिंतप फकत भुरगीं चिंतपाक शकतात. अशें चिंतपी भुरग्यांखातीर जर बालसाहित्य तूं बरयता जाल्यार तें कितलें कठीण काम ते पळय. भुरग्यांक जर वाचनाची आवड निर्माण करतली जाल्यार आमीं बालसाहित्याकडेन वळपाकूच जाय.

*ज्योती : कोंकणी कथा भारतीय साहित्यांत खंय बसता?*

*मीना :* हे कळपाक राष्ट्रीय सेमिनारांत वांटो घेवचो पडटा. तेन्ना कितलेशेच प्रवाह एकठांय जावन म्हासागरांत मनीस अंर्तमूख जावन आपल्या भितरूच पळयता. इतल्या सगल्या लोकांभितर आपलें साहित्य खंय आसा हाचें आपल्याकूच दर्शन जाता. म्हाका असलो योग आयला. व्हडल्या–व्हडल्या लेखकांचो आमकां सहवास



वात्सल्य पुरस्कार स्विकारताना मीनाबाय.

मेळ्ळा. डॉ. सत्यव्रत शास्त्री जांकां ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळ्ळा तांणी संस्कृतान रामायण बरयलां. तांणी आपले जिणेंतल्यो जायत्यो गजाली आमकां सांगल्यो. तांणी बरयल्ल्या रामायणाची प्रत म्हाका आर्शिवाद कसो दिली. दुसरें म्हळ्यार, सगल्या भारतीय भासांतली एक-एक कथा अणकारीत करून तांचो संग्रह संकलीत जाता तेन्ना तातूंत एक कोंकणी कथाय आसता. हाचो अर्थ भारतीय कथेंत कोंकणी कथेचें तोलामोलाचें स्थान आसा.

*ज्योती : अणकाराविशीं तुमचें मत? तो प्रकार कठीण?*

*मीना :* अणकाराचे वाटेक हांव चड वचूंक ना. 'सांवळ्यां रेगो' हे म्हजें पयले अणकाराचें पुस्तक अमिताब घोशाची Shadow Lines वाचतकच म्हाका दिसलें, हें कोंकणीत येवचे. सगल्यांक वाचूंक मेळचें म्हण हांवे ताचो अणकार केलो. अणकार करप हें काम बरेच कठीण. जेन्ना हांव कथा बरयता तेन्ना कथेंतलीं पात्रां, वातावरण सगळें म्हाका खबर आसता. पूण अणकार करतना लेखकांच्या मनांत किदें आसतले हें चिंतून अणकार करचो पडटा. एकेक फावट एक उतारो करपाक म्हाका एक दीस लागलो. Source भाशेंत जीं उतरां आसात तीं Target भाशेत मेळटाच अशें ना. उदा. दिवपाचे जाल्यार म्हजी 'शीण' ही कथा जेन्ना अणकारीत जाताली तेन्ना 'शीण' हाका इंग्लीश उतर मेळना जाले. निमाणे तांणी Expectation हें उतर काडले, पूण तें तितकें योग्य अशें म्हाका दिसना. अणकार करप म्हळ्यार एक बाटलेंतले अत्तर दुसरे बाटलेंत घालप. हें करतना कांय थेंबे हेवटेन-तेवटेन पडटाच. अणकार म्हणजे तारेवयली कसरत.

*ज्योती : तुमच्यो कथा जायत्या भाशांनी अणकारीत जाल्यात, तुमकां कसो प्रतिसाद*

*मेळ्ळा?*

*मीना :* खूब बरो प्रतिसाद मेळ्ळा. म्हाका पत्रां आयल्यात. फोन येतात. जर्मन भाशेंत, पोर्तुगीज भाशेंत म्हजी कथा अणकारीत जाल्या. वाचक केन्नाय मेळटा तेन्ना कथा आवडली म्हण सांगतात. कन्नड वाचप्यांकडल्यान खूब response मेळ्ळो.

*प्रस्न : नवोदितां विषयी तुमचे मत?*

*जाप :* आमीं एका काळार नवोदीत आशिल्लीं. आनी एक गजाल जेन्ना एक भुरगो पंदरा वर्सांचो आसता तेन्ना तो चिंतता, तशें तो 40 वर्सांचो जातकच चिंतना. तेन्ना ताका मॅच्युरिटी येता. ताचे विचार बदलतात. म्हणून हांव जेन्ना नवोदितांचें साहित्य वाचता तेन्ना,



हांव म्हजी ती पिराय येवजिता. आनी फकत तांच्या साहित्यात स्पार्क आसा काय ना हें पळयता. जर स्पार्क आसलो जाल्यार तांका फुडें स्कॉप आसा. तांणी खूब वाचन करपाक जाय आनी सतत लेखन करपाक जाय.

*ज्योतीः तुमच्या कथांतली बायल पात्रां आनी दादलो पात्रां हातूंतली खंयची चड सशक्त जाल्यांत?*

*मीना :* लेखक म्हणटा तेन्ना तिका जेंडर बी काय उरना. ती तितलेच ताकदीन बरोवंक शकता. जेन्ना म्हजो दादलो सशक्त जाता कारण ती ताची कथा आसता. आनी म्हजी बायल सशक्त आसता कारण ती तिजी कथा आसता.

*ज्योती : कोंकणी साहित्याक जितले पुरस्कार आसात ते भौतेक तुमच्या साहित्याक लाबल्यात. ते तुमकां फावताले हाचेविशीं मात लेगीत दुबाव ना. पूण जेन्ना पुरस्कार मेळटा तेन्ना त्या खिणाक कितें दिसता?*

*मीना :* पुरस्कार हो सदाच खोस दिताच. तरी पुरस्कार मेळ्ळो म्हूण लेखक व्हड जायना आनी मेळूंक ना म्हणून ल्हान जायना. हें सगळीं जाणात. हांव कोंकणीकडेन वळलें ते म्हज्या घरकाराखातीर. पयलीं हांव कोंकणी आनी मराठी दोनय भाशांतल्यान बरयतालें. पूण म्हज्या घोवान सांगलें दोनूय होड्यार पांय दवरूं नाका. तुजें साहित्य वाटून वतले. एकदां राष्ट्रमताचेर एक

स्पर्धा आयिल्ली. हांवे 'म्हजें रानफूल' हो ललित लेख बरोवन धाडिल्ले. तांका 250 रुपयाचे बक्षिस मेळ्ळें. म्हजे पयलें बक्षीस तें. आपले धुवेक बक्षीस मेळ्ळें म्हण म्हज्या आवय-बापायक खूब खोस जालीं. म्हजें स्वताचें वेगळें अस्तित्व मेळोवपाची वाट ह्या बक्षीसान मेळोवन दिली. हें बक्षीस हांव आयज इतले पुरस्कार मेळ्ळे तरी अजून विसरूंक ना. इतलीं खोस म्हाका साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळ्ळा तेन्ना लेगीत जावंक ना.

ज्योती : खूब वर्सां पयलीं, एका दिवाळी अंकांत मीनाबायली 'आमी' ही कथा हावें वाचली आनी हांव भारावन गेलें. एक दीस नामनेचे साहित्यिक डॉ. यू. आर. अनंतमूर्ति हांगेले एके साहित्यिक कार्यावळींत मीनाबायची पयलेच फावट भेट घडली. हावें तांकां 'आमी' कथा म्हाका खूब आवडिल्ल्याचें सांगलें. मीनाबायन हांसत म्हळें, 'म्हज्या सगळ्या कथांत म्हाका ही कथा खूब आवडटा.'

आपणालें साहित्य वाचून वाचप्यांनी कळयिल्ल्यो प्रतिक्रिया, तांणी बरयिल्ली पत्रां ह्यो खऱ्यो गौरवाच्यो बाबी अशें दिसपी ही लेखिका. तांचेलेखी वाचप्यांनी घेतिल्ली दखल, हो सगळ्यांत व्हडलो पुरस्कार.



**मीनाबाय आपलो घरकार**
**श्री. सुरेश काकोडकार हांचे वांगडी.**

000



# कथामंच

(कथा)

हेमा नायक

## मन–मनांतरी

भायर पावस घसघशांनी ओतता. उटंगाराचो पावस. आशीकुशीचीं झाडां अस्ताव्यस्त वाडल्यांत. सगळो वाठार पाचवोचार दिसता. नदर भुलोवणो. दोळ्यांक थंडाय दिता. आपल्या पोरसांत धाकटुल्या कुंड्यांनी झाडां लावपाचीं आनी तीं सोबीत सुंदर दिसपाक तांकां आकार दीत थंयचेथंयच तांची बॉन्साय करपाची, हें ताका केन्नाच आवडूंक ना. खिणांत इंदिरा गंभीर जाता आमी आमच्या भुरग्यांकूय अशींच वाडयतात. पुस्तकी शिक्षणाचेर चडानचड भर दिवन परीक्षेंत अदीक गूण मेळोवपाक तांचेर बंदनां लादून आनी मर्यादा घालून तांचे विचारशक्तीची पोसवणूच खुंटोवन उडयतात. म्हजेंय तेंच जावपाचें. घरांतल्यान नेटासरशीं भायर सरून आयिल्ल्यान म्हाका आज हें यश मेळूंक पावलें, ताका दिसलें. ही बॉन्साय म्हणल्यार वाडूच मोटवी करून उडोवप.

पावस असो शिरंधरांनी कोंसळटलो हाची शक्यताय आशिल्ल्यान तें अर्दवर आदींच येवन बसलें हांगा. एके वटेन तें बरेंच जालें. ताका दिसलें, गाडयेंतल्यान देंवून भितर येतासर भिजपाचें, सत्रेक आनी रेनकोटाकूय आटापाक येवपाचो न्ही हो पावस. पूण हो थंड शेळाव! आंग शींयान कुडकुडटालें. ताणें पदर घट्ट गुठलावन घेतलो. कुपांचो गडगड आनी विजांचो चकचक. ह्या पावसाचेर कसलो सांवार आयला!

भायलो देखाव बंद केबिनाच्या हारशांतल्यान इंदिरा नियाळटा. भुरगेपणांत ह्याच पावसाची मजा ताणें उकत्या

**हेमा नायक :** जल्म : 1952, जेश्ट कथाकार, कादंबरीकार, अनुवादक. *'पसय'* आनी *'दुर्गावतार'* हे कथासंग्रह, *'निर्बला आनी मुक्ती'* तशेंच *'भोगदंड'* ह्यो कादंबऱ्यो, *'भायली गोडी'* हो एकांकी संग्रह, *'अस्तूरी-मृग'* आनी *'अप्रूप'* हीं संपादीत पुस्तकां प्रकाशीत. पांच अनुवादाचीं पुस्तकां प्रकाशीत. कला अकादमी, गोंय साहित्य पुरस्कार, शास्वती पुरस्कार आनी केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कारांनी (2002) सन्मानीत. संपर्क : वळवय, सावय – वेरें, फोंडें, गोंय 403 401, मो. : 9764597628.

दोळ्यांनी अणभवल्या. पावस सामको घरांत, आंगणांत नळ्यांवयल्यान पावळ्यो रकताल्यो. पनेळांतल्यान घोगो ओततालो आनी आंगणांतलें उदक तुमांतल्यान रस्त्यावेल्या खळयांत वतालें आनी खळयेंतल्यान थेट व्हाळांत. व्हाळाचो खळखळाट आकांताचो. इंदिराक दिसलें, आपल्या जिविताचो पट लेगीत असोच वेगवेगळ्या प्रवाहांतल्यान वाट काडीत गेलो. पूण आपल्या जगपाक एक ध्येय आशिल्लें. एक उद्देश नदरेंत सांठावन ताचेरूच जोखून पावलां पडटालीं. आनी देखूनच जिद्दीन जगताना केन्ना मरणाची पिरंगण गायली ना. येता ते परस्थितिचेर मात करून मनांत बाळगिल्लो हावेस साध्य करपा खातीर सोदीत गेलें वाटेंतल्यान वाट. गावल्यो नात थंय नव्यो निर्माणय केल्यो. मळोवन माड्डील्ली सरळ वाट चुकोवन खास आपली वाट तयार करतना अरिश्टांक फुडो करीत वचचें पडलें तेन्ना दर फांतोडेर उदेतल्या सुर्याच्या नव्या किरणांतल्यान कोमरी येत गेली. आनी मागीर ह्या सुखदिण्या प्रसंगान उद्देश सफळ जावपांत भर घालो. ताच्या अंतस्करणांतलो उमाळो फुलून आयलो आनी धीरगंभीर परिस्थितींतल्यानय एकेक पावल उखलीत निर्माण केल्यो आपल्याच धाडसाच्यो पावलखुणो. मुखार उपराशिल्ल्या कितल्याय आव्हानांक वलांडून तडीर पावलें. फांतोडेचेर मळबांत दाटिल्ल्या कुपांनी भरून गेल्लें काळखी आसमंत आसलें तरी उदेवपी सुर्याचीं भांगराळीं किरणां ताणें नदरेंत भरून घेतलीं. वेदनांनी लेगीत जगपाचो उद्देश आसता आनी तोच तें सोदीत गेलें. खिणभर ताच्या दोळ्यांमुखार उबो जालो आपल्याच घराचो तश्शाक तसो देखाव आनी तेसरशीं ताणें दोळे धांपून घेतले. एकखीण दोन खीण बंद दोळ्यां मुखार काळोख आनी मागीर दोळे उकते केल्यार एके आवयचे कर्तुत्वी धुवेचो फोटो. आपलीच तुस्त करप ताका अतिशयोक्ती दिसली आनी ताणें फोटो कुशीक काडलो. कर्तुपां जालीं तीं पुरो, ताणें आपल्या मनाक थातारलें आतां कर्तव्यां आपली वाट पळयतात, ताका दिसलें. दुख्खांत हुलपलें पूण करपलें ना, आतां सुखांतय भुल्लुसून वचचें न्ही.

मुख्याध्यापिकेचे कदेलीर बसपाचो इंदिराचो पयलोच दीस. मोलेंचें सरकारी माध्यमिक विद्यालय. वांठार ताचे संवकळिचो. हे शाळेंत येवपाची घडणूक वेगळीच. निमताक सापडली मावशी. आठवी पास तेन्ना तें. पिराय तेरा वर्सां. शिकपाची खूब आवड. मोल्यां अभयारण्यांतल्या एका टुरीस्ट हॉटेलांत मावशी कामाक आसताली. थंयचीं हॉटेलां बरीं तेजीन चलतात. खूब येतात भोंवडेकार. पर्यटन थळ म्हण जगाच्या नकाशाचेर ह्या परीसराचें नाव आसा. भगवान महावीर सँक्च्युअरी आनी नॅशनल पार्क हीं दोनूय पर्यटकांक आकर्शून घेवपी थळां. एक दीस काल्यां आपले भयणीगेर गेल्ले कडेन तिच्यान भयणीची परिस्थिती पळोवं नज जाली आनी तिका कळवळून

आयलें. काचींबुचीं ल्हान सात भुरगीं. इंदिरा सगळ्यांत व्हडली चली. नांव इंदिरा पूण इंदू नावानूच सगळीं पाचारतालीं. तिवूय आपणाक केन्ना इंदिरा म्हण उलो मारल्यार वा इंदू म्हण हडकिल्यारय जाप दिताली. फाटोफाट आनीक स भावंडां. तीन भयणी आनी तीन भाव. बापूय एकलो जोडकार. कशें म्हण भागतलें? पयशांची सामकीच अडचण. इंदिराच्या मनांत कितें आयलें म्हण कोण जाणा, ताणें मावशेच्या पदराक धरून म्हणलें, ''मावशे हांव तुमगेर येतां. म्हाका शिकपाक जाय. दाय म्हाका कामाक लावपाक सोदता. तूं म्हाका व्हरता जाल्यार हांव थंय कामूय करतलें आनी शिकतलेंय.'' मावशेक काकूळट दिसली. तिगेलें तशें बरें चलतालें. तिणें भयणीक म्हणलें,

''हांव इंदूक घेवन वतां गो. थंयचे शाळेंत ताचें नाव घालतां. शिकतां शिकतां कामूय मेळटलें. तूं हुस्को करूं नाका.'' आवयन आडखळ हाडली ना. ''पोर म्हगेलें सुखाक पावतलें'' अशें म्हणलें आनी ताळ्याकडेन आडखळून आयिल्लो हुंडको तिणें गिळ्ळो आनी फाट करून पदराक दोळे पुशीत ती भितर गेली.

त्याच दिसा मावशी ताका घेवन मोल्यां आयली. वाटभर ताणें तिका एकूच प्रश्न विचारून सतावन सोडली, ''मावशे म्हाका शाळेंत धाडटली न्हय?'' आनी दर फावटीं तिणे 'हय' म्हणसर विचारीत रावली.

घरांत मावशी एकलीच आसताली. तिका एक रूमच दिल्लो मालकान. तिगेलें बाकीचें कुटूंब रावतालें कुळ्यां. केन्ना थंयचो कोणूय येतालो तर केन्ना ती वताली. घरच्यांची खबर मेळटाली. मावशेचीं कामां तर तरातरांचीं. अमकेंच म्हणून ना. घेतिल्ली तिका हेल्पर म्हणून. झाडू मारपाचो धरून पर्यटकां खातीर रांदपाचो लेगीत वावर तिकाच आसतालो. दोन दीस ती इंदूक वांगडा घेवन आयली. तिसऱ्या दिसा इंदूनच आपूण जावन म्हणलें, 'मावशे आज हांव घरा रावतां. अशी एक पासय मारून येतां. तुजे वांगडा येवपाक म्हाका बेजार येता गे.'

ती गेलीशी पळयली आनी इंदू आपलो जल्म दाखलो आनी आठवेचें सर्टीफिकीट घेवन भायर सरलें. ताका शाळेंत वचपाचो ध्यास लागिल्लो. लागींच आशिल्ली ती शाळा ताणें पळोवन दवरिल्ली. भियेंत भियेंत पूण आडेचो नेट हाडून तें गेलेंच. मुख्याध्यापकाच्या केबिना भायर रावन ताणें टकटक केलें. 'यो भितर' ताणें म्हणलें.

''कोण तूं? यो बस. कित्याक आयलां?''

कितें सांगप हें येवजून तें गोंदळ्ळें. हेवटेन तेवटेन पळोवन घुस्पलें. मुख्याध्यापक हांसत्या तोंडाचो. ताणें आपणाक बस म्हणलें हाची ताका लक्तुबाय दिसली. इंदूचो थोडो भंय गेलो. तशें तें ल्हानच. कशें आनी कितें उलोवप ताका समजलें ना तरी नेटाभरशीं ताणे म्हणलें,

''सर, म्हाका शाळेंत शिकपाचें आसा. हांव कसलींय कामांय करतां'' अशें म्हणून ताणें आठवेचें मार्कशीट मुखार दवरलें.

ताका सगळ्या विशयांत शंभरांतले णव्वदा वयर मार्क पडिल्ले. तो खूश जालो. इंदिरान आपली वळख सांगली. मावशेचें नाव हरशीं तुळशी पूण थंयचे सगळे तिका मावशी म्हणूनच वळखताले. शाळे कडल्यान पासार जातना जायते खेपो ताणें तिका पळयल्या. ताणें आनी वेळ केलो ना, णववे खातीर इंदिराचें नाव नोंद करून घेतलें.

शाळेंत येवपाक लागतकूच ताणें शाळेंतल्या बारीक बारीक कामांचो ताबो घेतलो. केन्ना स्वीपर म्हण झाडू मारप, केन्ना जमीन पुसप, केन्ना मेज बांक पुसप तर केन्ना वर्गांच्या वेळापत्रका प्रमाण प्यून जावन बेल मारप. कंत्राटी काम करपाचे सुवातीर ताचें नाव लागतालें आनी त्या कामाचे पयशे ताका मेळटाले. तातुंतल्यान पुस्तकां, कपडे हाचो खर्च सुटटालो. विद्यार्थी जावन वर्गांत शिकपाचें मात ताणें कायम दवरलें.

मेट्रीकेची परीक्षा दिली आनी मागीर मात ताणें फाटीं वळून पळयलें ना. मागीर मदलो बरोच काळ ताचो करीयर घडोवपांक गेलो. मोलेंच्यान तें सांग्यार पावलें आनी सरकारी कॉलेजींतल्यान बी.ए. करून मागीर एम. ए. केली. सांग्यार जायत्या जाणांनी ताका पेइंग गेस्ट म्हण रावपाचो आग्रो धरलो. मावशेची वळख घेवन इंदू सांग्यावयल्या एका रीसोर्टांत कामाक लागलें. काम करून शिकपांत ताणें आपलें मन गुंतोवन घेतिल्लें. थंयसान लागींच साळावली धरण. भोंवडेकार खूब येताले. रिसोर्टांत ताका बरें मेनेजराचें काम मेळ्ळें. रावपाचीय वेवस्था जाली. आपल्या सभावगुणांनी आनी वागणुकेन ताणें लोकांचीं काळजां जिकलीं. सकाळचें कॉलेज करून तें दनपारां कामार रूजू जातालें. ताच्या कामांतली हुशारी पळोवन ताका मेनेजरान खास सवलत दिल्ली. वेळेचें बंदन नाशिल्लें. शेनवारा आनी आयतारा भोंवडेकार चड आनी इंदू मागीर सबंद दीस थंयच आसतालें. तागेले आडखळिल्ले सगळे प्रश्न बरे तरेन सुटावे जावंक लागले. इतलें आसूनय असल्या कामांनी ताका रूच नासली. टीचर जावपाची ताका आवड. सरकारी शाळेंत तें शिकोवपाचे अर्ज धाडीत रावलें आनी एक दीस ताका सांग्यार सरकारी हायस्कुलांत नोकरीय मेळ्ळी.

काळ गतीन फुडें सरत आसलो. आपलें ध्येय तडीर पावोवपाक तें हेवटेन तेवटेन धांव धपट्यो काडीत रावलें.

आज इंदिरा परत मोल्यां पावली. जे शाळेंत शिकली, थंयचीं कामां केलीं तेच शाळेची मुख्याध्यापिका जावन एके म्हत्वाचे आनी भोवमानाचे सुवातीर बसली. आपल्या कर्तुत्वाच्या बळाचेर ताचो विश्वास आसा, खोस, आनंद, अभिमान आनी बुद्दिमत्तेचें तेज ताच्या तोंडार फांकिल्लें दिसता. ह्या पांवड्यार पावपाक ज्या कोणांचे हात आसात तांचो उगडास करपाक ती विसरना. तिचे दोळे धादोसकायेच्या दुकांनी भरून आयले. फाटल्या जगपांत वायट भोगणार आयले ते दीस विसरून वचपाचे आनी नवी

उमेद, नवे विचार बाळगून विद्यार्थ्यांभितर नवे आदर्श निर्माण करपाचे तिचें मन खोल विचारांत बुडून गेलें.

इंदिरा आदीं सावनच वेगळ्या विचारांचें. खूब चिंतपी, बरीं बरीं पुस्तकां वाचपी आनी नवें नवें शिकून घेवपी. गडचिरौलीचे अभय बंग आनी राणी बंग हें तिचें चैतन्य. तांच्या कार्याची स्फूर्त ताच्या आंगांत बळावल्या. ताणें थारायलां हो वांठार बरे तरेन नांव लौकीकाक हाडपाचो. ताणे अंतस्करणांतल्यान आपले आवयक सादयलें, 'आई, तुजे आशिर्वाद म्हजे फाटल्यान सदांच आसात. जें कितें करपाक हांव फुडें सरलां ताची पुर्तताय करपाक म्हाका बळगें दी.' ताची आई चड शिकूंक नासली. फकत पयली आनी दुसरी यत्ता. पूण शाळेंत जें शिकली तें ती घरा येवन घोळयत रावली. श्रीगणेशा आनी बाराखडी कळटाली तिका. चोपडेचीं पानां भरीत रावताली. तांचेर आसतालो फकत देवाचो जप. येता तितल्याय देवांचीं नावां आनी पाठ आशिल्ल्या प्रार्थनांच्यो वळी. पाढेय पाठ करून दवरिल्ले. बरयतां बरयतां तिच्या अक्षरांक सुंदर वळण आयिल्लें. अक्षर वळणदार कशें काडपाचें तें तिणे मागीर आपल्या भुरग्यांकय शिकयलें. इंदूक हांसपाक आयलें. मात्रा, इकार, उकार, तोपी कशो दिवपाच्यो हें उलयतां उलयतां वा चुली कडलीं कामां करताना सहजतायेन सांगताली. केन्नाय चुकत जाल्यार ख्यास्त म्हणून कानय पिळ्ळे तिणें. आनी मागीर जशें अक्षरांक वळण दिलें, तशेंच जगपाकय वळण लायलें. संस्कार आनी शीस्त इंदिराच्या आंगवळणी पडत गेली.

भुरगेपणा सावन धडपडी सभाव पळोवन आई सदांच ताचें कवतूक करी. 'हें पोर म्हजें नाव वयर काडले बगर रावचें ना.' तिणें म्हणचें. एक दीस तर तिणें चक्क म्हणलें "बाय, तुजें नांव इंदिरा, हावें दवरलां. इंदिरेचें धाडस म्हाका खूब आवडटा. आख्खो संवसार इंदिरेक वळखता. इंदिरा गांधी आमच्या देशाची पंतप्रधान आशिल्ली. लोक तिका अशे थर्त भिताले. ते इंदिरे भशेन आपले हुशारेन आनी गुणांनी देशाचें नाव आसमतांत कर." आपल्या आशिर्वादाचें चीज जाल्लें पळोवपाक आज आई जिती ना. हांव आपली धूव म्हण सांगतना तिचें हड्डें नक्कीच अभिमानान भरून येतलें आशिल्लें ती थोडो वेळ आपल्या विचारांत भरसून गेली.

हातांत आशिल्लें वर्तमानपत्राचें पान वाऱ्यान फडफडपाक लागलें. ताचेर आसा इंदूच्या कर्तुत्वाचें दर्शन दाखोवपी फोटो. हें ऐसपैस केबीन. भीतर सरतना दाराचेर पाटी चकचकता. केबिनांत मेज. मेजाचेर लॅपटॉप. कुशीक फोन आनी घुंवता ते कदेलीर बशिल्ली मुख्याध्यापिका इंदिरा. 'आपल्या कर्तुत्वान जिवितांत जैत जोडून भुरग्यांचो फुडार घडोवपी मुख्याध्यापिका इंदिरा.' फोट्या सकयल छापून आयिल्लें हें कॅप्शन. इंदिराक दिसलें आपलें एक सपन आसलें खूब शिकचें आनी बाकिच्या

चलयांकय शिकपाची प्रेरणा हाडची. त्या सपनाची पुर्तताय करपाचे येवजणेंत ती केदोवेळ रमून गेली. समाधानाचें तेज तिच्या तोंडार झळकतालें.

तें घरांतल्यान भायर सरलें तेन्ना ताची पिराय तेरा वर्सांची. मावशी सापडूंक नाशिल्ली जाल्यारय तें त्या घरांतल्यान भायर सरतलेंच आशिल्लें. ताणें तसो निर्धारूच केल्लो. ताचो बापूय घराचो कर्तो आनी पुरूशी अहंकार आशिल्ल्या सभावाचो. बायलांचीं कामां रान्नी म्हऱ्यांत हे समजिकायेची ताची विचारसरणी आशिल्ली. ताचें आई कडलें वागप तर इंदूक केन्नाच मानवनाशिल्लें. बायलांक उणाक लेखपाची ताची मानसिकता इंदूच्या भुरगें मनाचेर परीणाम करीत गेली आनी आपणे त्या घरांतल्यान बेगीनात बेगीन भायर सरप हेंच ताका हिताचें दिसलें.

आज ताणें बी. ए. केल्या, एम. ए. केल्या. बी. एड. केलां, एम. एड. केलां. आनी आजूनय ताका बऱ्योच परीक्षा दिवपाच्यो आसात. हायस्कूल सोडून आनीक खंय वचपाची ताका इत्सा ना. भुरग्यांचे बुद्धीमत्तेची वाड जावपाची पिराय ती ही. बऱ्या गुणांचें सारें आनी संस्कारांचें शिंपणें हेच पिरायेचेर भुरग्यांक मेळपाक जाय. ही फुडाराची बुनयाद. ताची हुशारी, ताचें शिक्षण सगळें मर्तींत घेवन ताका खास बडटी दिवन मुख्याध्यापक म्हण हे शाळेंत हाडलें. आपल्या ह्या गुणांचो प्रभाव बाकीच्या भुरग्यांचेर घालपाक तें खंयच उणे पडचें ना ही भावना शिक्षण संचालकांची आसा. शिक्षणांत वेगवेगळे बदल घडोवन हाडपाच्या विचारांत सरकार आसा. चड भर चलयांचे मानसिकतायेचेर दिवपाचो विचार आशिल्ल्यान गावांतल्या सगळ्या चलयांक शिक्षीत करून अर्थीक नदरेन आपल्या पायांर उबें रावपाचें बळ तांच्यांत हाडपाचो विचार चलला. स्त्री सशक्तीकरणाचो तो वांटो म्हण पावल उबारपाचो हो एक यत्न. पणजे ऑफीसांत वचून रूजू जावपाचें पत्र संचालका कडल्यान घेतना ताणें म्हणलें, 'कर्तव्य आनी जापसालकी हाचें भान म्हाका सदांच उरतलें'तें खूब सद्गदीत जाल्लें.

केदो वेळ तें आपलेच तनरेंत आशिल्लें. मुखार हजेरीपट घेवन प्यून उभो आशिल्लो तें ताच्या ध्यानात आयलें, 'मॅडम, प्रार्थनेचो वेळ जाला. भुरगीं हॉलांत जमल्यांत'. इंदिरान आपणाक सावरून घेतलें आनी ती हॉलांत आयली. सगळ्या भुरग्यांचेर एक मोगाळ नदर भोंवडायली. कितले निरागस चेरे! प्रामाणीक. फुडलें आख्खें जिवीत हांचे मुखार मेकळें मळब कशें ऐसपैस पातळ्ळां. सगळीं भुरगीं हजर जाल्लीं, सोडून णववेचें साळू. हॉल गच्च भरिल्लो. हरशीं प्रार्थना ग्रावंडार जाता, पूण पावसाक लागून भितर हॉलांत जाल्ली.

प्रार्थना जाली, नवे मुख्याद्यापिकेची भुरग्यांक वळख करून दिली. इंदिरान भुरग्यांक नितीमुल्यांच्यो चार गजाली सांगतना म्हणलें, 'आमच्या जगपाक एक ध्येय आसपाक जाय, उद्देश आसपाक

जाय. जगतात सगळेचजाण. पूण आपल्या जगपांतल्यान दुसऱ्याक खोस मेळपाक जाय. कितल्योय आडखळी मुखार आयल्यो तरी त्यो निस्तारून फुडें वचपाक जाय. पावशी फांतोडेचेर मळबांत काळखी कुपां आसलीं तरी तातूंतल्यान वयर सरपी सुर्याचीं किरणां आमचे नदरेक पडूंक जाय. कितल्याय त्रासांत आनी वेदनांची पिडा आसल्यारय जगपाचो उद्देश आसता तो आमकां कळूंक जाय.'

राष्ट्रगीत जावन भुरगीं आपापल्या वर्गांत फापसलीं. इंदिरा आपल्या केबिनांत आयलें. सकाळच्यान पावस कोंसळटालो तो आतां थारिल्लो. ताणें मातसो विसव घेतिल्लो खरो पूण केन्नाय धर्तरेचेर घालून घेत अशी अवतिकाय दिसताली. मळब कुपांनी दाटून आशिल्लें. एक चली गैरहजर. णववेचें. साळू. ताचें ताणें आठवेचें मार्कशीट पळयलें. सगळ्या विशयांत ताका सत्तर ते ऐंशीं गूण मेळिल्ले. इतलें हुशार भुरगें! तिका वगीच हुस्को कसो जालो.

हांव घरांतल्यान भायर सरलीं ती आठवी पास जावन. साळू लेगीत आठवी पास. तेंवूय शिकपांत हुशार आनी हांवूय. पोरूं वर्सा दोग जाण णववेक येवूं ना. दोगूय चलयोच आनी त्योवूय हुशारूच. पळोवचें पडलें. अशें घडप सारकें न्हय. ती बरोच वेळ चिंतपाक लागली. एका प्रश्नाची जाप तिका मेळटाली. आठवेक पाविल्ल्या चलयांची पिराय तेरा ते चवदा वर्सांची आनी हेच पिरायेर चली एके बायलेच्या रूपकारांत पावता. हें समजून घेवप खूब गरजेचें. देखून तांचीं हीं वर्सां जपपाक जाय. दरेके चलयेच्या कुडिच्या अवयवांची वाड जावपाची ही नाजूक अवस्था. चली तेन्ना काचाबूल जाता. तिका आपल्या मनाची अवस्था पारखुपी कोणतरी जाय आसता आनी अशा वेळार तिका मायेन समजावन सांगपी शिक्षिका मेळ्ळी जाल्यार चलयेचीं पावलां योग्य दिशेन पडटलीं. ह्याच वर्सांनी चलयेक म्हयन्याची पाळी येवपाक सुरवात जाता आनी कितें करचें हें तिच्या गोंदळिल्ल्या मनाक कळना. आदलो काळ वेगळो आसलो. चड खर आसलो. म्हयन्याची पाळी येवप म्हणल्यार भश्टकार मानतालीं. आजूनय जायत्या घरांनी ही भावना तशीच आसा. अशा वेळार चलयांच्या कंवळ्या मनाचेर वायट बरे परीणाम जातात हातूंतल्यान तांकां सावरप ही मोठी जापसालकी वर्गशिक्षिकेची आसता. एके मुख्याध्यापिकेचे सुवातीर आसतना हांव ह्या गांवच्या आठवी णववेच्या वर्गांतल्या चलयांक सांबाळटलीं. इंदिरा आतां चिंतपाक लागली. हेच पिरायेचेर चलयेक वेगळें कितें कितें चमत्कारीक कशें करीन दिसता तर केन्ना कुडींत बदल घडटना पोटांतली दूख, तकलीफोड ह्यो वेदनाय असोंशीक थरतात. कुडींत घडटल्या बदला वांगडा तिचे बुद्दीमत्तेची वाडूय जावपाची पिराय हीच आसता. शाळेंतल्या वेळापत्रका वांगडा आपल्या म्हयन्याचे पाळयेच्यो तारको खुणो करून दवरच्यो

लागतात. हाका लागून केन्ना तिच्यांत नर्वसपणाय येता. धाडस आनी नर्वसपणा दोनूय सरभरस जावन ती केन्ना सतर वितरय जाता. आपलो अणभव येवजितां खिणाक साळूचो ऊगडास जावन ती शीटूक जाली.

साळू खंय रावता ती तिणें चवकशी केली. तिका अदमास आयलो. इंदून सांग्यार भाड्याचो फ्लेट घेतिल्लो. गाडीय घेतिल्ली. आज ती गाडी घेवन सांग्यार सान आयिल्ली.

शाळेचो पयलोच दीस जाल्ल्यान शाळा बेगीन सोडिल्ली. इकरा वरां जाल्लीं. ताणें गाडी भायर काडली. लार्गीच कांय बारीक बारीक धाकटुलीं घरां आशिल्लीं तातुंतलें एक साळूचें. गाडी थांबनाफुडें भोंवतणी लोक एकठांय जाले. गावांत कोणूय एखादो नवखो आयल्यार ताका जाय ती मजत करपाक लोक सामके तयार आसतात हो अणभव इंदूक आशिल्लो. ताणें सगळ्यां कडेन आपुलकायेचे नदरेन पळयलें आनी साळूच्या घराचे दिकेन ती गेली.

साळू घराच्या पाश्टार चडून नळे सारके करतालें. इंदू ताका अजापान पळयत रावलें. हें भुरगें सादें आनी सामान्य आसपाकूच शकना. असामान्यतायेचे गूण ताच्यांत आसात. वयल्यान साळून तिका पळयली. दारांत झकपक बायलेक पळोवन ताणे आवयक उलो मारलो, 'आवय, भायर कोण आयल्या पळय.' ती नुस्तें उजरायताली थंयची बेगीबेगीन उठली आनी हातार उदक घेवन भायर आयली. अनवळखी बायल, ती पळयत रावली.

'हांव इंदिरा. हे शाळेची मुख्याध्यापिका. साळोरी खंय? तें आज शाळेंत कित्याक येवूं ना तें विचारपाक आयल्यां.' अशें म्हणीत ती घरांत भितर सरली. आवय कांचवेली. बस म्हणपाक घरांत एक कदेल ना. दोन तामरेती आशिल्ल्यो. तांचेर पुस्तकां, कपडे पातलायिल्ले. बेगीबेगीन रिकामी केर्ली आनी तिका बसपाक सांगलें. येदी व्हड व्यक्ती आपल्या दारांत आयिल्ली पळोवन ती भुल्लुसली. आनी अपराधी जाल्ल्यावरी बाबडें तोंड करून वगी रावली. खालते मानेनूच तिणें आपल्याच घराचेर एक नदर भोंवडायली, घरांतलें दळडीर लिपोवपाक वणटीक आनी पाश्टाक दसयिल्लीं थिगळां! कितें म्हणटली ती आमकां! 'येतां, राव आं' म्हण आवय भितर गेली. साळू नळ्यार चडलां म्हण सांगपाक तिका लज दिसली. इतले म्हणसर साळू उडकी मारून सकयल पावलें. 'हांवूच तें साळू.' ताणें म्हणलें.

'हजेरीपटाचेर नांव आसा साळोरी'. तिणें म्हणलें.

'पूण म्हाका सगळीं साळूच म्हणटात.'

'साळोरी म्हणल्यार सवणें, खबर आसा मुगो तुका? सवणें गोड आसता. भुर्र करून हुडटा. नांवांत बदल करप ना. साळोरी कानाक बरें लागता. कळ्ळें?'

ताणें मान हालयली. 'हांगा रानांत खूब आसात साळोऱ्यो. यो यो सवण्या यो म्हण साळोरेक उलो मारिल्ल्यावरी आवय म्हाकाय उले मारपाक लागली उले, साळू

साळू करून आनी केन्नाय साळोरे म्हणून, मागीर तेंच नाव म्हाका पडलें. त्याच नावान नोंदणी जाली आनी तेंच उरलें हजेरीपटाचेर.'

'शाळेंत कित्याक आयलें ना आज?' इंदिरान विचारलें.

आवयन तें आयकलें. उदकाचो पेलो घेवन भायर येताली, ती जाप दिवपाक वताली तें पळोवन इंदिरान म्हणलें, 'प्रश्न ताका विचारला, जाप ताका दिवूं दी.'

'घर शिंवपाचें आशिल्लें. पावस पडटालो आनी सगळ्याक गळटालें.' साळून म्हणलें.

'म्हणून शाळा चुकोवन तूं घरार चडलें?'

'आमी पडलीं गरीब मनशां. दळीद्र आमच्या पाचवेक पुजलां. पळय भितर नदर मारून जमनीर गळून कशी खातड जाल्या ती.' आवयन म्हणलें.

'जाणा हावें पळयलां. पूण ताची पिराय शिकपाची. ही संद मागीर मेळची ना. ताका शिकपाक दी.'

'अंदू मीर्गा आदींच पावसान घालून घेतलां. साळू आमचें सगळ्या विद्यानी पारंगत. वयर अर्दीमर्दी माकड भोंवतात. खंयूय फुटल्यात बी जाल्यार पळोवचें पडटा. पावसाआदीं सारकें करप जालें ना. हालींच्याच दिसांनी माकडांनी उडी मारून जुस्त चार-पाच पाटणां फोडलीं. कापोतीन धांपून दवरला पळय वयलो कोणसो. तीं कशेय तरेन घालपाकूच जाय. वारें वादळ जायत आसता आनी हुस्को उरता. घरांत दादलो मनीस कोण ना. पांच भुरगीं म्हाका. ल्हान सगळीं. बापूय मेल्यार दोन वर्सां जालीं. मानायपण करून कितेंय कमायतालो. हांव भायर कसल्याय वावराक वतलीं म्हणल्यार ह्या पोरांक कोण रांदून घालतलो? हें साळू बाबडें भोंवता हेवटेन तेवटेन.' एका दमान ती उलोवन गेली.

'हें करपाक मानाय सांगपाचे न्हय? ताका कित्याक चडयलें?'

'मानायाक दिवपाक पयशे खंयच्यान हाडूं? साळूक म्हणलें तूंच चड वयर. हांव खाला रावतां. हुशार म्हगेलें पोर. जुस्ताजुस्त केलें ताणें.'

'आगे पूण ताका शिकपाक नाका? तें असल्या कामांनी पारंगत आसतूय पूण तें शिकपाकय हुशार. ताचे आठवेचे गूण पळयले हावें. खूब बरे पडल्यात.'

'ताका सांगलें हावें पुरो शिकलां तें. आनी शाळेंत वचूं नाका. खंयूय वावराक चल आनी जोडून हाड' आवय वितरागून उलयली हें इंदिराक कळ्ळें.

इंदिरान साळोरेक म्हऱ्यांत ओडलें आनी अपुरबायेन विचारलें,

'साळू, तूं सांग शिकतलें काय ना फुडें?'

तें तोंड धांपून वगी रावलें, तिणे तोच प्रश्न परतून विचारलो.

'म्हाका शिकपाचें आसा.'

'मागीर तुका म्हजे बरोबर येवचें पडटलें.'

'आई धाडची ना. तिका आदार जाय

म्हजो.'

'तिका हांव समजायतां. पयलीं तुका सांगतां, तुजेमुखार एक सरळ वाट आसा जी आवयन तुजे खातीर निर्माण केल्या. तूं फाल्याच्यान शाळेंत येवचें ना, तूं भांवडांक सांबाळटलें. तूं आवयक आदार करतलें. कामाक वतलें, पयशे जोडटलें. हे सरळ वाटेन तूं वचपाक सोदता. हय मुगो?'

'ना टीचर. म्हाका शिकपाचें आसा. म्हाका ही वाट नाका.'

'खात्रीन तुका हे वाटेन वचपाचें ना? जाल्यार तुका नवी वाट निर्माण करपाची आसा आनी ती तुज्या कर्तुपांतल्यानच जातली. तुजे गरजेच्यो वस्तु घे आनी म्हजे बरोबर यो. तुका नवी वाट निर्माण करून दितां जी तुजो फुडार थारायतली. निर्णय तुजो. मर्जी तुजी.'

आनी इंदून भितर वचून आपल्या जिविताच्या चलचित्राचीं सगळीं रिलां कथानकांतल्यान ताचे आई सामखार घुंवडायलीं आनी म्हणलें 'तुजी धूव साळोरी आयच्यान म्हजी जाली. ताचो सगळो खर्च हांव करतलीं आनी तुका पयशांची गरज लागता तेन्ना हांव दितलीं.'

साळूक घेवन इंदिरा गाडयेंत बसली. पावस परतून सुरू जाल्लो. साळोरीच्या आवयच्या दोळ्यांतल्यान व्हांवतलीं दुकां पावसाच्या थेंब्या इतलींच जबरदस्त आसलीं. कुशीक सिटार बशिल्ल्या साळूच्या अंतस्करणांत इंदूचें पडबिंब रूपकारा येतालें.

000



# कथामंच

(कथा)

गोकुळदास प्रभु

## अरोहण

रिहेर्सल सोंपतना मनांतली खिन्नताय इल्ली वयर सरली. छे, आयजूय तशेंच घडलें. सारकें जावंक ना.

भायले कुडींत अभी एकलोच पेल्ल घेवन खेळटालो. ताणें 'हाय' केलें. ताका परत 'हाय' करून चड उलोवंक रावनासतना चलत रावलों.

कोण दिसना. ह्या वेळार शुटिंगाक आयिल्लीं सगळीं भुरगीं आनीं तांचे घरकार रिहेर्सल हॉलांत ना जाल्यार स्टुडियोंत शुटिंग जाता थंय आसतले. आई स्टुडियोंत हेर भुरग्यांचें गायन आनी परीक्षकांचीं मतां आयकत बसल्या आसतली. थंयच बसूं दी तिका. नाका थंय वच्चें आतां. परीक्षक तशे बरे मनीश तरीय केन्ना केन्ना तांचीं भाश्यां आयकतनाच आंगार येता मागीर कशेंय आयकुपाचेंच न्हय. भायर पोरसूं इकरा वरांचें वत घेवन पडिल्लें. पोरसांतली चडउताराची जमीन तणान पांगरून उरिल्ली. झाडांक उदक शिंपपाची रबराची पाचवी नळी एका व्हडा लांब दिवडा भशेन वांकडी तिंकडी जावन पडिल्ली. चांफ्या रुखांच्या आनी ताडाच्या झाडा मुळांत, तणा पोंदाक ल्हान ल्हान दोंगुल्ल्यां वरी रेंवेची राश. उरिल्ले कडेन समतळ. रुखां मुळांत सावळी. ओडलायणी. पांय थंय वळ्ळे.

चांफ्या रुखा मुळांतले राशीचेर बसून फाट ताचेर तेंकयली. हाताचीं बोटां स्मार्टफोनावयले खेळ खेळपाक लागलीं. दोळे स्क्रीनार थिरावले. पूण मन खंय तरी उसळत गेलें... पांच म्हयने जाले, अशेंच घडटा. गायतना सूर हातांतल्यान निसरून वता. कितलो प्रयत्न केलो तरीय आवाज खंय ना खंय चिरिल्ले भशेन जाता

**गोकुलदास प्रभु :** जल्मः 28 डिसेंबर 1954. मूळ कोची -केरळ हांगाचे नामनेचे कोंकणी साहित्यीक. कथा हो साहित्य प्रकार प्रामुख्यान हाताळ्ळा. अनुवाद ह्या प्रकारांतय उल्लेखनीय वावर केला. *'अंतरआयामी'* (कथा, 1991), *'पृथिवै नमः'* (कादंबरीका, 1986), *'चवकी'* (अनु.1997), *'सुफीन सांगिल्ली काणी'* (अनु.2009), *'काळ'* (अनु. 2010) हीं कांय प्रकाशीत पुस्तकां. केंद्रीय साहित्य अकादेमीच्या साहित्य पुरस्कारान (1994) आनी अनुवाद पुरस्कारान (2002) सन्मानीत.संपर्कः उमेद, 25-21, 1320/ 42, न्यू माझिला कॉलनी, जेप्पू, कंकनाडी-पो.ऑ. मंगळूर, कर्नाटक. मो. 09986074635.

तेन्नाची ती गजाल. चार म्हयन्यां पयलीची. माचयेर इर्केस्ट्रा सयत निमण्या रिहेर्सला उपरांत दिगदर्शकान फायनल टेक म्हण सुचोवणी दिली. कॅमरा चालू करपाक आनी गायन सुरू करपाक सांगलें. पल्लवी बरे रीतीन गावन अरोहणाकडन पांवतना आवाज चिरून गेलो. लोखंडा वस्तूचेर कोयती लागिल्ले भशेन जालो. परीक्षकांच्या तोंडार आयिल्लो तो मंदहास..हो! पूण चिंतपाक वेळ नाशिल्लो, गायत रावलों. मागीर तो प्रसंग टीवीचेर येतना स्टुडियोचे फाटले कुडींत राविल्ले आईच्या तोंडावयली प्रतिक्रिया बी पळोवपाक मेळ्ळी. तिणें तोंड धांपिल्लें, तिजे दोळे ओले जाल्लेलजेन, जीव गेलो. अजूनय तो देखाव तांणी यू ट्यूबांत दवरला.

तेन्ना दिशिल्लें, नाका ही भानगड, गायनय नाका आनी सर्तींत वांटो घेवंचोय नाका. पूण परीक्षकांच्या उतरांनी उपाट प्रेरणा आशिल्ली. हें सगळ्यांक अशें जाता रे. पांच स म्हयन्यांची गजाल. मागीर सारकें जातलें, आं. म्हाकाय सातवे क्लासींत आसतना अशेंच जाल्लें. हळू हळू तुजो आवाज बदलतलो. एक बरो दादल्याचो आवाज मेळतलो. कोण जाणा, मोहम्मद राफी, मन्ना डे, किशोर कुमार, येशुदास हांचे भशेन तुजोय आवाज जावंयेता. तो मेरेन जाता तितलें बरे रितीन गायत राव, आं.

तें खरें. आवाज बरो बदल्ला. आनीकय सुदारतलो खंय. बेगीन जाल्यार पुरो. चार जाणां मुखार वचून गायतना, तांची तुस्त आयकतना मन फुलून येता. तो बरो आवाज केन्ना मेळटलो काय!

"चोरा, हांगा येवन लिपून बसला, आं?"

"कोण? ओ, आई."

"त्या गार्डान सांगलें, तूं हांगा आयला म्हूण. हांगा येवन गेम्स खेळता, आं? जालो तुजो रिहेर्सल?"

"व्हय."

"कसो जालो?"

"ओ के."

"कितेंय प्रोब्लेम जालें?"

"सदां जाता तेंच."

"हांगा कित्याक येवन बसला? वतांत येवन बसल्यार ताळो पडता म्हूण सांगिल्लें न्हय?"

....

"यो. जेवणाचो वेळ जाला."

"इतले बेगीन जेवणाचो वेळ जालो?"

"व्हय. एक वाजत आयलां." स्मार्ट फोन बंद केलो. उठलों.

"तुज्या गायनाचें शेड्यूल केन्ना?"

"जेवणा उपरांत. तीन वरांक."

"जेवन आनीयेक फावट ट्राय करूया."

"नाका. लिरीक म्हाका बाय हार्ट आसा. थंय दोन तीनदां गायलां. परत परत गायलें तर स्ट्रेन जातलें न्हय."

"उं. यो."

जेवतना डायरक्टर अंकिल लागीं आयलो

"कितें रे, लिपून भोंवता?"

"तशें कांय ना..."

हासलों. अंकिल लागीं बसलो.

"आज तुजो शेड्यूल आसा न्हय? केन्ना तो?"

"तीन वरांचेर."

"ओ.के. अशें तशें जातलें म्हण हुसकेंव नाका, आं. रिलाक्स जावन वच. बरो गावपी तूं. आयज डेफनिटली सेमींत वेंचून येतलो."

मागीर तो आनी आई कितें कितें उलयत बसलीं.

जेवणा उपरांत वेयटींग रूमांत वचून बसलों. थंय आनी कोण नाशिल्लो. आनी कोणाक रीगय नाशिल्ली. स्टुडियोंत वचपाचें दार बंद आशिल्लें. आपोवणी येवपाक अर्द वर तरी रावपाचें. परत आपलो स्मार्ट फोन काडून तांतल्या वेगवेगळ्या ॲप्सांत रिगून वेळ काडपाक लागलों. धा मिनटांक कांय खेळ खेळ्ळे. मागीर व्हाट्सपांतले संदेश वाचले. सगळे तकले वयल्यान गेले. कांय मीम वाचून हासपाक आयलें.

अचकीत स्टुडियो कडेन वचपाच्या दारा वयर 'इन र' बोर्ड परजळ्ळो आनी 'कीं' असो आवाज जालो. स्मार्ट फोन बंद केलो, उठलों. दार धुकलून फुडें सरलों. वारांदार बशिल्ल्या स्टाफा कडल्यान मायक्रोफोन घेवन माचये दिकेन गेलों. खीण भितर थंय पावलों. माचयेच्या केंद्रांत जमनीर गायकाक रावपा खातीर मार्क करून दवरिल्ल्या वर्तुळा कडेन वतना पावलांचो वेग वाडिल्लो.

आयज कोण तरी नवो सोयरो परीक्षक म्हणून आयिल्लो –

"हाय राहूल!"

"हाय सर!"

"तूं खंय रे लिपून भोंवता खंय!"

"हांव लिपून भोंवता अशें हे सगळे कित्याक म्हण्टात?"

"तशें कांय ना सर."

"ओके. आयज खंयचें गीत घेवन आयला?"

"गीत गाता चल..."

"ओ, खूब पोन्न्या फिल्मांतलें..."

"हय सर. 1975 वर्साचें!"

"इतलें पोन्नें गीत कोणे वेंचून काडलें बाबा?"

"आईन."

"हें चित्र येतना ती लेगीत जल्मूंक नाशिल्ली जायत."

"सगळे हांसले."

"लिरिक कोणाचें?"

"रवींद्र जैन, सर"

"संगीत?"

"तांचेंच, सर."

"वेल प्रिपयेर्ड आं?"

"येस सर."

"बरें, आयकुया तर."

"ओ. के सर."

"ऑल द बेस्ट आं, तूं सेमी फायनांत पावतलो म्हूण वाट पळयतां."

"थॅंक यू सर!"

कोरसाचीं भुरगीं मायकां घेवन आयलीं आनी आपल्या जाग्यार तयार जावन रावली. कीबोर्ड अंकिलान श्रुती थारावन दिली. आनी इर्केस्ट्रान वाजप सुरू केलें. तीस बत्तीस सेकंडा उपरांत वायलिनाचे तीन

स्ट्रोक जातले. मागीर 'गीत गाता चल' म्हूण गायन सुरू करपाचें . श्वास घेतलो. हे फावट हांव सोडून दिवंचो ना सेमी फायनालांत पावल्यार जाता आनी पावलो ना म्हण बेजार जांवचोय ना. पूण इतले दीस म्हाका त्रास दिल्ल्या तुका पळय मारून उडयतां. मागीर मुखार बशिल्ले ते. तांकाय दाखोवन दितां आतां..

वायलिनाचे स्ट्रोक सुरू जातना परत श्वास घेतलो आनी ऐन वेळार श्रुतीकडेन लक्ष दिवन सुरू केलें... गीत गाता चल... रिहेर्सला वेळार तांणी सांगिल्लें सगळें याद दवरून गायलें. मर्दी परीक्षकांच्या तोंडाचेर नदर मारली. ते जिज्ञासेन आनी आस्तेन आस्वाद घेताले अशें दिसलें. 'ओ बन्धू रे' च्या आरोहणा कडेन पांवतना दोळे धांपून सगळें अस्तीत्व आंवळून तोंडांतल्या शब्दाक श्रुतीकडेन बांदून दवरलें आनी मागीर दोळे उगडून परीक्षकांकडेन पळयलें. तीग जाण ताळयो वाजयताले आनी एकलो दोनय हातांचे उंगटे वयर करून दाखयतालो. सूं जालें. उरिल्लीं तीन मिनटांय तशेंच अस्तित्व सगळेंच कानांत आनी तोंडांतल्यान येवपी आवाजांत मर्यादीत करून गायलें. कोरसाचो वेळ येतना अर्दी मर्दी परीक्षकां कडेन पळयतना तांच्या तोंडार आनंद, आश्चर्य आनी अभिमान भरून येतना दिसलें.

गायन सोंपोवन परीक्षकांक तोंड करून रावतना ते सगळे उठून ताळयो वाजयताले. तांच्या फाटल्यान सभेंत बशिल्ले लोकय ताळयो वाजयताले. कोण तोंडांत दोन बोटां घालून शिळोणी घालतालो.

पाया पोंदाक जमीन मात्शी मोव जाता अशें दिसलें. फाटल्यान आनी कुर्शीतल्यान वारें मारलें. आंग फुलून आयलें. भितरल्यान खोस आनी अभिमान उखलून येतालो. हय, पांच म्हयनान हांवू व्हडलों जालां. दादलो जालां.

000



# कथामंच

वल्ली क्वाड्रस

(कथा)

## विजा

**वल्ली क्वाड्रस :** जल्म : 1967, कथाकार, कवी, कादंबरीकार, बालसाहित्यकार आनी पत्रकार. कन्नड आनी कोंकणी भाशेंतल्यान लेखन. 240 वयर कथांचें लेखन. *'आशावादी'* (कथा, 2001), *'खिळो'* (कथा, 2003), *'कंगाल आनी ताची कुंकेहळ्ळी'* (कथा, 2005), *'सतां आनी कथा'* (कथा, 2007), बंद (कथा, 2017), *'संघर्श'* (कादंबरी 1991), *'गा म्हुज्या'* (कादंबरी 1988), *'पाटीं गांवांत'* (ई कादंबरी-2004), *'चारमुखां'* (कविता, 2002), *'कठपुतळी'* (कविता 2004), *'दरबारांतली पिरगण'* (कविता, 2006), *'बाजार'* (कविता, 2017) *'भितरलो कवी'* (2020) हीं तांचीं कांय प्रकाशीत स्वतंत्र पुस्तकां. *'विसाव्या शेंकड्याच्यो कोंकणी कथा '* ह्या कर्नाटक साहित्य अकादेमी प्रकाशीत कथासंग्रहाचें संपादन. *'पयणारी डॉट कॉम'*, हे ईपत्रिकेचें संपादक. कर्नाटक साहित्य अकादेमीच्या साहित्य पुरस्कारान दोन फावटी सन्मानीत. तशेंच दिवो नेमाळ्याचे वतीनय सन्मानीत. संपर्क- 1801, स्कायलार्क, सेक्टर-15, घांसोळी, नवी मुंबय, 400701, मो. 07738038980-07021967880.

''मायानगरीक स्वागत! सपनां देकचीं बरी सवय. पूण ट्रेनिंनी लोणचें जावंक, बिएसटी बस्सांनी सरळां घसटूंक तयार राव. ''

बोंबोयच्या फोर्टांतल्या कुडांत रिगानांच गांवभावान दिल्ली सलाह लियोक समजल्लिना तरयी, हेरांसमोर चडीत विवर विचारीन तर गर्जेभायलें विवरण आयकून अपणाक ल्हान कर्चें लियोक नाकासलें देकून तो वगोच रावल्लो.

''गांवाथावन खांबो हाडलाय?'' कुडांतल्या थोड्या मवालिंनी विचार केल्लो मात्र न्हय, लियोच्या बेगांत सोधनांय केल्लीं. पूण लियोक 'खांबो' म्हळ्यार कितें म्हणून समजल्लें ना.

''खांबो म्हळ्यार हून उदक. . . '' अनीकयी समजूंक ना? एकल्या मवालीन परत विचार केल्लो. लियोक अजून समजुंक नातलें.

''हून उदक म्हळ्यार पिट्रक. . . ''

''अनी पिट्रक म्हळ्यार काजुचो कंट्री. . ''

''शिक्तलोय पुता... वेगिंच शिक्तलोय...'' अन्येकल्यान ताळो मेळयतच सगलीं हासलीं.

लियोचो बापूल भाव दुबाय वेच्यार्दीं हेच कुडांत आसलो देकून लियोक सयत ह्या कुडाचें सांदेपण सलीसायेन लाभल्लें. ताच्याच गांवचे जायते तर्नाटे बोंबोय आयिल्लेच ह्या कुडांनी रावताले आनी थंय हांगा काम कर्ताले. कोण होटेलांनी वेयटर जावन, अनी कोण भाड्याची टॅक्सी चलवन, आनी कोण बेक्रेंनी पीट मोळून

तर कोण लौंड्रेंनी इस्त्री करून आपलो दिस्पडतो ग्रास जोडताले तर थोडे गलफाक वचूंक विजाच्या सोधनेर थंय हांगा भोंवताले. थोडे हफ्ता वसूली गेंगांत मेळल्ले देकून बिलडरांच्या गेंगासवें काम कर्ताले. तांचें काम; कोणाक भाड्याचें घर सोडंवचें, नेमीत आंगडेंनी वचून हफ्तो वसूल कर्चें. गांवचोच पीटर हांचो मुखेली. एका मधानेर हांणी कुडाक येंवचें. कुडाक येवंक वचूंक वेळाचें नेम आसा पूण पीटर आनी ताच्या सांगातींक कसलींच नेमां नातलीं. मध्याने रातीक आयिल्ले कुडाचे दिवे जळवन सुमार वेळ गप्पे मार्तात, कोण बंगल्यांनी काम कर्न आसच्या चेडवांविर्शी, आनी कोण पार्सी-इरानिंगेर रावच्या गांवभयणिंविर्शी अनी गांवांत कितें घडता म्हळ्ळेविर्शी. हासोन हांसोन थकतकच निंदतात. तांणी सकाळीं उटचेंच इक्रा-बारांक.

बोंबोय येवन थोडेच हफ्त्यांनी बोंबोय भोंवची लियोची आशा ज्यारी जाल्ली. गेटवे, कोलाबा मार्केट, ह्यांगिंग गार्डन, चवपाटी, विटी, चर्चगेट, बिएसटी बस्सां, ट्रेन म्हणून थोडी माहेत आपणायतच. ताचीं कामाचीं सोधनां सुरू जालीं. पूण वोंटार मिशियो नातल्ल्या, उलवंक सार्की हिंदी येनातल्ल्या ताका नोकरी दितलो तरयी कोण? कुडाच्या बगलेच्या इराणी होटेलांत दिसाळीं वाचूंक म्हणून विजाच्या सोधनेर आसचे तर्नाटे सदांय वचून गप्पे मार्ताले देकून तांचेसवें लियो सयत भर्ती जालो. एक दोन पावटीं बगलेच्या कोलोनिंतल्यो गाडियो धुंवचें काम करुंक म्हण चाय-नस्तो करुंक आयिल्ल्या वोचमेनान उलंवचें लियोन आयकल्लें. पूण चडीत विवर घेंवच्यादिंच, दूद विकच्या युपिच्या भय्यांनी एका बिहारीक लायलो.

"तूं भिंयेनाका, तुका नोकरी जरूर मेळतली, प्रेतन चालू दवर" विजाच्या पाटल्यान आसच्या तर्नाट्यांनी धैर्य दिल्लें म्हणून लियोन सयत अपलीं सोधनां मुकार वेलीं. एक पावटीं विजाच्या सोधनेर वरली गेल्ल्या तर्नाट्यांनी त्या ट्रॅव्हल एजन्सिंत एक काम आसा म्हळ्ळी खबर दिल्लीच, दुसरे दिसा लियोक वरून गेले आनी लियोक देड हजार रुपय सांबाळाचें ओफीसबोय जावन काम मेळ्ळें.

फोर्ट थावन वरली वचूंक बिएसटी बस्स मेळतालें पूण लेक कर्ताना बिएसटिची टिकेट मारग जाता देकून लियोन चर्चगेट पऱ्यांत चलून वचून. चर्चगेट थावन बोंबे सेंत्रल पऱ्यांत ट्रेन धरून, उपरांत बिएसटी बस्स धरून वेची सवय केली. कितेंच काम नेणासचो लियो पयलें वेळार दफ्तर उग्तें कर्चें आनी नितळाय कर्चें काम करून हळतार हिंदी शिकलो.

मधूर ट्रॅव्हल, एका तेंपार बस्सांच्यो, रेयलाच्यो, प्लेनाच्यो टिकेट्यी, पासपोर्ट कर्चें काम कर्न आसचें, पाटल्या दोन वर्सां थावन गल्फाची विजा दिवंचें काम करुंक धरल्लेंच त्या ट्रॅव्हल एजन्सीक येंवच्या लोकाची खेट चडली.

***

फोर्टांत, कोलबांत, नागपाडा,

तारदेव, वरली. . . . अशें गलफाची विजा दिवंवच्या एजेंटांचीं नवीं नवीं आफिसां उग्तीं जालीं. चडताव जावन मलबारी, बेंगाली, युपी, बिहारी, मद्रासी, मंगळूर-कर्नाटक, आंद्र अशें वेवेगळ्या प्रांत्याचो जायतो लोक विजाच्या सोधनेर येतालो. कोण एडवान्स म्हणून पांच-धा हजार दितालो, आनी कोण विजाचे फीस म्हणून पन्नास-लाक रुपय दितालो; जांव रिणारुपार हाडल्लो वा घर-जागो आडोव करून हाडल्लो. पूण दुडवाक दिल्ल्याक कसलोच पुरावो नातलो. दुडू दिल्ल्यांक कसलीच रशीद मेळानातली. चड जावन दुडू क्याश दिवंक पडतालो तरयी जायते कितलो पोयसो दिवंकयी तयार आसलो जाल्ल्यान हळतार असल्यांक लुटचे लुटकरयी चडले.

अशें विजाचें काम कर्चें दिसानदीस त्रासाचें जावंक लागलें. लियोचो धनी दिनू पंजाबी. पूण गल्फांतलो एकलो दल्लाळ गल्फाच्या विजाचें काम करवन दितालो आनी चडीत कमिशन घेतालो. पूण काम मात्र करवन दितालो देकून दिनू पंजाबी सयत वोगोच आसलो.

थोड्या विजा एजेंटानी लोकाक बनायिल्ली खबर दिसाळ्यांनी आयिल्ली. आनी चडताव जावन ह्या सर्व एजेंटांलागीं भोंवाडो काडताले. चडावत एकामेका वळकिचेच; कोण फोर्टाच्या एजंटालागीं गेल्लेच तारदेव एजेंटालागीं वेताले तशेंच वरली. पूण मधूर ट्रॅव्हल्साचो दिनू पंजाबी वेगळेच रितीन बिजनेस करून आसलो.

"खंयचर भिरांत आसता थंयचरच आवकासयी सोधूंक पडता'' दिनू पंजाबिचीं चिंत्लां साफ आसलीं.

खबराळ्या पत्रांचेर आयिल्ली खबर ताणें बरी करून गळसिली आनी अपलो फायदो कसो जोडचो म्हळ्ळें लेकयी घाल्लें.

"'धूर ट्रॅव्हल्स - एक मात्र ट्रॅव्हल्स एजेंट, जो तुमच्या एकेका पयश्याक रशीद दिता'' म्हळ्ळें जाहिरात ताणें एका दिसा मधूर ट्रॅव्हल्साच्या भायर चिटकायिल्लें मात्र. दीस गेल्लेपरिंच विजा मागून येतेल्यांची खेट चडली. अशें लियोचें काम सयत चडलें. आयिल्ल्यांचे पोयशे घेंवची, तांकां रशीद दिंवची अनी तो दुडू जत्नेन बँकाक पावीत कर्ची सगळी जबाबदारी लियोची देकून लियोन कावजेणेन पूण चत्रायेन हें काम सांभाळ्ळें देकून दिनू पंजाबीन सयत ताचो सांभाळ पांयशीं रुपय वाडयलो.

***

विजाक एडवान्स दिल्लो लोक धैर्यान दुडू दितालो आनी रशीद घेवन वेतालो. तांकां रशीद मेळताली जाल्ल्यान धैर्य आसलें. दिनू पंजाबीन हो दुडू अपल्या एका इश्टाच्या बँकांत डिपोसीट रुपार दवर्न ताचेर वाड घेवंक सुरू केल्ली गजाल लियोच्या मतीक गेल्लेंच ना. विजाक दुडू दिल्ले सयत तीन-च्यार म्हयने राकून, चडीत राकूंक जायना तर अपलो दुडू पाटीं मागतालो. आनी तो दुडू पाटीं दिंवचें काम सयत लियोनच कर्चें जाल्ल्यान लियोक सयत अपल्या कामाचेर अभिमान आसलो; आपूण सता-नितीन काम कर्चें म्हळ्ळें

चिंतप ताच्या मतींत आसलें. दिनू पंजाबीक सयत तेंच जाय आसलें. कोण तीन-च्यार मयने, कोण स मयने आनी कोण वर्सभर अपली विजा येता म्हणून राक्तालो, आनी जेदनां ताणीं दिल्लो दुडू पार्टी माग्ताना तो तांकां सलीसायेन मेळतालो जाल्ल्यान दिनू पंजाबीन अपलें बिजनेस भोव चालायकेन केलें; विजा मागोन येतल्यांचो संको चडून गेल्लेपरीं, दुडू दिल्ल्यांक पार्टी पावीत कर्ची फिकीर दिनू पंजाबीक नातली. तो त्या दिपासिटिचे फुंक्याक वाड खातालो.

दीस गेल्लेपरिंच दुडू पार्टी मागूंक येतेल्यांचो संको चडलो. थोड्यांनी दुडू पार्टी घेतच गाळी शिराप येटूंक धरलें.

"आमी आमचो घर-जागो आडोव दवरून हाडल्लो दुडू तुमी वर्सभर वाड केली, तुमचें सत्त्यानास जांव."

लियोक गाळी आयकून सवय नातली पूण दीस गेल्लेपरीं सवयेर पडली.

आतातां मधूर ट्रॅव्हल्सांत काम कर्ते ल्यांचो संको सयत देंवलो. दिनू पंजाबीन सयत आफिसाक येंवचें उणें केलें. लियोनच आफिसाचें कार्भार सांभाळूंक धरलें. पूण दीस गेल्लेपरिंच दिल्लो दुडू पार्टी घेवंक येंवच्यांचो संको चडतच दिनू पंजाबिच्या मतिंत कावजेणी भगली. पयलें सलीसायेन दुडू पार्टी दिंवच्या लियोक आतां दोनज-तीन दिसांची आवदी मागूंक पडली. पयलें दोन-तीन दीस आसले उपरांत दोन-तीन हफ्ते जाताना लियोक आफीस सांभाळचें त्रासाचें जालें.

"तुमी मागल्ले वेळार हांवें दिला, आतां हांवें दोन-तीन हफ्ते कित्याक राकाजय? म्हाका दोन-तीन दिसां भितर हांवे दिल्लो दुडू दिनातल्यार पोलिसांक रिपोर्ट कर्तलों" म्हळ्ळी धमकी मेळूंक धर्ताना लियो खरोच जावन भिंयेलो.

"तूं धैर्य घे, कोणेंच कितेंच करुंक जायना, आर्मी जर फटंवच्या इराद्यान आसल्यांव तर हें आफीस बंद करून धांवत्यांव, वा रशिद्यो दितेनांव, दोन-तीन हफ्ते कित्याक जाय म्हळ्यार, आर्मी सयत कोणाथावन मागून हाडूंक जाय. विजाच्या गल्फाच्या एजेंटानी दुडू वेला, आमचेलागीं ना. देकून आमी कोणा थावन रिणारुपार हाडून पावीत करिजाय." दिनू पंजाबीन लियोक भोळायलें.

***

दीस गेल्लेपरिंच विजा मागून येंवच्या नव्यांचो संको पुर्तो रावलो. आतां कोणयी मधूर ट्रॅव्हल्साक येतालो तर एडवान्स दिल्लो दुडू पार्टी मागूंक येतालो. आनी लियोक सयत ही सवय जाल्ली.

आज सकाळीं लियोच्या आवयचें कागद आयिल्लें; "बोंबोय वचोन वर्सां जालीं पुता, थोड्या मयन्याक न्हय तरयी, थोड्या हफ्त्याक पुणी गांवाक येवन वच."

लियोच्या मतिंत रजेर वेचीं चिंत्लां भरल्लीं.

तेच सकाळीं कांय इक्रा वोराशें दाट चेश्मा दोळ्यांनी घाल्लो तोच दादलो आफिसाक आयलो. लागशिल्या आस्पत्रेंत तो क्लिनराचें काम कर्न आसलो.

''मेरा विजा का क्या हुवा'' अपल्या व्हड ताळ्यान शीदा विचारितालो.

लियोक आतां उलवन सवय जाल्या, ताचोय ताळो उभारलो;

''दोन दिसार्धी तूं येवन गेल्लोय ने?''

''व्हय, पूण म्हाका म्हज्या घरा विचार्तात, विजाचें कितें जालें? एडवान्स दिवून मयने सात उतरले, पळे ही रशीद. '' ताणें अपल्या बोल्सांतली रशीद काडन म्हाका दाकवन म्हळें.

''हांव जाणा, पूण दोन दिसाक एक पावटीं येवन तूं अशें म्हजें मातें खाशी तर तुका विजा मेळता म्हण चिंतलेंयवे?'' लियोच्या ताळ्यांक राग आसलो.

''आनी कितें करूं? बायलेचें मंगलसूत्र आडोव घाल्ली, आतां तें सोडंवचें नोटीस आयलां, सोडवंक सयत पोयसो ना. . . '' ताच्या ताळ्यांक दूक आसली.

''तें म्हाका एकयी कळीत ना. . . पूण तुवें थोडे दीस राकूंक पडतेलें. . . म्हज्यान एकयी सांगूंक जायना. थोड्या दिसा उपरांत विजा जालिना तर तुवें दिल्ले एडवान्स पार्टी वर. '' लियोन कसलींच भगणां नासताना जाप दिली.

''एडवान्स पाटीं वरुंक म्हणून म्हज्या बायलेचें मंगलसूत्र आडोव घालूंक ना, म्हाका विजा जाय... तूं विजा दिताय य ना सांग...'' ताचो ताळो चडीत हठान भरलो.

''विजा म्हळ्यार कितें झेरोक्स मशिनांत वा कंप्यूटर प्रिंट कर्चिवे?. . वेळ लाग्ता. . '' लियोन सयत सोडन दिलें ना.

''कितलो वेळ. . . . दोन मयने म्हळ्ळें, आतां सात मयने जाले. अनीकयी तुमचेलागीं नखखी जाप ना. . . '' ताच्या ताळ्यांत रडनें आसलें.

लियोन कितेंच जाप दिलिना देकून तो आयिल्लेच वेगान रागान पाटीं गेलो.

लियोन मात्सो उस्वास सोडलो अनी एक ग्लास उदक पियेलो.

***

वोरां कांय साडेबारा जातीत.

''धूर ट्रॅव्हल्स किदर है' म्हणून बगलेच्या होटेला समोर बायक राववन विचार्च्या दादल्याचो ताळो लियोक आयकलो. हें सदांचें जाल्ल्यान लियोन चडीत गमन दिनासता, वेसत आसचेपरीं बसलो.

थोडेंच वेळान दोन हवाल्दार आफिसांत रिगले. वयर सकयल, भितर पळेलागले.

''बोस ना?'' एकल्या हवाल्दारान लियोक सवाल केलें.

''ना, पूण कितें काम तें सांग. ''

तितल्यार हवाल्दारान अपल्या बोल्सांतली एक चीट काडन लियोक दिवून विचारलें; ''तूं ह्या मनश्याक वळकताय?''

लियोच्या मतीक एकयी समजलें ना. सकाळीं अपल्या बायलेचें मंगलसूत्र आडोव घाल्या म्हणून रडल्ल्या दादल्याची रशीद ती जावनासली. म्हळ्यार ताणें वचून पोलिसांक रिपोर्ट केला? हें चिंतून लियोच्या आंगाची लोंव उभी जाली आनी ताचे हात पांय कांपूंक लागले. आनी ताणें जाप दिली; ''व्हय, तो आयिल्लो. . . विजा केदना येता'' म्हणतालो.

''वीजा आयली. बोंबे सेंट्रल रेलवे ट्र्याकाचेर उडी मार्न एकलो मेला, ताच्या बोल्सांत अमकां ही चीट मेळ्ळी देकून ताचो विवर करुंक आयल्यांव, ताचेविशीं चडीत समजूंक.''

उबो रवून हाताच्या बोटांत होस्पिटलाची दिशा दाकयिल्लेपरिंच लियोच्या तोंडांतून उत्रां सुटलीं; ''तो त्या होस्पिटलांत काम कर्ता. . .''

''बरें जालें तुवें सांगलेंय, आमी थंय वचून पळेतांव. . . .''

दोगयी हवाल्दार आम्सोरान होस्पिटलातेवशीन गेल्लेपरिंच लियो थंयच कदेलार गळ्ळो आनी दोनयी हातांनी अपलें तोंड धांपून गळगळ्यांनी रडूंक लागलो.

000



# कथामंच

(कथा)

वसंत भगवंत सावंत

## नंदीबैल

बाजारांतल्यान फाल्यांच्या येसायनमेंताक लागपी सगळ्यो गजाली घेवन तीनसानच्या वेळार म्हादगो रुमाची चावी काडपाक लागलो तेन्नाच घरवालीचे धुवेन ताच्या हातांत एक आंतरदेशीय पत्र हाडून दिलें. म्हादगो मात्सो बुचकळ्यांतसो पडलो. डि. एड. कॉलेजींत शिकपाक लागतगीर फाटले स म्हयने तो ह्या रुमार रावतालो पूण हांगाचो पत्तो हेडमास्टर सोडून तागेल्या बापायक लेगीत खबर नासलो, मागीर हें पत्र म्हज्या पुराय नावां-पत्त्यासयत कोणे धाडलें हें येवजून ताच्या कपलाक आठी पडली. कलयादाची चावी तशीच दवरून ताणें आंतरदेशीयाच्या पोटांत बोट घातलें आनी पिनून उकतें केलें. सगळ्यांत पयलीं ताणें सकयल सय कोणें मारल्या ती पळयली.

तुजो,

राम्या.

अशें वाचिनाफुडें ताच्या तकलेंतले दुबाव सुटले. फाटी चवथीक डि. एड. कॉलेजीक सात दिसांची सुटी आसली म्हूण तो पांच दिसांच्या गणपतीक गांवघरा गेल्लो. येतना आवयन ताका सामानाच्यो कितल्योश्योच पोटल्यो दिल्ल्यो. गांवांतल्यान सकाळीं सुटतले बशीर पावोवपाक म्हूण म्हादग्यालो शेजारी आनी सामको गुराचो इश्ट राम्या आयिल्लो. म्हादग्याल्यो पोटल्यांच्यो राशी पळोवन तोवूय म्हादग्यावांगडा शारांत आयिल्लो. शारांतल्या शेतकी खात्याचे कचेरेंत आपल्या कामाची वासपूस करपाक मेळटली आनी म्हादग्याकय आदार जातलो अशें चिंतून तो म्हादग्या वांगड्या रुमार आयिल्लो. तेन्नाय म्हूण म्हादग्यान

**वसंत भगवंत सावंत :** जल्म : 1960, कथाकार आनी नाट्यकर्मी *'निवल काणयो'* हो कथासंग्रह तशेंच *'कीर-मोर'* हो बालकवितांचो संग्रह प्रकाशीत. कला अकादमी, गोंय संस्थेच्या साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : रविन्द्र भवन, कुडचडें, गोंय 403 706. मो. : 9423058318.

ताका तसो पत्तो सांगूं नासलो पूण 'सदानंद सदन' हें घराचें नांव ताणें वाचलें आसतलें आनी डि. एड. कॉलेजीचे सामकार असो पत्तो बरयल्लें तें पत्र व्यवस्थित म्हादग्याच्या हातांत पाविल्लें. पत्र तशेंच हातांत धरून ताणें दार उकतें केलें, लायट पेटयली, एसायनमेंटाचें सामान मेजार दवरलें आनी जमनीर शेनरी ओडून पत्र वाचपाक घेतलें.

प्रिय म्हादग्या,

हें पत्र हांव तुकां रागानच बरयतां.

तुगेलो बापूय तुकां नंदीबैल म्हण्टा तेंच सारकें बुद्ध म्हणून नाच तुकां.

तूं थंय टिचर म्हणून जावपाक गेला पूण हांगा किदें जालां तें जाणा तूं?

तरीय तूं चवथीक येयल्लो तेन्ना हांवे तुकां सुमागेर वचून मेळ, ताचेकडेन उलय म्हणून सांगील्लें मरे? प्रेम करतालो मरे तूं ताचेर?

प्रेमाचे खेळ केले, ताका चाळोवन घातलें आनी स स म्हयने ताचेकडेन उलयलोच ना एक पत्र पूण धाडपाचें पापया. आनी हाताभायर गेलां तें आतां गावांत येवन पळय, तुगेलें सुमा वाऱ्यार सुटलां.

कोण मेळटा तांच्या वांगडा...

म्हादग्यान आनी आनी फुडें वाचीं नासतना आंतरदेशीय हातांतच मुड्डीलें आनी कोनश्याक भिरकटावन मारलें. सुमाची खबर वाचून ताची तकली जड जाली. फाल्यां सकाळचे पयले बशीर गावांत वचून सुमाक मेळपाचें ताणें थरयलें. आपणाक रातचें जेवण नाका म्हणून घरवालीक सांगून ताणे रुमाचें दार बंद केलें, लायट काडली आनी शेनरेर घालून घेतलें. हांगा रावपाक आयिल्ल्याक एकेय राती ताका सुमाची याद आयली ना अशें जांव नासलें. मॅट्रीकमेरेन गांवांतल्या शाळेंत शिकतना केन्नाच एकेय चलयेकडेन मेकळेपणान एक उतर उलोवंक नाशिल्ल्या म्हादग्याक म्हयन्या भराच्या सुमाच्या मोगान सामकें पिशें लायल्लें. आपूण डि. एड. करपाक शारांत रावपाक वतां हें ताका सांगतगीर रागान झगडूनशें तें उलय नासतना उठून गेल्लें म्हणून म्हादग्यानय ताका मुद्दम मेळपाचो चड प्रयत्न करूं नासलो आनी केन्ना चीट धाडची अशेंय ताका दिसूं नासलें. पूण सुमाक विसरप मात ताका कशेंच शक्य जाय नासलें. मॅट्रीकेची परिक्षा जाले उपरान्त घराफाटल्या दोंगुल्ले वयल्या काजीची मुट्टें पुंजायतना तागेली आवय निसरून पडली आनी म्हादग्याक काजीनी भोंवचें पडलें. तांच्या काजीच्या शेजराच काजी आशिल्ल्या दाजीचे धुवेन ताका मोगांत सामको घुसपावन वडयल्लो. एक चेडूं आनी एक चेडो एकांतांत मेळटात तेन्ना आपणाचेरूच ताबो दवरपाक कितलें जड जाता हाचो ताणे अणभव घेतलेलो.

न्हिदिल्ले कडेनच म्हादग्यान तकले पोंदचें उशें काडून वेंगेत घेतलें. आयज रातभर कशीच न्हीद येवची ना हें ताका होलमल्लें. राम्याचे चिटयेन ताचे तकलेंत धुमाकूल घातिल्लो. खऱ्यानीच आपणालें सुमा अशें वागता? काय आपणे हाचो थाव ताका लागं नासलो. राम्यान आपणाक बैल म्हटला ताचेंय म्हादग्याक वायट दिसलें. तसो तागेलो आबाय ताका ''हो एक आमगेलो

नंदीबैल' अशें भुरगेपणासावन म्हण्टालो. पूण म्हादग्याक ताचें केन्नाच वायट अशें दिसूं नासलें. म्हादगो सामको सादो भावार्थी. कोणाचेंय मन दुखवत अशी गजाल आपल्या हातांतल्यान घडपाक फावना अशें मानपी कोणेय किदेंय सांगलें जाल्यार फाटीं फुडें येवजीं नासतना भरवसो दवरपी. शिक्षणात तो आपले परीन पुराय लक्ष घालतालो पूण व्यवहाराचे नदरेत ताका तशी शिटूकसाण नासलीच. कोणेय कसलेंय काम सांगलें जाल्यार तें आपणाच्यान जातलें काय ना हें चिंती नासतना तो 'आं करतां' म्हणून नंदीबैलासारकी तकली हालयतालो आनी म्हणूनच आबा ताका नंदीबैल म्हण्टालो.

तशें म्हादग्यालें घराणेंच नंदीबैलकारांचे. ह्या गावांत ते आज्याच्या काळांत थायीक जाल्ले. पणज्या-शेणज्यांचो खरो गांव खंयचो हें आबाक लेगीत खबर नासलें. तांगेले जाण्टेले खंय पावसाचे दीस सोडून गांवांगावांनी नंदीबैल घेवन भोंवताले. पणज्याच्या काळांत लेगीत तांचेकडेन फिरतेचीं छत्तीस गांवां आसली. एक - दोन गांव भोवून जातगीर जो किदें पैसो आनी धान्य मेळटा तें घेवन एकट्या कोणेय घराकडेन हाडून पावचें आनी तिसऱ्या गांवांत पाविल्ल्या कुटूंबाक वचून मेळचें असो नेम आसलो. पणज्याच्या काळांत खंय सात भावांची सात कुटुंबा एककडेन नांदतालीं. तशीं कांय कुटूंबातलीं चडशीं बायल-भुरगीं नंदीबैला वांगडाच भोंवतालीं. वांगडा गाय, पाडकां, बोकड्यो, सुणीय आसतालीं. गांवचे शिमेर गोठण घेवप, थंयच रांदप, थंयच जेवप आनी दुसऱ्या गावांत वच सर थंयच न्हिदप. म्हादग्यालो आजो खंय एकदां नंदीबैल घेवन ह्या गांवच्या खाश्या-देसायांगेर पाविल्लो. नवे सुनेगेर सात वर्सां भुरगें जांव नासलें. आज्यान खंय पडवेर बसून 'कूळ' वाचली, घरांतले जाण्टेलेन सुपभर भात हाडून नंदीबैला मुकार दवरलें आनी दुसरें सूप हाडून आज्याचे झोळयेंत रकयलें. नंदीबैला मुकार उबी रावून तिणें आशिर्वाद मागलो तेन्ना आज्यान बैलाक विचारलें, "हे महादेवाच्या नंदी - ही माई इचारता तिचे सुनेची कूस उजवतली काय म्हणून' तेन्ना नंदीन 'हय' म्हणून तकली हालयली. 'वरसा भीतर चेडो जावपाक जाय तिगेर' अशें म्हण्टगीर नंदीन परत तकली 'हय' म्हणून हालयली. जाण्टेली माई खूश जाली. नंदीच्या आशिर्वादान वरसा भीतर घराण्याक वारस जल्मत जाल्यार गांवांत रावपाक सुवात आनी शेत कसपाक जमीन दिवपाचें तिणें उतर दिलें. दुसऱ्या वर्सा माई नंदीबैलकाराची वाट पळयत रावली. तीन म्हयन्यांचो नातू नंदीबैलामुकार हाडून तिणें आशिर्वाद घेतलो. ते दनपरां तांकां पडवेर बसोवन गोडश्याचें जेवण घातलें. आपल्या पुताक सांगून नंदीबैलकाराक गांवांत मठी बांदपाक सुवात आंखून दिवपाक लायली. "हांगा घर बांद, फुडले शेतवडींत भात पिकय आनी दोंगुल्लेर काजी आसात त्यो तूंच राख आनी तूंच खा." अशें म्हणून खाश्या-देसायान तांकां गावांत थारो दिलो. रावपाक थारो, शेत-भात मेळ्ळें पूण आज्यान नंदीबैल

घेवन भोंवपाचें सोडलें ना. पणज्याचें उतर घेवन तो हांगा रावपाक लागलो. फिरतेचे स गांव म्हादग्याच्या पणज्यान आज्याच्या वांट्याक दिले. आज्याच्या फाटल्यान नंदीबैल घेवन भोंवपाचें काम आजान चालू दवरलें. मात्सो व्हड जातगीर गळ्यांत धोलकें घालून म्हादगोय आबा वांगडा गांव माडोवपाक लागलो. नंदीबैलाक सजोवपाक म्हादग्याक खूब मजा येताली. गळ्यांत घांट-खुळखुळ्यांचो पोटो बांदप, शिंगाक पितळीच्यो शेंबयो घालप, पांयांत घुंगरां बांदप, फाटीर रंगीत कपडे आनी गोजडयो घालून वयल्यान गोंडे लांबतलो कपडो सोडप आनी कपलार म्हादेवाचो पितळीचो टांक सजोवपाचें काम म्हादगो उमेदीन करतालो. गांवांगावांनी हेडपाचें काम आशिल्ल्यान शाळेचें सपण चडपाचें ताणें केन्नाच चितलें ना. आबालेय तकलेंत केन्ना आयलें ना. पावसा दिसांनी एकदां दुसऱ्या वाड्यावयले शाळेंतलो मास्तर तांगेर पावलो आनी ताणें आबाक बरोच उजरावन काडलो. म्हादगो नंदीबैल सोडून शाळेंत वचपाक तयार जावचो ना अशें आबाक दिसलें आनी मास्तराक ताणें तूंच ताका विचार म्हणून सांगलें. पूण म्हादग्यान सरळ 'हय' म्हणून नंदीबैलाभशेन तकली हालयली आनी आबान ताचें नांव शाळेंत घालपाक लायलें. आबाक नंदीबैल घेवन भोंवतना आपल्याच गळ्यांत धोलकें घालचें पडलें. पूण ताणे म्हादग्याक शाळा बुडोवन आपणा वांगडा यो म्हणून केन्नाच सांगलें ना. सुटयेच्या दिसांनी नव्या पाड्याक शिकोवपाचो आसतालो तेन्ना मात आबाक म्हादग्याचो आदार घेवचो पडटालो. बरेपणाचें मागणे केले काय 'हय' म्हणून तकली हालोवपाक कशी खुणा करप हें म्हादग्यानूय शिकून घेतिल्लें. हय आनी ना सोडून आबा आनीकूय जायत्यो गजाली बैलांक शिकयतालो. घरच्या मनश्यांक नमस्कार कर म्हणटगीर दिमी मारून नमस्कार करप, 'लगीन जाता मरे तूं' म्हूण विचारतगीर सडसडीत उठप, 'तुजी कपीला गेली रे तुका सोडून' अशें म्हण्टगीर रागान वचून बसप असल्यो गजाली खुणांनी शिकोवपाक आबाक कितले त्रास पडटात तें म्हादग्यान पळयल्लें. आबा खूब पावटी नंदीबैलाक आपल्या आंगार घेवपाचो खेळ करतालो. गांवच्या तिस्कट्यार बी खूब लोक आसतात थंय जमनीर फाट तेकोवन न्हिदतालो आनी पायांची घट्ट मांडी घालतालो. मागीर एक एक उतर उलयतगीर बैल एक एक पांय आबाच्या आंगार दवरतालो आनी लोक ताळयो मारून बैलाचेर पैश्यांचो शिंवर करताले. म्हादग्यान शाळा धरली तेन्नाच्यान मात आबाक एकाय पाडक्याक आंगार खेळपाक शिकोवचें अशें दिसलें ना. नवे पाडे 'हय' 'ना' म्हणून तकली हालोवंक वेळ वगडायताले तेन्ना "ह्यो पळय म्हाजो नंदीबैल शाळेंत पांच पांच पुस्तकां शिकता आनी तुमकां 'हय' म्हणून तकली हालोवपाक जड वयता? अशें म्हणून बैलांक तापयतालो तेन्ना आबा आपली तोखणाय करता काय बकत्सायो करता हें ताका कळं नासलें. तशें तांगेल्या घराच्यांचे काम नंदीबैलकाराचे म्हणून

शाळेंतले भुरगेय ताका ताचे असवडी नंदीबैल म्हणूनच चाळयताले. आबा वांगडा घरा घरांनी भोंवतना नंदीबैलान 'हय' म्हणपाक वेळ लायलो जाल्यार म्हादग्याचेर कलकल येतालो आनी बैलापयलीं आपूणच तकली हालोवन मेकळो जातालो. आयज चिटयेंत ताका राम्यान बैल म्हटलां म्हणपाची याद जाली आनी केन्ना केन्नाय सुमाय ताका ''बैलच तूं'' म्हण्टालें तीवूय याद जाली.

शेनरेर आड पडलेलो म्हादगो नंदीबैलाच्यो यादी उस्तून काडटालो तो सुमाची याद येवची न्ही म्हणून. पूण तें ताका कशेंच शक्य जाय नासलें. निमाणे भेटींत तें रागार जावन गेल्लें तेन्नाच म्हादग्यांन थरयल्लें हेडमास्तरान सांगलां तशें डि. एड. करतलों, टिचर म्हणून कामाक लागतलों आनी मागीरूच झगडाळ्या दाजीगेर वचून सुमाक मागणी घालतलों. पूण आयज आयिल्ल्या राम्याल्या पत्रान ताची तकली भेरेवन वडयल्ली. ताचो इश्ट राम्याय ताचेच वांगडा मॅट्रीक जाल्लो पूण कांठार पास जाल्ल्यान ताणे फुडें शिकपाचें सोडून घरच्या शेताभाटाच्या आनी दूद-गोरवांच्या धंद्यांत लक्ष घातिल्लें. तशें म्हादग्यानय बी फुडें किदें करपाचें तें चिंतूंक नासलें. पूण हेडमास्टरानच ताका आपणा वांगडा शारांत व्हरून थंय डि. एड. कॉलेजींत ॲडमीशन करून दिल्लें. शिक्षण जायसर थंयच रावप गरजेचें म्हणून आपले वळखीन कॉलेजीमुकार आशिल्ल्या एका घरांत ताका रुम पळोवन दिल्लो.

म्हादगो वण्टीक फाट तेकोवन उठून बसलो. ताका सुमा वांगडा सारलेल्या दिसांची परत एकदां याद जाली.

मॅट्रीकेची परिक्षा जावन रिझल्टाक कळाव आसलो. आबा नंदीबैलाक घेवन फिरतेर गेल्लो. म्हादगो चडसो राम्या वांगडाच हेडटालो. दिसभर जाण्टी आवय काजीनी भोवून मुट्टे पुंजायताली. काजींक भार येयलो तेच दिसांनी आवय पांय निसरून पडली. तिवटून पडलेल्या पायांचे दुखीक लागून काजींनी भोंवपाक मेळंना म्हणून तिचो जीव चिटमिटपाक लागलो. म्हादग्यान तें पारखीलें आनी खोंटलो आनी कांट्याची बडी घेवन दोंगुल्लेची वाट धरली. आवयच्या जिवाक मात्शें बरें दिसलें. आदेसभर काजींनी भोवून म्हादगो दनपरां जेवपाक घराकडेन आयलो तेन्ना आवयन ताका सांगलें, ''हे पळय सद्दां हांव मुट्ट्यांचो रोस काडून दाजीले सोऱ्या भाटयेर पावयतालें. तूं ते भानगडींत पडूं नाकां. खोटल्यांत घालून मुट्टे तेंचे कळमेर पावय. जाय जाल्यार काडूंनी तेंकां रोस.''

दनपारच्या वता भारार वारें बरें व्हांवतालें आनी मुट्टे पडत रावताले. म्हादगो उमेदीन दोंगर माडयतालो. कोळमेचेर मुट्ट्यांच्यो राशी जाल्ल्यो. आवयन ताका रोस काडूं नाकां म्हटिल्लें तरीय वेळ मेळ्ळ्यार यत्न करपाचें ताणें थरयल्लें. पूण मुट्ट्यांच्यो बियो वळटां वळटां पांच वरां जाली म्हणपाचें कळ्ळें आनी ताणें तो विचार सोडून दिलो. खोटल्यांत जाता तितले मुट्टे चेंपले आनी ताणें दाजील्या काजूंतल्या कोळमेची वाट धरली. दाजीन तागेल्या

आवयची खबर घेतली आनी चड मुट्टे उरल्यात काय म्हणपाची वासपूस केली. 'आनी दोन तीन पावटी तरी लागतल्यो' अशें म्हादग्यान सांगना फुडें आवय वांगडा कोळमेंत मुट्टे धोडयतल्या आपले धुवेक दाजीन उलो मारलो, "गो सुमा... दोन बादल्यो घेवन चल तेचे वांगडा आनी हाड थोडे मुट्टे." बापायलीं उतरां आयकना फुडें सुमान दोनूय हातानी दोन बालदयो घेतल्यो आनी तें म्हादग्या वांगडा चलपाक लागलें. वदोळ दोंगुल्लेचेर भोंवतना म्हादग्याक दाजीले काजींनी कोण तरी एक चेडूं काजू पुंजायत भोंवता तें दिशील्लें पूण ताणें तेवटेन व्हडलेशें लक्ष घालूं नासलें.

आतां मात आपल्या फाटल्यान चलत येता तें णववेंत शिकतालें तें सुमन म्हणपाचें ताका कळ्ळें. केन्नाच खंयचेच चलयेकडेन मेकळेपणान उलोवंक नाशिल्ल्या म्हादग्याक एके चलये वांगडा रानांत चलतना खांकुडलेल्या भशेन दिसलें. सुमान ताका दोन तीन पावटी इस्कोलावयल्यान किदें किदें विचारलें पूण "हय, ना" सोडून म्हादगो चड कांयच उलयलो ना. तीं दोगांय म्हादग्याल्या कोळमेकडेन पावत आयलीं तेन्ना 'म्हजे पांय दुखतात रे' म्हणत सुमान एका झोपा आड थपकल मारली. "बस तूं" म्हणत म्हादगो चलपाक लागलो तेन्ना "म्हाकां भंय दिसता रे, राव रे मात्सो म्हादग्या" अशें म्हणत ताणे रडलेल्या भशेन केलें. म्हादग्याची पावलां थंयच थांबली. सुमान ताका आपणा फुड्यात येवन बस म्हणून सांगलें पूण तो जाग्यावयल्यान हाललो ना. "पळय आं... तुयें म्हाकां रानांत भिवयलें म्हणून दाजीक सांगतलें," अशें म्हणना फुडें म्हादगो भिवन सुमा फुड्यान येवन उबो रावलो. सुमान ताच्या हातांतलो खोंटलो ओडून काडून कुशीक वडयलो आनी ताचो हात घप्प करून ओडून म्हादग्याक समतोच सकयल बसयलो. आपूण सुमाच्या शेजरा बशिल्लों कोणाकूय दिसत म्हणून म्हादगो हुसक्यान हेवटेन तेवटेन पळोवपाक लागलो. आपल्याक थरथरो भरला काय कातकुतल्यो जातात तें ताका कळंना जालें. "बैलच मरे तूं बुद्ध ना तुकां" अशें म्हणून सुमान म्हादग्याच्या भुजाक धरलें आनी लंवडून ताची तकली आपले मांडयेर दवरली. म्हादग्याचें अख्खें आंग झिणझिणलें. लजेन तो उठपाकसो सोदतालो पूण ताची तकली हाललीच ना. सुमान आपलो हात म्हादग्याचेर दवरलो आनी दोन बोटांनी ताचें नाक चेपलें, आपलीं बोटां अळंग ताच्या ओठावयल्यान भोंवडायलीं. विसावें वर्स लागिल्ली म्हादगो कितलोसोच वेळ आपली तकली सुमाचे मांडयेर दवरून न्हिदूनच रावलो. "उठ बैला. येळ जायत जाल्यार दाजी चामडी काडटलो म्हजी" अशें म्हणत सुमा उठलें आनी दोनूय बालदयो घेवन म्हादग्याल्या कोळमेवटेन धांवले. म्हादग्याक आपलें सगळें आंग जड जाल्ले भशेन दिसलें. हळू हळू पावलां मारीत तो कोळमेकडेन पावलो तेन्ना सुमान अर्दावयर मुट्टे आपल्या बालद्यांनी भरलेले. दोनूय हातांनी ताणें दोनूय बालद्यो उबारल्यो आनी तें तुरतुरीत चलपाक लागलें. म्हादगो

ताचे चालीक पळयत उरलो. मर्दींच तें घुवलें आनी "सकाळचे हांव पयलीं दोंगुल्लेचे वयले वटेन मुट्टे पुंजायतां" अशें म्हूण सांगून परत तुरतुरीत चलत गेलें.

म्हादग्यान उरलेले सगळे मुट्टे खोटल्यान भरले आनी दाजील्या भाटयेची वाट धरली. सुमाची आवय मुट्टे धोडायताली पूण सुमा मात म्हादग्याक दिसलें ना. निरशेल्या पावलांनी तो घराकडेन पावलो. मान्यांतल्या भाणांतले उदक उसपून उसपून न्हालो. तिनसनाच ताणें आवयक वाढ म्हणून सांगलें. जेवना फुडें तो आपले कुडींत वचून बाज्जेर आड पडलो. आयज घडलेलो प्रसंग ताच्या आयुश्यांत घडत अशें ताणे केन्ना चिंतूंकच नासलें. आपलें आंग थंड पडलां काय आपणाक जोर येना तेंच ताका कळं ना जालें. फाल्यां सुमा मेळटगीर ताचेकडेन किदें उलोवचें, तेकून बसल्यार किदें किदें करचे हें चिंतीत ताणें रात जागयली.

दुसरे दिसा सकाळी तों खोंटलो घेवन दोंगुल्ली चडलो तेन्ना बालदीभर मुट्टे पुंजावन सुमा ताची वाट पळयत शिमेर उबें आसलें. म्हादगो येना फुडें तें एका झोपा फाटल्यान बसलें तसो तोवूय वचून ताका तेकून बसलो. सुमान म्हादग्याचो हात आपल्या हातांत धरलो आनी आपल्या पोल्यावयल्यान भोंवणायलो. म्हादग्याक एक उतर फुटना जालें. सुमान आपले दोनूय हात म्हादग्याच्या फाटी आनी पोटावयल्यान व्हरून हाताची बोटां घट्ट आंवळून म्हादग्याक वेंगेत ओडलो तशी आपसूक म्हादग्याची तकली सुमाच्या मानेक तेकली. म्हादग्यान धीर करून आपल्या दांतांवयल्यान ओंट ओडून घेतले आनी सुमाच्या मानेक घांस मारलेल्या भशेन केलो. "माझ्या बैलान घांस मारलो रे म्हाका" अशें म्हणत तें सट्ट करून उठलें आनी घपाघप पावलां घालीत सकयल कोळमेवटेन धांवलें... सुमा परत वयर येत म्हणपाच्या आशेन म्हादगो वरभर वयले वटेनच भोंवत रावलो पूण तें आयलें ना. पुंजायल्ले मुट्टे ताणें कोळमेर हाडून दवरले आनी जेवणाखातीर घरची वाट धरली. घराकडेनय ताका थार लागलो ना. दाजीच्या काजींच्या वटेन नदर भोंवडायत तो मुट्टे पुंजावपाक लागलो. आयज ताणें बेगीनच मुट्ट्यांच्यो बीयो वळपाक घेतल्यो. कालचे भशेन दाजीन सुमाक आपल्या वांगडा धाडीत जाल्यार खंय बसपाचें तें ताणें पयलींच थरयल्लें. बीयो काडलेले मुट्टे खोटल्यांत भरता भरतां अकस्मात ताच्या मुकार सुमा उबें जालें. "दाजीन आयज बेगीन धाडलें गो तुका?" जड जाल्ल्या आवाजांत म्हादग्यान विचारले तशें "ना रे बैला, हावूंच येयलां दाजीक सांगून." अशें म्हणत बालदेंत मुट्टे भरपाक लागलें. दाजील्या भाटये वटेन वतना कालचे सुवातीकडेन पावनाफुडें दोगांय आपसूक थांबलीं. खोटलो आनी बालदयो थंयच दवरून एकय उतर उलोवचे पयलीं कालचे सुवातीर एकामेकाक तेंकून बसलीं. मनांत थरयल्लें तसो म्हादग्यान फुडाकार घेवन सुमाक वेंग मारली. मोट्या मोट्यान उस्वास घेत सुमानय म्हादग्याक घट्ट धरलो. "सुमा, हांव तुजेर जिवा परस चड प्रेम

करतां, तुज्याच वांगडा लग्न जातलों, पूण एक, लग्न जायसर आमी आमची मर्यादा सोडप ना.'' सुमान 'आं' म्हणून तकली हालयली तेन्ना म्हादग्यान हांसत म्हणलें, ''पळय आं... तुंवें आतां हालयली तकली बैला भशेन.'' आयज तीं चडच वेळ बसून उल्लीं. भाटयेर पावना फुडें दोळे तांबडे जाल्ल्या दाजीन सुमाक तापोवन विचारलें, ''येळ किद्याक जालो गो तुकां?'' तेन्ना मातूय गणमण नासतन सुमान सांगून सोडलें, ''अदर्या वयर बीयो हांये वळून दिल्यात ह्या बैलाक'' दाजीक फट मारतां मारतां म्हादग्या वटेन पळयत सुमान ताका दोळो मारलो. काजी हुलगल्यो तशें तांचें मेळप मात्शें कमी जालें. पूण भाटयेर रोसाची बल्लां भरून आशिल्ल्यान पावस येयसर सोऱ्याची भाटी चलतली आनी तो मेरेन आपूण आपल्या कार्जीनी येतले अशें सुमानच म्हादग्याक सांगील्लें.

मॅट्रीकेचो रिझल्ट आयलो ते दिसा झोपां आड बसून आपल्या ओठांत दूद पेडो धरून म्हादग्यान सुमाच्या ओठांत दिलो. ते दिसा दोगांय लागीं लागीं साबुदी भायर गेल्लीं पूण भावार्थी म्हादग्यान आपणाक थातारलो आनी मर्यादा हुंपप ना ह्या उतराक पाळो दिलो. मॅट्रीकेक बरे मार्क पडिल्ल्यान हेडमास्टरान म्हादग्याक समजावन समजावन डि. एड. करपाक तयार केलो. आपणेंच फुडाराक घेवन सगळी तयारी केली आनी दोन-तीन वर्सां उपरान्त त्याच इस्कोलांत ताका नोकरी मेळूं येता म्हणूनय फुसलायलो. आपूण गांव सोडून शारांत शिकपाक आनी रावपाकय वतां म्हणून म्हादग्यान सुमाक सांगले तेन्ना तें खूब खूब रडलें. गांव सोडून वचूं नाका म्हणून ताणें म्हादग्याक सोपूतय घातलो. हांव 'आतां मॅट्रीकेक पावलां, क्लासी सुरू जाल्यात पूण पुस्तकांतल्या अक्षरां जाग्यार म्हाका तूच दिसता म्हणून ताका विरगळावपाचोय यत्न केलो. अशें कोणूय रडतगीर बी म्हादग्यालें काळीज मात्शें मोव पडटालें आनी तो 'आं' म्हणून तकली हालोवन मेकळो जातालो. पूण आयज तो निबर रावलो. हेडमास्तरान आपणा खातीर जें केलां ते आपल्या बऱ्या खातीरूच केलां आनी टिचर जातगीर आपूणच येवन तुकां उतर घालतां म्हणून ताणे सुमाक स्पश्ट उतरानी सांगलें निमाणे सुमा रडलें, तापलें आनी म्हजेकडेन उलोवंकच नाकां म्हणत पांय आपटीत गेलें. आपणावेल्या मोगाक लागून तें अशें वागलें हें म्हादग्याक समजलें पूण तरीय सुमान एकदां तरी फाटल्यान घुंवून पळोवचें अशें ताका दिसतालें. पूण सुमान फाटल्यान पळयलेंच ना. निमाणे वरभर तरी म्हादगो एकलोच कार्जीनी बसून रावलो आनी निर्शेल्ल्या पावलानी घरा येवन ताणे सामानाचो ट्रंक भरलो.

म्हादग्याक सदांच रातीच्यो ह्यो गजाली याद जाताल्यो आनी आपणे सुमाचेर अन्याय केला अशीशी अपराधी भावना जाताली. फार्टी चवथीक तो गांवांत आशिल्लो तेन्ना ताणें राम्याक वांगडा घेवन सुमागेर वचपाचें थरयल्लें. पूण तये दिसा तो पावलो तेन्नाच ताका आबाक घेवन दोतोरागेर वचचें पडलें. आबा बरो नाशिल्ल्यान पांचूय दीस

गणपतीची सेवा ताकाच करची पडली. सव्या दिसा राम्यानय ताका सुमाल्या वाड्यार वचपाची याद केली पूण म्हादगो मात्सो अनमनलो. पांच दिसांच्या गणपतीक एकदां तरी ताच्यान पासय मारपाक जाताली पूण गणपती पळोवपाचें निमित्त करून लेगीत आयलें ना म्हण्टगीर आजूनय ताका आपलो राग आसतलो अशें म्हादग्याक दिसलें आनी ताणें राम्याक सायकल घुंवणावन परत येवपाक सांगलें. राम्याचें आयकून तेन्ना आपूण सुमाक मेळून आयिल्लों जाल्यार बरें जावपाचें अशें म्हादग्याक दिसले बगर रावलें ना.

म्हादग्यान उठून लायट पेटयली आनी वोदोळ भिरकटावन मारलेलें पत्र सोदून काडून वाचपाक सुरवात केली. "आतां गांवांत येवन पळय, तुगेलें सुमा वाऱ्यार सुटलां. कोण मेळटा ताच्या वांगडा काजींनी धुमशेणां घालता. पयर स म्हयन्याचे परिक्षेक तें सगळ्या पेपरांत फेल जालां खंय. इस्कोलांतल्या एका सराल्या रुमार एकटेंच ट्युशनाक वता म्हणूनय गांवांत बोवाळ पडला." फुडें वाचपाक जायना म्हणून परत ताणें पत्र मुड्डीलें आनी आपले दोळे धांपले. राम्यान बरयलां तें खरेंच आसतलें. त्या सराकडेन जाता जाल्यार जांव लग्न पूण काजींनी फिरोवपाक दुसऱ्यां वांगडा वचपाक ताका कसलो मद मारला?" म्हादग्यान परत शेनरेर घालून घेतलें. हाताभायर गेल्ल्या सुमाखातीर आतां आनी किद्याक चुरचुरपाक जाय. झक मारू तें. फाल्यां आनी हांव वचचोना गावांत. सुमाच्या हुसक्यान गरजे भायर यसायनमेंट करपाचो उरलो आनी न्हीदय खळयली म्हणत ताणें दोळे धापपाचो यत्न केलो, पूण सुमाच्यो यादी ताका रातभर सतयत रावल्यो. सदचे परस आयज सकाळीं तो बेगीनच उठलो आनी गावांत वचप ना म्हणून रातीं ठरयल्लें तें विसरून गावांत वचपी पयले बशीर चडून बसलो

- गावांत पावतगीर पयलीं घरा वचप काय पयलीं सुमागेर वचप?
- पयलीं सुमाकडेन उलोवप काय पयलीं दाजीकडेन उलोवप?
- तें किदें सांगता तें आयकून घेवप काय लोक किदें किदें उलयतात तें सांगून ताका जाप विचारप. अशे जायते प्रस्न ताचे तकलेंत घुंवत रावलें. किदेंय जांव, तुजो आनी म्हजो आतां संबद ना हें सडसडीत सांगले बगर परत येवप ना, हें ताणें निश्चीत थरयलें.

बस गांवांत पावली तेन्ना ताच्या काळजांत खपखपपाक लागलेल्या भशेन जावपाक लागलें. आपसूकच ताची पावलां घरावटेन घुंवली. पोरसांत पावतनाच पडवेर बाकार बसलेलो आबा भितर वतना ताका दिसलो, आनी आपणाक हडकुपाचें सोडून तो भितर किद्याक गेलो हाचो ताका हुस्को जालो.

"हेका आनी आयजूच येवपाक जाय आसलें" अशें आबान कोणाक तरी म्हणलेल्या भशेन ताच्या मात्शें कानार पडलें. घरांत भितर सरतनाच आवयन ताका पळोवन दोळ्यांक पदर लायलो.

‘‘किदें जालां गे?’’ ताणें हुस्क्यान विचारलें पूण ती वगीच रावली.

‘‘आबा केन्ना पावलो?’’ ताणें परत विचारलें.

‘‘कालच येयला फिरतेरसाकून. तेकाच रावताले खंय ते.’’ आवयन म्हणलें.

‘‘कोण रावताले गे? आनी किद्याखातीर?’’ म्हादगो कुवाड्यांतसो पडलो.

‘‘खाश्या देसायान गांवपण आपयलां देवळांत, आयज चारांक. त्या दाजीन घेवपाक लायलां खंय गांवपण. आबा पावलो म्हणून कळटगीर पांच जाण वांगडी येवन आपोवन गेल्यात आबाक.’’ आवयली उतरां आयकून म्हादगो सामकोच बुचकळ्यांत पडलो.

‘‘आगे जालां किदें? सारकें सांग मगे तरी?’’ तो तापलो.

‘‘जाला कर्म भोग. दाजीलें चेडूं गुरवार खंय चार म्हयन्याचें. कोणा एका सराले नांव सांगलां खंय तेणें. आनी चौग-पांच जाणांचीय नांवां सांगल्यात. तितूर तुजेंय नांव घेतलां. आबान तेंकां रातीं सांगलेलें, तूं शारांत शिकता म्हणून पावचो ना गांवपणाक. पूण तूं सारको पावलो म्हणून राग येयला तेंका.’’

आवयची उतरां जड जालीं.

‘‘आई, तुकां एक सांगता, खंयच्याच चेडवाकडेन हांव मर्यादा सोडून वागूंक ना. तूं किद्याक खंती जाता? आनी हें पळय गे... तेका चार म्हयने जाल्यात खंय मगे? हांव फाटले स म्हयने गांवांतच ना. मागीर? चवथीक आयल्लों तो घराभायरूच सरूं ना. मागीर ह्या चार म्हयन्यांच्या भानगडींत हांव कसो आसतलों? म्हादग्याची उतरां आयकून भितर बाज्जेर लंवडल्लो आबा भायर आयलो.

‘‘हें सारकें तुगेलें. यो तुंवय गांवपणाक. सडसडीत सांगोन वडोवया खरें किदें तें!’’ आबाक आतां मात्सो धीर आयलो. आवयन ताच्या मुकार ताट दवरलें पूण म्हादग्याक एकूय उणी चलली ना. नाचऱ्या सुमाची तर आतां ताका सामकीच तिडक मारलेली. राम्यान बरयल्ल्यो सगळ्यो गजाली खऱ्योच तर! इतले पावटी आमी मेळ्ळीं पूण हांवे मर्यादा केन्नाच सोडली ना. हाणें लज सोडल्या आनी वयल्यान म्हाजें नाव घेता? म्हादग्याक सामकीच भिरभिरी मारिल्ली.

सांजे चारांक तो आबा वांगडा देवळांत गेलो तेन्ना दाजी सुमाच्या हाताक धरून भरभरीत ओडून हाडटना ताका दिसलो, पूण सुमाच्या तोंडार नदर घालचीशीय ताका दिसलें ना.

खासो देसाय पावतगीर गांवपणाक सुरवात जाली. खाश्या देसायान जमलेल्या लोकांमुकार पयलीं सगळी खबर विसकटावन सांगपाक दाजीक सांगलें. दाजीन सराचें नांव घेतलें, म्हादग्याचेंय नाव घेतलें आनी त्या चौगामदीं राम्याचेंय नांव. तें पळोवन म्हादग्याक अजाप जालें आनी तिडकून आयली. खाश्या देसायान सवय जाणांक मुकार उबे रावपाक लायले आनी तुमकां किदेंय सांगपाचें आसा? असो प्रश्न केलो.

सगळ्यांत पयलीं म्हादग्यान तोण

उगडलें.

''हें पळयात खाश्यानू, हांव तर फाटले स म्हयने गांवांतूच ना, म्हण्टगीर ह्या चार म्हयन्याच्या प्रकरणात म्हाजें नाव घुसपावपाचो प्रश्नच येयना.'' म्हादग्याली जाप सगळ्यांकूच पटलेल्या भशेन दिसलें. सरासयत हेरांनीय आपूण हे भानगडीत ना म्हणून सांगपाचो यत्न केलो. पूण म्हादग्याभशेन व्यवस्थीत पटोवन दिवप तांकां शक्य जालें ना.

''हें पळयात, ह्या प्रकरणाची वेवस्थीत वासपूस कशी करपाची तें हांव सारकें जाणां. पयलीं तुमकां बरे भशेन विचारतां'' खाश्यान आवाज चडयत म्हणले.

''आरे सर, तुकां गुरु म्हण्टात मरे? आतां तुज्या मनाक विचार आनी सारकें सांग, जाता मरे तूं लग्न सुमाकडेन?''

म्हादग्याक दिशील्लें सर तयार जातलो म्हणून. ताका सराचोच दुबाव मारतालो. आनी ताणें आपूण जावन मान्य करून सुमाकडेन लग्न केलें जाल्यार तेवूंय बऱ्याक पावतलें अशें म्हादग्याक दिसतालें. पूण सरान तकली सकयल घालून 'ना' म्हणलें. खाश्या देसायान एक एक करून राम्यासयत चौगाकूंय तोच प्रश्न केलो पूण कोणूच तयार जालो ना. आपणें पयलींच व्यवस्थीत जाप दिल्ल्यान आपणाक आनी खासो – देसाय विचारचो ना अशें म्हादग्याक दिशील्लें. पूण चालंत रितीक धरून ताणें ताकाय विचारलें.

''म्हादग्या तूं जाता मरे सुमाकडेन लग्न?''

आपणे नंदीबैलाभशेन 'हय' म्हणून तकली कशी हालयली हें म्हादग्याकच कळ्ळें ना. 000



कथामंच

(कथा)

कुमूद भिकू नायक

# जाणीव

"आकाश . . . ए आकाश उठ. . . उठ. कित्याक बडबडटा?" किते जालें? जिवाक बरें दिसना? आकाशाल्या घरकान्नीन सुचीतान ताच्या कपलार हात लावन पळयलें. आरे तुजें आंग सामके थंड जालां आनी मात्सो घामूय आयला. घे थोडें उदक पी म्हूण सुचितान उदकाचो ग्लास हातांत दिलो. आकाश ग्लासभर उदक पिलो.

"आकाश कितें जालें? तूं कित्याक बडबडटालो?"

हांव किते बडबडटा तें म्हाकाच खबरना. चार दीस जाले फकत गांवाकडली याद येता. रातभर सारखी न्हिद पडना. ह्या कोरोना संसर्गाक लागून गांवांची याद चडूंच येवपाक लागल्या. म्हजो सगळो स्टाफ आपल्या गांवांत वचपाक गेला. कांय जाण वचपाची तयारी करतात. गांवांत वचपाक तीं कितली खोशी आसात जाणा तूं? तांच्यानी खबरी सांगून आपलो सगळो गांव म्हज्या दोळ्यामुखार हाडलो. आयकतां आयकतां म्हाकाय म्हज्या गांवाची याद आयली आनी दोळे भरुन आयलें.

" हां! हें मात खरें. गांवांतली याद आयल्या आसतली तुका. तुज्या अस्वस्थताये वेल्यान कळटा गांवाची तुका याद येता म्हण. हेखातीर त्रास करुन कित्याक घेवपाक जाय?" सुचितान म्हणले.

"सुचिता, आमी एक फावट तरी गांवांत वचून येवया गो. मागीर सांगता तुकां गांवाकडली खबर." आकाशान येदेशे तोंड करुन म्हणलें.

**कुमूद भिकू नायक** : जल्म : 1965, बालसाहित्यकार, कथाकार. *'कुमूदाल्यो काणयो'*, *''म्मी मम्मी काणी सांग'*, *'तिनिटर'* हीं बालसाहित्याचीं तशेंच *'पावलखुणो'* हो कथासंग्रह प्रकाशीत. कोंकणी भाशा मंडळ, कोंकणी कला साहित्य केंद्र, कुडचडें तशेंच साहित्य अकादेमी दिल्ली ह्या संस्थांच्या संस्थेच्या बालसाहित्य पुरस्कारान (2015) सन्मानीत. संपर्क : खोर्ली, तिसवाडी, गोंय. मो. 9921825200.

"कोणां खातीर थंय वचूंया म्हणटा. कितें करपाक? तुवें थंयचें सगळें विकलें न्हय? यादी खातीर तरी कितें दवरलां व्हय?"

"आनीक वीस-पंचवीस वर्सांनी अशें घडटलें आनी गांवांची याद येतेली हें तरी हांव खंय जाणां आशिल्लो?"

"हय, तेंवूय खरें तुजें. पूण आकाशाच्या मनाक समादान मेळचे खातीर मूळ गांवांत माशेलांत वचूंन येवपाचें अशें सुचितान थारायलें. सद्याक लॉकडावन सोंपला. भुरग्यांकूय घरांत रावन वाज आयला खंय. ह्या निमतान गांवांत वचून येवया. गांवांत वता हें आयकूनच सिद्दी आनी सिध्देश खोशयेन नाचपाक लागलीं. आकाश तर सामको भुल्लूसून गेलो आनी ताची अस्वस्थताय सगळी नाच जाली.

दुसऱ्याच दिसा सगळीं गोंयांत वचपाक स्वताचीच गाडी घेवन भायर सरलीं. गोंयांत माशेलात आकाशाचो गांव. आकाश वाटभर आपणाल्यो यादी सांगतालो. ताच्या यादी प्रमाण कांयकडेन तो सांगता तशें आशिल्ले. मात मेकळे आशिल्ल्या जाग्यांनी आतां व्हडल्यो व्हडल्यो इमारती दिसताल्यो. रस्तोभर गाडयांची यो-वच चालू आशिल्ली. आकाश ज्या स्कुलांत शिकतालो त्या स्कूलाची वळख लेगीत विसरिल्लो. थंय खूब बदल जाल्ले दिश्टि पडटालें. ते पळोवन आकाशान गाडी थांबयली. थंय कोणूच ओळखीचो दिसलो ना. इतल्यात आकाशाक वडाच्या झाडाची याद जाली म्हणून आकाश वडाचे झाड आशिल्ल्या जाग्यार पळोवंक गेलो. त्या झाडाच्या जाग्यार कॉलेजीची व्हडली इमारत उबी आशिल्ली.

आरे... आरे... ! झाड कापलें! शी... शी...! झाड आशिल्लें जाल्यार कोणूय तरी म्हजे वळखीचो मेळपाचो. . .

"आरे, आकाश तूं कोणाकडेन उलयता? कोण वळखता आशिल्लो? वचूयां आमी." सुचितान म्हणलें.

"जाणा मुगो सुचिता, हांगासर स्कुलाच्या कुशीक एक वडाचें झाड आशिल्ले. त्या झाडामुळांत आमी सगळीं भुरगीं बसतालीं. अभ्यास करतालीं. परिक्षेच्या दिसांनी हांगासर बसून एकमेकाच्यो प्रस्नपत्रीका तपासतालीं. पिकनीकेक कोण-कोण वचपाचो. खंय वचपाचें हें ह्याच झाडामुळांत थारायतालीं. एकमेकावयले राग रुसवे हांगासरुच निस्तारायतालीं. सुमार शंबर मिटर तरी वडाच्या झाडाचो आंवाठ आसलो. वडाच्यो पारंब्यो म्हणल्यार लांबचे-लांब वाली कश्यो लोबंकळटाल्यो. आमी त्या वालीक धरुन झोपाळे करतालें. वड आमकां कुशीत घेवन खेळयता असोच भास जातालो. ह्या वडाक लागून स्कूल लेगीत सोबीत दिसतालें. खरेंच आमी ह्याच वडामुळांत व्हड जाल्यात म्हणल्यार जाता. वड म्हणल्यार स्कुलाची निशाणी कशीं... वडाकडे म्हणल्यार खंयचीय बस थारताली. आतां वड ना म्हणटकच ती निशाणीय नासतली...

"आरे गांवांत सुदारणा जाता म्हणटकच हें सगळें ना जातलेंच न्हय. आदले ना करप

आनी नव्यान तयार करप. . . जमीनी किते वाडटात?'' सुचीतान म्हणलें.

''हय हें मात खरें तुजें. ''

''पूण आकाश, आमी आमची स्वताची गाडी घेवन आयिल्ले कारणान हें सगळें आमकां पळयत वचपाक मेळ्ळें ; आनी तुज्यो भुरगेपणांतल्यो यादी जाग्यो जाल्यो न्हय?''

''हय. सुमार पंचवीस वर्सानी हांव ह्या म्हज्या गांवांत आयलां. '' आकाशान म्हणलें.

''हय जाणा हांव. आनीक थोड्या वर्सांनी रिटायर्ड जातलो. रिटायर्ड जावपाकडे पावता पावता म्हणसर मूळ गांवांची याद चड येता खंय. जाणा मरे आकाश?''

''हय खरें आसूंये तें. याद येता तेन्ना घरा येवपाक कितेंय दवरचें. सगळे विकचें न्हय, असो म्हजो आजो उलयतना कोणाकय सांगतालो. खरें तें आज्याले, अशें म्हाकां आयज दिसता.'' ''चुकलो हांव; पूण तो वेळूच तसो आशिल्लो. आनी म्हजेकडेन कांय उपाय नाशिल्लो,'' आकाशान म्हणलें. फाटल्यो यादी काडटा तर्शी गाडीय फुडें फुडें चलताली. गांवांत पावताच गांवांतलो सोबीत सैम दिसपाक लागलो. रस्त्या कुशीचे माड धोलतालें. जशे स्वागताकूच उबे रावल्यात कांय कितें अशें जाणवतालें. शेतांनी कामां करपी कामगार आपल्या कामांनी व्यस्त आशिल्ले दिसतालें. आनी आकाश तांची माहिती बायल-भुरग्यांक उमेदीन सांगतालो.

खरेच आकाश गांवांची माहिती इतक्या उमेदीन सांगतालो की तो गांवांत पाविल्ल्याची खोशी जाणवताली. . . आकाश सांगता तेवूंय खरें आशिल्लें. आकाश हो आवय-बापायचो एकलो-एकसुरो पूत. घरांत मनशां कमी पूण घर मात व्हडले आशिल्लें. घरा कुशीक दुकान आशिल्लें. दुकान बरें चलतालें. आकाशाल्या बापायचें नांव विठ्ठलदास. पूण सगळे लोक ताका 'विठू' ह्या नांवांन वळखतालें. विठूले दुकान म्हणल्यार फामाद. दुकानाच्या मुखार एक बांक. त्या बांकार दोग- तिगां जाणाक बसपाक मेळटालें. बांक मात केन्नाच रितो आसनाशिल्लो. गांवांर घडिल्ल्यो सगळ्यो गजाली बांकार बशिल्लेकडेन कळटाल्यो. आकाशाल्या घरा सामकारा इल्लें भाटूय आशिल्लें. तातूंत चार माड, पणस, आंबो, केळीची झाडां, माडयो आनी कांय फूल -झाडांय आशिल्ली. घरांतले आनी भायले सगळे करप आकाशाले आवयक शक्य नाशिल्लें. ती सदांच दुयेंत आसताली. म्हणून घरांतले आनी भायले काम करपाक कोणूय मेळटा काय म्हूण विठ्ठलदास आयिल्ल्या गेल्ल्याक विचारुन खबर काडटालो.

एक दीस ही गजाल विठ्ठलदासान लायटिचे काम करपाक आयिल्ल्या मंगेशाक सांगली. मंगेश इलेक्ट्रीसिटीत कामाक आशिल्लो खरो, पूण कोणेय कसलेय काम सांगल्यार ना म्हणीनाशिल्लो. रोखडोच येवन करतालो. विस्वासू मनीस म्हण सगळे ताका वळखतालें. कामाक कोणूय आसा जाल्यार पळय म्हण सांगतकूच ताणे लक्ष्मीक म्हणल्यार आपले घरकान्नीक ही

गजाल सांगली. तागेले आयकून लक्ष्मीक तिची काकूट दिसली आनी ती स्वताच विठ्ठलदासागेर कामाक वचपाक तयार जाली. घरांतली सगळी कामां लक्ष्मी करताली आनी आकाशाकूय सांबाळटाली. आकाशाली आई चड बरी नासताली तेन्नाच लक्ष्मीक तांगेर रावचें पडटालें. रात जातकच तांकां वचपाक त्रास जाता म्हूण विठ्ठलदासान घरा फटल्यान आशिल्लें दोन रुम मंगेशाक रावपाक दिलें. मागीर ती दोगांय थंयसरुच रावपाक लागली. उपरांत दोन-तीन वर्सानी आकाशाली आवय भायर पडली. तेन्ना आकाश पंधरा वर्साचो आशिल्लो.

फुडें आकाशाक लक्ष्मी आनी मंगेशान आपणाल्या भुरग्या भाशेन सांबाळ्ळो. लक्ष्मीक भुरगीं नाशिल्लीं. लक्ष्मी ताची खूप अपुरबाय करताली. ते पळोवन विठ्ठलदासाक हुस्को नाशिल्लो. आकाश मंगेशाक काका आनी लक्ष्मीक काकू म्हण उलो मारतालो. आकाश शिकपाक हुशार आशिल्लो म्हणून बापायन ताका डॉक्टर करपाचें थारायल्लें. पूण ताचे सगळे इश्ट मॅकानिकल इंजिंनियरिगाचे शिक्षण घेवपाक गेले म्हणून आकाशानूयबी मॅकानिकल इंजिनीयरिंगाचे शिक्षण घेतलें. शिकप पुराय जातकच गोंयांतूच एका कम्पनीत कामाक लागलो. पूण खंयचेंच काम ताका मानवना जालें. कामाक वचपाक वाजेवपाक लागलो. खंयचेय कम्पनीत कामाक लागलो म्हणटकच तें हांगां त्रास करतात. थंय त्रास करतात. नाका आशिल्लेच काम सांगतात अशें सांगतालो आनी तें काम सोडटालो. एक दीस आकाशालो इश्ट गौतमान ताका एका कंम्पनीत नोकरेच्या इटरव्यू खातीर बेंगलोर आपयलो. गौतम हुशार आशिल्ल्यान ताका रोकडीच त्या कम्पनीत बऱ्या पदाचेर नोकरी मेळ्ळी. आपलो पूत बऱ्या कम्पनीत कामाक लागला म्हूण आकाशालो बापूय खोशी आशिल्लो. पूण बेंगलोराक वतलो म्हूण ताचे तोंड येदेसे जालें.

मंगेश आनी लक्ष्मीच्या भरवंशाचेर आकाश आपल्या बापायक सोडून वचपाक तयार जालो. आनी रोकडोच कामाक रुजू जालो. कम्पनी बरी आसा. थंयचे काम मनासारखे आशिल्ले म्हूण आकाश खोशी आसतालो. एक दीस आकाशाक मंगेशालो फोन आयलो. बापूय काळजाच्या आंताकान गेलो म्हणपाचे कळ्ळें.

आताच खंय तरी जाग्यार पडपाच्या वेळार बापायन सोडून वचपाक नाका आशिल्लें. बापूय गेल्ल्यान आकाश खूप दुखी जालो. पंदरा दीस घरा आशिल्लो खरो पूण घर सामके खावंक येतालें. परतून आकाश कम्पनीत रुजू जालो. आकाशान आता बेंगलोरातूच रावपाचें थारायलें. आकाश वतकच मंगेशाक एकलेपण जाणवपाक लागले. भुरगीं ना म्हण खंत आशिल्लीच उपरांत तांणे एक भुरगो पोसूंक घेतलो. भुरग्याक घेवन ती खोशयेत आशिल्ली.

एक दीस गौतमान आपणालो फ्लॅट विकता म्हणपाचे आकाशाक सागलें. खरें म्हणल्यार आकाशाक फ्लॅटाची गरज आशिल्ली. तो रावता त्या फ्लॅटांत चार

जाण मेळून रावतालें. म्हयन्याक चाळीस हजार भाडे आशिल्लें. दर एकल्याक धा हजार पडटालें. पूण सगळ्यांची लग्ना जाली आनी ते सोडून दुसरेकडेन रावपाक गेलें. आता आकाशाक चाळीस हजार दिवप शक्य नाशिल्लें. इतल्यात गौतमान फ्लॅट विकता म्हण ताका सांगले. आकाश चिंतपाक पडलो. कितें करप? भाड्याक रावचें परस फ्लॅट विकतो घेवप बरें. पूण पयशें खंयच्यान हाडप?

एक दीस तागेल्या कंपनीत काम करपी दिनेश ह्या हिशोबनीसान ताका एक युक्ती दिली. आरे आकाश तूं तुजे गांवातलें घर कित्याक विकिना? थंय कोण रावना अशें तूं म्हणटालो न्हय? मागीर थंयचे सगळे वीक आनी गौतमाचो फ्लॅट घे. ताचो फ्लॅट बरो आसा. हांव सांगता तुका. फ्लॅटाची एरिया शंबर मिटरा वयर आसा. तांणी किचन बी आपणाक जाय तशें करून घेतलां. दुसरेकडेन घर बांदलां म्हणून तो विकता. अशें सांगतकच आकाशाकय ते पटलें. तांणें रोखडेच गांवांत वचून ही खबर मंगेशाक सांगली. मंगेशान सगळे आयकून घेतले. पूण झाडां-पेडान भरिल्ले भाट विकता म्हण आयकून मंगेशाक खूप वायट दिसलें. कितें करतलो? हें सगळे घेवप आपणाक कांय शक्य ना. तांणी ही गजाल लक्ष्मीक सांगली. लक्ष्मी आयकून निराश जाली. आमी किते करतली? निदान हें घर घेवपाक तुमचेकडेन जमतले जाल्यार पळय म्हण लक्ष्मीन येदेशें तोंड करून घोवाक सांगलें.

घर आनी घरभोंवतणचो जागो दोनशें पन्नास मिटर आशिल्लो. आनी फुडलें भाट सुमार दोन हजार मिटर आशिल्लें. खरें म्हणल्यार आकाशाक आपणाले भाट आनी घराचो जागो कितलो आसा हे लेगीत खबरुच नाशिल्ली. सगळीं कागदपत्रां पळयतकूच आपणालो जागो कितलो आसा ते ताका कळ्ळें आनी आकाशान मळबांत वयर पळयले आनी आपल्या बापायक हात जोडून नमस्कार केलो.

इतल्यात मंगेश थंय पावलो. कांयच उलयलो ना. सकयल मान घालून उलोवं कांय नाका म्हण चिंतत रावलो.

"किते जालें काका? ओगी कित्याक?" आकाशान विचारलें.

"आकाश एक विचारु? हें घर हांव घेवपाक करतालो."

काका बरें जालें. हांव तुकां हे संबंदान विचारपाक करतालो. खरें सांगू काका, म्हाकां हें घर विकपाचे नाशिल्लें. म्हजी नोकरी बेंगलोराक आशिल्ल्यान हांवें फुडें थंयच रावपाचे थारायलां. हें तुकांय खबर आसा. म्हजो इश्ट आपलो फ्लॅट विकता. आनी हांव तो घेवंक सोदता. पूण पयशाची अडचण आसा म्हूण हांवें हें घर विकपाचे थारायलां. काका तूं घेता जाल्यार पयशे उणें करता." अशें सांगतकच मंगेश खूश जालो. तांणी आपलो पी. एफ. काडलो. आनी बँकेकडल्यान थोडे रीण घेतलें आनी घर विकते घेतलें. उपरांत आकाशान सगळें भाट विकले. हें सगळें विकून सुमार ऐंशी लाख उभे जालें.

आकाशान बेंगलोरात फ्लॅट विकतो

घेतलो. उपरांत ताच्याच कम्पनीत कामाक आशिल्ल्या सुचिताकडेन तो लग्न जालो. तागेर दोन भुरगीं जाली. देवादयेन आकाशाक बायल बरी समजून घेवपी मेळिल्ली. आकाश खूश आशिल्लो. संवसार बरो चलतालो.

आतां सुमार पंचवीस वर्सानी अकस्मात संबंद देशभर कोरोना हो रोग आयलो आनी परतून सगळे लोक आपल्या गांवांकडेन वळ्ळे. कांय जाण तर आपली पडिंग आशिल्ली शेतां कसूंक लागले. घरा सामकारा आशिल्ल्या जाग्यांनी भाजी, मिरसांगो लायल्यो. आनी ह्यो सगळ्यो गजाली दर एक एकलो उमेदीन एकमेकाक सांगतालें. ह्यो गांवच्यो यादी आयकून आकाश अस्वस्थ जालो. ताकाय आपल्या गांवांची याद आयली. आपणाचे भाट आशिल्ले जाल्यार हावूंय करपाचो. पूण गांवांत वचपासारखें हांवें किते दवरलां? म्हजो जल्मगांव म्हूण गावांत वचपाक थंय म्हजो कोण आसा? त्या गांवांत वचूं कसो? हो प्रस्न ताका सतायतालो आनी आपणें जमीन विकिल्लेखातीर पश्चातापान खंती जातालो. दीस रात आपली चूक ताका खाताली. तो न्हिदेत लेगीत बडबडटालो. तागेली ही अस्वस्थताय सुचितान जुस्त पारखिली. आनी सुचितानूच ताका गांवांत वचूंन येवया म्हण सांगून भायर काडिल्लो.

इतक्या वर्सानी गांवांत वचप म्हणल्यार आमकां थंयचो कोणूय वळखतलो म्हणपाची खात्री नाशिल्ली. मंगेश वळखतलो म्हणपाचोय ताका दुबाव आशिल्लो. . .

"सुचिता गावांत गेल्यार मंगेश म्हाका वळखतलो?" आकाश सुचिताक परत परत हेंच विचारतालो.

आरे, आकाश नाकाशिल्ले विचार कित्याक मनात हाडटा? मंगेश तुका कित्याक वळखुचो ना?

तुकां तांच्यानी सांबाळ्ळा न्हय? सुचितान म्हणलें, तरी आकाशाल्या मनात खंय तरी खातालें. आपणें घर विकूक नाका आशिल्लें अशें ताका दिसतालें.

इतक्या वर्सांनी गांवांत येतकच आकाशाक गांव खूब सुदारिल्लो दिसलो. पयलीचे कांयच दिसलेंना. तांच्या वाड्यार एक ल्हनशीच देवाची मठी आशिल्ली. त्या जाग्यार आयज व्हडले देवूळ दिश्टी पडटालें. माडाक लागून गांवांत थंडाय दिसताली.

"'खरेच सुंदर गांव!' सोबीत सैम... आंगाक वारे लागतकच शिरशिरे आयिल्लेवरी जालें. खरेंच हांगासर आमकां इल्लो जागो मेळत कांय?" सुचितान पट्ट करुन म्हणलें. हें आयकून आकाशाक धस्स जालें. "सुचिता तुकांय आवडलो गांव..?"

"हय गांवची मजा वेगळीच आसता... वर्सातल्यान एक फावट तरी येवपाक जाय ही मजा घेवपाक..."

उलयता उलयता आकाश गाडी घेवन घराकडे पावत आयलो. गाडयेचो आवाज आयकून थंयचे लोक ताका पळोवंक लागले. पूण शे... वळखीचो कोण दिसनाशिल्लो. कशे वळखतलें? तेदे वेळावयले सगळें म्हजे बरोबरचें जाल्यात आसतलें. आकाश

आपल्याच मनाक सांगतालो. इतल्यात गाडी घराच्या दारामुखार पावली. गाडयेच्या आवाजान एक तरनाटो भायर आयलो. कोण जाय तुमकां? त्या तरनाट्यान विचारलें.

"हें मंगेशाले घर न्हय?" आकाशान ताका विचारलें. आकाशान मनात म्हणलें, पयलीं हें म्हज्या बापायलें घर, म्हणल्यार विठूलें घर म्हूण लोक वळखतालें आनी आयज तें मंगेशाले घर जाल्लें. इतल्यात 'हय... हय' म्हणत लक्ष्मी भायर आयली. कोण आयला म्हणटनाच तिणें आकाशाक पळयलो. तिचें मुखामळ खोशयेन भरलें. 'आकाश आयला... आकाश आयला बेगीन भायर यो' म्हणीत तिणें मंगेशाक उलो मारलो. आकाश म्हणना बरोबर मंगेशूय बेगीन भायर आयलो. लक्ष्मीन आकाशाक घट्ट वेंग मारली. तिका आकाशाक वेंगेत धरुनच रावचें कशें दिसलें. "पूता आयलो तूं! खूब बरें दिसलें!" म्हणीत साडयेच्या पदरान लक्ष्मीन आपलें दोळे पुसलें. "पुता आमी आसासर एकदा तरी तुवें हांगासर येवचें अशें आमकां दिसतालें. ह्या जागेच्या मठयेन आमचें मनांतलें आयकलें दिसता म्हणून तूं हांगासर पावलो..."

हें सगळें आयकून आकाशाचे दोळे भरुन आयलें. कितलें आपलेपण... 'तुमी कशी आसात?' अशें विचारपाक लेगीत आकाशाकडे जायना जालें. लक्ष्मीनूच म्हणलें, "आकाश, आमी सगळीं बरीं आसात. हो म्हजो चलो. तुज्या बापायवयल्यान ताचे नांव आमी विठ्ठल दवरला. आनी दुकानाचे वीठू हें नांव लेगीत तशेंच दवरलां. ते दुकान आतां विठ्ठल चलयता. हें आयकून आकाशाक सामकी लज ज़ाली. खरें म्हणल्यार बापायचे नांव अपणें आपल्या भुरग्याक दवरुंक जाय आशिल्लें. हांव विसरलो... पूण मंगेश विसरुंक ना... म्हज्या भुरग्यांची नांवां हिका कशी सांगू? लज ती म्हाकां... खरेंच गांवांतले लोक आनी शारांतले लोक हातूंत खूब फरक आसता. ताचें भितर आपलेपण आसता. गांवातले लोक म्हणल्यार एकमेकाचे आदार कशें. ह्या म्हामारीक लागून घरचीं मनशां एकमेकाक जाय कशी दिसपाक लागल्यात.

इतल्यात दुकानाच्या सामकार आशिल्ल्या बांकाकडे ताचे लक्ष गेलें. बांक आसा तसोच आशिल्लो. फकत बांकाक पॉलीश केल्लें. बांकार मात दोग जाण बशिल्ले आशिल्लें. तें दोगूय आकाशाक वळखीचे कशें दिसलें. बापूय आसतना ते त्या बांकार बसतालें. आयजूय बशिल्ले दिसतात.

"आरे, आकाश आमकां तूं वळखलो? आमी तुज्या बापायचे इश्ट. तूं आमकां वळखचो ना. आमचे केंस पिकल्यात. दांत पडल्यात. पूण आमी अजूनय आसात. आमचो विठू ना. विठूची याद येतकच आमी ह्या बांकार बसतात आनी विडी फूंकतात..." तांणी अशें म्हणना फुडें आकाशान तांच्या म्हऱ्यात वचून तांची वासपूस केली आनी तांकां नमस्कार करुन परत दारांत आयलो.

इतल्यात लक्ष्मी भितर वचून उदकाचो

तांबयो आनी ताट घेवन भायर आयली. ताटांत पण्टी आनी पिंजरीचे आयदन आशिल्लें. आकाश आनी सुचिताच्या पायार उदक घातले आनी ओंवाळून तांकां भितर घेतलें. ''सूनबाय पयलेच फावट घरांत आयल्या न्हय... म्हणून आमी आमची रीत करतात.''

आकाशाक घेवन मंगेश भितर गेलो आनी फाटल्यान आशिल्ल्या 'त्या' रुमांत तांकां रावपाक दिलें. रुम तसोच आशिल्लो. पूण भितर मात्सो बदल केल्लो दिसतालो. वण्टीक दोन तराचें कलर मारिल्लें. वण्टीकच एक आलमार केल्ली. कुशीक सोफा आशिल्लो. जनेलाक पड्डे लायिल्लें. हे पळोन आकाशाक आपल्या बापायन ह्याच रुमांत मंगेशाक रावपाक दिल्ल्याची याद जाली. ताणें सुचिताक म्हणलें, ''जाणा मुगो सुचिता, हें दोनूय रुम पयलीं आमी तांकां, म्हणल्यार मंगेश आनी लक्ष्मीक रावपाक दिल्ले. आयज ते दोनूय रुम मंगेशान आमकां रावपाक दिल्यात...'' आकाश सुचिताक सांगतालो आनी सुचिताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवताली...

000



# भाशाभावर्की

(मूळ मराठी कथा : अंकुश गाजरे)

अणकार : संदेश श्रीकांत बांदेकर

## वाट

सकसकाळी मळब भन्न येयिले. हवामान मातर थंड कारांव आशिले. सुर्य वयर उदेलोच नाशिलों. मोड आशिल्यान सुर्याले दर्शन नाशिलें. तेतुंत भर म्हण पावसाली पिरपीर चालूच आशिली. मातेंत ओलसाण नाशिली तरी चीकचीकसाणेन मनश्यांक भायर सरूंक मेळते नाशिलें. आनी अशें म्हण तेमी घरांत बसून आशिलें. सदा सकाळीं वातावरण बरें उरतालें. आज मातर उदास दिसतालें. असल्या वातावरणा मद्यां शारदा म्हातारी खोर्पींत एक कोनश्यांत पाय कवटाळन्न तकली भितर घालन्न रडताली. म्हातारेल्या दोळ्यांतल्यान पावसां म्हणकीत दुकां गळताली. आनी ती दुकां पावसांबरा विरघळन्न मिसळन्न वयताली. हे म्हातारे खबर नाशिलें कारण ती शुध्द सोडन्न बशिलीं.

शारदा म्हातारेलो घोव गेल नंतर ती साप्प थकिली. घोव गेल्यांचे दूख्ख आजून काळजात आशिलें. कपलां कुकूम पुशिल्यान मन आनी उदास जाल्लें. म्हातारेक एकटेच जगचे नाक आशिलें. शारदा म्हातारेक एक जाग्यार बसलार बेग्गी उठूं जायनाशिलें. तोडांत उदाक घेऊ जायनाशिलें की रान्नी पोल्लेंत बी काम करूंक जाते नाशिलें. म्हातारे तोंडार, कपलार, हातार, खूप सुताळें सुरकुत्या जाळें जाल्लें. म्हातारी कमरेन वाकिली. माथ्या केंस पिकिलें. हात पाय थरथरतालें. मान हालताली. म्हातारेक बशील्या जाग्यावयल्लान उठूंक त्रास जातालें. म्हातारेक तोंडावयलो मूस आंबुडूक सुध्दा त्रास जातालें. म्हातारी पिंदिली साका फट्या भाशेन जाल्ली.

शारदा म्हातारेक चार पूत. चवघालीं लग्नां जाल्लीं.

**अंकुश गाजरे :** जल्म : 1988, मराठींतलो प्रतिथयश लेखक. कथा, कांदबरी, आत्मनिवेदन, ललीत निबंध अशा साहित्य प्रकारांत लेखन. *'वनवास'* (कथासंग्रह), *'अनवाणी'* (आत्मकथन), *'आठवणी जपलेल्या'* (ललीत), *'गांवमातीतील माणसं'*, (व्यक्तीचित्रसंग्रह), *'हुंदका'*, *'हिरकणी'* (कादंबरी) हीं कांय प्रकाशीत पुस्तकां. महाराष्ट्रांतल्या साबार प्रतिशठेच्या ग्रंथ पुरस्कारांनी सन्मानीत. संपर्कः सौभाग्य लेणं निवास, मु.पो. शेळवे, (गाजरे वस्ती), ता. पंढरपूर, जि. कोल्हापूर, पीन. 413,304, मो. 9763326655.

**संदेश बांदेकार :** जल्मः 1972 कथा, नाटक, कविता ह्या प्रकारांत लेखन. अनुवादाचोय वावर. *'बायल म्हगेली हुशार'* (2015, नाटक), *'अनवाणी'* (2018– अनुवाद) हीं पुस्तकां प्रकाशीत . 2019 वर्साच्या कोंकणी भाशा मंडळाच्या अनुवाद पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्कः सदशीवगड, कारवार. मों. 09480790172

नातरांक मांडेर घेवन खेळोवचे, काणी सांगचें, तेमगेल लाड करचे आनी अगदी आंनदान म्हातारपण घालोवचें अशी म्हातारेली आशा आशिली. पूण पुताली लग्न जाल नंतर सुनांन म्हातारे कडल्यान पूत आनी घर दोनीं आपल्याले ताब्यात घेतले. आनी बेगीत पुतान बी म्हातारेक अलग काडली. म्हातारेल सगळीं सपनां शिरि मोडल्या म्हणकी मोडन्न गेली. काळजार फातर दवरन्न म्हातारी तेन्नाच्यान आपल्या घोवा बरा दिवस धुकल्लताली. पूण आती कुकमा आदार गेल्ल्यान म्हातारेल हात पाय गळन्न गेल्ले. आता खंच्या पुताल्या दारात वचून उबे रावचे हो प्रश्न 'आ' कन्न उबो आशिलों.

"चल गे बा, म्हागेल घरा" अशें खंचोत पूत म्हण्णनाशिलों. एक पटि बायल येयल की खंची आवय आनी खंचो बापूय? जल्म दिल्यां आवय-बापायक पोरां विसरन्न वयतात आनी मागीर बायलाल कमराक लायिल्या तुवाल्या म्हणकी जातात. अशेत किर्ते ह्या शारदा म्हातारे बाबतीत जाल्लें. म्हातारेक कोणत आपले घरा आपयनाशिलें. म्हातारी ह्यांत विचारांत झरतें आशिली.

म्हातारी आजून दुकां गळयते विचार करते आशिली. तितल्यात शेजारचो पांडबा पावस लागचो न्हि म्हण बोडार एक चिरेची टोपी घालन्न शारदा म्हातारेक उल मारत वसयते येयलो.

"ये शारदा आवों, ये शारदा म्हातारे."

शारदा म्हातारी कापडा पदरान आपले दोळे पुसयते म्हणूं लागली.

"कितं रे पांडबा? कितं म्हणता?"

पांडबान बोडा वयली चिरे टोपी काडते फाफुडत म्हणलें

"कितं गे आवो? कितं जाल काय म्हण कीत विचारता? अगे आवो नशिबात येयील दूख्ख विसरचें उरता. आपा गेल तो बर जालो. तेगेल भांगर जालें. म्हाताऱ्याली कसली बी विटंबना केल ना देवांन आनी तूं दोळ्यान पळयत न्हि एक एकट्याली कसली परिस्थिती उरता म्हण . तस देव तेगेल काय विटंबना करचो नाशिलो. म्हाताऱ्यान पुराय आयुश्यांत सुक्या पत्र्यार पाय दिलनाशिलो. म्हातारो बेग्गी गेल तो बर जालो. हीं पोरां असलीं. म्हातारपणांत बोंडां ताप जावचे पेक्षा पयलींत तेगेल जिवाचे भांगर जालें. अगे, आवो सगळी मनश्यां मरुकुत येयलात. कोण जगूंक येयला? अश फरक इतलोत की म्हातारो आज गेलो फाल्या आमी वच्चे इतलेत हे जिवन."

शारदा म्हातारी दोळे परत पुसते म्हणूं लागली.

"हय बाबा, हे बरोबर तुगेल पळय."

पांडबा हांसून म्हणु लागलो.

"बरोबर आस न्ही? मागीर चल पळया उठ आता. तोंड बिन्ड धुवन च्या पी पळया."

पांडबाले हे उलौवणे आयकून म्हातारेल हडदे भन्न येयलें. म्हातारी कशी बशी उठू लागली. पांडबान म्हातारेल्या भुजां धरले आनी उठोवूंक आदार केलो. म्हातारेल भूज साप्प बारीक जाल्लें. म्हातारी तोण्याचो आनी पांडबालो आदार घेतेघेते वाट व्होळू

व्होळू चमकोवु लागली. चमकता चमकता म्हातारेल बोंडात विचार घोळू लागलो.

पोटाक चार पोरां पूण एकलो बी व्होरु येयल ना. पांडबा कोण कोणालो शेवटाक शेजारचोच न्ही? शेजाऱ्यांल पोर म्हागेल कडे येयलो. पूण पोटा गुळे मात येयल ना. बोंडांतल्या विचारान म्हातारेल हडदे भन्न येयले. पांडबान म्हातारेक आपणाल घरा व्होयलें. तोंड धुवच्याक गरम उदा दिले. म्हातारेन तोंड धुवन आपलें पदराक तोंड पुसलें. तेदो म्हणलार पांडबा बायलें सीतेन बरो दाट दुद घालन्न च्या कन्न बरो गुळाम भन्न च्या म्हातारेक दिलो. फुंक मारते म्हातारेन च्या दिवन सरयलो. म्हातारेक बरी तरतरी येयली. म्हातारेन पांडबाक तोंड भन्न आशिर्वाद दिलो. मागीर थोडे वेळान पांडबान शारदा म्हातारेक म्हणले.

"म्हातारे, हांव कीत म्हणतालो."

"कीतं रे बाबा, उलय."

"म्हातारे, म्हाक अश दिसता की... तुवें हांगात रावचे. थंय तर एकटी कश रावतली?"

तेन्नात पांडबाली बायल सीतेंन म्हणले

"हय गो आत्या, तुमी हांगात रावा न्हीं. तुमी उरलार घर भरील अशं दिसता. पोरां बी हांसते खेळते रावतली."

शारदा म्हातारी हे सगळें आयकताली तेन्नात परत पांडबा म्हणूं लागलो.

"आवों, कसली पोरां आनी कितें? अगे तेमगेल बायलेंन तेमकां पदरां दायांक बांदून दवरला. आनी तीं दार्यी सोडन्न तेमी येतल तुगेलकडे? तूं आपली हांग राव पळया."

शारदा म्हातारेन पांडबाले उलौवणे आयकले. म्हातारेल्या दोळ्यांतल्यान पटापट दुकां गळूं लागली. पोटा गुळ्यां पेक्षा हो परको मनीस लार्गी येयलो हे म्हातारेक आश्चर्य दिसलें. म्हातारी आपल्याल्या मनाकडे उलयली.

"देवा, असलो पोर म्हागेल पोटा जल्मा घालूंक तुक कसली धाड भरिली?"

शारदा म्हातारी कित्ल वेळ तरी विचार करते आशिली. थोड वेळान शारदा म्हातारी पांडबाक म्हणूं लागली.

"पांडबा,तुत्त म्हागेल पोटां जल्मा येवुं जाय आशिल रें."

पांडबा, म्हातारेल म्होऱ्यांत बसत म्हणू लागलों.

"अगे, आवो पोटाक जल्मा येयल ना म्हण किंत जाले? मानलार हांव तुगेलो चलोत म्हण जालं ना? म्हणत जाण्टी मनशां म्हणतात रक्ताच्या नात्यापेक्षा मानील नातें श्रेश्ठ उरता म्हण."

म्हातारेन पांडबाक लागी घेयले. तेकां मायेन पापी दिली. गालावयल्यान हात फिरोवन कट्टकट्ट कर्न बोटां मोडली. शारदा म्हातारी पांडबागेर रावूंक तयार जाली.

म्हयनों देड म्हयनों गेलो. शारदा म्हातारेल दिवस बरें चलीलें. तिकं खावूं जेवूंक बरें मेळूं लागिले. म्हातारी उठूंक फिरुंक लागिली. म्हातारी पांडबाल घरांत बरी संवकळ्ळी. पांडबान मनिसपणाच्या नात्यान म्हातारेक आदार दिलो. पांडबाल पोरांक आपणालं नातरां अशी मानून तेमकां

माया करु लागली. ती पोरां बी आपणाल आजी अशी कन्नत रावु लागली. म्हातारी आंगण घर झाडन्न बी स्वच्छ दवरुं लागली. पांडबाल पोरांक रिती रीवाजाचे पाठ बी शिकोवूं लागली. आत सगळें आंनदी वातावरण आशिले. म्हातारेक आत पांडबा आपलो पूत असो दिसूं लागिलो.

शारदा म्हातारेल व्होडलो चलो शिरपा. व्होड व्होड लोकांमद्या उठ बस करतालो. आनी गांवचे पुढारपण करतालो. आंगार मंत्र्यासारकें इस्त्री मारील कपडे घालतालो. माथ्यार कोच आशिली गांधी टोपी घालतालो. रुबाबांत वागतालो. एकपटी शिरपाक मनात दिसलें. आपूण बरबऱ्यां लोकांमदी उठ्ठा बसता. लोक आपल्याक नांव दवरतलें. म्हणतले 'तूं गांवचे बरें फुडारपण करता. आमकां शाणपण शिकयता. तुकं तुगेल सादि आवय सांभाळूं जायना? स्वता आवयक दुसऱ्याल दारात तुकडे मोडूं दवरला? आनी चल्ला गांवचे भलेपण करूंक.' शिरपाल मनात होत्त विचार घोळते आशिलों. तेगेल मन तेंकात खावुं लागिलें. तेक दिसूं लागले की आवयक घरा घेवन येवचे.

एक तिळंसाजेर शिरपा लोकलजे खातीर व्होड मनान पांडबाल्या घरा गेलो. म्हातारी दारांत भाजी समा करतें बशीली. शिरपा व्होळूत म्हातारे म्होऱ्यांत वचून बसलो. म्हातारेन शिरपाकडे पळोवन ना पळयिल्या म्हणकी केले. म्हातारी भाजी समा करते रावली. मागीर थोड वेळान शिरपात म्हातारेक व्होळूं आवाजात म्हणूं लागलो.

''बा... गे... बा चल मगे आमगेल घरा. कितले दिवस अशें लोकांल देल्लात रावतली.''

''ये... बाबा... ये हे लोकांल घर म्हणणनाका. हक्काच्या घरा पेक्षा ह्या परक्यां घरान म्हाक आदार दिला. म्हाकं सांभाळ्ळा.

परत शिरपान म्हणले.

''बरे, ते आसूं आता चल. चल उठय.''

म्हातारेन बेजारन्न म्हणले

''नाक रे बाबा हांव हांगात बरें आसा.''

शिरपाल मनाक लज जाली. तरी तसोत म्हणूं लागलो.

''तश उरत गे बा? अगे आपूण आपले घरांत गेल्ले बरें न्ही. लोक मागीर आमकां नांव दवरतले.''

शिरपाल उलौवण्यान म्हातारी तांबडी जाली. शिरपाकडे हात वांकडे कन्न म्हणू लागली.

''म्हणलार तूं लोक नांव दवरतलं म्हण येयल रे म्हाक व्होरूकं?? लोक नांव दवरन्न जाल्यार तूं खंय म्हाक व्होरूं येत आशिलों?''

शिरपाक राग येयलो. पूण तो दाखयनास्तना वयर वयर हक्क दाखोवूंक म्हणूं लागलो.

''कितं उलयता बा तूं? मना येयील उलयनाका. तूं चल उठ बेगी घर या आमी.''

शिरपाक मनांतल्या मनांत म्हातारेलो राग येयिलो. पूण तेगेल नाईलाज आशिलों. म्हातारेक लोकांल दारात कित उलयतलो?

म्हातारेक खंय खबर आशिलें की पूत लोक लजे साठी आपल्याक व्होरूं येयला म्हण. शारदा म्हातारेन मनात विचार केलो. शेवटाक आपणालोत पूत. ओगीत कित्या काडा ओडी घेवची. आनी शिरपाले बी खरें आशिलें. लोक तेकां बी नांव दवरता उरतलें. तश जाल्यार आपूण वयचे पडल ना? शारदा म्हातारी शिरपाल घरा वचू तयार जाली. पांडबाल घरांतल्यान भायर पडताना दोळ्यांतल्यान दुकां गळूं लागिली. तशेत तेगेल पोरांक आशिर्वाद दिलो. पूण हे शिरपाक पळौंवू जाल ना. म्हातारेन भरिल दोळ्यांन शिरपाल घरा वाट धरली.

शारदा म्हातारी शिरपाल घर येवन म्हयनोभर जाल्लो. म्हातारी आपलें नातरांक बरी देख दिताली. पूण हे सगळें तिगेल सुनेक पटतेनाशिलें. आनी म्हयनों भर असोत गेलो. घरात कोंणी सोयरें समंदिक येयलार म्हातारी उलयते बसताली. सुनेक हे सगळे नाक दिसतालें. म्हातारेल गडबड नाक दिसताली. शेवटाक व्होळांतले उदाक व्होळांकत वयतल न्ही?? आनी तशेंच जालें. शारदा म्हातारेक सून चांटे पावलांक कँच कँच करु लागली. हांगात बस, थंयीत बस सूरु जालें. वेगळ्यां आयदनांत जेवण सुरु जालें. आत आवयल पळौवन नातरां बी आज्जेर राग राग करुं लागली. शिरपाल बायल शिरपालें कान भरताली. शिरपाल बोंडांत पयलीत म्हातारी दुसऱ्याल दैलांत रावील राग आशिलो.

शारदा म्हातारेक काय कळ्ळना जालें. म्हातारी साप्प कंगाल जाल्ली. पांडबाल घरांतल्यान हांग येवन चूक केली अशें आत म्हातारेक दिसू लागलें. कितं करचे हेत्त म्हातारेक़ कळ्ळन्न जाले. म्हातारेक वेळार भाकरी ना. उदा ना. ह्या विचारान म्हातारी साप्प बेजारन्न गेली. स्वता हातान घेव्या म्हणलार तो बी हक्क तिक नाशीलों. विचारान म्हातारी दिसांन दिस सुकते चलिली. बशिल जाग्यार दोळ्यांमुकार पयलीचो काळ मुकार सरकू लागीलो.

"म्हागेल पोरां साठी हांवें कितं बरें केल्ल काय. ? एक एक दिवस उपाशी रावन पोरांक जेवच्यांक दिले. आंगार पिंदिल्ली बोतरां न्हेसून पोरांक बरबरी वस्रां घालूं दिलीं. स्वता खाली पांयांन रावन पोरांक चपलां घेवन दिली. स्वता जमनीर न्हिंदून पोरांक हांतुळ्ळुणार न्हिदयले. लोकांली घाण काडण्ण शाळा शिकयली. ल्हांना व्होड केले. तेमगेल लग्न केले. हांव खंय कमी पडले काय? हांवें किंत पाप केल काय?"

म्हातारी बशिल कडे रडताली. ज्या पोरां साठी जीवा रान केल्ले ती पोरां एक आवयक सांभाळू शकनात. म्हातारेल मनाक हे सहन जाते नाशिलें. पूण काय उपेग नाशिलों. म्हातारेल दिसान दीस असल्यात विचारांत वयतालो.

म्हातारी विचार कन्न शीक पडली. तिक खाल्ले पचना जाले. आनी दिस वचून वचना जालो. उलौवुंक बी कोण लागीं येयना जालो. एकपटी शेजान्न सोना म्हातारी लागी येयिली चुकून शारदा म्हातारी उलोवन गेली की पूत आपल्याक आसपत्रेत बी व्होरना

म्हण. सोना म्हातारेन ही चाडी शिरपाल बायले कडे केली. आपल्या घोवाले गूण ही बायल सगळ्यांक सांगता म्हण शिरपा बायलेंक राग येयलो. बेगीत ही बातमी घोवाल कानार बरी मीठ मिरसांग लावन सांगली. शिरपाक म्हातारेलो राग येयलो. तेतुत शिरपा बायलेन कान भरिलें. म्हातारी आपल्या कचाट्यात केन्न मेळता काय म्हण तो वाट पळयते आशिलों.

एकपटी म्हातारी पोटलेत कितं तरी सोदच लागिली. शिरपा भायल्यान येत आस्तनात बोंड गरम कन्न येयिलो. म्हातारी घरात काटाकुटु करत रावता ते पळोवन आनी तेकं राग येयलो. पांडबाल घरांतलो तो प्रसंग बी तेका याद येयलो. त्या रागान शिरपान म्हणले.

''ये म्हातारे घरात कितें काटाकुट करतें बसला. चल मातर पैस खंय तरी. चल त्या रुखा पोंदा वचून बस. ओगीत आमगेल बोंडाक ताप दिनाका. कितलें सांगलार बी समजन तुकां. फक्त घरात कटकट करते बसता. काय काम ना धंदो ओगीत बोंडा ताप.''

आपल्या पोटाजाल्ल्या पोरालें हे असलें मना लागचे उलौवणे आयकून म्हातारेल बोंडाक मुयों चाबिल्या म्हणकी जाले. आंग घामान भरलें. हात पाय गळ्ळन्न गेले. जगचे काय मरचें? हेत्त म्हातारेक समजन जालें. शारदा म्हातारी कशी बशी उठली. पांयांत हवसाण नास्तना तोण्या आदारान चलत लांब शेतात आशिल्या रुखा सखल वचून बसली. दोळ्यांतले उदाक पदरान पुसलें. बशील कडेत म्हातारेन आंग तेकयलें. म्हातारेल मेंदू आत सुन्न जाल्लो. तिगेल मनांत ना ना विचार नाचूं लागिलें. ती फक्त दोळ्यांतल्यान दुकां गळोवूं लागिली. त्या गळतल्या दुकांनी जमीन बी ओली जावूं लागिली.

कशबशें दिवस मुकार वयते आशिलें. शारदा म्हातारी आत घरांत केन्नात वयते नाशिलीं. दिल्ले कितें दिल्यार खाताली ना दिल्यार उपाशी रावताली. उदेल्लो दिवस फाटीं घालताली आनी देवाक पांय पडन्न पडन्न सांगणी करताली.

''देवा, म्हाक बेगी व्होर रे बाबा. म्हाक आनी ह्या नरकांत दवरनाका. म्हाक वीट येयला ह्या जगण्याचो.''

म्हयने दोन म्हयने जाले. म्हातारेल आंगाचो पुराय सापळो जाल्लो. पळौवूंक म्हण आंगार मांस दिसते नाशिलें. फक्त हाडांत दिसताली.

एकपटी हांतुळणार म्हातारी तेण्यार वळवळत पडिली. तापान आंग रसरसतालें. म्हातारी शीक पडन्न म्हयन्या वयर जावन गेल्लो. शिरपान तिक आजचन आस्प्रेत व्होयल नाशिलें. म्हातारी मरणाची एक एक दिवस वाट पळयतालीं. म्हातारेक हे जगणेच नाक जाल्ले. ती व्होडव्होडान परवतें आशिली. तेन्नात तिनंकात्रेर स क सुमाराक शिरपा शेतांतल्यान घरा येयलो. गडबडेंत हात पांय धुयले. म्हातारेकडे लक्ष सुदा दिल ना. बायलेन शिरपाक च्या कन्न दिलो. म्हातारेक दिल ना. शिरपान बी आवयक च्या दि म्हण सांगल्ना. शिरपाक

खंय तरी वच्चे आशिलें. तो गडबडेत उठलो. खुंटे लायिले पैरण काडलें. आनी आंगात घायले. वयत वयता खिशांत हात घायलो. खिशांत दवरिले दोनशीं रुपय हातीं लागलेत ना. शिरपान परत परत खिसो सासपिलो. शिरपालो तळपाया राग मस्तकाक मारलो. शिरपाल आंग तापले. आंगा पारो एकदम चडलो. शिरपा रागा भरात खंन्चोत विचार पाचार न करता म्हातारेक म्हणूं लागलो.

"ये... ये...! जड्डे ओगी आयती गिळ्ळत ती गिळता आनी वयल्यान चोरी करता गे? म्हागेल पैरणा खिशांतलें दोनशीं रुपय कित्यां घेतले गे? म्हातारपणांत कोणा दिवचें आशिल काय कीतं गे? म्हागेल दारांत वळवळते पडल ती पडला आनी असलें नखरें करता? बर भाशेन दोनशीं रुपय दी ना तर पळय हां तुकां..."

म्हातारेल नशिबात कितें बरोवन दवरिले कोणा खबर. शिरपाल ह्या उलौवण्यान म्हातारेल तोंड पडलें. उठूं जायनाशिलें. तरी बळकन्न ती उठली. चोरे आळान म्हातारेल काळीज करपून गेले. मन अगदी सुन्न जाले. म्हातारी पटापट कपलार हात मारुं लागली. दोळ्यांतल्यान उदा काडन्न म्हणूं लागली.

"कित्या घेतल हांव तुगेल पयशे बाबा. ह्या म्हातारपणात तुगेल पयशे घेवन हांव कितं करुं रे?"

म्हातारी इतली कळवळून सांगते आशीली तरी शिरपा म्हणूं लागलो.

"म्हातारे तुवेंत घेतला पळय पयशे. दुसरों कोण येतलो? गांवांतले लोक येतल चोरी करूंक?"

म्हातारी जोरजोरान कपल बडोवु लागली. तशीत रडते म्हणूं लागली.

"अरे शिरपा हांवे घेयल ना रे पयशै."

शिरपा रागातच आशिलो. तेक दिसले ही म्हातारी नाटक करता म्हण. ती तळमळन्न सांगताल तरी पूण ते शिरपाक खर दिसलें ना. शिरपान परत रागान म्हणलें.

"म्हातारे तुक शेवटचे सांगता. ओग्गी पयशें दि. ना जाल्यार सरळ वाट मेळील कडे चमकवूं लाग."

हें आयकनाका म्हातारेक चक्कर आयिल्या म्हणकी जालें. आंगांतले अवसाण ना जावन गेले. काळजाक कोणें चर्र कन्न कायलाटो लायिल्या म्हणकी जाले. पयलीत दोळ्यांतली दुकां धार थांबू तयारत नाशिली. तेतुंत आनी भर पडली. दोळ्यां मुखार भुतकाळ नाचूं लागलो. जेकां तोंडातल्यान घांस काडन्न खावयलो. आंगा खांद्यार खेळयलें, गु-मुत काडले, ल्हानाचो व्होड केलो. तोच्च पूत आज म्हणता, "वाट मेळील कडे चमकवूं लाग." शारदा म्हातारी आंगात अवसाण ना जाल तरी उठली. दोण्या आदारान घरांत गेली. एक फरकाळात कापडां-चोळी बांधली. घरांतल्यान भायर येयली. पोटली खाक्याक मारली. म्हातारेन शिरपा आनी सुनेकडे एक नदर मारली. तेमकां एक पटी बरें कन्न पळयलें आनी मान फिरयली. दोळ्यांतले उदा जमनीर पडलें. तोणो तेकयत तेकयत म्हातारी रस्त्या लागली. शिरपा म्हातारेक पळयतालो पूण तिका आडयल ना. म्हातारी चमकताली आनी सुनेल तोंडार हांसो

फुलिलो.

तिनंकात्रेचे सात वाजून गेल्ले. भायर झिळमिळतालें. शेतांत गेल्लीं मनशां घरा परतवूं लागिली, तेमचें बरा शेतांत गेल्लीं सवणीं बी येवूं लागिली. आत भायर अंधकार पडिलो. तसल्या अंधकारांत म्हातारी तोण्या आदारान आदळत, आपटत, उठत, बसत दोळ्यांतल्यान उदा काडतेत वाट दिशील कडे चमकत रावली.

शिरपान भायर वयचे रद्द केले. आंगातले पैरण काडन्न खुंटयाळें लायले. तितल्यात शिरपाल पोर भुर्र भुर्र करते हातात खेळण्यांतलें विमान घेवन येयिलो. बापायक खूश जावन तो ते हाडील विमान दाखोवूंक लागलो.

''पळय,पळय आबा विमान कश उटता पळय.''

शिरपान पोरालो खेळ पळयते म्हडले.

''खंच्यान हाडले रे हें विमान?''

पोर आपणाल बापायक कौतुकान सांगूं लागलो.

''देवड्यांतल्या जात्रेंतल्यान. तुगेल पैरणांतल्या खिशातल्यान हांव दोनशीं रुपय घेवन गेल्लो.''

शिरपा पोराकडे पळयत उरलो. घरांतल्यान शिरपा बायल परत एक पटी च्या घेवन येयली.

घोवाक समजोवणेच्या सुरांत म्हणू लागली,

''आसुं न्हीं. ल्हान पोर तो. तेणें आत खेळना जाल्यार केन्न खेळचें? व्होड जाल नंतर खेळतल तर तो?''

बायलेल उलौवण्यान शिरपा थंड पडलो. बायलेल हातांतली च्या घेतली. कपांतलो च्या बशेंत रकयलों. सुर्र सुर्र आवाज काडते च्या पिवच्या लागलो.

हांग पांडबाक खबर कळ्ळी. आनी ते वणवणते म्हातारे सोदत रावलो. शेवट पर्यंत पांडबा म्हातारेक सोदत आशिलो... पूण म्हातारी गेल्ली वाट पांडबाक मेळूं तयार नाशिली. देवा खबर म्हातारेन खंची वाट सोदील म्हण...?

000



# काव्यमंच

(कविता)

## माधव बोरकार

### 1. उखलास

भोंवतणी बांदलां म्हज्या तुजें दावें
रुजयल्या भितर तुजी कुरू तुवें
येता दिमखुऱ्यांनी भास तुजी
भरता पर्जळान वाचा म्हजी
दवरता दवरण्यार म्हजें वजें
कळना कशें वाजता पावल तुजें
कितलीं मोडां भितल्लीं वता जिरून
जाता शब्द तुजो दिवो दिश्टाव्याचो
फेडटना उखलास जल्मांजल्मांचो...

**माधव बोरकार** : जल्म : 1954, नामनेचे कवी, अनुवादक, *'चंवर'*, *'वताच्यो सावळ्यो'*, *'उजवाडाचो रूख'*, *'परजळाचें दार,'* *'यमन'*, *'अव्यक्ताची गाणी'* आनी *'सिम्फनी'* हीं प्रकाशीत कवितांचीं पुस्तकां. विश्व कोंकणी केंद्र मंगळुर संस्थेचो श्रीमती विमला पै पुरस्कार, केंद्रीय साहित्य अकादमीचो साहित्य पुरस्कार (2001) तशेंच अनुवादाच्या पुरस्कारान (2004) सन्मानीत. संपर्क : ग्रीन पीस हावसींग बोर्ड सोसायटी, नागळ्ळी, ताळगांव - गोंय, मो. 9420222876.

### 2. तुजें घर

वता पांचव्या शेतांतल्यान
एक उबी वाटेची वळ
येत लार्गी क्षितिज तशी
फुट्टा भितर उमळ

तुज्या येवपाची सुलूस
लागता आकूळ मनाक
कितले सुवाळे रुतूंचे
पालंव पल्तडचें प्राणाक

आंगणात वताच्या
हालता सावळ्यांचें झाड
पेटोवन चूड नदरेची
दिश्ट सुर्याची काड

विसरतां हांव म्हाका
खोल असो तुजे भितर
उल्ली पैस तड तरी
येता लागीं तुजें घर...

## 3. पर्मळ

हुंदडटा तर्र वारो मळ्यामळ्यांतल्यान
उमळटा पर्मळ कळ्याकळ्यांतल्यान
बुडटा थाव दर्याचो नदरेंत म्हज्या
ओड गूढ मनाक नांवां-गांवांची तुज्या

हुंदडपी वाऱ्याक धाय दिकांचें घर
स्वासांच्या खिणाखिणांनी पर्मळ थोडो भर...

## 4. ल्हारेता पाणयांचेर

पांचवें वत पानांचें
वस्त्रगाळ सावळी
भिजिल्ले सूर भितर
ओल्यो दिव्यांच्यो वळी

स्वासांचो धग रंद्रांनी
जशी फुलिल्ली जाय
येता भरून मनाची
रिती आटिल्ली बांय

बेटांबेटांत मानींच्या
पिश्या वाऱ्याचे वळशे
चंद्रिम कळा भरिल्ले
सपनांचे गूढ ठशे

000

## माया अनिल खरंगटे

### 1. बाय

नाळ कापतनाच बायेक शिकयलां
तुजीं पावलां घट्ट-घट्ट रोय
तुजे खांदे रूंद-रूंद कर
सगळो भार तुवें पेलूं जाय.

बाय आनाळ्यो-गुनाळ्यो काडटा
बाय गिरीगिरी घुंवता
बाय माथ्यार वजें पेलता
घागऱ्यो बांदून थय-थय नाचता

बायेन मनाक विचारूं जायना
बायेन काळजान चितूं जायना
बायेक मायेच्या धाग्यानी गुठलायलां
बाय घाण्याचो बैल जालां

एकदीस उजवाडाच्या किर्णान
बायेचे दोळे सताड उगडले
बायेच्या पांखांत उमेद भल्ली
बायेन मळब झेंप घेतली

बाय आतां कोणाचेंच आयकना
बाय आतां कोणाकच पळयना
बायेक आतां मेळ्ळा ताचो सूर-ताल
बाय आतां चलता ताचीच चाल

**माया अनिल खरंगटे** : जल्म : 1956, कवयित्री, बालसाहित्यकार, कथाकार, अनुवादक. तेत्तीस पुस्तकां प्रकाशीत. *'कयपंजी'* हो कवितासंग्रह तशेच *'घोंटेर'*, *'मळबझेंप'*, *'मृगजळ'*, *'काळीं कुपां रुपेरी देग'* हे कथासंग्रह चर्चीत. एन्. सी. ई. आर. टी., दिल्ली संस्थेचो बालसाहित्य पुरस्कार तशेंच गोवा कोंकणी अकादेमीचे उत्कृश्ट साहित्य पुरस्कार (2010, 2012), केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो बालसाहित्य पुरस्कार, अशा पुरस्कारांनी सन्मानीत. संपर्क : पीतूल कामत कोओपरेटीव्ह हावजींग सोसायटी, एफ-3, पयलो माळो, आर्के, मडगांव, गोंय 403601. मो. : 9420685278.

## 2. मयुरी

सुलूस लागतांच पावसाची
मनमोर पिसारो फुलयता
फुलोवन स्वप्नाचीं पांखां
मयुरी नाचांत रंगता

तूं नाच नाच रे मोरा
फुलोवन पांखान पांख
मन आंगणांत रकता पावस
म्हजें भिजोवनी आंग - आंग

सैम रंगला पाचव्या रंगांत
स्वप्न पिशें मनय पाचवेचार
घननीळ नीळ तो घालता साद
रे मयुरा तूं नाच नाच नाच

मन बावरी रे ही मयुरी
तालार तुज्या नाचता ता-ता थै
धूदं गंधीत ह्या सैमांगणांत
मन चींब रे पारजत शिंवरांत

## 3. ते सांगाती

सावळे तूं उजवाडाची भक्त
तुका उजवाडाचें पिशें
तूं उजवाडांतच जल्मल्या
तूं उजवाडाची खरी सांगाती

सावळे काळखांत येवन तरी पळे
काळखाक आसा उजवाडाची देन
काळखांत चकचकतात तारे-गिरे
दोळे सताड उगडून तरी पळे

उजवाडांत तूं नाच नाचता
ल्हान-व्हड, बारीक-मोटीय जाता
उजवाडांत तूं मिरोवन घेता
जें सोबीत तेंच तुका मानवता

सावळे तुका नसाय काळखाची
तार्णे धल्ली ना केन्ना आस तुजी
काळखाक ना गरज कोणा सांगात्याची
काळखाक घटाय ताच्याच मनाची

काळखांतल्यानच येत उजवाड
काळखाकय वाट दिता उजवाड
एकामेकाक लागून तांची महती
ते दोगय जिवाभावाचे सांगाती

## 4. येता याद

वत पावसाचो खेळ हो
श्रावणाचो गे सुवाळो हो
सखे याद येता त्या दिसांची
आंगणांतल्या गे पारजताची

दुर्वा-पत्री गे वेंचताना
फुलां-पानां गे पुंजायताना
हातांत पांटुलो गे झेलता
वाऱ्या सांगता मन हुबता

चार चवक्यांचे ते खांबे
साक्षी आखो-माखो खेळाचे
फातर जिखून खेळटना
किणकीण गायती कांकणां

पुजा फातराच्या गे देवाची
ताला सुरार गायल्यो आरती
खेळटना फुलांची केली आरास
सखे श्रावण सणांचो हो मास

सखे याद येता त्या दिसांची
मेथयेन भरिल्ल्या गे हातांची
घुंवत आसा ती गोल-गोल राणी
यार्दीनी येता गे दोळ्यांत पाणी

## 5. पखवाज

अस्तुरे तूं पखवाज दोन तोंडाचो
दोनय वटेन जिवीतभर वाजोवपाचो

ल्हानपणांत आवय-बापायन
उपदेशामृत पिवयलें
समजावणेच्या नांवाखाला
पखवाज तुजो वाजयलो

तरनाटे पणाचो हुंबरो तुवें
समाज हावक्याक भीत हुंपलो
तूं चली भुरगें म्हणत म्हणत
पखवाज तुजो वाजयलो

लग्नवेदीर चडयतना तुका
भांगरा-शिंगरांनी नटयलें
वयर हुबय घरची घुडी म्हणत
पखवाज तुजो वाजयलो

घरकाराचीं तिरकसपणां
भुरग्यांचीं भुरगेपणां
ताल-सूर तांचो सांबाळटना
पखवाज तुजो वाजयलो

दोनय वटच्यान पिंजसर
पखवाज तुजो वाजयलो
वाजय वाजय वाजयलो
वाजय वाजय वाजयलो

000

## प्रकाश द. नायक

### 1. भर दनपार

भर दनपार
झाडापोंदा बशिल्ली
झाडापेडार

जळीमळी
हालत्यो खांदयो
हालतीच पानजाळी
. . . . . केन्ना वोत
केन्ना सावळी

पेडांत रिगिल्लें
झाडाचें मूळ
वयर वारो
हालयतालो ताळ. . . .
भिरीभिरी सळसळ

एक पान तुट्टालें
माथ्यार येवन पडटालें
मेंदवाच्या कुडक्यांनी रिगतालें
देठांतली पाचवीसाण
दोळ्यांनी शेळ. . . ओलसाण

**प्रकाश दत्ताराम नायक :** जल्म : 1962, नामनेचे कवी. प्रामुख्यान कविता ह्या प्रकारांत लेखन . 'चैतर' (1987), '*कस्तूरगंध*' (2005) आनी '*कुतल्ल*' (2015) हे कविता संग्रह तशेच '*अस्तुरी : शिमेभायलें मळब*' हें शिक्षणीक साहित्यांत आस्पावपी पुस्तक प्रकाशीत. चैतर आनी कुतल्ल ह्या संग्रहांक कोंकणी भाशा मंडळाचे साहित्य पुरस्कार प्राप्त. संपर्क : वळवय, सावयवेरें , फोंडें, गोंय, मो.– 8796843564.

दुसरें पान झडटालें
भुजाचेर अडटालें
शिरंतरांनी कडटालें
आकाराचें क्षेत्रफळ
वाडयतालें भुजबळ

तिसरें पान
विसावतालें मांडयेर
माणकुल्यावरी म्हणटालें
कुरु कुरु कानां
म्हशी गेल्यो रानां. . . .
म्हशीक सोदतना
रानूच शेणटालें

चौथें पान
पावलांर न्हिदतालें
झाड नतमस्तक जातालें
म्हाकाच नवे कोंब फुट्टाले
. . . चरणाक फुट्टाली नवीं मुळां
आनी आंगभर धवीं पाळां

## 2. बापू... आयचो तूं

बापू...
तुज्या वक्लांतल्यान
तुजे दोळे आयजूय उलयतात...
भायर पयस पयस पळयतात...
बापू असो फकत पळोवंक नाका!
'तांकां' माफ कर म्हणूं नाका!!

तुवेंच चड खेपे राम राम केलें
तुवें म्हणलें. . .
तुही 'राम' है
तुवेंच म्हणलें
रघुपती राघव राजा'राम'
तुवेंच म्हणलें
हे 'राम'!

आनी तेवूय
रामापसून पयस गेलेनात!

बापू,
तुज्या विचारांक खरेंच सलाम
ही सत्ता
पळय कशी दिवपाक सोदता
तुज्या विचारांक
मोटे शक्तीन पुर्णविराम...
खर ताकदीन आराम
आनी रामराम...!

000

## शैलेंद्र मेहता

### 1. उत्तर रात

यादींचें झाड
आनी सपनांची न्हंय
जागयता रातीकडें
तिसऱ्या पारार अचळय
व्हरता ओडून
संभ्रमीत मळबांत
झडयतना चान्नें
पावस भांगराचो

**शैलेंद्र मेहता** : जल्म : 4 सप्टेंबर 1963. नामनेचो पत्रकार, स्तंभलेखक, कवी आनी कोंकणी, मराठी, इंग्लीश, हिंदी, संस्कृत, स्पेनीश तशेंच पोर्तुगीज अशा सात भाशांचें गिन्यान आशिल्लो चतुरस्र विचारवंत. कोंकणी, मराठी तशेंच इंग्लीश भाशांतल्यान तांची कविता, लेख, नाट्य परिक्षण, निबंध, शोध निबंद, मुलाखती, स्थापत्यशास्त्र, डिजायन, हस्तकला, समाजशास्त्र, राज्यशास्त्र ह्या विशयावेली तांची बरपावळ राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय नेमाळ्यांनी सातत्यान उजवाडाक येता. 'इंडेक्स फर्निचर जर्नल' ह्या आंतराष्ट्रीय नेमाळ्याचे सल्लागार संपादक, 'माय मेटर' ह्या इंग्लीश नेमाळ्याचे तसेच संग्राम ह्या मराठी नेमाळ्याचे संपादक. 'पयणारी' ह्या डिजीटल नेमाळ्याचे सहसंपादक. *'सिसिफस तेंगशेर'* हो कोंकणी कविता संग्रह प्रकाशीत (2018), लेखन- दिग्दर्शना खातीर जायतीं इनामां फावो जाल्यांत. कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार (2020) आनी पुस्तका विश्व कोंकणी केंद्राच्या विमला पै पुरस्कारान (कविता 2020) सन्मानीत. संपर्कः रॉ हाव्ज नं 1, कस्तूरी गार्डन, सेक्टर -8, अरोली, नवी मुंबई 400708. मो. 9820654233.

मान ऊबारीत
काळख्या कोनशांनी
दिवाभितांची जमतना गर्दी
आडवे
इस्पिकेच्च्या पुलाभशेन
एकार एक निर्विकार पुतळे

एकसुऱ्या कोनशाक
थंडेन कुडकुडत
बसल्यांत कांय भुरगीं
धग सोंपिल्ल्या गोबराभोंवतणी
भांगराचें चान्ने
आनी पुतळ्यांची रास
नदरेआड करीत
झेल जाल्लीं हाडां शेकवंक
सूर्याची वाट देखीत

## 2. खिणाखिणाक गोरज म्हुर्त

घुडा- घुडांनी दडिल्लीं घुघमां
हुंबऱ्यार बसलीं मारून थपकल
किल्लावन बियाणें तीन तोकांचें
घरां- देवळांची घडयली बंदखण

वांटे सोदूंक जमले आलायते
धार लायत हातांतल्या परशूक
रगताचें कारंजे पावतना वयर
मळबा मेरेन वाडली भूक

‘बळी जाय बळी जाय
जाय जाय बळी जाय’
वाडल्यो आइडी कानापड्डे फोडीत

रुखारुखाचेर सवर्णीं मेर्ली
भंयान आपलें आंग काडीत...

सुकें ओलें जळटना सरसकट
रस्त्या रस्त्यार पुरिल्ले सुरींग
फुटत रावतात आतां दर पारार
पडनासतना म्हुर्त सोदपाचे भानगडींत

### 3. नागड्यांची नखलामी

हमामांतले नागडे जेन्ना
भोंवतात रस्त्या-चौकांनी
जाता पावणी फेर्राद मुस्तायक्यांची
कोनशा कोनशावयल्या लाँड्रींनी

बाजारबुणगे सदांच तत्पर
हार तुरे घेवन दारादारांनी
येतात धांवत घाम वारयत
कॅमेरे-मायक भिऱ्याभिऱ्यांनी

हमामांतल्या निर्लज्ज नागड्यांक
धांपतकच नव्याताल्ल वस्त्रांनी
जिबेर तांचे नाचता सरस्पत
लक्षीम रांदता कुजनांनी

नागडे करतात घोशणा पोक्यो
खोजन्यां आवाज कानांनी
विराट रुपां चोवन धनयांचीं
परजा जाता भेड्डी-मोनी

वाट दाखवंक साक्षात अवतार
कोण गा खरे कारस्थानी?
दळदीरपणाक पिडिल्ल्या नागयल्ल्यांच्या
कोण गा दिता दुस्वासा फोडणी?

शेजार पाजार घालून रांदनीत
कोण चडयता घरार सुणीं?
दंगली-धुस्पट लंडामुंडी
कोणाची तकली फोडची कोणी?

प्रस्न आसूं कितलेय-कसलेय
दरेक धोलार नागड्यांचीच तोणी
करतात गायब सहज कोणाकूय
शबय घालपी हुजरे भोंवतणी

तकलेंत जरी आसलो गोबोर
शेण विकतात पॉश पसऱ्यांनी
मोक्षाची आस्त दवरून
भावार्थी खातात रित्यापोटार खिस्तींनी

अक्कल रोखडीच पडटा घाणाक
संवकळटात काळजांत घुट्टाणी
उदेतात नवे नवे संदीसाधू
लाचारीच्या हावेसांनी

जल्म घेवंच्या आदींच सोंपता
घुसमटून व्यथा मोनी
करीत नागड्यांचो जयजयकार
फुडल्याय पुस्तकांनी तीच काणी

## 4. यो दिसा भर पोटा...

हेरांमुखार पावचे आर्दीच
वायटेन खाल्ले डायरेंतल्या कवितांवरी
गायब जायत रावतात
अनेकांच्यो जिणे काणयो
काळाच्या पोटांत
कसलीच कुरु दवरी नासतना

लैला-मजनू, हीर-रांझा, रोमिओ-ज्युलिएट
हांच्या मड्या राशींपोंदा
शेणिल्ल्यो अगणीत जुवान अस्थी
गेल्यो कश्यो पिठो जावन?
वा
अलेक्झांडर ते अशोक-अकबर
डेरियस ते सीझर ते चंगेझ खान
हांच्या सैन्यान भूंयभरवण केल्ल्या घराब्यांचे
वाऱ्यार उडून गेल्ले सुस्कारे
कित्याक रावलेनात गोठेवन
भाट-चारण हांच्या गितांचे बोल जावन?
वा
कित्याक रावचें पडटा हेडत
देगणां माच्यूपिच्युचीं
हाडूंक दाखले
कुमारिकेच्या पयल्या संभोग सुवाळ्याचे
सिलोसायबीनच्या पवित्र बेसांवा उपरांत?
वा
उंटाचे फाटीवयलो शाणो जावन
तुतानखामेनच्या स्रापाच्या अर्थाचो
काळख्या तळघरांनी सोद घेत
अर्दीमर्दी ओऍसिसच्या सांवळ्यांनी
सर्प नृत्याचो आस्वाद घेत?
वा
कित्याक रावचो पडटा

असूर बनिपालच्या लायब्ररींत रिगून
मातयेपट्यार कोरांतिल्ल्यो
गिल गामेश आनी हेरांच्या
लडायांच्यो दंतकथा वाचीत?
वा
एकलव्याचो आंगठो कातरून
व्हांवते गंगेंत पापां धुवन
एकेवटेन 'इदंनमम्'
आनी दुसरेवटेन 'सर्वम्खल्विदंब्रह्मम'
देखून 'अहंब्रह्मस्मि'
अशी मखलाशी करीत?

आरे सभाग्या,
भंय, आहार, मैथुन निद्रा
घुंवचे पासत ह्या वर्तुळांत
चोवीस वरां लेगीत उणीं पडटात
तुरे कसलीं थर्डी पोरनीं उस्तिता?
हेरांकडल्यान घे देख
सावळी सोडून नाका वचूं वतांत
मेळटा ते भिकेर धोल वाजयत
माथें खरपीत राव उबो दारांत

## 5. लेक कोमोचे पलतडीन

धव्याफुल्ल झेलाच्या फुलांनी
क्रिस्मसाच्या फांत्या पारार
सोद घेत तुज्या काळजाचो
भोंवतना
ह्या अनवळखी शाराच्या रस्त्यार
धारेमेरेन पातळिल्ल्या
स्नो च्या दर्यांत
पांय नांगरावरी मुंगरतात
तुजे आसक्त ओंठ
कानांत फुतफुततना

लॉंबार्डीचीं प्रेमगितां
चकचयाळ सूर्याची म्हजी आसक्ती
झडत रावता स्नो जावन
वाडयत वता थरार थर
हांव....
वाजेतां वाट पळयत
'स्नोप्लॉ'ची
मारतां धांव
धवो, नितळ चिखल माड्डीत
सोदीत एखाद्री एकसुरी
ऊबदिणी होंवरी
ह्या आल्प्सच्या दोंगुल्ल्यांनी
शिंयाचो ऋतू सोंपसर
कूड नांवाच्या
एका असंगत अस्तित्वाचेर जाल्ले घाय
चाटून बरे करचे पासत
('लेककोमो' हें उत्तर इटलींतल्या लॉंबार्डी वाठारांतलें तळें.)

000

मारुती नायक

---

**1.**

एक गाय रस्त्यान
चलताली वांगडा
घेवन आपल्या
बायक.
खिणांत म्हज्या
आवयची म्हाका
आयली याद
पळोवन त्या गायक

**2.**

तुज्या म्हज्या
नात्यांत आयली
असली एक लाट

**मारुती नायक** : जल्मः 16 जुलै 1973. उर्देतो कवी. बिंब, भांगरभूंय ह्या नेमाळ्यांनी कविता प्रकाशीत. एका प्रेमविराच्यो कविता' हो कविता संग्रह उजवाडाक आयला. संपर्कः घर नं. 640, सावरभाट, तळसाय, बोरी, फोंडें , गोंय - 40340. मो. 9527926677.

तुज्यापुरतो विचार
करून तुवें वेगळी
केली आपली वाट

3.

एकदां मुडांत
आसतना हांवें
म्हाका तुजे केंस खूब
भावता म्हणिल्ले

ताणें पिशान आयज
भेटे दाखल जेवणांत
घालून धाडून दिलो...

4.

तुज्या म्हज्या पवित्र
नात्यांत किद्याक
आयलो अहंकार

हांवें फकत शिटकायल्लें
जगामुखार दाखवप
न्ही म्हण तो
अलंकार!

5.

गणेशा बा गणराया
पडटा तुज्या पाया
धरतरी मायेक एकटी
सोडून वचों नाका तूं
हिमालया

6.

धरतरेर देवा तूं
आसचो असोच सदा
सर्वकाळ
सुखकर्त्या दुख्खहर्त्या
वर्सभर तूंच करचो
आमचो सांबाळ

7.

तुज्या म्हज्या नात्यांत
आमी दोग
कुडी
दोग जाणा

घडये आशिल्ले
विचार वेगवेगळे पूण
केन्नाच नाशिल्ली
दोन मनां

000



# नाट्यमंच

(एकांकी)

झिलू ल. गांवकर

## दुर्दम्य आशावादी

| | |
|---|---|
| विद्यालयाचें नांव | : सरकारी माध्यमीक विद्यालय, मोर्ले सत्तरी |
| दिग्दर्शक | : श्री. उदय माजीक |
| उजवडा येवजण | : श्री. श्रीनिवास उसगांवकार |
| नेपथ्य | : श्री. राजेंद्र पराडकर |
| पार्श्व संगीत | : श्री. जयकृष्ण वेळूसकार |
| न्हेसवण | : सौ. संज्योती पावसकर |
| रंगवण | : श्री. नवसो शेटये |
| कलाकार | : भुमिका |
| रोहन देसाई | : पंकज, रघुनाथ |
| राहूल पिरणकर | : मानव, भावे, इंगावले, |
| प्रणय महाजीक | : अतुल्य, हवालदार, अधिकारी, |
| विघ्नेश बोर्डेकर | : विद्याधर, कोठावळे, |
| हरिचंद्र तानोडी | : पक्या, पोलीस, अधिकारी |
| लक्ष्मण ठाणेकार | : भुरगो |
| रोहीत उसपकार | : भुरगो, चेतन |
| सोमदत्त गांवकार | : धाकटो रघुनाथ |
| सुरेश मळीक | : पेद्रू, अधिकारी, |
| शुभम परवार | : खेळगडो, गांवकार |
| कुंदन गांवस | : मुख्याध्यापक |
| शेजल ठाकूर | : टिचर, निवेदिका, इंदिरा गांधी |
| तनश्री राणे | : मंजिरी, वहिनी, आवय |
| श्रध्दा रावणकर | : सुनैना, आई |
| सिद्धी गांवस | : भुरगे, वैशाली |

**झिलू ल. गांवकार :** जल्म : 1956 ; साहित्यीक, लोकवेद अभ्यासक आनी अनुवादक; बालसाहित्य, एकांकी, निबंध, लोकवेद, नाटक अशा प्रकारांत साहित्य निर्मणी. *माणकुल्यांचीं गितां* (बालसाहित्य), *सैमभार* (एकांकी), *पाशाण पाझर* (अनुवाद) आनी *रणमालें : स्वरूप दर्शन* (लोकवेद) हीं प्रकाशीत पुस्तकां.

## प्रसंग 1

(थळ : स्कूल. विद्यार्थी आप-आपल्या कामांत गुल्ल आसात. कांय जांण अभ्यास करतात तर कांय जाण खबरो करतात. पंकज कागदाची विमानां करपांत गुल्ल आसा.)

सुनैना : मंजिरी तुवें असायनमेंट केलो गो?

मंजिरी : हय. हो पळय!

सुनैना : वाव! सुंदर! हें सगळे तूं केन्ना आनी कशें करता गो?

अंकूश : ताणें खंय केला अससायनमेंट! ताचे व्हडले भयणीन शोभान करून दिला तेका.

मंजिरी : आरे बाबा किद्याकिदेंय सांगू नाका हां. हावें स्वतः केला हो असायनमेंट. हे चित्र पळय.

अंकुश : जाणां आमी तूं व्हडलें आर्टीस्ट तें!

मंजिरी : आर्टीस्ट बेस्टेच जायनात; ताचे खातीर बडे पापड बेलने पडते है.

मानव : ए पापड की बच्ची वगी राव थंय! लोक अभ्यास करूंक येतात हांगा.

पक्या : आनी आमीं किदें झक मारपाक येतात?

(तेन्नाच पंकजाचे हातीतलें कागदाचें विमान सुट्टा आनी विद्याधराचेर बसता.)

विद्याधर : कोणें मारलो हो कागद?

मंजिरी : ए धांपणे सारकें पळय? कागद न्हय विमान तें!

विद्याधर : विमान आसूं वा हेलीकॉप्टर म्हाका लागना. कागद कोणे मारलो तें सांगात?

पक्या : हें धांपणें काड आनी पळय.

विद्याधर : तोंड सांबाळून उलय हां पक्या.

पक्या : किद्याक? किदें करतलो? ..

विद्याधर : किदें करतलो तें सांगों?

पक्या : सांग रे. बेश्टेच पाकाटे फुलोव नाकां.

मानव : आरे आरे आसूं सकाळीं सकाळीं वाद कित्याक रे तुमचो?

पंकज : सुबह और शाम काम ही काम क्यों नही लेते पिया प्यार का नाम!

(पद म्हणीत कागदाचें विमान करून सोडटा इतल्यांन टिचर वर्गांत येता.)

सगळी : Good morning teacher.

टिचर : Good morning. (विमान उखलीत) वा! हाचेपरस बरी Good morning आसूंकूच शकना. कोणाली ही Good morning?

विद्याधर : पक्याली..(सगळीं हांसतात)

टिचर : पक्या हांगा यो.

पक्या : टिचर खर-यानीच सांगता. ते विमान म्हजें न्ही.

टिचर : मागीर कोणाचें तर?

पक्या : म्हाका खबर ना.

मंजिरी : टिचर हो म्हजो असायानमेंट. (भुरगीं आपापलो असायनमेंट दितात. पक्या आपलो असायनमेंट हळूच पोंदा धुकलता)

टिचर : रोल नं. 5.

पक्या : यस टिचर.

टिचर : असो हांगा यो. (पक्या हळू येव उबो रावता.) हें किदें?

पक्या : असायमेंट.

टिचर : फकत फोटो लायले म्हण असायनमेंट जायना!

पक्या : पुण टिचर

टिचर : घे, परत सारको करुन घेवन यो. रोल नं. 17, तुजो असयनमेंट? ..पंकज हांव तुका विचारता, असायनमेंट खंय तुजो? (बोलसांतल्यान एक कागद काड्टा आनी दाखयता.) वा! सुंदर. हाचे खातीर तर तुका student of the year पुरस्कार दिवंक जाय. पळेयात – पळेयात म्हज्या प्रिय आनी लाडक्या विद्यार्थ्यान फकत एक फोटो लायला आनी बरयलां किदें कांयच ना. अरे पंकज तुजो प्रॉब्लेम किदें?

मंजिरी : टिचर बरोवप होच ताचो प्रोब्लेम!

पंकज : टिचर, नेटावेल्यान प्रिंटेड हाडू?

टिचर : नो. नेव्हर! तुज्या हस्ताक्षरांन बरइल्लो असायनमेंट म्हाका जाय, तोवूय फाल्या.

पंकज : फाल्या? पूण कशें शक्य आसा?

टिचर : कशें म्हटल्यार? .. लायब्ररीत वच, पुस्तकां वाच, नेटा वेल्यान म्हायती घे, तुजे फ्रॅन्डस आसत तांची मदत घे. पूण म्हाकां फाल्या असायनमेंट जाय. हें पळय पंकज तूं करूंक शकता. मनांत हाडल्यार मळब लेगीत वेंगावपाची शक्त तुमच्या भितर आसा. फकत जाय ती इच्छा शक्त. (बेल वाजता आनी टिचर वता.)

पंकज : एका दिसान असायनमेंट करप कशें शक्य आसा हें? आनी

फाल्यां असायनमेंट दिलो ना जाल्यार? किदें तरी करचेंच पडटलें. सुनैना म्हाकां हेल्प कर न्ही प्लीज!

**सुनैना** : ना रे बाबा ना! टिचरीची तापोवणी क़ोण खातलो?

**पंकज** : मंजिरी तूं तरी म्हजी मदत कर.

**मंजिरी** : ना बाबा जमचे ना.

**पंकज** : विद्या – अतूल्य

**अतूल्य** : आमकां सायन्स प्रोजक्टाची तयारी करूंक जाय.

**पंकज** : पक्या, तूं तरी म्हजी मदत कर न्ही.

**पक्या** : हांव कसो करतलों? . म्हजें हें अशे आसा.

**पंकज** : आमीं दोगूय वांगडा एकठांय बसोन कंप्लीट करुया.

**मानव** : तूं विमांना चलय, असायनमेंट कित्याक करूंक जाय.! चलात रे या आमी.

**पंकज** : रावात रे. रावात रे प्लीज. मंजिरी तू तरी राव... पक्या रावात रे..
(कोणूच रावना. सगळे वतात. बोल्सांतल्यान तोच कागद काड्टा. ताचेर डॉ. रघुनाथ माशेलकार हांचो फोटो लायला. बॅगांतल्यान पुस्तक काडून वाचपाचो प्रयत्न करता पूण किदें करचें तें कळना तसो उदास जावन बसता. तेन्ना ताचे इश्ट येवन उर्बा दितात असो भास जाता)
चल उठ मेरे यार बावले, उदास क्यों तूं बैठा है?
हिम्मत ना तूं कभी छोड दे, कुछ करने की ठान ले।
हजार काँटे होंगे तेरी मंजील की हर राह में
बलबुते पर लाँघ उन्हें तू, ताकद भर लो बाहो में्।
ठान लो मन में खुद बदलुँगा और बदल दुँगा जिन्दगियाँ
तभी यार तू छू पाएगा आँसमान की बुलंदियाँ ।
(पंकज निश्चय करता आनी उठ्ठा लायब्ररीत वता, टिचरीक मेळटा, नेटार वता, इश्टांक मेळून म्हायती एकठाय करता. हे सगळें सुत्रबद्ध रितीन जायत वता.)

## प्रसंग 2

(थळ : शाळा. एक एक करीत विद्यार्थी आपापल्या जाग्यार येवन बसतात.)

**पंकज** : मंजिरी, काल तुमीं सगळ्यानी म्हजी मदत केली देखून Thank you very much.

मंजिरी : कालचो अणभवूच वेगळो आशिल्लो.
भूमि : खऱ्यानीच. मजा आयली.
अतुल्य : पूण टिचर आयकतली मरे?
मानव : हातूंन न आयकुपा सारके किदें आसा?
पक्या : टिचर येता... टिचर येता.
सगळी : Good morning teacher.
टिचर : Good morning. बसात.
सगळे : Thank you teacher.
टीचर : फकत थँक यू म्हणून भागचें ना.
अतुल्य : म्हणजे?
टिचर : चलात असायनमेंट घेवन येयात.
मानव : टिचर हो म्हजो.
टिचर : तुजो असायनमेंट?
पंकज : रेडी आसा.
टिचर : खंय बोल्सांत?
पंकज : ना टिचर म्हजो असायनमेंट प्रात्यक्षीत रुपांत आसा. आतां दखयतां.
टिचर : दाखयता म्हटल्यार?
पंकज : हांवें नाट्य रुपांत असायनमेंट केला.
टिचर : नाट्य रुपांत? कितें उलयता रे तूं?
मानव : टिचर डॉ. माशेलकरांच्या जिविताचेर ताणें बरें नाटक तयार केलां.
टिचर : तरीय आसताना नाटक म्हळ्यार..
मंजिरी : टिचर, खूप मेहनत घेतल्या ताणें, रात भर अजागरण केलां.
टिचर : बरें बरें. चलात सुरू करात.
पंकज : टिचर, आनी एक रिक्वेश्ट आसली.
टिचर : आतां आनी किदे उल्लां?
पंकज : आमचे वांगडा तुमीय एक रोल करात न्ही!
टिचर : रोल! आनी हांव? ना रे बाबा ना!
सगळी : प्लीज टिचर करात न्ही.
टिचर : आरे पूण हांव---
सगळी : प्लीज टिचर!
टिचर : ओ. के. बाबा, ओ के.
(पंकज सगळ्यांक तांचे तांचे रोल समजावन सांगता. टिचरूय

मार्गदर्शन करता. तयारी जाल्या उपरांत)

**पंकज** : चलात तर सुरू करूया एकांकी दुर्दम्य आशावादी.

**प्रसंग 3**

(निवेदिका : गोंय. दर्याच्या ल्हारांचे, सळसळत्या वा-याचे, खळखळत्या वझ-यांचें, नितळ निवळ उदकाचे, कोगळाच्या गळ्याचे, साळोरेच्या सुरांचे आमचे सोबीत सुंदर गोंय. हे भुंयेन धर्मानंद कोसंबी, भाउदाजी लाड, हृदयनाथ मंगेशकर, लता मंगेशकर, डॉ. अनील काकोडकार, डॉ. रघुनाथ माशेलकार अशीं जायती माणकां-मोतयां भारत भुंयेचे होंटयेत घातल्यात. गोंयचे हे मातयेचो गंधूच वेगळो. हात्याचो परमळ हांगच्या मनामनांत घमघमता. माशेल गांवूय हेका अपवाद कसो आसतलो? साळोऱ्यांची गितां आनी घुमटांचो ताल तर हांगच्या मना-मनांत घुमता. पिसो रवळू आनी शाणो रवळू हाच्या छायेखाला पिंपळा पेडाकडे तर भुरग्यांचो हो कलकल (प्रसंग बदलता आनी दिसता खेळाचे मैदान. भुरगीं कोयंड्या बालांनी खेळतात. बोवाळ. भुरग्यांच्यो किलाट्यो आयकूंक येतात. माची उजळटा आनी दिसता माशेल गांवचे पिंपळाचे पेड आनी थंय खेळपी भुरगीं.)

– आमीं जिखले! आमीं जिखले!

– चला चला आतां आमीं दुसरो खेळ खेळुंया.

– आता धरचेल्यांनी खेळुया.

– हय हय. हाचेभायर कोणी वचपाचे नां हां!

– पेद्रू तुजेर पयलें राज्य.

(पेद्रुच्या दोळ्यांचेर लेंस बांदून धरचेल्यांनी खेळटात. तो रघुनाथाक धरता.)

– राम राय साय सुटयो. हातीन किदें? चल भावाचे सोदीक.

(पेद्रू रघुनाथाचेदोळे बांदपाक वता. म्हटल्यार ताची आई येता.)

**अंजनी** : रघुनाथ आरे ए रघुनाथ, खेळ पुरो आता. चल या आमीं कार्रेत चुकतेली आमकां.

**पेद्रू** : मावशे तूं खंय वता गे?

**अंजनी** : नशीब जंय घेवन वता थंय.

**पेद्रू** : परत केन्ना येतली?

**अंजनी** : पळोवया.!

– म्हटल्यार रघुनाथ आता परत येवचोना तर?

– देवकी कृष्णाच्या चिकल काल्याकूय येवचोना?

अंजनी : तेची इच्छा! (रघुनाथाक घेवन वता. सगळीं भुरगीं तांकां निरोप दितात. पयशिल्ल्यान बोट सुटिल्ल्याचो घोंगो वाजता.)

**प्रसंग 4**

थळ : मुंबई गिरगांवचे खेतवाडींतली देशमुख चाळ. रघुनाथ अभ्यासाक बसला. आई भाजी चिरता.

अंजनी : रघुनाथ, अभ्यास पुरो आतां खेळूंक चल मात्सो.

रघुनाथ : गृहपाठ उल्ला आजून.. आई, फाल्या शेनवार.

अंजनी : जाणां हांव तुकां ताव मेळटलो.

रघुनाथ : (कविता पाठ करता.)

राजास जी महाली सौखे कधी मिळाली
ती सर्व प्राप्त झाली या झोपडीत माझ्या
भुईवरी पडावे ताऱ्याकडे पहावे
प्रभु नित्य नाम गावे, या झोपडीत माझ्या.

वहिनी : अंजनी, गो अंजनी.

अंजनी : यो वहिनी.

वहिनी : रघुनाथ, बरो नेटान अभ्यास चल्ला दिसता.

रघुनाथ : हय काकू!

अंजनी : वहिनी कालचे फावटय पयलो नंबर घेतला रमेशान.

वहिनी : कालचे म्हणजे? सदांच पयलो नंबर घेता आमचो रघुनाथ. शिकून व्हड जातलो मरे.

रघुनाथ : हय काकू.

वहिनी : शाब्बास. आनी हें किते? तुजें तोंडशे बावलां गो?

अंजनी : चॅ! तुजें आनी किदेय हां वहिनी. रघुनाथ, म्हजें एक काम करशीत?

रघुनाथ : हय आई.

अंजनी : हो डबो घे आनी जोशी काकूगेर व्हरून दी.

रघुनाथ : बरें आई! (रघुनाथ डबो घेवन वता.)

वहिनी : अंजनी, कसली अडचण बी आसा?

अंजनी : ना गे. कसली अडचण?.

वहिनी : म्हाका सांगपा सारकें नासल्यार, नाका सांगोक.

अंजनी : तशे न्हय वहिनी!

वहिनी : मागीर कशेंतर? वहिनीय म्हण्टा आनी फाटी-फुडें कित्याक जाता?

अंजनी : वहिनी कसलें कपल फुटकें पळय हांव? पुताच्यो ल्हान ल्हान गरजो लेगीत पुराय करुंक शकना हांव.

वहिनी : आगो जालां तरी किते तें तरी सांग.

अंजनी : किदें म्हण सांगू! फाल्या शेनवार, रघुनाथाची चाचणी परीक्षा आनी ताव हाडचे खातीर हांव ताका तीन पैशे लेगीत दिवंक शकना.

वहिनी : इतलेंच?

अंजनी : पूण हेच तीन पैसे दर शेनवारा म्हजी घुस्मट करतात. नाका पुरो करून सोड्टात. कोणा कोणां कडे आनी कितले फावट पदर पसरूं?

वहिनी : पदर कित्याक पसरूंक जाय?

अंजनी : म्हटल्यार? म्हाकां कळूंक ना!

वहिनी : हांव वहिनी मगो तुजी? म्हणटकूच रघुनाथ म्हजो भाचो जालो ना? आनी भाच्या खातीर म्हजें कांयच कर्तव्य ना?

अंजनी : वहिनी! (उजवाड दोगांचेरूच थिरावता आनी सवकास काळोख जायत वता.)

### प्रसंग 5

(थळ : मॅजेस्टीक बूक स्टॉल. मालक कोठावळे पुस्तकां विकता. एक भुरगो ते गर्देंत पुस्तकां पळयता. मालकाक किदेंतरी सांगूक सोदता. ताचेकडे लक्ष वता.)

कोठावळे : बाळ, किदें तुकां जाय अशिल्ले?

रघुनाथ : हांव रघुनाथ माशेलकार. खेतवाडीचे देशमुख चाळींत रावता.

कोठावळे : सांग किदें जाय?

रघुनाथ : काका, तुमकां एक विनवणी आशिल्ली.

कोठावळे : उलय?

रघुनाथ : म्हाकां पुस्तकां वाचपाक आवडटा पूण म्हजेकडे पैशे नात. म्हाका पुस्तक जाय आशिल्लें. हांगाच बसोन वाचता आनी वयतना परत दितां.

कोठावळे : पूण!

रघुनाथ : काका, हांव पुस्तकाक मात लेगीत दाग लागूंक दिवचो ना. म्हजी आई म्हाकां पुस्तक घेवन दिवंक शकना.

कोठावळे : बरें आसा! दितां हाव तुकां पुस्तक. फाल्यां सावन यो.

रघुनाथ : काका, आता मेळचें ना? हांगाच बसतां.

कोठावळे : शाब्बास बेटा! सांग कसलें पुस्तक जाय?
रघुनाथ : श्यामची आई!
रघुनाथ : घे वाच.
(रघुनाथ पुस्तक घेवन लायटीच्या खांब्या पोंदा बसता. सवकासायेन उजवाड ताचेरूच थिरावता. मंद उजवाडांत प्रसंग बदलता. त्याच खांब्या पोंदा व्हड रघुनाथ पुस्तक वाचीत बसला. पुस्तक वाचून परत दिता. आतां लोकांची गर्दी कमी जाल्या.)
रघुनाथ : धन्यवाद काका.
कोठावळे : रघुनाथ धन्यवाद तर हांवे तुकां म्हणूक जाय. आरे जेन्ना सावन तूं त्या खांब्या पोंदा बसून पुस्तकां वाचूक लागला त्या दिसा सावन म्हजें हें पुस्तकालय खऱ्या अर्थान धन्य जालें.
रघुनाथ : ना काका, ह्या मेजिस्टीक बुक स्टॉलान म्हज्या जिविताक एक नवी दिशा दिली, म्हज्या जिवितांत नवे रंग भरले. खऱ्यानीच हें तुमच्या बगर शक्य नाशिल्लें काका.
कोठावळे : ना रघुनाथ, म्हजे खातीर न्हय तुजी अदम्य जिद्द आनी जबरदस्त इच्छा शक्ती तुजें जिवित निश्चित बदलतली.
रघुनाथ : धन्यवाद काका, आई वाट पळयता आसतली; येतां हांव. ( प्रसंग बदलता.)

### प्रसंग 6

(थळ : शाळेचें मैदान. भावेसर भुरग्यांक प्रयोगाचें प्रात्यक्षिक करून दाखयतात.)
भावे : रघुनाथ, आता तूं सुर्य किरणांक ह्या कागदार केंद्रीत करपाचो यत्न कर.
रघुनाथ : हां सर. (रघुनाथ बहिर्वक्र भिंग घेवन सुर्य किरणांक कागदार केंद्रीत करपाचो यत्न करता. कागद जळपाक लागता.)
भावे : पळयल्यात भुरग्यांनो, सुर्य किरणांक कागदार केंद्रीत केल्यार कागद लेगीत जळटा.
हातुंतल्यान आमीं खंयची नवी गजाल शिकले?
– बहिर्वक्र भिंग समांतर किरण शलाकांक नाभी वटेन केंद्रीत कता.
भावे : आनी अंतर्वक्र भिंग?
रघुनाथ : समांतर किरण शलाकांक विस्तारीत करता.
भावे : very good! ह्या प्रयोतल्यान आमी शिकले की, बहिर्गोल भिंगांतल्यान

सुर्य किरणांक कागदार फोकस केल्यार कागद जळटा. हाचो अर्थ किदें जाता?

रघुनाथ : सुर्य किरणांक केंद्रीत केल्यार तीं आपलो प्रभाव, म्हळ्यार शक्त दखयतात.

भावे : हेच तरेन तुमीं सगळीं भुरगीं, खास करून रघुनाथ तूं; तुजें लक्ष, तुजी सगळी शक्त, सगळी बुद्द एका विशिश्ट बिंदूचेर केंद्रीत कर, फोकस कर आनी पळय तूं लेगीत सुर्याच्या किरणां प्रमाण अव्दितीय काम करूक शकतलो. तुज्या भितर ती ताकद आसा.

रघुनाथ : खरेंच सर? हांव वैज्ञानिक जावंक शकतलो? हांवूय नवे नवे शोध लावंक शकतलो?

भावे : हय रघुनाथ. तुवें मनान घेतल्यार तूं किदेंय करूक शकता. तुज्यांत ती काबिलियत आसा. तूं लेगीत व्हड शास्त्रज्ञ जांवक शकता रघुनाथ.
(बेल वाजता. भुरगीं वतात. उजवाड रघुनाथाचेर थिरावता.)

### प्रसंग 7

(थळ : गिरगांव स्टेशन. वसई वचपी निमणी ट्रेन वता आनी माचयेर शांत वातावरणांत रघुनाथ अभ्यास करताना दिसता. कांय वेळान दोन हवालदार लाठी हालयत येतात.)

हवालदार : ए लडके भाग यहाँ से!

रघुनाथ : पर क्यों? मैं तो यहाँ पढ़ाई करता हूँ।

हवालदार : पढ़ाई करने आए हो या चोरी करने?

रघुनाथ : तुमीं हे किदें उलयतात?

हवालदार : बड़े अच्छे से जानता हूँ, तूम जैसे लौड़ों को बोलो चोरी करने आया थे ना तुम?

रघुनाथ : हे पळयात किद्या किदेंय उलोंव नाकात. हांव रघुनाथ माशेलकर अंदू मॅट्रीकेक आसां.

हवालदार : तो मैं क्या करूँ? चलो भाग जाओ यहाँ से।

रघुनाथ : म्हजें आयकून तरी घेयात. पोरूं सावन हांव हांगा अभ्यस करूंक येतां.

हवालदार : मुझे कुछ सुनना नहीं है। भागो यहाँ से घर जाकर पढ़ाई करो, भागो यहाँ से।
(हवालदार रघुनाथाक धावंडावपाचो यत्न करता. तेन्नाच दुसरो हवालदार येता.)

हवा. 2 : अरे अरे उसे क्यों भगाते हो? हमारा रघुनाथ बिटवा है वह।

हवा. 1 : क्या आप जानते हो इसे?

हवा. 2 : सिर्फ जानता ही नही, बड़े अच्छे से जानता हूँ। आमचे खेतवाडीची छान आसा तो छान! छान! म्हटल्यार . कळटा मां ..?

हवा. 1 : छान? हां समझता हूँ। समझता हूँ।

हवा. 2 : आवशीक कायरो हालीच इला हा बदली जावन. मेल्याचो मराटीचो वांदो आनी मालवणीचोय वांदो. काय मेले एक एक नमूने येतहत मुंबयत. झिला तियां अभ्यास कर हा. अगदी मन लावन अभ्यास कर. .. आता चलो त्या तोका मेरेन जाते हैं।

(हवालदार अपराधी भावनेन रघुनाथाकडे पळयत वता. हळू हळू उजवाड मंद मंद जायत वता आनी सुत्रधार प्रवेश करता.)

सुत्रधार : केन्ना रेल्वे स्टेशनार तर केन्ना चौपाटीर बसून रघुनाथान दिस-रात आभ्यास केलो. मॅट्रीकची परीक्षा जाल्या उपरांतच ताणें उसंत घेतली. परीक्षेचे रिझल्ट आयलो तेन्ना देशमुख चाळींत तर खोशेचें ल्हार उसळ्ळे आनी जल्लोश सुरू जालो.

(जल्लोश सुरु जाला. संगिताच्या तालार लोक नाचतात. हो खोशेचो उत्सव पळोवन आईचे मन भरून आयलां तेच स्थितीत ती रघुनाथाची ओंवाळणी करता. दुकां आवरूंक शकना.)

आई : अरे, किती नाचाल?

– काकू आयज आमकां आडावं नाका. आमचो रघुनाथ आयज पास जाला.

– फकत पासूच जालो ना तर पुराय महाराष्ट्रांत एक लाख पस्तीस हजार विद्यार्थ्यांमर्दी इकरावो आयला आमचो रघुनाथ.

– झिला आमकां अभिमान दिसता तुजो.

– अंजनी अग धन्य झालीस ग बाई तूं.

– आयचो हो दीस देशमुखचाळी खातीर दुसरी दिवाळीच.

– अरे बजाओ रे बजाओ।

(वाजंत्रां वाजूक लागतात आनी परतून जल्लोश सुरू जाता. लोक नाचत नाचत वतात. आनी परतून दिसूंक लागता रघुनाथाले घर. आई चिंतेस्त जावन बसल्या.)

## प्रसंग 8

निवेदक : भावे सरांच्या मार्गदर्शनान रघुनाथ प्रेरीत जालो. किदेंतरी अव्दितीय

करपाच्या हावेसान ताणें कॉलेजीत प्रवेश घेतलो, त्या वेळार कॉलेजीची फी भरपाक लेगीत ताचे कडे पैसे नासले. तेन्ना शिक्षक, शेजारी-पाजारी, आनी दानी लोकांनी 200 रुपया एकटांय करून ताचे कॉलेजीची फी भल्ली. जय हिंद कॉलेजीत प्रवेश घेतल्या उपरांत रघुनाथाक 60 रुपयांची टाटा सर्दोबजी स्कॉलरशीप सुरू जाली. आनी हांगच्यान रघुनाथाच्या जीवनाचें नवें पर्व सुरू जालें. 1966 त तांणी बी. टेक. इंजिनीयरींगची पदवी प्राप्त केली. आनी 1969 त गैर न्युटनीक पॉलिमर प्रवाहाचे इंजिनीयरिंग विश्लेशण ह्या विशयाचेर संशोधन करून तांणी युनिव्हरसिटी डिपार्टमेंट ऑफ कॅमिकल टेक्नॉलॉजी मुंबईची पी. एचडी. पदवी प्राप्त केली.

(माशेलकारांच्या जिवितांतले हे पावंडे दिगदर्शकान प्रत्यक्ष दखोवचे.)

**निवेदक** : डॉ. माशेलकर आतां विज्ञान जगतातले नवे नवे पांवडे हुंपून मुखार वचत आशिल्ले. संशोधनाच्या मळार किदें तरी अव्दितीय करचे अशें तांकां सदांच दिसतालें. तांचो हो हावेस पळोवन इंग्लडच्या साल फोर्ड विद्यापिठान 1969-70 वर्सा डिपार्टमेंट ऑफ कॅमिकल इंजिनीयरिंगचे लिव्हरह्युम फॅलो म्हण तांची निवड केली. भारतीय प्रतिभेन पुराय संवसारभर नामना जोडल्या. विदेशांत पावल्या उपरांत तर तिचें तेज आनिकूय उजळ्ळां. डॉ. माशेलकरूय हाका अपवाद नाशिल्ले. तांची अभियांत्रिकी प्रतिभा पारखून सालफोर्ड विद्यापिठांन तांका खासा सन्मानान आमंत्रीत केले. 1970 ते 76 मेरेन डॉ. माशेलकर त्या विद्यापिठांत व्याख्यातो आसले. थंयच्या विद्यार्थ्यां मदीं ते खुपच प्रिय आशिल्ले. एक दीस .

(भारत आनी इंग्लंड हांगचे प्रसंग वांगडाच सुरू जातात.)

**वहिनी** : अंजनी, आतां तरी रघुनाथाची चिंता करपाची सोड. व्हड जाला तो आता. इंग्लंडाक नोकरी करता. बरो पगार आसा, मान-सन्मान आसा आनी कितें जाय?

**आई** : तरी लेगीत जीव बेश्टोच भियेता. दिसता, ताणें परत भारततात येवचें.

**वहिनी** : आगो नाका जाल्लें किदें चित्ता गो हें? व्हड शास्त्रज्ञ तो! हांगा येवन किदें करतलो?

**आई** : किदें म्हटल्यार? जें काम तो थंय करता तें हांगां करूंक शकना?

(इंग्लंड चो प्रसंग)

**रघुनाथ** : ना कित्याक जरूर करूंक शकता.

**इश्ट** : आरे पूण थंय भारतात आसा किदें? हांगा पैसो आसा, ऐश आराम

आसा, मान सन्मान आसा. जें जाय जाय तें सगळें आसा.

रघुनाथ : हय आसा. पूण कित्याक कोण जाणा, ह्या दिसांनी मायंभुयेची ओढ लागल्या. आईची याद येता.

इश्ट : मागीर तिका हांगा आपय न्ही.

रघुनाथ : जाय ते फावट यन केले–
(भारतांतलो चो प्रसंग)

आई : हांवेनूच ना म्हटलें. ही माती आनी तिचे कडली नाळ तोडून कशी वचूं?

वहिनी : थंय आसा तोवूय तुजोच!

आई : तेकाच हांगां आपयलो जाल्यार!

वहिनी : पिशें बी लागूना न्ही तुका?

आई : खरेंच सांगता, मना काळजा सावन दिसता ताणें परत भारतांत येवेचे.
(इंदिरा गांधीन भारतीय वैज्ञानिकांक आवाहन केल्ले तो प्रसंग)

इंदिराजी : म्हज्या मोगाळ भारतीय युवा शास्त्रज्ञांनो, आयज मेरेन तुमी केल्ल्या अव्दितीय संशोधनान भारतीय प्रतिभा पुराय संवसारभर पावल्या. आपलें वेगळे अस्तित्व, स्वतःची वेगळी वळख आनी भारतीय बुध्दिमत्तेची तांक तुमी संवसाराक दाखोवन दिल्या.आयज मेरेन संवसारातले वेगवेगळे देश तुमचे प्रतिभेचो लाव आपापले परीन घेयत आयल्यात. पूण तुमचे मातृभुमीचे किदें? आयज भारतीय वैज्ञानीक प्रतिभा तुमच्या रुपांत अन्य देशांची सेवा करतना भायल्या देशांक उन्नत आनी विकसीत करीत आसा. पूण तुमचे मायभुंयेचे किदे? तुमचो भारत देशूय हेर देशांवरी विकशीत आनी समृध्द जावचो, नवे शक्तीच्या रुपांत संवसारा मुखार येवचो अशें तुमका दिसना? म्हज्या भारतीय शास्त्रज्ञानो तुमची मांय भूय तुमकां होरायता, साद घालता भरतांत परत येयात. हे भुंयेक तुमची गरज आसा. येयात, परत येयात. परत येयात म्हज्या पुतांनो..
(इंग्लंडचो प्रसंग सुरू जाता.)

रघुनाथ : म्हजो निर्णय जाला.

इश्ट : किदें?

रघुनाथ : हय म्हज्या देशान घातिल्लो साद हावें मानून घेतला. हांव भारतात परत चल्लो.

इश्ट : आरे पूण हो आतताई पणान घेतिल्लो निर्णय जातलो. थंय वचून किदे मेळटलें तुका?

रघुनाथ : मायभुंयेची सेवा करपाची संद.

इश्ट : पुण हांगां मेवा आसा.

रघुनाथ : नाका म्हाका मेवा.

इश्ट : आरे पूण, भाभीचो तरी विचारतलो काय ना?

रघुनाथ : वैशाली म्हाका नाका म्हणचे ना. खरें दिसना? मागीर चल म्हजे बरोबर.

(घरचो प्रसंग सुरू जाता.)

रघुनाथ : वैशाली आयज तुका सांगचे पयली हावें एक निर्णय घेतला.

वैशाली : कसलो निर्णय? आमकां तरी कळूंदी.

रघुनाथ : आमीं भारतांत वतात. भारत देशाक युवा शास्त्रज्ञाची गरज आसा. इंदिराजीन सगळ्या भारतीय शास्त्रज्ञाक भारततांत परत येवपाचे आवाहन केलां. आनी देशान घातिल्लो साद हावें मानून घेतला.

वैशाली : खऱ्यानीच योग्य निर्णय घेतला तुमी. देशाक जर आमची गरज आसा जल्यार आमी हांगा कित्याक रावचीं?

रघुनाथ : तुजे कडल्यान हीच अपेक्षा आशिल्ली. वैशाली, पूण हांगा ज्यो सुख-सुविधा, शान-शौकत, झगमगाट आसा तो कदाचीत भारतात मेळूंक पावचो ना. हांगां 10000 रुपया पगार मेळटा थंय 2100 त भागोवचे पडटलें.

वैशाली : भागयन हांव. सुखाचे मेजमाप फकत पयसो आनी धनानूच जाता व्हय? चलात आतां वचपाचे तयारेक लागूंया.

(विमानाच्या आवाजांत दोगांयचेर उजवाड थिरावन काळोक जाता.)

### प्रसंग 9

(थळ : डॉ. माशेलकरांचे पुण्यांतलें घर. घरांत गणपती पुजला. आरती जाल्या उपरांत आयिल्ल्या वैज्ञानिकां मर्दी चर्चा सुरु आसा.)

1लो : रघुनाथ, घरांत गणपती पुजन करून बरें केलें तुवें.

आई : अश्या ह्या उत्सवांनी घरचें वातावरण बदलता. ना जाल्यार सदांच दीस-रात काम काम आनी काम.

रघुनाथ : आई जबाबदारी वाडल्या आतां.

आई : जाणां हांव, तुमी बसात हां. हांव मात्शे भितल्लें आवरून घेतां.

1लो : सर, भारतीय प्रयोग शाळांक लोकांकडे जोडपाच्या वावरांत तुमचे महत्वपूर्ण योगदान आसा.

2रो : आयज मेरेन आमीं दुस-यांची कॉपी करून स्वतः संशोधन केल्ल्याचो आनंद घेताले. पूण आयज ती स्थीती बदल्ल्या.

इंगावले : First to India न्हय First to world जायात. हो मंत्र तुमीच दिला सर. – जेन्ना सावन तुमी N. C. L. च्यान CSIR त आयल्यात तेन्ना सावन भारतीय प्रयोग शाळांचें रूपच बदलून गेलां.

रघुनाथ : हें सगळें तेन्ना शक्य जालें जेन्ना सरकारी संस्था, खास करून प्रयोग शाळा सरकारी लालफितिंतल्यान भार सरल्यो आनी लोकां मेरेन पावल्यो.

इंगावले : हें सगळें तुमकांच लागून जालां सर.

रघुनाथ : चुकता तू इंगावले, आरे, हें सगळें म्हजे खातीर न्हय तर तुजे सार्किल्ल्या युवा वैज्ञानिकांक लागून आमचो भारत संशोधनाच्या मळार स्वयंभू जायत आसा.

इंगावले : पूण तुमी आदार दिवंक नाशिल्लो जाल्यार –

रघुनाथ : किद्याक दिवचो नाशिल्लो? तुजी धडपड हावें पळयल्या. जिद्द पळयल्या. आयजूय म्हाकां तो दिस बेस बरो याद आसा..

(प्रसंग बदलता.)

थळ : एक बायल आपले धुवेक उकलून घेवन बोवाळ मरीत येता.

बायल : आरे धांवात, धांवात रे कोणीतरी! ..... म्हजे धुवेक पळयात किदें जालें तें. गांव पुरसा, वन देवते माये म्हज्या धुवेक वाचय गे.

बापूय : कोणी दुस्मानान करणी केल्या आसततली. पळेयात, पळेयात तरी फुलावरी म्हजे धुवेची कूड कशी शेरवाडावरी धवी पडल्या ती!

इंगावले : काकी मात्सो कुशीक रावता? ताच्या रक्ताचो नमुनो काडून तपासूंक धाडूक जाय.

बायल : किदे! रक्त काडटा? ना ना हांव तेचे रगत काडूंक दिवची ना.

इंगावले : काकी, तेच्या रगतातलें हिमोग्लोबीनचे प्रमाण उणें जालां आसतलें. प्लीज, म्हाका तेच्या रगताचो नमूने घेवंक दियात. बेगिनात बेगीन तेच्या रगताची तपासणी जावप गरजेची आसा.

बापूय : रगत काडलें म्हण ताचेर केल्ली करणी मोडची ना.

इंगावले : पूण रगत तपासले बगर डॉक्टर वखद कसो दितलो?

शेजारी : तें आमी नकळो. पूण आमी चलयेचे रगत काडूंक दिवचे नात.

बापूय : आनी आंगाक सूंय तोपूंक दिवचे ना.

आवय : धुवे धुवे दोळे उघड ! दोळे उघड धुवे. आगो! अशें कितें करता गो! किदें जाता तुकां? किदें जाता?.... धुवे .!

(भुरगें आवयचे मांडयेर जीव सोडटा.)

इंगावले : छट! दोन दीस जाले ह्या लोकांक समजायता हांव . पुण कोणूच काना-मनार घेवपाक तयार नात. कशे समजावप ह्या लोकांक? .आनीक कितले बळी वतले अंधश्रद्धेच्या नांवान! .. ना ! आतां म्हाकाच किते तरी करचे पडटलें. हाचेर उपाय सोदचोच पडटलो!

(इंगावले ह्या लोकांखातीर किदें तरी नवें करपाचो निश्चय करता. उजवाड ताचेरूच थिरावता.)

(प्रसंग बदलता आनी इंगावले CSIR त डॉ. माशेलकरां कडे पावता.)

इंगावले : सर, आनी कितल्या लोकांचो बळी घेतली ही अंधश्रद्धा?

रघुनाथ : तुका किदें दिसता, फकत अंधश्रद्धेकूच लागून ग्रामीण वाठारांतल्या लोकांचे बळी वतात?

इंगावले : ना सर, आनीकूय जायतीं कारणां आसात. आमच्या भारत देशात 80 टक्के खेडीं आसात.

रघुनाथ : पूण तांचो हांगा संबंद किदें?

इंगावले : सर, एकवीसाव्या शेकड्याच्या हुंब-यार आमीं आसात तरी आयजूय गांवांनी रगताची तपासणी करपाची सुविधा उपल्बध ना आनी ना प्रवासाची सोय. परिणाम गावातल्यान हाडिल्ले रगताचे नमूने प्रयोगशाळांनी पावता म्हणसर पिड्ड्यार जातात. कांयच कामाचे उरनात. आनी जरी पावले, तरी रिपोर्ट हातीन मेळसर पेशंट भायर पडटा.

रघुनाथ : तुजें म्हण्णे म्हाका पट्टा इंगावले. लोक कॅन्सरान मरतात. एड्स सारकिल्ले भयानक दुयेंस जावन मरतात, हें एकवेळ समजू येता. पुण निमोनिया सारकिल्ल्या अतिसाधारण दुयेंसान लोक मरतात हें मात सारकें न्हय. हाचेर उपाय काडपाची गरज आसा इंगावले.

इंगावले : हय सर, हांव सोदलो उपाय. रगत तपासपाचे एक अशें मशीन तयार करतलो जें प्रत्यक्षात रगत काडच्या शिवाय हिमोग्लोबीची मात्रा तपासतलें आनी थंयच रिपोर्टूय दितलें. म्हणजे पेशंटाचेर रोखडेच उपचारूय सुरू करप शक्य जातले.

रघुनाथ : वा!! Very goog! पूण हें सगळें कशे करतलों तूं?

(इंगावले आपूण किदें करूक सोदतां तें डॉ. माशेलकरांक सांगता. हें मायम रुपांन दाखोवचे.)

रघुनाथ : इंगावले, खऱ्यानीच तुजी संकल्पना सुंदरूच आसा. तूं मुखार सर, पुराय भारत देश खास करून उडखठ तुज्या वांगडा आसा. आनी हां खंयच

तडजोड नाका. ब-यातले बरें तंत्रज्ञान वापर. पयशांची चिंता अजीबात करप ना. आनी First to India न्हंय First to Word जावपाचो यत्न कर.

इंगावले : हां सर, हांव जातलो First to Word!
(परत चवथीचो प्रसंग सुरू जाता.)

रघुनाथ : आनी तुवें तें खरें करूनय दाखयलेंय बी. रगत काडिनासतना मशीन बोटाक लायल्या उपरांत हिमोग्लोबीन चे प्रमाण दाखोवपी 'हिमोग्लोबीन टेस्टींग मशीन' हें खऱ्यानीच तुजे अव्दितीय संशोधन.

इंगावले : गरज आयली काय उपाय सोदचेच पडटात.

1लो : देखूनच म्हण्टात न्हय, गरज ही शोधाची जननी आहे.

इंगावले : सर, येतात आमी.

2रो : चवथीक आमंत्रीत करून तुमी आमचो सन्मान वाडयलो. थँक यू सर!

रघुनाथ : तशें काय ना हां. सण परबो ह्यो नातीं - गोतीं वाडोवपा खातीर आनी तांतून घटसाण हाडपा खातीरूच आसतात. थंय नो थँक यू, नो आभार. (सगळे हांसतात)

इंगावले : बरें सर!
(सगळे वतात तेन्नाच माशेलकारांचो चलो चेतन जखमी कबुतराक घेवन येता.)

चेतन : आई! बाबा! आजी! अग लवकर या ना. ह्या कबुतराक पळेयात जखमी जालां तें.

रघुनाथ : जखमी जालां, पूण कशें?

वैशाली : आरेरे! बाबड्याच्या पांकाट्याक लागलां दिसता.

आई : कितलें रगत व्हांवता पळेयात.

रघुनाथ : आगो वैशाली, पळयता किदें? वच आनी मलम घेवन यो.

आई : राव हांव हाडटां. (ती भितर वव्हून हळदीचो लेप करून हाडी मेरेन रघुनाथ आनी चेतन कबुतराची जखम साफ करतात.)

वैशाली : मांजरान वा दुसऱ्या सवण्यान बी हाचेर हल्लो केला आसतलो.

चेतन : नाजाल्यार भुरग्यांनी बाँम बी उडयला आसतलो.

आई : हाडात तेका हांगा दियात. हांव तेका हळदीचो लेप लायतां.

रघुनाथ : पुण मलम आसा न्ही घरांत.

आई : तुमच्या मलमा परस हो हळदीचो लेप बरो. तू चिंता नाका करूं.

रघुनाथ : नाका कशी? जखमी आसा तो.

आई : देखून ही हळद लायता.

**वैशाली** : अहो, वखदानी लेगीत हळदीचो वापर जाताच न्हय.

**रघुनाथ** : आरे हय! म्हज्या लक्षातूच आयले ना पळय. तें आसूं, आई म्हाका एक सांग गे वखद म्हण हळदीचो वापर करतात हे तुका कोणे सांगिल्ले?

**आई** : तातूंत सांगपा सारके किदें आसा तर? आरे शेकड्यांनी वर्सां सावन आमचे जाण्टे वखद म्हण हळदीचो वापर करीत आयल्यात.

**रघुनाथ** : पूण हें तूं कशे सांगूंक शकता?

**आई** : कशें म्हटल्यार? म्हजी आवय, म्हटल्यार तुजी आजी, तिचे आज्येची आजी आनी तिचे आज्येची आजी लेगीत हें जाणां आसली.

**रघुनाथ** : म्हटल्यार सगळ्या भारतीयांक हें खबर आसा?

**आई** : हय आसुंकूच जाय!

**रघुनाथ** : तशें जाल्यार हळदीचो पेटंट अमेरिके कडे कसो? तो भारता कडे आसूंक जाय आशिल्लो.

**आई** : पेटंट?

**रघुनाथ** : पेटंट म्हटल्यार ज्ञान संपदेचो अधिकार! पुण हळदीचो पेटंट अमेरिका कशी घेवक शकता?

**वैशाली** : शकता न्हय. घेतलो लेगीत.

**रघुनाथ** : ना.. ना! हांव तो पेटंट तेंच्या कडल्यान झोमून घेतलो. भारताचो अधिकार तो. ते खातीर म्हाकां हळदी घाटीची दुसरी लडाय लेगीत लढची पडल्यार कमा येता.

**वैशाली** : लढाय लडाच पूण पयलीं जेवन घेयात. जेवचे आसात तुमी आजून.

**रघुनाथ** : तुम्ही व्हा पुढं आलोच मी. (डॉ. माशेलकर पुस्तकां वाचीत बसता. मदीच संदर्भ टिपणां काडटा. ताचेर उजवाड थिराविल्लो आसतनाच निवेदिका येता.)

### प्रसंग 10

**निवेदिका** : अशे तरेन डॉ. रघुनाथ माशेलकर अमेरिके कडल्यान हळदीचो पेटंट झोमून घेवपाच्या वावराक लागले. दीस - रात मेहनत घेवन तांणी आमच्या प्रचिन ग्रंथाची पारायणा केली. शेकड्यानी वर्सां सावन आमच्या भारत देशात हळद औषधी म्हण वापरतात हाचे पुरावे एकठाय केले. संस्कृत, पाली, हिंदी, मराठी आनी हेर भाशातली उपयुक्त म्हायती ताणी इंग्लीशीत अणकारीत केली. ह्या वावरांत तांका इंडियन जर्नल ऑफ मेडिकल रिसर्च हे संस्थेतल्यान बरीच उपयुक्त म्हायती मेळ्ळी. ते सगळे

पुरावे घेवन ते पेटंट कार्यालयात पावले.
(प्रसंग बदलून पेटंट कार्यालय दिसता.)

अधिकारी 1 : wel come, have a sit officer.

2, 3 : Thank you sir.

रघुनाथ : Good morning sir

1, 2 : Good morning. Good morning.

रघुनाथ : हांव हळदीच्या पेटंटाचेर चर्चा करूंक आयलां.
– हळदीच्या पेटंटाचेर चर्चा? पूण तो तर ऑल रेडी अमेरिकेकडे आसा.
– यस! यस! You are absuletly right sir.

रघुनाथ : पूण तो तर भारताचो अधिकार!
– भारताचो अधिकार? इंदियेचो? पुण कसो?

रघुनाथ : हे घेयात पुरावे.
– No. this is not possible.
– How can it possible?
– Yes. It is not possible!

रघुनाथ : Why not possible? हे घेयात आनीक पुरावे.

निवेदिका : कार्यालयातले अधिकारी पयलीं तांचो विचार कशेच मानूंक तयार नासले. पुण डॉ. माशेलकर तांकां बदले नात, तांणी भारत देशांत पुराण काळा सावन घायांचेर उपचार करपाक औषधी म्हण हळदीचो वापर करतात हें सिध्द करून दाखयलें. निमणे पेटंट कार्यालयाक डॉ. माशेलकरांचे म्हण्णें मानून घेवचेच पडलें आनी Yes. You are right Mr. Mashelkar!
– Yes you are right. (ते आपल्या भितर चर्चा करून निर्णयार येतात.)
– हे ऑफीस आयच्यान हळडीचो पेटंट जो आमेरिकेकडे आसलो तो काडून घेता आनी आतां सावन हो हळदीचो पेटंट इंदीयेक दिलो अशें घोशीत करता. आयच्यान हो पेटंट इंदीयेचो जालो. कॉग्रेच्युलेशन मि. माशेलकार.
(हांगा कार्यालयातलो प्रसंग दाखोवचो.)

निवेदिका : डॉ. माशेलकर NCL आनी CSIR चे म्हासंचालक जाले तेन्ना दिल्लीत बसून तांच्यानी काम करूं येताले पूण ते खातीर तांणी ज्ञानसंपदेचे भांडार आशिल्ल्या पुणे शारांत बसून काम करप पसंत केलें. केंद्र सरकारानूय ताका विरोध केलो ना. हळदीची लढाय जिकल्या उपरांत ताणी बासुमती, कारोती, वांयगें सारकिल्ले कितलेशेच चुकिचे पेटंट दिल्ले तांचे आड आवाज उठोवन तेवूय पेटंट भारताक मेंळोवन दिले. अशे तरेन दिसांन दीस तांची प्रतिमा उजळत गेली. त्या वेळार केन्नाच हार न मानपी डॉ.

माशेलकरांचेर ज्ञान संपदा विकपी सौदागर असो आरोप जावपाक लागलो. तेन्ना तेवूय वगी रावले नात. तांणी आपल्या विरोधकांक तितल्याच नेटान जाप दिली..

रघुनाथ : हय! हांव ज्ञानाक धनाच्या रुपांत पळयता. . आमी जर ज्ञानाक धन मानतात जाल्यार त्या धनांचे मोल आमकां मेळूं नाकां? आनी ज्ञानाचे मोल जर तुमकां अपेक्षीत आसा जाल्यार त्या ज्ञानाचेर तुमचो अधिकार आसचो पडलो ना? आनी अधिकार बेश्टोच मेळना तो दाखोवचो पडटा, मेळोवचो पडटा. सरस्वतीची आराधना वेगळी जी आमीं सगळे करतात. पुण लक्ष्मीचीय पुजा करची पडटा हे आमकां सरस्वती पुतांक केन्ना कळटले? सरस्वती हे जशे ज्ञानाचे प्रतीक तशे तें धनाचेंय प्रतीक आसा. आनी म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार ज्ञानाक धनाच्या रुपांत परिवर्तीत करप ही आयच्या काळाची गरज आसा हें आमकां समजून घेवचे पडटलें. खरें म्हटल्यार वायरलेसचो पयलो प्रयोग निवेदितान केल्लो, हें खरे मूं? मागीर म्हाका एक सांगात, आयज जेन्ना-जेन्ना वायरलेसचो विशय येता तेन्ना-तेन्ना मार्कोनीचे नांव मुखार किद्याक येता? . हे गोष्टीचो विचार करात म्हणजे हांव किदें म्हण्टां ते तुमचे मातींत येतलें. भारत जर ज्ञानाचे भांडार आसत जाल्यार त्या ज्ञानाचेर ताचो अधिकार आसूंकच जाय. आनी त्या भांडारातलें ज्ञान जर आमी विकतात जाल्यार तांतून चुकीचे अशें कांयच ना. .. हांव म्हजें ज्ञान विकतलों. हांगा विकलें गेले ना जाल्यार अमेरिकेक वचून विकतलों. युरोपाक विकतलों आनी भारताच्या विकासाक हातभार लायतलों.

निवेदिका : सदांच पॉजिटीव विचार करपी ह्या म्हान वैज्ञानिकाचे कार्य पळोवन नोबल पुरस्कारा उपरांतचो जगांतलो सर्वश्रेश्ट F. R. S. फॅलोशिप पुरस्कार दिवन तांका सन्मानीत केले. सर एझॅक न्युटन च्या उपरांत हो पुरस्कार घेवपी ते दुसरे वैज्ञानीक. भारत सरकारानूय तांचे कार्य आनी विद्वत्ता पळोवन तांका पद्मश्री, पद्मभुषण, पद्मविभुषण पुरस्कार प्रदान करून तांकां सन्मानीत केल्यात. हे तीनूय पुरस्कार प्राप्त जाल्ले ते पयले वैज्ञानिक. पुराय संवसारान तांकां कितलेशेच पुरस्कार दिवन सन्मानीत केल्यात. हांतून महाराष्ट्र भुषण आनी गोमंत भुषण पुरस्कारांचोय आस्पाव आसा. पद्मभुषण पुरस्कार स्विकारल्या उपरांत आपल्या मनोगतांत तांणी म्हणिल्लें---

रघुनाथ : हांव सामान्य परीवारांत जल्मलो. म्युनिसीपालटीचे मराठी माध्यमाचे शाळेंत शिकून हांगा मेरे पावलो. म्हजी शाळा आनी म्हजी आई जरूर गरिब आशिल्ली पूण म्हजे भावेसरां सारकिल्ले शिक्षक आनी म्हजे आईचे

विचार श्रीमंत आशिल्ले. ह्या पुरस्कारांनी म्हाकां भौमान दिलो, व्हड केलो पूण म्हजे खातीर म्हजो देश व्हडलो. म्हज्या भारतीय वैज्ञानिकांनो हो एकविसावो शेकडो तुमचो आसा. स्वतःक सिध्द करात आनी भारताची तांक संवसारक दाखोवन दियात.

निवेदिका : डॉ. माशेलकर तरनाट्यांक सदांच सांगत आयल्यात उर्बा दियत आयल्यात... ते म्हण्टात.. दर नवो दीस तुमचे खातीर नवी सकाळ आनी नवी संद घेवन येता. देखून तुमी देश, समाज आनी स्वतः खातीर सचेत आनी कार्यरत रावात.

रघुनाथ : Bill Getsसान आपल्या ज्ञानाक धनाच्या रूपांत परिवर्तीत केलें. आमच्या देशांत तर अशे कितलेशेच बिल गेट्स आसतले.

– तुमचे भितल्यो त्रुटी न्हय गूण सोदात, ते विकसीत करपाचो यत्न करात आनी असो निश्चय करात की आयज मेरेन जें कोणेच केले ना ते हांव करतलों.

– खरी प्रतिभा गांवांनीच शिंपडिल्ली आसा. तिचो सोद घेयात आनी संवसारा मुखार हाडात.

– आमच्या भारत देशात फकत 125 करोड खावपी तोंडांच नात तर 125 करोड मेंदूय आसात, जे भारत देशाचे भाग्य बदलतले. भारताचें नवें रूप संवसाराक दाखयतले.

हें सिध्द करून दाखयात.

– सुरम्य भारत, संतूलीत भारत, सुविद्य भारत, सुशाशित भारत, स्वानंदी भारत आनी विकसनशील भारताची प्रेरणा दर एका भारतीयाच्या मनांत रुजू दी, मागीर पळेयात; पुराय संवसारांत भारताचो नंबर आसतलो.

हय India will be first.

वंदे मातरम्

सुजलाम् सुजलाम्

मलयज शितलाम्

सस्य श्यामलाम् ..वंदे मातरम्

(ची धून वाजता ते लयीचेर पड्डो येता.)

(टीप : ही एकांकीका म्हान वैज्ञानीक श्री. रघुनाथ माशेलकार हांचे जिणेचेर आदारीत आसा.)

000

ललीत

(निबंद)

कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी

# संस्कृती–श्राद्ध, म्हाळ आनी रुढी–परंपरांतली!

'श्राद्ध' म्हणल्यार जे श्रद्धेन करतात तें! आनी म्हाळ म्हणल्यार जो परंपरेन चलत आयिल्ल्या म्हयन्यांत करतात तो! आतां म्हाळांत श्राद्ध आसता, मात्त श्राद्धांत म्हाळ नासता!! श्राद्धाक 'वर्शीक' अशेंय म्हणटात. वर्सश्राद्ध अशेंय म्हणटात. कारण, ते दरवर्सा हिंदू म्हयन्याचे (आतां 'भारतीय' म्हयन्याचे) विशिश्ट तिथयेक वाडपाचें आसता. श्राद्ध एकल्याचे/एकलेचे यादीक वाडपाचें आसता. आर्विल्ले भाशेंत सांगपाचें जाल्यार वर्सश्राद्ध म्हणल्यार पुण्यतीथ! मात्त 'पुण्यतीथ' ही म्हान व्यक्तीमत्त्वांचीच करपाची परंपरा आमचेकडेन चलत आयिल्ल्यान सामान्यांखातीर आपल्या आपल्या घरांनी घरांतल्या लोकांखातीर, गांवांतल्या लोकांखातीर, सोयऱ्यांखातीर श्राद्ध! मागीर त्या दिसा, ज्याच्या नांवांन 'श्राद्ध' करतात ताचो तिचो फोटो आसल्यार ताका गंध–फूल बी करून, जमल्यार हार बी घालून, उजवाती बी लावन ताची पुजा! ताच्या नांवांन थडें (आतांचे भाशेंत 'समाधी') बी बांदिल्ले आसत जाल्यार ताची पुजा! केन्ना–केन्नाय भजन बी. मात धर्मीक विधींखातीर भटमाम गरजेचोच!! हें सगलें जातकूच 'भूस' हो त्या दिसाचो विशेश.

जाल्यारूय म्हाळामुकार श्राद्ध कांयच न्हय! म्हाळाची परंपरा म्हान!! आमकां खबर आशिल्ल्या आनी खबर नाशिल्ल्याय आमचेमदल्यान 'गेल्ल्या' सगल्या 'जाण्ट्या पितरांक' विशिश्ट म्हयन्यांतले विशिश्ट तिथीक भोवमानान पाचारपाचो, तांकां संतुश्ट करपाचो, तांकां तृप्त करपाचो

**कमलाकर म्हाळशी** : जल्म : 1947, समिक्षक, लोकवेद संशोधक, स्तंभलेखक, अनुवादक, कोंकणी आनी मराठी भाशेंत लेखन, कविता आनी निबंद लेखनय केलां. *'मनीसपणाचो, ताज – जमनालाल बजाज'* (बालचरीत्र), *'ऋतुचक्र'* (निबंद), *'बा यैथा'*, *'सांब-शीव'* आनी *'वासंगो राजा'* (नाटक) अशीं कोंकणी पुस्तकां तशेंच तीन मराठी पुस्तकां प्रकाशीत. गोंय सरकारच्या कला आनी संस्कृती संचालनालयाच्या राज्य पुरस्कारान सन्मानीत. संपर्क : श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय 403 702. मो. : 9326110324.

विधी म्हणल्यार म्हाळ! चवथी उपरांतची भाद्रपद शुद्ध पुनव. सोंपली रे सोंपली, भाद्रपद कृष्ण पाडव्यान 'म्हाळ' वाडपाचो, म्हाळाचें 'श्राद्ध' वाडपाचो 'म्हाळ म्हयनो' सुरू जाता. म्हणल्यारूच त्या जाण्ट्या - पितरांची याद करून तांच्यो इत्सा पुराय करपाचो 'पितृपक्ष' सुरू जाता! आतां 'पितृपक्ष', 'महालय' हीं उतरां आमी शाळेंत वयतगीर, समजूंक लागतगीर आयकल्यांत. ना जाल्यार पितृपक्ष आमचेखातीर 'म्हाळ म्हयनो' आनी महालय 'म्हाळ'! आमच्या भुरगेपणांत 'म्हाळ' म्हणल्यार भूस! 'म्हाळ म्हयनो भुसाचो!' अशें काव्यात्म रितीन म्हणूं येता असो. जाय नाका करून पोटाक पोटभर जेवपाचेंच न्हय जाल्यार पोट फुटसर भकोवपाचें आसत जाल्यार म्हाळाच्या भुसाक पर्याय नासुंये! तशें पळोवपाक गेल्यार 'भूस' उतरांत 'जेवण' आसताच, मात्त परबांदिसांनी, समरादनीदिसांनी, लग्नकारणां दिसांनी करतात, त्या खाशेल्या शिवराक जेवणाक 'भूस' म्हणपाची रीत चलत आयल्या. विशेश म्हणल्यार भुसाचें जेवण जेवप न्हय जाल्यार 'भूस मारप!' केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार प्राप्त कवी पद्मश्री बाकीबाब बोरकार हांची 'पांयजणां' कवितासंग्रहांतली 'झंजाळालो म्हाळ' कविता वाचल्यार हें 'भुसायण' बेस्स बरे रीतीन उलगूं येता!

ती पुराय कविता अशी आसा-

*झंजाळालो म्हाळ*
*बरो बाबा भल्लो म्हाळ!*
*घालपी कोण काय म्हळ्यार*
*आमगेलो गोपाळ शणै झंजाळ*
*गांव सांकवाळ,*
*घर भंगसाळ,*
*खासा तो आगयो बेताळ*
*तागेली भावका - देवता तोंडाळ आनी खंखाळ,*
*एक चलो वाळ,*
*दुसरो वाचाळ,*
*तिसरो पयल्या नुमराचो कुटाळ.*
*चली बोवाळटाली ती अखळ आनी घाळ.*
*भुसमारे आयिल्ले उबाळ,*
*तांतूत, लोटिल्ल्या काच्याबुच्यांचो हो कुल्लाळ!*
*आनी तो थोडो म्हणून*
*जमिल्ल्या बायलांची वाळवो पेंचून चांचाळ,*
*इतले म्हणसर जाली बारांची नाळ,*
*आनी जालो सायबा सुरू म्हाळाचो बोवाळ.*
*पुण कितें सांगतलो जिवाचो जंवजाळ!*
*शीत गुळफो नवाळ,*
*रोसाक भगभग जाळ,*
*शाकेक आळूं आनी वाळ,*
*शितून घाल्लें तेंय पालेल्सें कणगाचें पाळ*
*आनी मणगण्यांत सामकी भातेल्ली दाळ,*
*खातलो कितें कपाळ?*
*पुण पोटार उठिल्लो न्हय गा काळ?*
*जिबेक म्हळें,*
*वळख वेळ काळ*
*आनी चलयल्लें व्रत पाळ,*
*गोडयेक भरस लाळ*
*आनी जमत तितलें हाताळ,*
*अशेभशेन एकदांचो संपादलो म्हाळ!*
*पुण जेन्ना जाली सकाळ*

*तेन्ना किते सांगतलो जिवाचे भोवजाळ?*
*जावंक लागले अशे धाळार धाळ*
*किं तांकां कसोच उल्लो ना ताळ.*
*मागीर म्हाका गोपाळाचे अशे माल्ले जाळ,*
*किं हांवें काडली सामकी दास्तनांतली गाळ,*
*म्हळें,*
*पाड पडूं तुजो म्हाळ!*
*तो गांवाभायर व्हरून उंवाळ*
*नाजाल्यार सारयेर तरी दाळ.*
*आनी इतलेंय आसून*
*'जिबे सुवादीन' असो आनी म्हजेर आळ!*
*ळ्ळा ची ही अशी आळ*
*करून हांवें जी ही रचल्या माळ*
*ती ओडीत*
*तूं हो म्हगेलो अणभव बरो करून चित्तांत चाळ*
*मनांत गाळ,*
*आनी श्राद्ध, तीथ, म्हाळ*
*असलें सगलें ताळ*
*आनी गेलोय जाल्यार*
*जिबे पापणीक सांबाळ!*

'कवी' म्हूण खर अभिमान बाळगुवपी बाकीबाबांची ही समेस्त समाजाक सहजतायेन समजुवपासारकी सोप्पी कविता! लोकरुढींचेर व्यंगात्म रितीन टिपण करपी, लोकवेदाच्या बाजाची, तरीय हक्कान 'प्रबोधन' करपी अस्सल कोंकणी उतरांची अशी 'म्हाळाच्या खेरीत भुसायणा'ची कविता!! बाकीबाब कवितेंत भुसाचो विचित्र अणभव विनोदी ढंगान हांसयत हांसयत सांगूं, मात्त ह्या निमतान तांची तर्कनिश्ठ आनी विज्ञाननिश्ठ मतबुद्द 'आनी श्राद्ध, तीथ, म्हाळ असलें सगलें ताळ' होच संदेश रुढींचें अवडंबर घेवन बशिल्ल्या लोकांमरेन पावोवपाक सोदता!!

आतां त्या आदल्या तेंपार 'कित्याक?' असो प्रस्न विचारपाचो प्रस्नूच येनाशिल्लो! परबो जावूं, श्राद्ध जावूं, म्हाळ जावूं, जाणटे करीत आयल्यात म्हूण आमीय करपाचें अशे पवित्र भावनेन ते लोक त्यो रुढी 'परंपरा' म्हूण फुडें व्हरताले. तांच्या मत्तान 'श्राद्ध' ही तांची 'श्राद्धा!' आमी आतां विचार करपाक लागल्यात, प्रस्न विचारपाक लागल्यात, चिकित्सक नदरेन – तर्कनिश्ठ नदरेन – विज्ञानीक नदरेन परबो, श्राद्ध, तिथी, म्हाळ आदींतलें पारंपारीक कितलें, रिती-रुढींतलें कितलें, भावनीक कितलें आनी बुद्दीक कितलें हें सोदपबाक लागल्यात, देखून तांतुतलीं उणेपणां, चालीरितींतलीं बगलांटपणां, भावनीक अतितायपणां आमकां चड स्पश्ट दिसपाक लागल्यांत आनी त्या परबां फाटले, श्राद्धां फाटले, तिथयां फाटले, म्हाळां फाटले मूळ निर्मळ हेतू, पंचम्हाभुतांकडली तांची मुळावी, सैमीक इश्टागत, जल्मजात गिरेस्त लोकजीण उज्याचे धुंवरेन भोंवतड आनी शिंयांदिसांतले धुकटेन दोंगर धापून वयचे, तशी धांपून गेल्या!

तशें पळोवपाक गेल्यार त्या दिसांनी रानांतल्या, मळावयल्या कामतांतली शाकभाजी (घोसाळीं, भेंडे, वांयगीं, वाल, हळसोंद्यो आदि), फळफळावळ (तवशीं/काकड्यो, मोगीं/चिबडां, कोंकणदुदी आदि) ताज्जी-ताज्जी मेळटाली आनी

रोसाक - शाकेक, खतखत्याक तें बऱ्याक पडटालें. ही भाजी आनी फळफळावळ शंबर टक्के सेंद्रिय (झाड-पाल्याच्या-शेणाच्या) साऱ्याचेर वाडिल्ली आसताली. 'प्रदूशण' म्हणटात तें उतर गांवांतले कोंकणीत तर नाशिल्लेंच, आनी शीत म्हणटात तें तर घरच्या उकड्या तांदळांचेंच आसतालें. आतां परबांदिसांनी सुरय तांदळांचें शीत करपाची रीत आशिल्ल्यान तितले तांदूळ करून घेताले. गरज पडलीच जाल्यार, पसऱ्या वयल्यान हाडटाले. म्हाळाक 'पंचपक्कान्न' म्हणल्यार खीर आनी वडे! घरच्याच तांदळांच्या पिठाची, गांवठी गोड घालून केल्ली खीर आनी कायलींतल्या सळसळटल्या तेलांतल्यान काडिल्ले घरच्याच तांदळांच्या पिठाचे गरम गरम वडे! हे खिरीक कारवार वाठारांत 'गुळणी' म्हणटाले जाल्यार, गोंयांत गोडशें! गोडाक लागून हें नांव पडलें आसतलें.

म्हाळाच्या भुसापयलीं सोयऱ्यांखातीर जेवणाक आपयिल्ल्या 'ब्राह्मणां'खातीर मोग्यांचें (चिबडांचें) रोसायण करताले. नाल्ला-सोयेचो रोस पिळून तातूंत गांवांतूच केल्लें गोड घालप आनीक मागीर तातूंत पिकिल्ल्या मोग्यांच्यो फोडी घालून रूचीक रोसायण (रसायण) करप! आज तें 'रोसायण' करपी 'सुवादीक, रुचीक हात' इतिहासजमा जाल्यात! गुळमार्चीं गुळमां रोसायण पिवपी, भोगुण्यांनी रोसायण पिवपीय इतिहासजमा जाल्यात!! आमच्या सारक्यांच्या जिबांनी मात्त तें 'रोसायण' याद काडिल्ल्या खिणांक आजूय घोळत रावता!

भाद्रपद कृष्ण पाडवो धरून भाद्रपद अमाशेमरेन जे म्हाळ जाताले (आजूय जातात), तातूंत खंयचे तिथीक कोणागेर म्हाळ हें सगल्या सोयऱ्यांक तशेंच 'ब्राह्मण' म्हूण भोवमानान दरवर्सा आमंत्रण करपाच्या भोवमानेस्तांक 'खबर' आसतालेंच. सांगातान 'तोंडपाठ' आसतालें! फक्कडत एक 'रकाद' पावयल्यार पुरो, ते हजर जाताले! येजमान धन्य जाताले!! ते तुळशीचे पेडयेमुकार केळी-पान दवरून त्या 'उपाशी राविल्ल्या' सोयऱ्यांचे, ब्राह्मणांचे पांय धुयताले, पांय धुल्लें तें 'तीर्थ' पिताले, आपल्या खांदावयल्या वाल्यान तुवाल्यान तांचे पांय पुसताले, दर एकल्याक फूल दिवन भोवमान करताले, आजूय करतात! विशेश म्हणल्यार, हातूंत दादल्यांवांगडा सवायशिणी बायलो, धाकल्यो चलयो - चलेय 'उपाशी राविल्ले ब्राह्मण' आसतात, तांचोय तसोच भोवमान जाता. लोकरितींची - लोकरुढींची ही विशेशताय तोखेवपासारकीच! आतां हें सगलें धर्मशास्त्रां वाचून वा पुरयतान बी सांगला म्हूण न्हय, जाणटेंले करीत आयल्यात म्हूण आमी करपाचें, इतली सादी-भावार्ती रीत. लोकरीत रूढ परंपरा.

आमगेरूय हें परंपरेन चलत आयलां, कोणाक पटूं, नाका पटूं, लोक-रीत म्हूण चलत आयलां. अर्थांत आतां सोयऱ्यांची, 'ब्राह्मणां'ची संख्या साप्प उणी जाल्या! म्हाळाच्या भुसाची उमेद उरली ना म्हूण आसत, शिवराक जेवपाचें प्रमाण उणें जायत चल्लां म्हूण आसत, कामामुकार कोणाक कोणागेर वचपाक नाका म्हूण आसत,

गांवचे लोक नोकरे निमतान / धंद्यानिमतान शारांत पावल्यात म्हूण आत. पूण म्हाळांनी तशेंच परबांनीय एकमेकांगेर वचपाचो लोकांचो आंकडो उणो जावपाक लागला हें सामकें खरें.

तसो म्हाळाक पुरयत भटमाम येता, आपल्या शास्त्राक धरून भटपण करता, येजमान गेल्ल्या पितरांखातीर भटमाम सांगता तें सगलें शास्त्र करता, देवाक – भटमामामाक 'आमान्य' दिता, घरचीं सगलीं भटमामाक पांयां पडटात! सोयऱ्यांक, ब्राह्मणांक वाडटकूच 'कावळ्याक घालपय' जाता आनी कावळ्यान खालें जाल्यार येजमान, घरचीं, सगळींच संतुश्ट जातात, तृप्त जातात! नासत जाल्यार 'कितें तरी चुकला!' म्हूण दुसऱ्या दिसासावन प्रसाद लावप, जोयशाकडेन पळोवप, घाडयागेर वचप सगलें सगलें सुरू जाता! कसलोच अर्थ नाशिल्लें! कांयच रजांव नाशिल्लें!! विज्ञानाचो सोडात, तर्काचोय आदार नाशिल्लें!!!.... पूण कितेंय जाल्यार म्हाळाक आयिल्ले सगले वेवस्थीत, पोटाक पोटभर जेवले म्हणटगीर जशीं कितें 'गेल्लीं सगली पितरां' तृप्त जावन धेंकर दितात! येजमान, घरचींच तृप्त जातात!!! मागीर येजमान्यासयत घरच्या सगल्यांनी म्हाळाक आपयिल्ल्या सोयऱ्यांकडल्यान, 'ब्राह्मणा'कडल्यान आशीर्वाद घेवपाचे आसतात. जेन्ना येजमान सगल्यांक बसोवन तांचो मानपान करतात आनी तांकां आशीर्वाद दिवपाखातीर अक्षता वाट्टात, तेमेरेन हेवटेन घरांतले दादले आनी चले-भुरगे मांत्याक रुमाल/पगडी बांदून एक धवेंफुल्ल. पुडवें (धोतर न्हेसपाचें) चारूय कोणशे धरून अंतराळें त्या सोयऱ्यांमुकार – ब्राह्मणांमुकार धरतात. ते सांगणी करून तो अक्षता पुडव्यांत उडयतात. मागीर घरचीं सगलीं तांकां पांयां पडटात, ते आशीर्वाद दितात. ह्या सगल्यांतली भुरगेपणासावन म्हाका आवडत आयिल्ली गजाल म्हणल्यार पगडी बांदप आनी आशीर्वाद जातगीर ती सोडून हातांत धरून सोयऱ्यांक ब्राह्मणांक पांयां पडप! मागीर तीं म्हजे परस पिरायेन ल्हानय आसूं! चलता म्हाका!!... पांयां पडप म्हणल्यार ल्हानपण घेवप, दुसऱ्यांक मानप अशें म्हाका लोकरितीन, लोकसंस्कृतीन शिकयला शें म्हाका दिसता. चुकूनय दुसऱ्या कोणाक पांय लागलो जाल्यार ल्हान-व्हड पळयनासतना 'पांयां पडटां!' अशें तोंडान म्हणून पांयां पडपाची रीत लोकसंस्कृतीन म्हाका शिकयल्या. 'चूक जाली, पांयां पडटां!' हें दायज लोकसंस्कृतीचें. आनीक फकत मनशाक न्हय, साहित्य-संगीत-कला संदर्भातले खंयचेय वस्तूक – आयदाक चुकूनय पांय लागलो जाल्यार 'पांयां पडटां, चूक जाली!' हीं उतरां नकळटां तोंडांतल्यान भायर सरपाची कळाशी लोकदायजाचीच!! 'सॉरी!' म्हणपाची शिकयिल्ली रीत आर्विल्ली बुकीश रीत! बाकी तेंवूय काळमानाक धरूनच आसा, हें मानून घेवपाकूच जाय. 'मात्शें' बदला प्लीज, 'चूक जाली' बदला सॉरी आनी 'देव बरें करूं' बदला थॅंक्स हें मॉडर्न शिश्टाचार!! धर्मातल्या नश्टया रुढी-परंपरांचो निशेध

करूनूय बऱ्या रितींक बरें म्हणुंकूच जाय, इतलेच खातीर 'पायां पडपाचे रितीसंबंदान सांगलें. आतां कोरोनान तर पर्तून पांयां पडपाक लायला!

खरें म्हणल्यार आतां आमचेमदले कितलेशेच जाण कांय म्हत्वाच्यो गजाली पळोवपाक वा नोंद करून दवरपाक म्हूण 'दिसावळ' (दिनदर्शिका, कॅलेंडर) वापरतात. कितल्योश्योच एजन्सी, कंपन्यो, बँको, देवस्थानां, वर्तमानपत्रां आतां कॅलेंडरा छापतात आनी आपल्या गिरायकांक वाट्टात. धदो म्हूण कॅलेंडरां काडपीय आसतात. आमच्यांतले चडशे जाण मात्त परबो, जात्रो, फेस्तां, इदां बी केन्ना जातलीं, हें पळोवपाकूच कॅलेंडरां वापरतात. बँकांनी, सरकारी कार्यालयांनी भोवशीक सुटी केन्ना हें समजून घेवपाक कॅलेंडरां पळोवपी एक खास वर्ग आसता! आतां ह्या कॅलेंडरांमदल्या नामनेच्या अशा कॅलेंडरांनी कांय इतिहासीक घटनांचे दीस आसतात, इतिहासीक – पुराणीक म्हापुरसांचे जल्मदीस, पुण्यतिथ्यो आसतात, शूरवीरांचे–वीरांगनांचे, हुतात्म्यांचे दीस आसतात! लोकपरंपरेंतल्यो परबो–जात्रो, फेस्तां, इदां आदि धार्मिक उत्सव मनयतना आमी त्या म्हापुरसांची, शूरवीरांची – वीरांगनांची, हुतात्म्यांचीय याद करपाची गरज आसा. कोण राजकारणी सांगतात म्हूण, सरकार सांगता म्हूण सत्ताधाऱ्यांचे तेचपरी राजकी व्यक्तींचे वाडदीस थाटामाटान मनयतना आमकां आयचे हे दीस दाखयिल्ल्यांची याद करून तांचेकडल्यान कितें शिकप शक्य आसा ताचोय विचार आमचेमदल्या लोककलाकारांनी, लोककलाकार-मुखेल्यांनी आनी तांच्या संस्थांनी करप सामकें गरजेचें अशें दिसता. म्हाळां इतलेंच म्हत्त्वाचें तें!!

ह्या वर्सा म्हाळ म्हयन्यांत आयिल्ल्या अशा कांय म्हत्त्वाच्या दिसांचेर नदर मारल्यारूय ह्या अशा दिसांची 'उजळणी' कित्याक, तांची याद कित्याक, ते निमतान 'आत्मसंशोधन' कित्याक ह्या प्रस्नांच्यो जापो मेळपाक शकतात! देखीक, 05 सप्टेंबर – शिक्षकदीस (डॉ. राधाकृष्णन जल्मदीस) 08 सप्टेंबर आंतरराष्ट्रीय साक्षरता दीस, श्री ज्ञानेश्वरी ग्रंथ जल्मदीस, 09 सप्टेंबर – शिरीषकुमार पुष्पेन्द्र मेहता हुतात्मो दीस (ताच्याच सांगातान धनसुखलाल वाणी, घनश्याम दास, शशीधर केतकर, लालदास हुतात्मे दीस), 10 सप्टेंबर – आत्महत्त्या प्रतिबंधक दीस, 11 सप्टेंबर – आचार्य विनोबा भावे जल्मदीस, 14 सप्टेंबर – हिंदी भाषा दीस, 15 सप्टेंबर – दूरदर्शन दीस, 16 सप्टेंबर – कामगार शिक्षण दीस आदि....

जाल्यार मागीर 'श्राद्ध नाकात! म्हाळ नाकात!!' इतली तोंकाची भूमिका घेवपाची? बिलकूल ना! म्हान व्यक्तीमत्त्वांचे जल्मदीस आमी मनयनात? म्हान व्यक्तीमत्त्वांचे निर्वाण – दीस आमी पाळनात? मागीर थंय जर जल्मदीस 'जयंती' म्हूण आमी श्रद्धेन पाळटात, जाल्यार मागीर तेच रितीन, तेच श्रद्धेन जाणट्यांचे मर्णदीस, निर्वाणदीस 'म्हाळ' म्हूण कित्याक पाळचे न्हय? ह्या 'आरग्युमेंटाक' मागीर जाप

कितें? आतां मूळ तत्त्वाक कोणाकोच विरोध आसपाक कसलेंच रजांव नासुंये. प्रस्न उपरासता तो धर्मशास्त्राच्या नांवांसकयल चलतल्या, तर्काक पटनाशिल्ल्या विधींच्या अवडंबरांचो!

कोणाच्याय नांवांन कोणाकूय झेपनाशिल्लो दानधर्म करपाक मानार करपाचो! आनी तेंवूय जाल्यार 'बाबड्या देवांक भरीक घालून'!!

'श्राद्ध करप हें शास्त्रवचन.' ह्या स्वयंघोशीत वचनान कृष्णपक्षांतल्या म्हाळांच्या (महालय) स्राद्धाची म्हूर्तमेड एक फावट घट्ट करतकूच आनी पिळग्यान पिळग्यो ही म्हेड काळजांक-काळजांनी घट्ट जयत वयतकूच मागीर फुडें उतरा तें फक्कत 'मम' म्हणप! एके तरेचें मोहिनीशास्त्रच तें!! आमीय ताका बळी पडत आयल्यात, हें आमकांय आज मान्य करचेंच पडटलें!!! तर्काक पटना, बुद्दीक पटना हें शंबर टक्के कळुनूय फाशांत आडकल्ल्या जनावरांवरी आमची अवस्था जाल्या! जाल्यारूय, मेलेउपरांत आत्म्याक सद्गती मेळची म्हूण श्राद्ध (म्हाळ) हें म्हाका पटना! पितृपक्षांत श्राद्ध केलें ना जाल्यार पितरांच्यो इत्सा अतृप्त उरतात, कुटुंबाक त्रास जातात हें म्हाका मान्य ना! श्राद्धाक लागून पितरांक गती मेळटा, एका दिसा स्राद्ध केलें जाल्यार ते वर्सभर तृप्त उरतात, हें तर तार्किक नदरेन, विज्ञानीक नदरेन विचार करतल्याक पटपाचेंच न्हय! मात्त, 'शास्त्रवचना'ची फिशालकाय इतली 'जादुई!' कीं सांगता ती गजाल कांयच न्ही करून खरीच दिसपाक लागता!! देखीक, शास्त्रवचनाप्रमाण 'पितृपक्षांतल्या भरणी नक्षत्राचेर श्राद्ध केल्यार गयेक वचून श्राद्ध केल्ल्याचें फळ मेळटा!''... जाल्यार हें आयतें 'फळ' कोण कित्याक म्हूण सोडटलो??? ''वर्सस्राद्धा उपरांत भरणी श्राद्ध केल्यार मेल्ल्याच्या आत्म्याची प्रेतयोनींतल्यान सुटका जाता.'' आनीक एक शास्त्रवचन!! मुळांत जल्माक आयिल्लो दर एक मनीस मरताच आनी मेलेउपरांत ताचे/तिचे कुडीचो लासल्यार गोबोर जाता आनी पुरल्यार 'माती' जाता हें शंबर टक्के सत्य आसतना म्हारू-देवचार, भुतां-खेतां, पुनर्जल्म, आत्मे बी 'संकल्पना'च्या भानगडींनी सामान्यांक घुसपावन दवरपाचें 'कुटिल-कारस्थान' तथाकथित 'धर्मशास्त्रान' म्हणल्यारूच 'धर्मशास्त्रांनी' केल्लें आसा!

मेल्ल्या मनशांचे आत्मे फकत नाटकांनी, पिक्चरांनी आनी हालींसरा 'रात्रीस खेळ चाले' हे मराठी सिरीयलींत अण्णा नायकाच्या वाड्यारूच येयत आसतात!!! रुढींच्या ह्या अवडंबरांतल्यान भायर सरपाचें आसल्यार आमकां स्वदेश आनी स्वधर्माचे कट्टर अभिमानी, चिकित्सक समाजहितचिंतक, समाजपुरुष 'लोकहितवादी' (18 फेब्रुवारी 1823 ते 9 ऑक्टोबर 1892) समजून घेवचो पडटलो. गोपाळ हरी देशमुख ह्या मूळ नांवाचे 'लोकहितवादी' हे ब्रिटीश काळांतले ज्येश्ठ समाजचिंतक. तांच्या सुस्पश्ट राजकी मतांनी, विद्याप्रसार, आचारधर्म, परमार्थ, अनिश्टचाली, समाजसुदारणा आदी विशयांवयल्या स्पश्ट

विचारांनी एकोणिसाव्या शेंकड्याच्या विचारीक प्रबोधनाची बुन्याद घाली, अशें जाणकार मानतात! तांच्या 'शतपत्रे' मदल्या विचारांचें सार सूत्ररूपान सांगतलो जाल्यार अशें सांगुयेता.

- विद्या ही समाजांत बदल घडोवन हाडपाचो मूळ आदार.
- विद्येची वाड आनी ग्रंथांची निर्मणी हांचेमदलें नातें अतूट आसता. देखुनूच उत्तम शिक्षक आनी उंचेल्या पावंड्याचे ग्रंथ निर्माण जावपाक जाय.
- जातीभेदान ह्या देशाचे गिरेस्तकायेच्या मार्गांत आकांताच्यो आडखळी निर्माण करून दवरल्यात, हाची जाणविकाय आशिल्ल्यान लोकहितवादींनी विश्वास उक्तायला तो असो - कितेंय जालें तरी शिक्षणाच्या प्रसाराक लागून आनी प्रभावाक लागुनूच जातिवेवस्था ना जातली!
- लोकहितवादींनी ब्राह्मणांचेर कठोर टिका केल्या. ते म्हणटात - ब्राह्मण हे हारिल्ल्या फुडारपणाचे 'प्रतीक!'... पराभव जाले उपरांतूय चार वर्ण (ब्राह्मण, क्षत्रिय, वैश्य, शूद्र) आनी जातिवेवस्था घटमूट उरिल्ल्यान ब्राह्मणांचे प्रतिशठेक धक्को बसूं नाशिल्लो आनी ही स्थिती ब्राह्मणांक आत्मनिरीक्षण करपापसून आडावपी आशिल्ली!
- धर्मशास्त्राचेर आदारून आशिल्ल्या, अर्थ नाशिल्ल्या आनी त्रास जावपासारक्या रुढींची चर्चा करतनाय लोकहितवादींक ब्राह्मणांचेर, टिका करची पडल्या! मात्त 'मुखत्यारा'वरवीं धर्म सांबाळपाची आमची पद्दत आशिल्ल्यान बाकीच्यांक धर्मासंबंदान कितेंय करचेंशें दिसना आनी ब्राह्मणांकडेन धर्मासंबंदांतली 'मक्तेदारी' आपसूक वयता अशें लोकहितवादी म्हणटाले.

आतां 'लोकहितवादी'नी त्या तेंपार म्हणिल्लें तातूंत कांय एक फरक आजूय पडूंक ना, उरफाटें तांचें म्हणणें चड घट जावपासारकी परिस्थिती निर्माण जाल्या, अशें नाविलाजान आनी थोडें तिडकीनूच म्हणचें पडटा! कारण, उत्सव - समारंभ कसलेय आसूं, आमकां 'सत्यनारायण पुजा!' जायूच!! म्हाळाक, श्राद्धाक, होमाकूच म्हूण न्हंय, घरांतल्या कसल्याय 'कार्या'क आमकां भटमाम लागता. आमची 'गणपती-पुजा' तर भटमाम आयलेबगर जायच ना!!... केन्ना सुदारतले आमी? शाळांनी - कॉलेजींनी शिकिल्ल्या थोडेभोव गिन्यानाचो उपेग जीण घडोवपाखातरी केन्ना करतले आमी? नश्ट्या रुढींच्या, फटीच्या परंपरांच्या, आत्महीणपणाच्या बंदपासांतल्यान केन्ना मेकळे जातले आमी? केन्ना?...

000

लोकवेद

(निबंद)

विनायक विष्णू खेडेकार

# धवळां; एक परिशीलन

**विनायक विष्णू खेडेकार :** जल्मः 1938. गोंयचे जेश्ठ लोकवेद संशोधक. सुमार पांच दसकां वयर काळ लोकवेद क्षेत्रांत वावर. भारतांतल्यान विविध राज्यांत तशेंच विदेशांतय लोकसंस्कृतीच्या संशोधना निमतान अभ्यास भोंवडी आनी आयोजीत परिशदो- परीसंवादांनी सहभाग. भारत सरकाराची विवीध मंत्रालयां, विभागीय सांसकृतीक केंद्रां, भारतीय सांस्कृतीक संबंद परिशद-आयसीसीआर, संगीत नाटक अकादमी, राष्ट्रीय नाट्य विद्यालय-एन्एसडी, इंदिरा गांधी राष्ट्रीय सांस्कृतीक केंद्र, प्रसार भारती अशा संस्थाच्या समित्यांचेर वांगडी म्हण योगदान. लोकसंस्कृती, लोककला विशयावेलीं आतां मेरेन 16 पुस्तकां प्रकाशीत. *'लोकसरिता', 'गोवा कुळमी', 'फोक डान्स ऑफ गोवा', 'गोवा लग्न आख्यान'* हीं तांच्या कांय म्हत्वाच्या पुस्तकांचीं नांवां. महाराष्ट्र राज्य, गोमंतक मराठी अकादमी, कला अकादमी ह्या संस्थांच्या साहित्य पुरस्कारान सनमानीत. संपर्कः वर्तमान, बाल भारती विद्या मंदिरालागीं, रायबंदर, 403006.मो. 9422438348. इमेलः Lokkalagoayahoo.com

हुमटोन काडूं जायना अशीं भुंयगर्भान खोलायेमेरेन रिगलेलीं संस्कृतीचीं पाळांमुळां लोकवेदांत दिश्टी पडटात. तीं फकत गीत गायनां, उतरां वो अक्षरां नासतात. जे मातयेंत तांकां कोंब फुटले, रुजवण आयलें, ते मातयेचीं हीं गायना. धवळां, 'होवयो', व्हींवयो, 'लग्न गितां/ गायनां', 'काजरा गायनां अशा तरेक तरेच्या नांवांनी, लोकवेदाक फुटिल्ले हे सणसणीत आंकरे म्हळ्यार गोंयचें गिरेस्त सांस्कृतिक दायज.

'धवळां' हें लोकवेदातलें एक समृध्द प्रकरण. खंयच्याय जातीपातीची संस्कृती समजून घेवपाक थंयचीं, त्या लोकांगेली लग्नगितां आयकूंचीं. तांचो अभ्यास करचो. सदांबशेची अबरगत सोडल्यार, धवळांची वार संस्कृतीकडे घट जोडिल्ली आसा. ज्या वंशांतल्या लोकांच्या लग्नांत धवळां गायतात त्या न्हवरो-व्हंकलेच्या जिणेंतल्या पारंपरिक चाली-रीतींचें देखदिणें रूप मुखार हाडचें काम धवळां करतात.

जुवारी आनी मांडवी न्हंयो दोंयवर्शी दवरतकच उरता तें मदलें 'गोंय', या आवाठांत लग्नान गायतात त्या गितांक 'धवळां' हें खाशेलें नांव. धवळां म्हणचीं नासतात. 'तूं गायता मगे' आखख्या गोंयांत अशेंच विचारतात. आदिवासी समाजामदीं मुखेलीक 'गाणेली' म्हण वळखतात.

धवळां गावप हो एक विधी. एका तेंपार जावंकूच जाय अशेबशेचो. हरयेक वाड्यार धवळां गावपी अशी एक तरी अस्तुरी आसताली. नासल्यार भायल्यान आफोंवचेली.

पूण ती जातीतलीच जाय आसताली. वांगडा हेर बायलोय गायताल्यो. सगलें जातकूच मुखेलेचो भौमान करची पद्दत. एक वेळ भट नासल्यार जाता, धवळां गावपी उरूंकूच जाय अशे मानपी गोंयांत सतरकार, कुळमी, गावडे बी कांय जमाती आसात.

साश्टींत, किरिस्तांव गावडे भावांच्या गावांनी, पादीगारान करचे इगर्जेंतले सगले विधी जातालेच पुणुन घरामुखार घाल्ल्या माटवांत व्हंकलेक चुडो भरप, दांतें मांडप अशो सगल्यो गजाली जाताल्यो. थंय धवळां गावपी जायच. आसा थंयच्यान सोदून हाडचेली. एका तेंपार कुठ्ठाळेची कोसेसांव फेर्नांडीस ही धवळां जाणा जाल्ली गावपी, तिका लग्नाची आमंत्रणां येतालीं. मुशारो तर आसाच, कांय वेळा टॅक्सी करून तिका व्हरताले.

इन्किझिशनान अशो होवयो गावंक बंदी घाल्ली. व्होंवयो गावंक जायना, गावप्याक पैशे बी कितें दिंवक जायना अश्यो डिक्री आसात. कांय पादीगारांकय हाचो दुस्वास आसलो. तरीकूय आमचें हें व्हडलें दायज सांबाळपी कांय वाडे साश्टींत आणि केंप्यात आयजूय आसात. (2017) पांचशें वर्सां आदले तांचे रीती-रिवाज उक्तावपी, गोंयचे थळावे संस्कृतीचें पडबिंब तांच्या गितांनी मेळटा.

धवळां ह्या उतराची थोडी फोडणिशी जाय. संस्कृतात 'धवल' म्हणजे. धवें शुभ्र. धवो रंग शुभ, मंगल मानतात. शब्दरत्नाकर हो बरोच जुनो कोश हांतूत; धवळःहाका प्राकृत उतर म्हळां. 'घराला चुना देणे आनी मंगलोत्सवाचा आरंभ', अशे दोन अर्थ. तसोच . 'धवळणे = शुभ्र किंवा प्रकाशीत करणे'. आदर्श मराठी शब्दकोशात. 'धवला-ळाः एक गाण्याचा प्रकार, धवळा-ळें; गप्पागोष्टी, चकाट्या, धवलाराः लग्न समारंभात गाणे म्हणणारी स्त्री' असो र्थ मेळटा. चडकन येखादी अस्तुरी एकुच खबर पर्थून पर्थून सांगूं लागली जाल्यार 'ज़ाली हिचीं धवळां सुरू वो 'बसली ती धवळां गावंक' अशें म्हणटात. धवळां फकत अस्तुरीच गायता. याद जाता, सावयवेऱ्यां बोणयें वाड्यार' 'बायें' म्हण एक धवळां गावपी अस्तुरी, तिका 'धवळा', धवळें अशेंय म्हण्टाले. रांदपघरांत कितेंय शिजता थंय धवळप उरता. धवळां हें खूब पुर्विल्लें उतर आनी मंगलकार्याची गितां ह्या अर्थान ते रूढ जालीं, हें सिद्द जाता.

धवळांचो अभ्यास दोन पांवड्यांचेर करचो आसा. संकल्पना आनी उतरां. दोनय खबरी जाती-पातीन बदलता. अणभवांतल्यान मेळिल्लो सिध्दांत सांगता, दर बारा कोंसांचेर भास बदलता; तशी ती दर बारा वर्सांनीय बदलता. बदलाचें मुखेल कारण म्हळ्यार वांशिक चाली-रीतींच्या आचरणाचेर पडिल्ले माध्यमांसकट भायल्या खबरींचो प्रभाव. तेयपरस ज्या वाठाराची कुरू तिचेर आसता, थंयची सैमीक आनी सांस्कृतिक पर्यावरणीय संरचना; हाची फोडणिशी गरजेची. वाठारांतल्या सैमावांगडाच गांवांतली देव-देवतां, शेजरा-पाजरा रावपी, येवपी-वचपी लोकांचो गांवगिऱ्या जिणेर पडिल्लो प्रभाव; जो धवळांतल्यान परगटटा.

माटोव घालची संकल्पना आणि

उतरां हातूत गिरेस्त, भाशेची व्होडविकाय दाखोवपी, संकल्पना आनी उतरां धवळांनी मेळटात. अशा कांय गितांचो एकसुरो वांटोः-

। हातीत कुराडी खंय चलले वावराडी । माटवा म्हेडी काडयाली व्हया । माटवा नेमा काडियालो । माटोव शिंवला माडाच्या चुट्टांनी । नवऱ्याच्या बाप्पांनी माटवा पारीकीलो । आवळिता धवळिता मंटप बांदिला । चौरंगी खाबे सोडा मंटपाला । ओवये हातारा माटव चितारा माणकां मोतियांनी ।

एक मजा आसा. फोंडे म्हालांत घरांतली कामा करता ती वावराडी, बायल मनीस. दक्षिण गोंयात कश्टांचीं कामा करतात ते सगले वावराडी. पुणून गितांतले वावराडी म्हण वावुरपी, भाड्याचे न्हय. तांकां मानाचें माटवा जेवण. कांय कडांनी हाका साखरे जेवण म्हण्टात. लग्नासारक्या सुवाळ्यांत रांदप धन सगळीं कामा वाड्यावयले लोक, झगडीं, झुजां आसल्यारुय पयस दवरून एकामेकांगेर करताले. असो माटव घाला. भिल्लमाडा चुट्टां, गोळी खांदयो, घडासकट केळी खांबे, अशेबशेन शिंरगारिल्ल्या माटवात घाणो' भरप हो लग्नांतलो एक विधी. खरें मुसळांनी कांडप. 'भूमी माये हाडूं आमी घाणो भरूं' म्हणप आसा. वनवासी लोकालें सगळेच वेगळे.

। हातीत कोलासणी, खांदार तासणी, सुतार चालले दोंगरी । हिंडानु फिरानु हरियानु जाले, थोडे इसावले तानी इस्राम केला । पाच पानाचो इडो भोमीर थेइलो । उगवते मरे घाऊ घातिला । असतनचे मरे चंदन धरेरे पडलो । ताळई सांडिना मूळई सांडिना । मदले तुंडाचे सर काडले । सुतारान घडयलो अनशी वाळो । धानु वो भरिलो खांडिये तांदळाचो । सर्वय मानयाचो माटई दनको जालो. ।।

कांडचें मुसळ भिल्लमाडाचें. कांडटना कुसां, किसरां वचू नये म्हण ताका दोंयवशी घट अशा रुकाच्या सार आसलल्या मदल्या तुकड्याची रिंग कशी घालता ताका 'अनशी वाळो' म्हण्टात. फाटल्यान ती लोखणा आयली. परंपरेन असली कामां मेस्तार्ली.

। सोन्याचे खाणयें रुप्याचे गे दांतें।

खाणयें म्हळ्यार दांतें माडटना सकयल घालचो धाकलो, सादारण चार बाय चार फुटांचो चौकोनी हांतरपटो. दळटना दात्यांतल्यान पीठ येता तें जमनीर पडूं नये म्हण गच्च कोड्या येळांनी विणिल्लो. तटो, हांतर, हांतऱ्यो, खाणयें; हांतरपटे, हरयेकाची लांबाय रुंदाय वेगळी, काम वेगळे. हांतरपटो, घरात न्हिदचो, सव्यार चालचो आनी रश्शांकडे शीत उसपून दवरपाचो. नांव खाणयेंच. दांते गेले, दळप गेले, खाणयें, हातरपटेय गेले.

लग्नात पांच शुभ मानतात. म्हुर्तमणी बांदचे आदी ताका पांच सवाशिणीचो हात लागूं जाय. चुडो भरच्याक कांकणकार येता थंयसुद्दां पांच जाणी. नाल्लाचीं पाच वळीं फकत धवळांनी मेळ्ळीं

। नाल्ल फोडुनी पांच केलीं वळीं । धाडा देवा बळी कार्य आरमीलां ।।

। पयलो इडो हाडागे शांतादुर्गेक धाडा । पालखी धाडा तिका आफोवन हाडा ।

दुसरो विडो सांतेरीक, तिका माचूल

धाडचेलें. तिसरो लयरायक, तिका बेणशें,- वयल्यान उक्ती लालकी. चौथो इडो म्हाळशे मायेक. तिका घोडो,सत्री धाडचेली. पाचवो सटी आईक, सर्वय वचोन तिका हाडात. हाचे फुडें:-

। माटवाच्या दारां गे तेलाचो डबो ।
मानाचो उबो आमचो रवळनाथ ।
। कुकमाची डबी, उबी भगवत ।
अशे सगले देव आयल्याबगर लग्न जायना ।
। आयली सांतेरमाय वणकली मुड्या ।
मानवली चुड्या येजमान्नीच्या ।
सांतेर येत म्हण कैसे गे कळत । चांफे गळत माटवां कोयर जायत ।
सांतेरी माये जाऊं नका पैस । कदेला घेऊन बैस कार्य आरमीलां ।।

माटवान चांफीं गळून पडलीं तेवयल्यान सांतेर आयली तें समजलें. खरी हाचेर कसल्याच भाश्याची गरज ना. हेचबशेन साश्टींत किरिस्तांव गावड्यांगेरय पांचच, थंय पुर्तुगेज उतरांय मेळटात.

। नमान देवा बापा । नमान देवा पुत्रा । पोवित्र वोर्सु गातां । पवित्र साकरामेंता । पोयली सांता कुर्साची कुरू । कोफलार लायले खुरीस । आमच्या चुड्याक बेसांव दिता । सर्गींचो जेजू ख्रिस्त । दुसरी आमच्या बापा । तिसरी नमान मेरी । चौथी शरणायतां । पाचवी सतेमानतां । आमच्या चुड्याक बेसांव दितात । सर्गींची भागेवंतां ।

काणकोण, सांगेंच्या राना, दोंगरांनी वसणूक आसललो कुळमी आदिवासी. तांच्या लग्नगितांत खंय तरी 'आयलो मलकादणा घोडो', चुकून पायक, कुळगत सोडल्यार खंच्याच देवाचे नांव येना.

धवळांतली दुसरी गजाल तेल-हळदः लग्न खंच्याय जातीपातीचें जांव धवळानी चडात चड गितां मेळटा ती चुड्यासकट लग्ना तयारी आनी हळदीचीं. संकल्पना, उतरां, सगलेंच वे-वेगळे बशेचें. फोंड्यांतलें कुटुंब तशे दुडवाकार. देकून थंय 'बारा बैलांचें जोत धरून शेत नांगरून हळद लायता. सत्तरीत 'काळ्या कुळवाड्याच्या पोरांनी मारिला कुदळ, काडिला थेंपो; हळद लाईली येता. काणकोण, सांगें, केपेंच्या हेर जमातीनी 'काळ्या कुळम्याचे दिंडे' येतात. पुण भूमीपुत्र म्हळे ते कश्टकरी धनगर; मुळांतल्यानः

येचिल्या शेनी । बाजिली खादळ हो । खादून, कुदळून ओडिली खादळ । खादळ ओडुनी हळद लायिली । अशे बशेन रोयिल्ली हळद पानान् पान वाडटा. ती नवऱ्या व्हंकलेक चडोंचेली. मजा म्हळ्यार गांवडोंगऱ्यांतले कुळमी. हळद रोयतात, पुणून तांच्या गितांनी मात ती सात समुद्रांभायर आसा. हळडावन नांवाचो जैत थंय हळडी कानळ राखूंक बसला. सूर्याचो विनळो आनि धरतरेचें राष्ट/ राट मेळोवन ती हाडचीं गितां मेळटा. हळद चडयतनाचें फोंड्यातलें. :

। आंचा पिच्यांचे पांच गोंडे ।
नवरत्नांची गे दाली ।
हेंगे तेल चडों आली काय ।
कुळाची माया ।।

माणकां मोतयांची वळख नासलल्या कुळम्याले हळदी गीत मुळांतल्यानूच पळोंवक जायः(गोंयच्या आदिम भाशेत उतरांतलें पयलें 'न', 'ल' जाता तेचबशेन

पयलें 'ल', 'न' जाता. जाणटेली साश्टिकान्न आयजुय 'नुईश मुए, पांयशां लॉट घेवन नोटुले गेला'. अशें सांगतली)

। नोकणाची भाल । कांशाची वाटी । आमेटीच्या पानानी भाल लेसयालो । पानाच्या इड्यान भाल हांसयालो । कापसिणीच्या सुतान भाल बांदयालो । तापेल, धूपेल, नाल्लेल तेल । पांच तेलां होव गो तीं वाटे तळा । वैर पाटयो गे सकल पाटयो । चडायो-- चडायो.

थंय नेवऱ्याक-तांचें उतर, संकल्पने मळार तेल हळद लावपाक येतात त्यो पाच सवाशणी. हांका चौगुल्यो म्हणपाचे. हातुंतली एक, म्हादेवाची रुखूमीण. तांचो म्हादेव म्हळ्यार शिव-शंकर महादेव न्ही, तो म्हालद्येव, दोंगरद्येव. रुक्मिण कृष्णाची न्ही ती रूख-मिण. एक चांद सूर्याची शेवत्यावंत, म्हण. प्रभा आसलेली. इंदराची चांगलावंत, इंदर देव न्ही बुदवंत, ताची बायल. ही चौगुल्यांतली मुखेल; हेभायर पांडवांची धुरपत, आनी येक रूपावंत, भामावंत. सुंदर आसलेली, भामा घातिल्ली. गांवाची वो देवस्थानाची सांस्कृतिक वेवस्था पळोवपी चौगुले ही समिती रूपातली संकल्पना चडकन दिवचल-सत्तरीत मेळटा. सवाशिणीक चौगुल्यो, कुळम्याल्या लग्नातूच मेळटा.

आंगाक हळद लावन अनवाळो जाल्लो आंकवार भुरगो, कपलाचेर बाशींग बांदून लग्न जांवच्या भायर सरता. ताच्या हातीत म्हुर्ताचो नाल आसता . न्हवऱ्या हाती आसच्यो खबरी जाती-पाती परमाण बदलता. कांय लोकांमदी नाल्लावांगडा वो अशोच आनिक कांय, चाकू वो सुरयेक तोंकार एक सोलिल्ली सुपारी तोपलेली, आनि वांगडा खांवचे पाना कवळी. तांतून सुपारी गुठलावन सुतान बांदलेली अशीय आसता. आदिवासीली मूळ परंपरा म्हळ्यार 'अरदुका खरग,' सुपारी फोडचो आडकातो जायच. मेस्तान कन दिवपाचो.

हें सगलें घडटा तें, तितलेंय, प्रत्यक्षांत कांय घडलें ना जाल्यारुय 'धवळां' मात भटान मंत्र म्हणिल्लेवरी गांवकच जाय. चाळीस वर्सा आदी गावनगिऱ्यातल्या भूपर वाड्यार चलताली तीं गायनां. आयज थंयसुद्दां आयकूं मेळत काय ना दुबाव आसा. थंयर्ची, उतरांची सोबितकाय दाखोवपी अशी ही कांय, आंवळून घेतिल्लीं:-

। वैल्या वैल्या दोंगरी आसा शेळ नोकण । तें नोकण धाडून दिले देवयां घरी. । हाड रे देवयां पाच वातीचो दियो । हाडिलो दियो ठेयीलो माटवांक । तो दियो जळोन गेलो तन्नाचे धुवरेक ।।

दिव्याचें अशेंच दुसरें एक गीत सावय वेऱ्यां बोणयें वाड्यार आयकल्लें.

। दोन शेर गे शेर इंगळे , तीन शेर गे कांशें शिशें । खामणी देवळाची सांवळो गे घडियालो । घडणाऱ्यानी घडियाले, वोतणाऱ्यानी वोतीयाले । शिताऱ्यानी शितारिले. । इणियांचे गे घडियेले ।। थिसून दिवा चालीन गेला, कापसिणीच्या इक्सा गेला । कापसिणीचो कापूस घेवन दियो मागें परातला । थंच्यान तो तेलियाच्या मांडार वचून तेल घेता, नागेलीची पाना, फोंफळां हाडटा आनि गणेसा देवा सकट गांवांतल्या देवळांनी उजोड करून परत येता. निमणे

कडेनः । हरडेच्या माटवां गेला । पाच दीस दियो थारावला.

नेवऱ्या भयणीचो मानपान ही खबर चडकन कुळमी जमातींत मेळटा. (आंवळिल्लीं)

। सुपारेची फोडी पानाची येडी । चुन्याशिवाय पान रंगत नाईं । भयणी शिवाय माटोव सोबत नाईं । येक उलो माल्लो वाऱ्यार हुबलो । कित्याक गो भयणी येयली नाईं । नोकानल्या सांगणेन बनवा येंवची न्हाईं । ऊठ गे भयणी या गे नगीनाक । दीरे बनवा केतक नुरे चांफें । धांव धल्लो शेटी घरा । घालें आगटे घडय घुमटें । दीरे दीरे शेटी केतक नुरे चांफें । ऊठ गे भयणी या गो नगीनाक । धाररे भावा सायधनचाची तार । त्या तारीर बसून येतली ।।

पुण भयण येना. भाव सांगता तिका दितां, । 'देरींतलो माड दितां'. । झोड मोड येयत । मोडून वचत ।। गोठ्यातली गाय दितां । रानावना गेली वाग निरे खातलो । निमणे 'म्हालावंत कन्या दितां हाचेर भयण मानवता.

धवळांनी मेळटा ती उतरां सदांचे भाशेंतली. कांय खिणार तातूंत नवें अशें कांय उरना. पुणून लग्नांतलो तो खीण, तो विधी, कॉमेंट्री करता ते बशेन धवळांनी परगटटा. सोंपेपणान कोणाकय समजत अशी उतरां अचळय आयिल्ल्यावेरी फुलांचो पोड, वळेसर, झेलो, फांतीः लोकवेदान भुल्लुसून घुसपटची अशी एक वेगळी अनभूती दिता.

मतींत धरची गजाल म्हळ्यार धवळांक कर्तो ना. कोणें, केन्ना रचिल्लीं सांगच्या येना. तरीकय तांचें जितेपण रसरशीत जावन मुखार येता. लोकवेद, लोकसाहित्याचे अभ्यासक हाका 'पोएट्री ऑफ् ग्रोथ' म्हण्टात. अशो सगल्यो गजाली उकत्यो करपी लग्नांतले कांय खीण मांडपी धवळां गितांनी आयलां तशेच थंय घडटा.

*धरतरी सारयली, गायतरीच्या शेणान ।*
*त्यावर घातिली, पिठाची रांगोळी ।*
*त्यावर मांडील्या, केळीची शीरवती ।*
*त्यावर सोडिल्या, साळी का दाळी ।*
*तेवर थेविला, तांब्याचा कळस ।*
*तेवर ठेवील्या, आंब्याचा ताळा ।*
*त्यावर थेईला, अमरुता फळ ।।*
*कांजिणी हात घाल गे रुक्मिणी ।*
*कांजिणीत गावला नवलक्ष हार ।*
*तो हार दी गे सुने तू मायीपाशी ।*
*मायीन पारखिला दियाचे जोतीर।*
*हो हार घाल तू सुने गळ्यापाशी ।*
*हो हार न्ही सुने तुजें आयेवपण।।*
*फांतेपारे रातीर्ची उगेवलीं नखेत्रां ।*
*ती दोगां चाललीं देवांचे आळिये।।*
*बाप्पा गा येजमान्या, पुत्र लगना जाता,*
*वाटेची खर्ची मागता।।*

धवळांतल्या उतरांचें उच्चारण गावपी बायले परमाण वो गांवां परमाण बदलता. तेवर, त्यावर, तेवयर, तेवरी; हेचबशेन थेईला, थेविला, ठेविला, सगल्यो भासो मेळटा, पुण दवरीला मेळूंक ना. धवळांचें हें एक खाशेलेपण.

लग्नात शास्त्र म्हण खूप उणे, चडशो खबरी परंपरा, चाली-रीती हातुंतल्यो. चूकय कांय ना. कित्याक तर लग्नांत 'शास्त्रापरस चाली-रीती पळोवंच्यो' हें सांगपी आश्वलायन गृह्यसूत्र म्हणचो पुर्विल्लो ग्रंथ.

आयज जातले लग्नांतले कितलेशेच विधी शास्त्रसंमत म्हुणू येना, न्हवऱ्या व्हंकलेमर्दी अंतरपाट धरून, मंगलाश्टकां म्हण दोगांचेरय अक्षता वडोंवच्यो; शास्त्रांत खंयच मेळना.

### कांय वेगळे बशेच्यो चाली

1. सतरकार कुळवाड्यांगेरची, लग्नांतली एक वेगळीच चाल चलणुकेंतली. लग्न जावन व्हंकल पावणी गेली की घरात नाश्ण्या पिठाची एक दाटघण भाकरी करपाची. ती केळी पानार थापून फिरय नासतना, एकेच वटेन भाजचेली. नांव 'माणके'. घरांत भाजलेले हे माणके; वांगडा नारळ, केळी, गोड आणि लाडू, अशे सगले येरवण्यात एकठांय दवरून न्हवऱ्यागेर धाडटात. न्हवऱ्या आवय ते घेता आणि त्या भाकरे तुकडे घरांतल्या सगल्यांक वाटून खांवक दिता. 'नवे नातें जोडलां' हे सांगपी ही रीत. दोंयवशी भाजली जाल्यार ती पोटाभरीची भाकरी जाता. म्हण हिचें नांव माणके. उतर संस्कृतीकडे जोडिल्ले उरता तें अशे.
2. नीम उतरोवप असो, घडये आयज जायना जायत पूण गावडी जमातीगेर जांवकूच जाय आसलेलो विधी. मराठीत लिंब-लोण म्हणटात तो न्हय. विधी राणाव बायलेनच करपाचो. एका गांवठी नळ्या कैलार रसरशीत फुलिल्ले इंगळे, वांगडा मीठ, सुकी मिरसांग, सांसवां, केंस विंचुरतकच फणयेत उरता तो गुंताडो, इतले सगलें परवारान हाडिल्ल्या सुपलेंत दवरचेलें. हय, लग्नांतल्या म्हारवत म्हणटात तातूंत ही सुपलीय येताली, फकत गावडी जमातींगेर. या साहित्याची ती सुपली घेवन त्या राणाव बायलेन न्हवरो वो व्हंकलेमुखार बसचेलें. हो विधी कोणाचे नदरेक पडूं नय म्हण वयल्यान दोगांच्याय माथ्यार कांबळ धांपचेली. भितूर न्हवरो वो व्हंकलेच्या दाव्या हाताच्या किरांगळीचे इल्लेंशे नाखूट ती बायल काडटा. बाकी सामानासकट हें नाखूटयबी त्या जळट्या कोळशांर घालता. आणि तें कैल वो नळो उबारून, न्हवरो वो व्हंकलेच्या तोंडा भोंवतणी तीन वेळा उरफाटें वोंवाळटा. निमाणे तो नळो घेवन खोळेसकट बायल उठटा, तो नळो तिट्यार व्हरून दवरता; फाटीं पळय नासनना घराकडे येवन तशीच न्हावन, धुवन घरां येता. म्हणसर न्हवरो वो व्हंकलेनय न्हावन येवपाचें. विधी करपी बायलेक नेवें कापड दिवन तिचो भौमान करतात.
3. फोंड्यांतल्या सतरकारागेरची एक चाल म्हळ्यार हळद जांवचे वकतार सुमार तांतयायेदे मातयेचे धा वांटकुळे गुळे करून तांची पुजा करप. तातुंतले पाच वडलांकडे आनी पाच रश्शाकडे दवरप. गितांतल्यान समजले ते अशें की भरपूर पिकावळ येवंची हेखातीरचो हो विधी.

4. किरिस्तांव गावड्यांमदीं व्हंकल पावणी येतना शिमेर फेणी सोडटात. फाटल्यान तें व्होंवर सव्यार बसतकीच तांचे भोंवती वोंवाळून कांय नाणी-पैशे सव्यापोंदा पुरप आसता.
5. 'तुरी वन्न' हें खासा कुळम्यालें गोडशें. तेन्ना कुमेरीत तोर पिकयताले. वन्नाखातीर 'तुरी भाजचेलें' हो घाणो सारखो विधी. ताची गितां आसात.

धवळांनी उप्रासता तसो लग्नाचो आसपाव. म्हूर्त धरप, व्होंवळीक, म्हुर्तमणी, बाशींग गुंथप, चुडो भरप, घाणो, दांते, सामार भाजप, हळद, देवक, केळवण, कूळ पुजप, कांजिणी, भाणसां, सोंपे, म्हारवत: हांतूत दोन दालयो-ल्हान ती मंटप देवतेक आनी मात व्हडली होंटये सामानाक, दोन वल्ल्यो-शकून दिवो आनी रश्शांकडे तांदूळ धुंवक, येरवणो, आळणो, खाणयें, (दांतें मांडूक , सव्यार घालचे आणि शीत उसपूंक अशीं तीन), सुपली (तो खंय भुताक पाळणो), तांतूत भुरग्यां खेळांतलो खिळखिळो. रांदूक चरी आनी रात्नी, हाका रश्शांकडे म्हणचेलें. अशटपुत्री, आंकवार साडो, आजोळो, मायपरोनो, खामल्यां जेवण, साखरे जेवण, नीम उतरोवप, लोण, राट, लामणदिवो, पिठा दिवे, हळडी कुटां, सुता गुठल, ल्हायो, ल्हायां शेलो, गांठवल. साण आजि गुंडो; सोंपच ना.

। तुमच्या गावान एक फूल फुल्लां, आमच्या गांवात गुंरगुटो-भोंवर वाडला. भोंवरा आनी फुला एकठांय हाडुयां, सैरागत करुयां. । हें सांगपी आदिवासी कुळमी. सत्तरींतल्या कुळवाड्यागेर, आनी गावड्यांगेर, 'तुमच्या वाड्यार एक फूल फुल्लां तेचो परमळ आमच्या गांवान पावला. तेचो सोद घेत आमी येयल्या' अशें सांगतात. कांय अत्रवीज, तांकां लार्गीचें फूल हाडून दिता, वो थंयच विचारता, 'तुमकां फूल जाय काय चेडूं?'

नवरो कसो आसा ?। वोडीना काय विडी। पियेना काय सोरो। गिन्यानान बरो...। आनी । ल्हानच आमचें घर। घराभोंवती दुदवाल । घराचो काय उजवाड। असो नवरोबाब आमचो,' हेय सांगचें आसतालें. व्हंकल मागून हाडच्या त्या काळांत व्हंकलकाराक व्हडलो मान. हुंडो नासलो, उरफाटें देज वो करण अशो खबरी आसल्यो.

***

शिटकावणी : हें टिपण क्षेत्रीय अभ्यासाचेर आदारिल्लें आसा. 1950 ते 1972 हीं बावीस वर्सां वे-वेगळ्या जाती-पातीच्या लोकांगेर लग्न लावपा भटपण केलें. ते वकतार तरेक तरेवार धवळां आयकलीं. खंच्याच शास्त्रांत नाशिल्ल्या विधींची जाणविकाय करून घेतली, फाटल्यान तांचो अभ्यास सुरू केलो, या परिशीलनाची ही फाटभूंय. 'लोकसरिता' आनि 'लग्नाख्यान' ह्या म्हज्या दोन पुस्तकांनी बऱ्याच गितांचो आसपाव आसा. गितांचें बरप उच्चारणा परमाण आसा.

000

मंथन

(निबंद)

डॉ. जयंती नायक

# कोंकणी लोककाणयांतली बायल : एक विवेचन

लोककाणी म्हणल्यार एके नदरेन समाजाचो मौखीक इतिहासच. समाजांत घडिल्ल्या बऱ्या-वायट घडणुकांची, सामाजीक आनी सांस्कृतीक स्थित्यंतरांची मुजरत नोंद घेवन तिणें आपल्या उदरांत तांची माहिती जतन करून दवरिल्ली आसता. कालप्रवाहांत तांतल्यो कांय नोंदी वा म्हायती गूडूप जाता आसली तरी समाजहितार्थ ज्यो गजाली आसतात , त्यो निश्चितच तिगून उरतात आनी इतिहासाचीं प्रमाणां जातात.

बायल ही समाजाची एक मुखेल घटक, खरेंतर केंद्रबिंदूच म्हणप समा जातलें. तिकाच केंद्रस्थानार दवरून कुटुंब संकल्पना आकाराक येता. संस्कृती विकासाची तीच मुख्यत्यार. ते नदरेन तिच्या जिवितांत आयिल्ल्या तरेकवार बदलांची, स्थित्यंतरांची नोंद लोककाणयेन दवरप हें साहजीकच आसा.

गोंयचें आनी पर्यायान कोंकणी लोककाणयेचें दालन खूब प्राचीन आनी संपन्न. लोककाणयो मेळनात वा लोककाणयांची परंपरा ना असो गोंयांत एकूय तालुको ना. जंय जंय कोंकणी मनीस रावता थंय थंय कोंकणी लोककाणी आसा. गोंयांत उत्तरेक सत्तरी तालुक्यांत आनी दक्षिणेक केपें तशेंच काणकोण तालुक्यांत लोककाणयो विपुलतायेन मेळटात. भुरग्यांपासून जाण्ट्यांमेरेन प्रिय आशिल्ल्या ह्या लोकवेदाच्या प्रकारांत कोंकणी समाजांतले बायल मनशेच्या आदिम काळ ते नागर काळ मेरेनचे जिणेचें चित्र रेखाटिल्लें दिसता.

**डॉ. जयंती नायक** : जल्म : 1962, सर्जनशील लेखक आनी लोकवेद संशोधक. कथा, कविता, नाटक, बालसाहित्य, अणकार, निबंध, लोकवेद अशा साहित्य प्रकारांनी लेखन. 43 पुस्तकां प्रकाशीत, साहित्याचो जायत्या हेर भारतीय भाशांनी तशेंच इंग्लीश भाशेंत अणकार. केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कारान (2004) सन्मानीत. संपर्क : आमोणें, केपें, गोंय - 403 705, मो. : 9823575623

कोंकणी लोककाणयांनी चित्रित जाल्ली बायल 'स्वावलंबी' आनी 'परावलंबी' अशा दोन प्रकारांची दिसताः

1. **स्वावलंबी** – तिच्या हातांत राज्याची वा कुटुंबाच्या मुखेलपणाचीं सुत्रां आसतात, ती स्वंयसिध्द , स्वयंभू आनी स्वतंत्र आसता, ती स्वताचे निर्णय स्वता घेता, जी स्वताचो चरितार्थ स्वता चलयता, तिचेकडेन असामान्य, अचाट शक्त आसता आनी ते शक्तीक समाज वचकून आसता, . ती विद्या प्रवीण तशेंच कलानिपूण आसता.

2. **परावलंबी** – तिचे जिणेचीं सुत्रां दादल्याच्या हातांत आसतात. तिका स्वताचे निर्णय घेवपाची मेकळीक नासता. तिची जीण दादल्याचे वा पुरुशप्रधान समाज वेवस्थेचे मक्तेदारीन चलता. जी शेतां-भाटांत कश्ट करता, घरगुती वावरांत तिची जीण बांदिल्ली आसात, तिका स्वताचे मर्जीन वा इत्सेन खर्च करपाचें, खावपा - जेवपाचें , न्हेसपा - भोंवपाचें स्वातंत्र्य तिका नासता .

स्वावलंबी वा स्वतंत्र व्यक्तीमत्वाची बायल ही मुखेलपणान गीत काणयांमदीं ( गावन काणी) मेळटा, तर दुर्बळ, परावलंबी बायल ही भौतेक करून गद्य वा घटा काणयांमदीं दिसता. गोंयांतल्या लोककाणयाचें आजवेर जें उत्खनन जाल्लें आसा , तांतले संख्येचें गणीत केलें जाल्यार दोनशें वयर गद्यकथा आनी सुमार चौदा पद्यकथा प्रस्तूत संशोधिकेचे हातीक लागल्यात. ह्याच काणयांच्या अभ्यासांतल्यान हो निश्कर्श काडूंक मेळटा.

गीतकथा म्हणल्यार रानावनां माड्डुवपी, चिकल- मातयेंत राबपी, निसर्गाच्या सान्निध्यांत जीण जगपी भुंयपुतांच्या प्रतिभेचें, कल्पकतायेचें, बुध्दिमतेचें आनी कलात्मक अविश्काराचें एक आगळें शब्दरुपी शिल्प. भौतेक गीतकथा ह्यो नायिका प्रधान आसून, तातुंतलें मुखेल पात्र एक तर राजकन्या , नागकन्या वा देवरंभा आसता.

देवरंभा ह्यो इंद्रदरबारांत नाच-गायन करपी अस्तुऱ्यो आसतात. सर्वसादारण पणान त्यो संख्येन सात आसतात . हांतली सगळ्यांत धाकटी रंभा ही नायिका आसता. एखाद्रे कथेंत एकूच रंभा मेळटा, तेन्ना तिका साडे-तिनशें दासयो आसतात. रंभा ह्यो नृत्यकलेंत आनी मंत्रविद्येंत पारंगत आसातात. त्यो स्वरुप सुंदर, चिरतरूण आसतात. तांचे कडेन अचाट शक्त आसाता. त्यो अतिमानवी आसतात. त्यो जाय तेन्ना स्वता अदृश्य जावंक शकतात वा कोणाकय अदृश्य करूंक शकतात. सातवी भयण ही चड सुंदर तशेंच चड बुद्दिमान आसता. त्यो सर्गांत रावतात आनी मध्यान रातच्यो पृथ्वीतलाचेर विहार करपाक येतात. तांकां मानवी दादल्याचो स्पर्श निशिध्द आसता. चुकून तो जालो तर तांचे सत्वहरण जाता आनी तांकां सर्गाचीं दारां बंद जातात. मानवी दादल्याक त्यो संकश्ट काळार मदत करतात, वा मानवी दादल्याक आपल्याचेर आयिल्ल्या संकश्टांच्या निवारणा खातीर तांचो आदार घेवचो पडटा. बऱ्याच काणयांनी मानवी दादलो कपटान तांच्या शक्तीचें हरण करता तेन्ना नाईलाजान

आपल्याक सर्वार्थान अयोग्य आशिल्ल्या त्या दादल्याची बायल जावन आपलें उर्वरीत जीवन तिका जगचें पडटा.

नागकन्या ही अतिमानवी योनींतली कन्या आसता, पूण देवरंभे इतकी ती अचाट शक्तीची नासता. तिका मंत्रतंत्र अवगत आसतात. राजकन्या ही मानवी योनींतली कन्या आनी ती धाडशी आसता.

कोंकणी गीतकाणयां मदलीं 'शेणांतलो कुंवर' ही काणी म्हणजे गीतकाणयेची सर्वोत्कृश्ट अशी देख. छापील पुस्तकार्ची सुमार 150 पानां भरपी आनी सुमार पांच ते सात वरां मेरेन गायन चलपी हे काणयेंत स्त्री वर्चस्वाचे ठळक अशे संदर्भ सांपडटात. अस्तुरेच्या तत्कालीन समाजांतल्या विद्याप्रविणतेचें आनी शास्त्र निपुणतेचेंय तातूंत दर्शन घडटा.

हे कथेंत कामावंती, पुनावंती, घडावंती, जिवलावंती आनी नवरंगी (फुलावंती) अश्यो पांच कन्या, म्हणजे बायलो आसतात. हांतली कामावंती ही जादुतंत्र , मंत्रविद्या आनी राजशास्त्रांत निपूण आसता.

पुनावंती, घडावंती आनी जिवलावंती ह्या तिनय कन्यांचें आप-आपलें मेंट म्हणजें ल्हानशें राज्य आसता. तांचो सगळो कारभार त्यो स्वता, एकट्यो समर्थपणान चलयतात. पुनावंती ही पुनावंत राज्य चलयता. घडावंती ही घडावंत राज्याची राणी आसता, तर जिवलावंती, जिवलावंत राज्याचो राज्यकारभार सांबाळटा. पुनावंती ही बारीकांतली बारीक वस्त पुजांवपांत पारंगत आसता, तिचे नदरेंतल्यान कांयच सुटना, तिणें दिव्य दृश्टी प्राप्त केल्ली आसता. घडावंती बारीकांतली बारीक, सामको चुरो जाल्ली वस्त जशी आशिल्ली तशी परत घडोवपांत पारंगत आसता, तर जिवलावंतीन मेल्ल्या अथवा चेतनाहीन जाल्ल्या जिवाक जितो करपाची वा चेतन करपाची विद्या मेळयिल्ली आसता.

पुनावंत, घडावंत आनी जिवलावंत आनी नवरंगी ह्या चारूय राज्यांतलीं सगळीं सुत्रां बायलोच सांबाळटात. हीं चारूय पुरायेन स्त्रीराज्यां आसतात.

नवरंगी राज्य नवरंगी कन्या सांबाळटा. ती देवरंभा आसता. ती त्या राज्याची सम्राज्ञी आसता. ती एक व्हडलो तटबंदी गड बांदून त्या गडार रावता. तिच्या सांगाताक साडे तिनशी दासयो त्या गडार आसतात. तिच्या तटांत तशेंच राज्यात दादल्याक प्रवेशबंदी आसता. कोणेंय तसो यत्न केलो जाल्यार ताचें शीर वधपाची ख्यास्त ताका थारायिल्ली आसता.

कन्या राजकारभारांत तशेंच जादुतंत्रांत प्रवीण आसता. जिव्या मनशाक सजीव वा निर्जीव वस्तींत रुपांतर करपांत ती पारंगत आसता. तिका मंत्र - सिध्दी प्राप्त जाल्ली आसता. ती नृत्यकुशल आसता. सर्गांच्या इंद्राची ती राजनर्तकी आसता. दर रातची ती इंद्र दरबारांत हाजीर जावन थंय नृत्य करता. जुवानेन भरिल्ल्या आनी अतिशय लावण्यवती आशिल्ल्या हे कन्येच्या आंगाक मध्यान रातचीं कोणें केन्ना पळयल्लीं नात, कोणें केन्ना वास हुंगलीं नात अशी नवलायेचीं नवरंगी फुलां फुलतात. तिच्या

मस्तकार म्हाल फूल फुलता. ह्या फुलाक दिव्य परमळ येता. हें फूल असामान्य गुणांचें आसता.

हे काणयेंत नवरंगी कन्या ही मुख्य नायिका तर कामावंती उपनायिका , जाल्यार पुनावंती, घडावंती, जिवलावंती ह्यो सहनायिका आसात.

'नवरंगी फूल', 'चित्रंगी फूल' आनी 'बेलावंत कन्या' ह्या तीन काणयांचो हांगा विशया संदर्भान मुजरत उल्लेख करूंक जाय. धाकटी कन्या म्हणजे सातवी कन्या ही हे काणयेंतली नायिका. ती देवरंभा आसता. ती तशेंच तिच्यो स भयणी जादुतंत्रांत पारंगत आसतात. तांचेकडेन कोणाकय दृश्य-अदृश्य करपाची शक्ती आसता. तेच बरोबर त्यो मेल्ल्या मनशाक जितें करूंक शकतात. बारीक चुरो जाल्ल्यो मनशाच्यो अस्ती पुंजावन, त्यो घडोवन , ताका परत मनीस रुपांत सजीवन करपाची तांचेकडे शक्ती आसता. नवरंगी फूल आनी चित्रंगी फूल ह्या काणयांनी धाकटे कन्येक खाशेलेपणान आपलें रुपांतर नवरंगी फुलां फुलपी फुलझाडांत करपाची सिध्दी प्राप्त आसता तर बेलावंत काणयेंत कन्या बेलफळांत रुपांतरीत जाता आनी दुस्मानाक बुध्द शिकयता.

वयर उल्लेखिल्ल्यो काणयो म्हणजे एकाकाळार गोंयांत अस्तित्वांत आशिल्ल्या मातृसत्ताक संस्कृतीची आनी अस्तुरेच्या सार्वभौम सत्तेची गवाय दिवपी दस्तऐवजच. ह्या गीतकाणयां संबंदी लक्षांत घे सारकी आनी एक गजाल म्हणल्यार ह्या काणयांचें गायन आसाडी, घडसी उमास ह्या सारक्या धर्तरेच्या सुफळीकरणा खातीर मनयतल्या विधी- परबांनी गायतात. आनी जो समाज ह्यो विधी परबो करता तो मुखेलपणान शेतीसंस्कृतीकडेन संबंदीत आशिल्लो , मातृदेवीक पुजपी मूळ आदिवासी समाज. गोंयच्या, पर्यायान कोंकणी समाजाच्या रचणुकेच्या सुरवेच्या काळांत ह्या समाजांतली बायल सबळ , सशक्त आनी स्वंयसिध्द आशिल्ली हेंच सत्य ह्यो काणयो आनी तांकां संबंदीत वयल्यो गजाली दितात.

अस्तुरेच्या स्वंयभू शक्तीची गवाय दिवपी दोन म्हत्वाच्यो गद्य लोककाणयो कोंकणी लोककथा भांडारांत मेळटात. तातुंतली एक पुरायेन मिथक कथा प्रकारांत मोडटा, ती काणी म्हणल्यार 'गणपती जल्माची काणी'. तर दुसरी कल्पीत काणी प्रकाराकडेन लागींपण दाखयता. ती काणी म्हणल्यार 'विष्णू कन्या' (कोंकणी लोककाणयो- जयंती नायक, पान. 84-88). ह्या दोनय काणयांतले अस्तुरेकडेन स्वबळाचेर भुरगें जल्माक घालपाची सिद्धी आसता. सृजनोत्सुक काळार हक्काचो सहचर लागी नासता तेन्ना ती दुसऱ्या दादल्या कडल्यान गर्भधारणा करून घेवन निर्मिती करता . तिची ही निर्मिती समाज मान्य आसता. तिचे हे निर्मिती शक्तीक लागून समाज तिका वचकून आसता.

ह्या दोनय काणयांतल्यो अस्तुऱ्यो ह्यो देवयोनींतल्यो तर वयर उल्लेखिल्ल्या गीतकाणयांतल्यो स्त्रीयो ह्यो अतिमानवी योनींतल्यो.

गीतकथेचे कांय अंश सुटून तातुंतल्यान गद्यकथा म्हणजे घटा काणी, जल्माक आयली अशें सर्वमान्य मत आसा. मानवी कुळांतल्यो अस्तुऱ्यो ह्यो चड करून घटा काणयांनी चित्रित जाल्ल्यो दिसतात. परावलंबी, शोशीत, पिडीत अस्तुऱ्यो चड करून ह्या काणयांनी मुखार येतात. सून हे भुमिकेंत त्यो चड करून वावुरतात. भावज वा भावजय, जाव (धाकली जाव), ह्या भुमिकांनीय त्यो बऱ्याच काणयांनी दिसतात. सून हे भुमीकेंतले बायलेक मांय-मांव, *भावज* हे भुमिकेंतले बायलेक नणंद-देर आनी *जाव* हे भुमिकेंतले बायलेक व्हडल्या जावांनी पिडिल्ली दिसता. हे संबंदान 'म्हातारी आनी तिची सून,' 'धाकटी जाव', 'गावड्याली धाकटी सून,' 'भावजेचो शालू', 'घन्नी' ह्या काणयांचो हांगा मुजरत उल्लेख करूं येता. कोंकणी समाज मातृप्रधान अवस्थेंतल्यान जेन्ना पितृप्रधान अवस्थेंत परिवर्तीत जालो, तेन्ना ह्या काणयांचो जल्म जाल्लो आसा असो निश्कर्श काडूं येता. ह्या काळार बायलेन आपलें घर सोडून घोवाल्या घरा वा सासरा वचपाची प्रथा जल्माक आयिल्ली आनी तिका सून, पतीण, भावजय, जाव ही नवीं नांवां आनी वळख मेळिल्ली. तिचे जिणेचे वैदावासय ह्याच काळार सुरू जाले, जे लोककाणयांनी दस्तावेजीत जाले. म्हज्या मतान 'नायक प्रधान' काणयांचो जल्मय ह्याच काळार जालो.

*(टीप : अखिल भारतीय कोंकणी परिशद आनी कोंकणी सेवा केंद्र, सांखळे हांणी, सरकारी महाविद्यालय, सांखळे हांगा जोडपालवान 29 ऑक्टोबर 2011 दिसा आयोजीत केल्ल्या 'कोंकणी लोककाणी' विशयावेल्या परिसंवादांत सादर केल्लें प्रपत्र.)*

**संदर्भ साहित्य :**

1. *काणी काणी कोतवा :* पांडुरंग फळदेसाई, अजब पुस्तकालय, कोल्हापूर, 1989.
2. *कोंकणी लोककाणयो :* जयंती नायक, साहित्य अकादेमी, दिल्ली, 2000.
3. *राजरत्नां :* जयंती नायक, गोवा कोंकणी अकादेमी, पणजी, 2005.
4. *गांवरान :* जयंती नायक, गोवा कोंकणी अकादेमी, पणजी, 2005.
5. *हुंकार :* चंद्रकांत गांवस, गोमन्तक मराठी अकादेमी, पणजी, 1995.
6. *लोककथा कल्पकता :* मालती दांडेकर, वरदा बुक्स, पुणे, 1982.

000

# लोकवेद

(निबंद)

झिलू ल. गांवकर

## सत्तरींतली लोकनाट्य परंपरा

लोकवेद म्हटल्यार जिबे वयली जतनाय. आमच्या पुर्वजांचे गिन्यान आनी अणभव सांगपी सरस्पत. लोक साहित्याचो बारीक साणेन अभ्यास केल्यार ती जीण तत्कालीन समाजाची जीण जगपाची रीत म्हणपाचें लक्षांत येता. लोकवेद म्हटल्यार आमचे मंत्र कशे. ह्या मंत्रांच्या बळग्यारूच आमची जीण फुलता, फळटा आनी विकसीत जाता. आमच्या पुर्वजांनी कोणा काळार, कोणा वेळार हे मंत्र रचले काय? हे विशीं कोणाकूच कांय खबर ना. पूण तांचे रूप पळयल्यार ते खूप पोरणे, तरीय तितलेच तरणे म्हणपाचें दिसून येता. मागीर तीं लोक गितां आसूं, म्हण्ण्यो आसूं, ओंपारी आसूं, लोकनाट्यां आसूं तातूंत थळावे जिणेचें जिवें तटतटीत रूप पळोवंक मेळटा. एका अर्थान लोकवेद म्हटल्यार आमचे जिणेचे पडबिंब. ते लोकनाट्यांनी खरपणान दिसोन येता.

संवसारांतलीं भोवतेक सगळींच लोकनाट्यां विधीनाट्यांतल्यान विकसीत जाल्लीं पळोवंक मेळटात. सैमातले अद्रुश्य शक्तीचो कोप बी जावन आपल्याचेर संकश्टां येतात अशी धारणां सवंसारभर पळोवंक मेळटा. त्या शक्तीं पासून आपली राखण जावची, संकश्टांबी येंवचीं न्हय म्हण तांकां प्रसन्न करून घेवचे खातीर भौसान कांय विधी सुरू केले, आनी परंपरेन ते मुखार चलत रावले. पयलीं हे विधी लोकां अस्वडी जातालें, पूण कांय काळान ते लोकां मुखार जांवक लागले तेन्ना त्या विधींनी रंजकता आनी नाटकीयता आयली आनी हे विधी विधीनाट्यां

**झिलू ल. गांवकार :** जल्म : 1956 ; साहित्यीक, लोकवेद अभ्यासक आनी अनुवादक; बालसाहित्य, एकांकी, निबंध, लोकवेद, नाटक अशा प्रकारांत साहित्य निर्मणी. *माणकुल्यांचीं गितां* (बालसाहित्य), *सैमभार* (एकांकी), *पाशाण पाझर* (अनुवाद) आनी *रणमालें : स्वरूप दर्शन* (लोकवेद) हीं प्रकाशीत पुस्तकां.

जालीं. फुडें हे विधी अदीक रंजक जावचें म्हण हळूहळू तातूंत गती, पदन्यास, संगीत सारकिल्या गजालींचो आस्पाव जायत गेलो. अशे तरेन विधींतल्यान विकशीत जाल्लीं विधी नाट्यां फुडे लोकनाट्याच्या रूपांत भौसा मुखार आयली. गोंयच्या सत्तरी म्हालांतलीं 'रणमालें', 'भरणूल', 'माळेगान' हीं तेच परंपरेतलीं लोकनाट्यां आसात. सत्तरीची ही खाशेली लोकनाट्य परंपरा हांगच्या भौसान लोकमांडाचेर परंपरेन तिगोवन दवरल्या.

## 'रणमालें' परंपरा

सत्तरी म्हटलें काय दोंळ्यां मुखार उबे रावतात ते सोसोगड, कातलांची माळी, हुळण, वागेरी सारकिल्ले एकापरस एक उंच दोंगर आनी पांचवोचार सैम. हांगच्या दोंगर घाळिंनी विकशित जाल्ली संस्कृताय गडगंज आनी गिरेस्त. लोकवेदाची खाशेली परंपरा ह्या दोंगरी वाठारांत पळोवपाक मेळटा. 'रणमालें', 'सोकारत', 'माळेगान' हीं ताचीं बरीं उदाहरणां जावन आसात. कोणा एका काळार हांगा नाटकां बी जाय नासलीं, मनोरंजनाची कसलीच साधनां उपलब्ध नासलीं. तेन्ना सावन 'रणमालें' लोकनाट्य खेळपाची परंपरा हांगां पळोवपाक मेळटा. ही परंपरा केन्ना खंय आनी कशी सुरू जाली? हें कोणाकूच खबर ना. लोकवेद अभ्यासकांनीय हाचो सोद घेवप सुरू केला तरी रणमाल्याचे कूळ आनी मूळ हाताक लागना. सत्तरी आनी ताच्या लागशिल्ल्या दोंगरी वाठारांत शिगम्या दिसांनी 'रणमालें' खेळपाची परंपरा पळोवपाक मेळटा. तशेंच संवसार पाडवो, गांवचो उत्सव लग्नकार्य,आनी खोशेच्या दिसाय 'रणमालें' खेळपाची परंपरा सत्तरीतल्या भौसामदीं दिसून येता. तशेंच सत्तरींतल्या धालांच्या मांडारूय पांचवे रातीकडे जे वेगवेगळे खेळ चलतात त्या खेळांनीय 'रणमाल्याचो खेळ पळोवंक मेळटा. मूळ 'विधी' तल्यान सुरू जाल्लें 'रणमालें' लोकनाट्य, आयज राष्ट्रीय महोत्सवांनी पावलां.

## रणमाल्याचें कूळ आनी मूळ

संवसारातली सगळीं लोकनृत्यां आनी लोकनाट्यां ही विधीं कडे संबंधीत आसात. 'विधी' म्हटल्यार देव-देवतांचे उपासनेचो आचार, एक पद्दत, एक तरा. थारावीक उत्सवांवेळार कांय विधी करचेच पडटात. ते केले ना जाल्यार देव-देवतांचो कोप जाता आनी आरिश्टां बी येतात ही धारणा संवसारात सगळी कडे दिसून येता ती हांगाय पळोवपाक मेळटा. ते विधी केले काय मागीर देव-देवता, अदृश्य शक्ती बी प्रसन्न जावन आरिश्टां पयस जातात असो भावार्त हांगच्या भौसामदीं पळोंवक मेळटा. दैवी शक्तीचे कृपेन शेतवडी ब-यो पिकतात, वंशावळ वाडटा. गांवाचेर धामी-पिडा सरकिल्लीं अरिश्टां बी येयनात. अशी लोकधारणां हांगच्या भौसा मदीं मेळटा. सुरवेच्या काळार ह्यो विधी चड करून लोकां अस्वडी करपाची प्रथा आसली. पूण बदलत्या काळांत त्यो विधी हळू हळू लोकांमुखार जांवक लागल्यो. तेन्ना विधी

करपी आनी विधी करून घेणाऱ्याच्या हालचालीनी नकळटां गती आयली, आवेग आयलो आनी नाटकीपणांय आयली. तांतूंतल्यानच फुडे विधी नाट्याचो जल्म जालो. काळांतरान लोकां अस्वडी जावपी हे विधी भौसा मुखार सादर जावक लागले तेन्ना त्या विधी नाट्यांनी नृत्य आनी संवाद आयले. अशे तरेन विधी नाट्यांचे नवें रूप घडलें. तें नवें रुप म्हटल्यारूच 'लोकनाट्य'. तेच जात कुळींतलें हें 'रणमालें'. तरीय 'रणमालें' पुराय तरेन वेगळें आनी स्वतंत्र लोकनाट्य आसा. प्रा. प्रकाश पर्येकार हाणे 'म्हादई' विशेषांक 1995 त 'रणमालें' हो लेख बरयलां. तांतूत ते म्हण्टात, 'भौजनाचे विशय घेवन भौजनाचे मन रिझवणेखातीर कलाकारांनी सादर केल्लें सुटसूटीत नाट्य म्हणजे 'रणमालें'. हेर लोकनाट्यां परस तें वेगळें आनी स्वतंत्र धाटणींतलें लोकनाट्य आसा.'

## रणमालें लोकनाट्या फाटली आख्यायिका

कोणा एका काळार सत्तरी आनी तांच्या लागशिल्ल्या दोंगरी वाठारांत 'हेब्बार' नावाची भिल्ल जमात रावताली. कांय कडेन त्या लोकांचो 'हेब्बार' 'हेबाड' 'होब्बू' 'मेशे भिल्ल' असो उल्लेख जाल्लो पळोवंक मेळटा. ते हे भुयेंचे मूळ वसाहतकार आसूंक जाय.

'हेब्बर' दुसऱ्याचें धनीपण न मानपी, स्वतंत्र प्रवृत्तीची जमात आसली. जेन्ना हो वाठार सावंतवाडकार भोसल्यांचे सत्तेखाला आसलो तेन्ना रयतेचेर लक्ष दिवपाक तांणी 'राण्याकडे' देसकी दिली. ही देसकी चलयताना राण्यांक हेब्बारा कडल्यान विरोध जावंक लागलो तेन्ना ते संबंदीची म्हायती सांवतवाडकारांमेरेन पावोवन 'हेब्बरांक' बुद्द शिकवपाचे थारायलें. ते खातीर पुर्वापार चलत आयिल्ली देव-देवतांची स्तुतीगितां आनी परंपरेन चलत आयिल्ल्या नाच गितांचो खेळ आखून हेब्बरांचो संहार करपाचो कट शिजलो आनी मध्यान रातीर लोकवाद्यांच्या तालार खेळ सुरू आसतना अचकीत तांचेर धुरी घालून तांकां जिवे मारले. अशी आख्यायिका सत्तरी वाठारांत आयकूंक मेळटा. हें संबंदी जाणकारांनी दिल्ले म्हायती प्रमाण सावर्डे हांगा म्हादयचे धडेर 'हेब्बार वाडो' आसलो. थंय हेबाडांनी कोत्रायिल्ले फातर आनी ध्वज दिश्टी पडटात. असो उल्लेख 'म्हादई विशेषांक' 1995 ह्या अंकात प्रा. प्रकाश पर्येकार हाच्या लेखांत मेळटा. करंजोळ गावांत सांतेरी देवीच्या देवळा मुखार एक शेत आसा. त्या शेताच्या पैलाडी हेबरांची घरां आसलीं आनी फाटल्या शंबरेक वर्सां पयलीं त्या घरांचे 'घरवंन' बी पळोवंक मेळटाले अशें करंजोळचे गांवचे जाणटे आयजूय सांगतात. करंजोळकारांच्या पुर्वजांनी त्या हेबाडांक खेळ करून मारले. ह्या संबंदीची विस्तृत म्हायती हांवें म्हज्या 'रणमालें स्वरूप दर्शन' ह्या पुस्तकांत दिल्या. त्या हेब्बाडांची याद करून दिवपी 'धोंग' करंजोळ गांवच्या रणमाल्यांत आयजूय पळोंवक मेळटा. ते त्या धोंगाक 'चोट्टो' अशें म्हणटात.

*एकादशी एकवाद*
*दुवादशी पारणे*
*तुळशीच्या लग्नाक बा ऽऽ*
*भिल्ल पावले गांवा मर्दीं हो*
*भिल्ल पावले गांवा मर्दीं*

रणमाल्यांतल्या ह्या धोंगांत हेब्बरांक भिल्ल म्हण संबोधल्यात. ते बायलांक उबारून बी व्हरताले अशें ह्या धोंगात दाखयलां. हे आख्यायिकेचो खोलायेन अभ्यास जावपाची गरज आसा.

**'रणमालें' हे नांव कशे पडलें?**

सत्तरी वाठारांत बोलीचे शैलीक लागून 'रणमालें' हे 'उतर' मात्सो सो बदल जावन 'रनमालें', 'रणमालां', 'रनमालां,' 'रंगमालां' अशा उतरांनी घोळणुकेत आसा. 'रणमालें' उतराची व्युत्पत्ती मेळना. पूण जाणकारांच्या मता प्रमाण 'रण' ह्या उतरांतल्यान ते घडलां आसूंयेत. गोंयचे ज्येश्ट लोकवेद अभ्यासक श्री. विनायक खेडेकार 'लोक सरिता' ह्या पुस्तकांत 'रणमालें' लोकनाट्य ह्या संदर्भात सांगतना म्हण्टात–

'रणमालें' या शब्दाचा अर्थ पहाणे युक्त ठरेल. अनेक लोकांनी एकत्र येऊन गडबड गोंधळ करणे असा 'रण' या शब्दाचा अर्थ आहे. सत्तरीत ज्या भागात रणमालें होते त्या भागावर ''राणे'' या क्षत्रियांची अधिसत्ता होती. 'रण' हा रान शब्दावरून आलेला असू शकतो. 'माले' या शब्दाला अनेक अर्थ आहेत. मोठ्या लाकडी दांड्यावर बाजूने वाती पेटविण्यासाठी धातूचा समईचा भाग असतो. त्याला 'मालें' हा शब्द आहे. साप, अजगर या सारखे प्राणी एका ठिकाणी सुस्त बसलेले असतात. त्याला 'माले घातले' असा शब्द प्रयोग आहे. फुलमाला ह्या शब्दावरूनही हा शब्द आला असू शकेल. तें ''रामाले'' म्हणून रणमाले आसा एक विचार सांगितला जातो.''

फुडें ते अशेंय म्हण्टात की जाण्ट्या रणमालें कलाकारांकूय ह्या उतराचो अर्थ खबर ना.

ग्रामीण विकास शिक्षण संस्था प्रकाशीत 'म्हादई विशेषांक 1995' ह्या अंकात प्रकाश पर्येकार हांणी रणमाल्याचेर अभ्यासपूर्ण लेख बरयला. तातूंत ते रणमाल्याचे कूळ आनी मूळ सांगतना सावड्डे हांगच्या हेब्बार वाड्याची आख्यायिका सांगतात.

''अशे तरेन सावंतानी 'हब्बुचे रण माल्लें'. 'रण' हें संस्कृत उतर ताचो अर्थ साबार लोकांनी एकठांय येवन केल्ली कृती, 'मालें' हे उतर मारलां, मारलें, माल्लें अशे ताचे काळांतरान रूप बदलत गेलें आनी 'मालें' हें अपभ्रशित रूप घडलें जावं येत.''

तात्पर्य 'रणमालें' हें उतर 'रण' आनी 'मालें' ह्या दोन उतरांतल्यान घडलां. 'रण' आनी 'मालें' ह्या दोनूय उतरांचो अर्थ सोदूंक गेल्यार वेग-वेगळो मेळटा. 'रण' ह्या संस्कृत उतराचो अर्थ एकठांय येवन गडबड घालचे खातीर केल्ली कृती असो जाता.

'मालें' हें उतर कानडी भाशेंतूय मेळटा ताचो अर्थ रंगयाळ्या फुलांची माळा,

रंगयाळ्या फुलांची केल्ली सोबीत रचना असो जाता. कोंकणीत 'मालें' ह्या उतरा वेल्यान दिवजांचें मालें, सोरपाचे मालें, तुमशाडांचे मालें, वाळयेचे मालें, केसांचें मालें, आनी मालें घालप अशे वाच्यार्थ आयकोंक मेळटात. 'मालें घालप' हाचो अर्थ हल्लो करचे खातीर वा भक्ष धरचे खातीर दबो धरून बसप असोय जाता. हो अर्थ लक्षात घेतलो जाल्यार –

हेब्बरांक मारचे खातीर विशिश्ट पद्दतीची आंखणी करून हेब्बरांक घाळ दवरून तांचेर अचकीत घुरी घालपाची केल्ली माण्णी म्हटल्यार एके तरेचे 'मालें'च आसलें. कसलीच कल्पना नासताना माल्यांतल्यान भायर सरिल्ल्या तुमशाडान अचकीत हल्लो करचो, 'मालें' घालून बशिल्ल्या सोरपान सावज धरचें तेच तरेन थळाव्या लोकांनी मध्यान रातीर घाळ आशिल्ल्या हेब्बरांचेर हल्लो करून तेंकां चांचावन–चांचावन तांचे 'रण' माल्लें. हे खातीर तांणी जी कार्यावळ आंखली ती फुडें 'रणमालें' ह्या नांवान रूढ जाली आसूंक जाय.

हेबाडाचेर जोडिल्ल्या जैताचो उगडास म्हण नाच गाण्याची ती कार्यावळ जैताची घुडी म्हण शिगम्याच्या मांडार सादर जांवंक लागली आनी फुडे परंपरा जाली. हेब्बरांक मारचे खातीर रचिल्लो खेळ म्हटल्यारूच आयचें 'रणमालें' आसूंक जाय. करंजोळ गांवांत फाल्गून वद्य सश्टी दिसा गांवच्या मांडार सादर जावपी रणमालें आनी दुसरे दिसाचो चोरोत्सव पळयल्यार ही गजाल लक्षांत येता. 'रणमालेः स्वरूप दर्शन' पुस्तकांत हे संबंदान पुराय म्हायती वाचूंक मेळटा.

**'रणमालें' लोकनाट्याची परंपरा**

सत्तरींत शिगम्या दिसांनी गांवच्या मांडार तरेकवार खेळ खेळपाची परंपरा आसा. 'रणमालें' हो तातुंतलोच एक खेळ. ह्या खेळा फाटल्यान 'विधी' परंपरा आसा. करंजोळ गांवात आजूनय ती विधी परंपरा पळोवंक मेळटा. करंजोळ गांवात फाल्गून म्हयन्याचे वद्य सप्तमी दिसा 'चोर' उत्सव जाता. ताचे आदल्या दिसा म्हटल्यार सस्टी दिसा गांवच्या मांडार 'रणमालें' खेळपाची परंपरा आसा. दुसरे दिसा जो 'चोर उत्सव' जावपाचो आसता त्या उत्सवाच्यो विधी आदले दिसा जावपी रणमालें खेळांत पळोवंक मेळटात. सश्टीचे 'रणमालें' जालें बगर दुसऱ्या दिसाचो चोरोत्सव करूंक मेळना. सत्तरींतल्या 'झर्मे' गांवात करंजोळचे परंपरे परस मात्शिशी वेगळी परंपरा पळोवंक मेळटा. ह्या गांवात फाल्गून पुनवेच्या दुसरे दिसा म्हटल्यार 'फाल्गून वद्य पाडव्या' दिसा 'चोरोत्सव' जाता आनी चोरांच्या दुसरे दिसा म्हटल्यार तये दिसा मांडार रणमालें खेळपाची परंपरा आसा. 'रणमालें' जाल्याबगर शिगम्याच्यो फुडल्यो विधी करूंक मेळनांत.

सत्तरीत करंजोळ, कुमठोळ, सुरल, साट्रे, कोदाळ, धावें, नानोडा, झर्मे, सालेली, होंडा, शिरसोडें ह्या गांवानी शिगम्या दिसांनी रणमालें खेळाची परंपरा आसा. दाबोस, मासोड्डे, वेळूस, सावर्शे, वेळगे, ठाणे, चरवणे, कोपार्डे, शिंगणे,

नगरगांव, सावड्डे, करमळी ह्या गांवांनीय कांय वर्सां आर्दी रणमालें खेळटाले. आयज त्या गांवची परंपरा खंडीत जाल्या.

'रणमालें' खेळपी वाठाराचो बारीकसाणेन अभ्यास केल्या उपरांत कांय म्हत्वाचे मुद्दे लक्षांत येतात ते अशे –

गोंयांत सत्तरी म्हाल आनी सत्तरीचे सिमेवयल्या गांवांनी रणमालें लोकनाट्य खेळाची परंपरा आसा.

महाराष्ट्रांत तिळारी घाटाच्या दक्षीण वाठारांतल्या गांवांनी शिगम्या दिसांनी रणमालें खेळपाची परंपरा आसली. ती आतां बंद पडत आयल्या.

कर्नाटकांतल्या खानापूर तालुक्याच्या अस्तमतेकडल्या दोंगर-घाळींतल्या वाठारांत आयजूय 'रणमालें' लोकनाट्याचे पारंपरीक रूप पळोंवक मेळटा.

एका काळार सुपें गांवच्या लागशिल्ल्या वाठारांत शिगम्या दिसांनी जे वेगवेगळे खेळ खेळटाले तांतून 'रणमालें' खेळपाची परंपरा आसली पूण ती आतां बंद जाल्या.

भौगोलीक, समाजीक आनी राजकीय नदरेन ह्या वाठाराचो अभ्यास केल्यार वयर उल्लेख केल्लो हो सगळो वाठार इ.स.1391 च्या सुमाराक विजयनगरच्या साम्राज्याचो भाग आसलो म्हणपाचे लक्षांत येता. त्या काळार आयच्या दोडामार्ग वाठाराक 'मणेरी' आनी सत्तरी म्हालांक 'सांखळी' नांवान वळखताले. ह्या वाठारांचेर विरूपक्ष (दुसरो) ह्या विजयनगरच्या राजाची सत्ता आशिल्ली ती 1470 मेरेन उरली आनी त्याच काळांत गोंयांत लोककलांचो विकास जाल्लो. असो उल्लेख 'लोकनाट्याची परंपरा' ह्या पुस्तकांत मेळटा. हे सगळे मुद्दे मतींत घेतल्यार अशें म्हणू येता की, सादारण पंदराव्या शेकड्याचे सुरवेक हेर लोककला वांगडाच सत्तरी वाठारांतलें 'रणमालें' लोकनाट्य विकसीत जाल्लें आसूंक जाय.

**रणमालें सादरीकरण**

'रणमाल्याचो' संबंद युध्दा कडेन आशिल्ल्यान ह्या लोकनाट्यांत युध्दाकडे संबंदीत आशिल्ली धोल, कांसोळे हीं रणवाद्यां वाजोवपाची परंपरा पळोवंक मेळटा. सालेली आनी झर्मे ह्या गांवांनी मात रणमाल्यांत घुमट वाजोवपाची परंपरा पळोवंक मेळटा. 'रणमालें' सुरू जावचे पयलीं सगळीं वाजंत्रा मांडार हारेन मांडून ताचेर गंध-फूल बी घालून वाद्यांची पुजा जाता. वाद्यां वाजोवपी कलाकारांक जतीची आनी धोंगाची पुराय जाण आसूंक जाय. जतीचे कडवे सोंपतना 'फोडण' पडटा त्या वेळार वाद्यांचो ताल बदल्लो काय नृत्याचोय ताल बदलता. हें सगळें मतीत घेवन वाजोवप्याक वाद्यां वाजोवची पडटात.

'रणमालें' प्रभावीपणान सादर जावचें खातीर रंगवण आनी भेसवण खूब म्हत्वाची आसता. एका काळार रणमाल्यांतलीं धोंगा रंगवण करी नासलीं ते बदला कलाकार मुखवट्यांचो (रुपड्यांचो) वापर करताले. हे लाकडाचे मुखवटे भडक रंगान रंगयिल्ले आसताले. मुखवटे घातिल्ले सोंग जतीच्या फोडणार फातये फुडे येवन भोंवर घेयत नृत्य सादर करताले. मर्दी केन्नातरी मुखवटे

वापरपाची परंपरा बंद जाली. तरीय आयज सत्तरींत  सार्ट्रं आनी गवाळी (कर्नाटक) गांवांत मुखवटे वापरपाची परंपरा आसा.

रणमाल्यात 'बायलेचे' धोंग दादलेच हाडटात. त्या कलाकाराक 'बायल गडो' अशें म्हणटात. रणमाल्यांत धोंगाक जो भेस लागता तो त्या कलाकाराकूच जमोवचो पडटा. कांय कडेन लग्नाकार्या वेळार देवाक 'रणमाल्याची तळी' दिवपाची परंपरा आसा. ते तळयेंत जीं कापडां येतात तीं कापडां रणमालें खेळांत वापरतात. पूण पोलको, काकणां, गंगावन बी ह्यो वस्तू कलाकारकूच हाडच्यो पडटात. अशा वेळार गांवची बायलां त्या कलाकारांक उमेदीन आदार करतात. कांय गांवांनी ह्यो वस्तू देवळाच्या उत्पन्नांतल्यान विकत्यो घेतात आनी रणमाल्याचो खेळ जालो काय त्यो वस्तू देवळांतल्या पेटाऱ्यात सांबाळून दवरतात. दादल्या कलाकाराक भेसा संबंदान व्हडलीशी तकालस घेवची पडना. धोतर, कांबळ, वालो, आनी शेलो मेळ्ळो काय तेची भेसवण जाता. एखाद्र्या धोंगा खातीर केन्नाय पँट, शर्ट, चशमो असो भेस आसता पूण तो गावांत सहज उपलब्ध जाता.

रणमाल्यां दिसा गांवचो सेवेकरी नायक सांजच्या वेळार हाळी दिवन गांवाक रणमाल्याची सुचोवणी दिता. तिनसांज जातकूच गांवचो देवजकार गांवकार देवाक तेल-वात करून रणमाल्याची तळी काडून दवरता. रातची खाणां जेवणां जालीं काय सादारण साडेणव ते धाच्या सुमाराक धोंगी गडे मांडार एकटांय जावन रंगवणीचे तयारेक लागतात.

गांवांत सहजतायेन उपलब्ध जावपी रंग, रंगवणी खातीर वापरतात. पयलींच्या काळर शेड, कोळसो, नळकुट्यो, तरां-तरांचे रंगयाळे फातर, वालीच्या पानांचो रंग, केळीच्या पानांक तेल लावन काडिल्ले काजळ, पिंजर ह्यो इतल्यो वस्तू मेळ्ळयो काय रणमाल्याची रंगवण बरी नेटान जाताली. बदलत्या काळा वांगडा रणमाल्याचे रंगवणीत बदल जायत गेलो. हो बदल खास करून गोंय मुक्ती उपरांतच्या काळांत दिसून येता. बाजारांतल्यांन खाकी पावडर, पिंजर, झिगी, काजळ आनी तयार केल्ले रंग बी हाडून रंगवण अदीक प्रभावी आनी परिणामकारक जावची म्हण कलाकार यत्न करूंक लागल्यात. धोंगांची गरज लक्षांत घेवन तांकां सोबसारकी आकर्शक रंगवण करपी कलाकार गांवां गांवांनी तयार जाल्यात. रणमाल्यांत ताटका, राम, लक्ष्मण, म्हसोबा आनी चोट्टे हीं धोंगा तोंडाक, तांबडी काळी, धवी बुटां बी काडून भिरांकूळ रंगवण करतात. हीं पात्रां वाद्याच्या तालार माचयेर येवन धोंग सादर करतात तेन्ना भुरग्यां-बाळांच्या पोटांत भंयान गुळो येता. सामाजीक प्रहसनां सादर करपी धोंगांनी तोंडाक पावडर आनी कपलाक गंधाचो तिबो लायलो म्हण्टकर दादल्या कलाकाराची रंगवण सोपता. म्हत्वाचे म्हटल्यार ज्या गांवांनी मुखवटे वापरपाची परंपरा आसली पूण आता ती परंपरा भंगल्या. थंय रंगवण सुरु जावचे पयलीं त्या सगळ्या म्होंवाळ्यांची पुजा

जाता. धोंगां आनी सोंगाची रंगवण जाता म्हणसर सगळे गानेली आनी मानेली मांडार पावतात. धवेंफुल्ल धोतर, आंगार खोमीस आनी कोट, माथ्याक उरमल आनी खांदार शेलो घालून गानेली तयार जाले काय गांवचो नायक त्या सगळ्यांक मानाचो तिबो लायता आनी तेंच्या हातांत कांसाळें दिता. हो विधी सोंपलो काय 'गोविंदा गोविंदा' म्हणीत गानेली नमनाक सुरवात करतात.

**एक वेगळी परंपरा**

'रणमालें' हो 'जोगेश्वरीचो खेळ' अशी धारणा सत्तरींत झर्मे आनी कर्नाटकांत गवाळी ह्या गांवांनी पळोवंक मेळटा. ह्या दोनूय गांवांनी रणमाल्याची एक वेगळीच परंपरा पळोवक मेळटा. ह्या गांवानीं 'रणमालें' सुरू जावचे पयलीं सगळे कलाकार, गांवचे मानेली, सगळे गानेली मानेली आनी गांवकार 'जोगेश्वरी' देवीच्या थळार वचून तिका होरायतात. गांवचो गांवकार ते देवीची पूजा करता आनी तिचो शब्द घेवन नाल्ल फोड्टा. शेरन्यो करून देवीचो प्रसाद सगळ्यांक वाट्टा आनी नमनां घालीत जोगेश्वरी मायेचो हो खेळ घुमटांच्या तालार तिच्या थळांतल्यान गांवच्या मांडार येंवक भायर सरता.

*परतम नमान गणपते*
*मागे नमल्यो सरास्पते*
*मागे नमला इश्वरदेव*

अशे तरेन सगळ्या देवांची होरावणी जाता. उपरांत धतरेच्या उत्पत्तीची व्हडवीक सांगपी जतीचे गायन सुरू जाता. मुखेल गानेली जत गायत वता आनी हेर गानेली तेंका साथ दितात.

*परतम आकारल्या गायतरी*
*मागे आकारल्या धरतरी*
*मागे शेनाल्या गायतरी*
*मागे जल्मा येयले शिरिहरी*

हे जतीत विश्व निर्मणेचो लोकमनान लायिल्लो अर्थ खूप किदें सांगून वता. श्रीहरीचो जल्म जाल्या उपरांत ताचे बालपण सोपून तो आतां लग्नाचो जाला. ताच्या लग्न सुवाळ्याची तयारी चल्ल्या हें सांगतना लग्न विधीची म्हायती दियत जत फुडें वता. न्हव-याचो भेस चडोवन श्रीहरी लग्नाक चल्ला हें सांगपी जत गायत सगळे कलाकार सजयिल्ल्या श्री हरीक घेवन मांडार येतात

*शिरिहरी मासी रे वाडलो*
*माटोव घातलो रत्नागिरी*
*शिरिहरी हळद करिता*
*शिरिहरी मुंडासां बांदिता*
*शिरिहरी पिडूक गुंथता*

अशे तरेन श्रीहरीचे वर्णन आनी गुणगान गायत रणमालें खेळाचो मेळ ग्रामदेवतेच्या मांडार पावता. देवी जोगेश्वरीचो खेळ गांवच्या मांडार हाडून देवीक मानाचो पाट दितात. त्या उपरांतूच रंगवण सुरूवात जाता. ही परंपरा सत्तरींत फकत 'झर्मे' गावांत घोडेमोडणीच्या रणमाल्या दिसाच पळोवंक मेळटा. धोंगां हाडपी कलाकारांची तयारी जाय मेरेन गानेली गांवच्या देवांक नमनां घालून गणपतीच्या जल्माची जत गायतात.

गोमंतकीय लोकनाट्य परंपरेत 'रणमालें' हें सामकें वेगळें आनी स्वतंत्र

धाटणींतलें लोकनाट्य. ह्या लोकनाट्यांत जत गावपी गानेली एकमेकाक तेंकून. वळीन उबे तेका रणमाल्याची 'फाती' अशें म्हणटात. जत गायतना फातीचे कलाकार तालार पावल्यो मारीत फाटी फुडे जायत रावतात. तेका लागून ही फाती पड्डो कशी फाटी फुडे हालत धोलत रावता हें ह्या लोकनाट्याचे खाशेलपण जावन आसा. धोंगाची तयारी जाय मेरेन मुखेल गानेली जत गायत वता आनी साथी कलाकार तेका साथ साथ दितात. सुरवेची नमनां गावन जातकूच गानेली गणपतीच्या जल्माची जत गावंक घेता. 'सवंगां' तयार आसात हो संदेश मुखेल गानेल्या मेरेन पाव मेरेन तो फोडणां फोडणांनी जत गायत रावता आनी संवगां रंगोन जार्ली काय जत बदलता

*सोन्याची तारवां, रूप्याचे व्हले*
*दर्या फिरांक गेले गणूराया हो*
*दर्या फिरांक गेले गणूराया*

हे जतीच्या तालार तांबडे गुंज म्होवाळे लायिल्लो गणपती रिध्दी-सिध्दी वांगडा फातयेतल्यान वाट काडीत माचयेर येवन भोंवर मारीत मारीत नाचता. गणपतीक पळोवन सगळ्यांचे अंतःस्करण श्रध्देन भरून येता. गणपती आनी रिध्दी-सिध्दीचो नाच सोपलो काय

*'भटा बिरामणां शंभू नारायणां*
*काशी खंडा जाई भट काशी खंडा जाई'*

अशें म्हणीत भटमामाचे आगमन जाता. भटाची नाचपाची तरा पळोवन प्रेक्षकांच्या पोटान हांसून हांसून पेटके येतात. ताचे संवादूय तशेच विनोदी आनी प्रहसनात्मक आसतात. गणेश येवन गेलो काय शारदा, नेटयो, म्हादोळी, हीं 'सवंगा' कलाआविश्कार सादर करतात. हीं पात्रां येवन गेलीं काय पुर्वरंग सोपता. आनी मध्यरंग सुरू जाता. मध्यरंगात मुखेलपणान रामायणाची जत गायतात.

*राम लक्ष्मण सिता तिगांजाणां*
*तीं तिगां चालली निरंजन वना.*
*निरंजन वनी तेणीं गुंफा रे बांदल्यो*
*गुंफा बादल्यो काय खडये पाशाणाच्यो.*
*सितेन हात ओडून केल्यो सवर्नाच्यो.*

रामायणाचेर आदारीत ही जत पुराय रातभर चलता. रणमाल्यांत रामायणा वांगडा पुराण कथांचेर आदारीत जतीय आयकोंक मेळटात. तशेंच कांयकडेन 'सामरीची जत', 'कणकीची जत' आनी 'राण्याची जत' अश्यो जती गावपाची परंपरा आसा. ह्यो जती चलतना मर्दी मर्दी सामाजीक प्रश्नाचेर भाश्य करपी प्रहसनां सादर जातात. तांतून 'सोंगां' आनी 'धोंगां' अशे दोन प्रकार पळोंवक मेळटात. रणमाल्यातल्या जीं पात्रां देवत्वाक पाविल्लीं आसतात वा पुराण कथांतलीं बी आसतातर्ती सगळीं सोंगा. देखीक : गणपती, शारदा, नेटयो, गोमाटी, राम-लक्ष्मण, त्राटिका बी आनी तत्कालीन सामाजीक प्रश्नाचेर भाश्य करीत जी प्रहसनां सादर जातात तेंकां 'धोंगां' अशें म्हणटात. तांतून म्हालो, मेस्त, गवळी, नुस्तेकार, बोगार, बेबदो, भाव-भयण अशी साबार धोंगां आसतात.

*वलयरे तारया वलय*
*आनी न्हयभर पानी तोलय*

अशें म्हणीत तारी येवन समाजांतलीं दांभीकपणां दखयता. जाल्यार–

*जातीचो मी म्हार रांडला, जातीचो मी म्हार*
*गळ्यांत घालीन चंद्रहार तुज्या घालीन चंद्र हार*

म्हणीत आपली दरिद्री जीण आनी दुखां प्रेक्षका मुखार मांडीत तेंकां विचार करूंक लावपी जातीवाचक धोंगांय रणमाल्यान सादर जातना बारा बलुतेदार समाज रचना दोळ्यां मुखार उबी करता.

रणमाल्यात निमणेकडे 'भोरीप' आनी 'गोंधळ' हो खेळूय सादर जाता. ह्या वेळार रणमाल्यांतले गडे नाड्यावेलो खेळ दाखयतात. तरेकवार उडयो मारप. हातांनी चलप, हात आनी पांय जमनीक तेकोवन उदारें धोनकूटी करून चलप, खांब्यार चडप अशें तरेकवार खेळ ह्या भोरीपांत चलतात. आनी फांतोड फुटून कोंबो आरडटा म्हणसर 'गोंधळ' सुरू जाता.

*गोंधळ घातयालो देवळाचे दारी हो*
*तुकोबा दुवारी मां*
*ब्राम्हणी माये गोंधळा येई मां*
*तुकोबा दुवारी मां*

देवाचो 'सेवेकरी' गोंधळा खातीर लागतात ते काकाडे तयार करून ते पेटोवन सगळ्या कलाकारांक दिता. हें काम देवाचो सेवेकरी परंपरेन करीत आयला. गोंधळ सोंपल्या उपरांत सुत्रधार रणमालें सोपोवचेली जत सुरूकरतात

*चवथीचा चंद्रीम रमण पारा*
*उठा गा देवांनो जावया घरा*

अशे तरेन रणमालें सोपलें अशें म्हणीना फुडे भुरगींबाळां दोळे चोळीत उठटात. हांगां 'रणमालें' लोकनाट्याचो जागोर सोपता.

**रणमाल्याची आयची स्थिती**

शेकडयांनी वर्सांची परंपरा आशिल्ले 'रणमालें' लोकनाट्याचे दायज सत्तरींतल्या भौसान आयजूय शिगम्याच्या मांडार तिगोवन दवरलां. हें खरें आसले तरीय आयजचो तरनाटो डिजीटल आनी हेर प्रसार माध्यमाचे भकीक पडिल्ल्यान आपली संस्कृती–परंपरा ह्या गजाली कडे ताची आडनदर जांवक लागल्या. हें अशे स्थितींतूय 'रणमालें' आपली परंपरागत वाट चलत आसा. पूण तें आता खर्शेलां निर्शेलां... कांट्यां–खुंट्यांचो मार्ग चलतना वाटेत भोरीप, गोंधळ सारकिल्लें जें किदें नवें मेळ्ळें तें ताणे आपणायलें. आनी काळाच्या प्रावाहांत खूब किदें व्हगडायले बी. 'रणमालें' लोकनाट्याचे संवर्धन जावंचे म्हण सत्तरी वाठारांत आयज मेरेन जायते उपक्रम राबयल्यात ते अशे–

1– 1978–79 च्या सुमाराक 'कला अकादमी, पणजी' हे संस्थेन धावें–सत्तरी हांगच्या तरनाट्याक 'रणमाल्याचें' खासा प्रशिक्षण दिवपाचे थारावन एक शिबीर घेतलें.

2– रणमालें कलाकारांक माची मेळोवन दितना तांचे कलेक उर्बा दिवपाच्या उद्देशान सत्तरी नागरीक समितीन 2005 वर्सा धावें–सत्तरी हांगा रणमालें महोत्सव घडोवन हाडला.

3– रणमाल्याचे संवर्धन आनी विकास जावचो म्हण सत्तरीत खरो वावर केला

तो 'ग्रामीण कला आनी सांस्कृतीक संस्थेच्या जाळवणदारांनी. कला आनी संस्कृती संचलनालय, गोवा कोंकणी अकादेमी, आनी कला अकादमीच्या आदारान ही संस्था फाटली 15-16 वर्सां रणमालें संवर्धन आनी विकासाचे काम करीत आसा. हातूंत 'रणमालें' सादरी करणा वांगडाच संस्था 'रणमालें' महोत्सव, रणमालें लोक नाट्याचेर परिसंवाद आनी चर्चा अशे जायते उपक्रम घडोवन हाडटा. संस्थेन 2008 ते 2020 ह्या काळांत सत्तरींतल्या वेगवेगळ्या गांवांनी रणमालें महोत्सव घडोवन हाडून तरनाट्या कलाकारांक उर्बा दिल्या. हातूंत लोकवेद अभ्यासक आनी संस्थेचे अध्यक्ष श्री. झिलू गांवकार आनी डॉ. रघुनाथ धुरी, अंकूश धुरी हांचे योगदान खूब मोलाचें आसा.

ग्रामीण कला आनी सांस्कृतीक संस्थेन आयज मेरेन आयोजीत केल्ले रणमालें महोत्सव

- 1 लो रणमालें महोत्सव
  थळः करंजोळ ता. 11 मे 2008
- 2 रो रणमालें महोत्सव
  थळ : ठाणे ता. 12 फेब्रुवारी 2011
- 3 रो रणमालें महोत्सव
  थळः दाबोस
  ता. 28 आनी 29 डिसेंबर 2013
- 4 थो रणमालें महोत्सव
  थळः मासोर्डे
  ता. 27 आनी 28 डिसेंबर 2014
- 5 वो रणमालें महोत्सव
  थळ : ब्रम्हाकरमळी
  ता. 25 आनी 26 डिसेंबर 2015
- 6 वो रणमालें महोत्सव
  थळ : ठाणें
  ता. 24 आनी 25 डिसेंबर 2016
- 7 वो रणमालें महोत्सव
  थळ : सावर्शे
  ता. 15 आनी 16 डिसेंबर 2017
- 8 वो रणमालें महोत्सव
  थळ : वेळूस
  ता. 24 आनी 25 डिसेंबर 2018
- 9 वो रणमालें महोत्सव
  थळ : सालेली
  ता. 22 आनी 23 डिसेंबर 2019

रणमाल्याचें प्रशिक्षण घेतिल्ले कलाकार आनी पारंपारीक लोककलाकारांनी सत्तरीचें 'रणमालें' राष्ट्रीय महोत्सवांनी पावयलां. हनुमान सेवा समिती-नानोडा, हुळणेश्वर रणमालें पथक-करंजोळ, सांतेरी केळबाय रणमालें पथक-झर्मे ह्या पथकांच्या कलाकारांनी गोंयचे प्रतिनिधित्व करतना उदयपूर (राजस्थान), हैद्राबाद (आंध्रप्रदेश), रत्नागीरी आनी मुंबय (महाराष्ट्र), चित्रकूट धाम, (उत्तर प्रदेश) आनी नवी दिल्ली हांगा जाल्ल्या राष्ट्रीय पांवड्यावेल्या लोककला महोत्सवांनी रणमालें सादर करून सत्तरीची घुडी भारतभर पावोवपाचें काम केलां. सिध्देश्वर रणमालें पथक, सालेली ह्या पंगडान मडगांव (गोंय) हांगा जाल्ल्यो अखिल भारतीय कोंकणी संगीत महोत्सवांत

'रणमालें' सादर करून शाब्बासकी घेतल्या. संगीत नाटक अकादमी, दिल्ली आयोजीत लोकनाट्य महोत्सवात, करंजोळच्या हुळणेश्वर रणमालें पथकान रणमालें सादर करून सत्तरीचे लोकनाट्य परंपरेची शान वाडयल्या.

**'दशावतार' परंपरा**

सत्तरींतल्या नाट्यकलाकारांचो पिंड पोसला तो दशावतार लोकनाट्य परंपरेक लागोन अशें म्हटल्यार अतिताय जावं नजो. सत्तरीक कालो आनी दशावताराची परंपरा खूप जुनी. 'कालो' म्हटलो काय सत्तरीकाराचे उमेदीक शीम म्हेर उरना. तो तांचो व्हड उत्सव. काल्या दिसा सत्तरींतलीं घरां दारां, सोयऱ्या-धायऱ्यांनी भरून ओंततात. गांवचो कालो जालो काय दुसरे दिसा पिराड्यांच्यो वा काठयेच्यो तलवारी घेवन वाड्यावेले भुरगे देवळाच्या आंगणात नळकुट्यो वा शेडीचो रंग तोंडाक लावन रातींकडे पळयिल्लो दशावतार परतून सुरू करतात. पेटी तबलें नासतनाय मार तावा-तावान पदां गायतात. लडाय करतात. हें चित्र आजुनय तशें उणें जावंक ना. अश्या खेळांतल्यानूच श्री. सुर्यकांत राणे सारकिल्ले कलाकार सत्तरीन दशावतार परंपरेक दिल्यात.

सत्तरीत दशावतार खेळाची परंपरा पुर्वापार चलत आयल्या. हें जरी खरें आसलें तरी विसाव्या शेकड्याच्या पाचव्या दशका मेरेन हांगा दशावतार खेळ करपी पंगड मात नासलेच म्हटल्यार जाता. सत्तरींत दशावतारी खेळ करपी पंगड महाराष्ट्रातल्या मोचेमाड,' वेंगुर्ला ह्या वाठारांतल्यान येताले. मोचेमाडकार, नायक, तेंडोलकार, आजगांवकार ह्या कंपनीचे कलाकार माथ्यार पेटारे आणी ट्रंक बी घेवन चलत गांवांगावांनी वचून दशावतार सादर करताले. ह्या कंपनी मर्दी मामा मोचेमाडकार कंपनीचें दशावतारी नाटक म्हटलें काय माटवांत ही गर्दी जाताली. ते कंपनीतल्या बायल गड्याचेर तर कितलेशेच जाण फिदा आसले. राजकुमारीच्या भेसांत ताणें

*गोजिऱ्या कळ्या फुलांनो*
*कां उगाच रुसशी बोला*

हें गीत गावपाक सुरवात केली काय राजकुमारीच्या कटाक्षांनी कितल्याश्याच तरनाट्यांची दिल घायाळ जाताले. तेच कंपनीत धुरी नावाचो एक कलाकार आसलो. तो खास करून राम, कृष्ण, राजकुमार, बाळ अशे तरेच्यो भुमिका करतालो. 1970 ते 80 च्या त्या काळार धा-पंदरा वर्सां पिरायेचे भुरगे तर ताच्या फाटल्यानूच आसताले. काल्या दिसांनी थंडिचो कुलकुलो आशिल्ल्यान राम आनी मारूतीच्या भेसांतले गडे भायर थंडेच्या कुडकुड्यांत विडी ओडटात तें पळोवन आमच्या भुरग्या मनाक अजाप दिसतालें. जाल्यार राक्षस जाल्लो गडो भायर गडगड्याच्या मेजार गडगडो खेळटा तें पळोवन हांसूंक येताले.

महाराष्ट्र हें 'दशावतार' लोकनाट्याचे मूळ पीठ अशें आमकां खूप पावट दिसता. पूण दशावताराची पाळां-मुळां सोदूंक

वतात तेन्ना तीं कर्नाटकातल्या 'यक्षगान' ह्या खेळा मेरेन पावल्यात हें दिसून येता. स्व. बाळकृष्ण गोरे आनी तांच्या आठ भावांनी यक्षगानाचे प्रेरणेंतल्यान 'दशावतार' खेळ घडयलो आनी पंढरपूर हांगां ताचे खेळ सुरू करपाचो यत्न केलो. पूण थंय तांका बरो प्रतिसाद मेळ्ळो ना. तेन्ना ते कोंकणात आयले आनी थंय तांणी 'दशावताराचे' खेळ सुरू केले. कोंकणातल्या लोकांक ते खूप भावले आनी हळू हळू करून दशावतार हे कोंकणाचे मातयेतलोच जालो. अशें दशावतारांतले जाणकार सांगतात. मागीर केन्ना तरी हो गोंयात पावलो आनी हांगच्या भौसाच्या मनोरंजनाची भूक भागोवंक लागलो. मोचेमाडकार आनी नायक कंपनी कडल्यान प्रेरणा घेवन आमचे सत्तरीचे कांय पूत दशावतार कंपनीत गेले आणी व्हड जाले. तांतून श्री. सुर्यकांत रामा राणे (भिरोणें), श्री. हरीश्चंद्र कुश्टा गांवकर (कुमारखण), श्री. दामोदर भालचन्द्र जोशी (बिंबल), श्री. भानूदास भालचन्द्र जोशी (बिंबल) ह्या कलाकारांनी दशावतारी नाट्यकलेची सेवा करीत आपली अशी खाशेली वळख घडयली..

दशावतार सादर करपी कंपनी जश्यो कोंकणात उब्यो जाल्यो, तश्यो गोंयांत उब्यो जाल्ल्यो पळोंवक मेळनात. सत्तरीतले काले, नाटकां (दशावतार) मामा मोचेमाडकार, नायक वा हेर कंपन्यांनी करपाची असो अलिखीत नेमच आसलो म्हटल्यार अतिताय जावं नजो. पूण सत्तरींतलो 'गुळ्ळे' गांव मात ह्या नेमाक आडवाद थारला. गुळ्ळे गांवचे तरनाटे तशे जिद्दी, तांणी विचार केलो की आमच्या गांवांत आमीच दशवतार खेळ्ळ्यार कसो? गांवच्या जाट्यांकूय तांचो हो विचार मानवलो. तुमी सरा फुडे, आमी आसूं तुमच्या फटल्यान. म्हणीत उर्बा दिली. जाण्ट्यांचे आशिर्वाद आनी उर्बा घेवन स. आत्माराम ठाकूर हांच्या मार्गदर्शना खाला थळाव्या कलाकारांचो पयलो दशावतारी खेळ 1960-61 च्या दरम्यान गुळ्ळें गांवच्या देवळाच्या आंगणात सादर जालो. अशें दशावतारी खेळाचे जाणकार आनी ज्येश्ट कलाकार श्री. कुश्टा राउत आनी श्री. विठ्ठल गांवस हांणीं सांगलें. तांच्या म्हणण्या प्रमाण हणजुणे धरणाक लागून 1984 त गूळ्ळे गांव स्थलांतरीत जावन मोर्लें कॉलनी (पुनर्वसन वसाहत) हांगां पावलो. गांव स्थलांतरीत जावचे पयली सादारण 20-22 वर्सां आदीं सावन गांवांत थळावे कलाकार दशावताराचो खेळ खेळटाले. ह्या वावरांत श्री. आत्माराम ठाकूर आनी गुळ्ळें गांवचे पयले पेटी वादक यशवंत उसपकार आनी तांच्या सांगात्यांचे योगदान खूब मोलाचें आसा. ज्या काळार गांवांत लायट तर नासलीच पूण पेत्रोल मॅक्सूय दुर्लभ आसले. अश्या वगतार शेळकूणां पेटोवन त्या शेळकुणांच्या उजवाडात गांवच्या भुरग्यांनी दशावताराचे खेळ केल्यात. राजा वा हेर म्हत्वाचें पात्र येयलें, वा लडाय बी जावची आसल्यार पेट्ट्या शेळकुंडानी करड वा तण बी घालून जाळ मोठो केलो काय उजवाड खर जावन नाटकांतलो प्रसंग प्रभावी पणान

लोकां मेरेन पावोवपाचो यत्न जातालो अशें कुश्टा राऊत हाणें सांगलें. आयज कथानक, संगीत, रंगभुशा, आविष्करण ह्या संबदान जायते नवे प्रयोग दशावतारांत जाल्ले पळोवपाक मेळटात.

गांव स्थलांतरीत जाल्या उपरांतूय गुळ्ळें गावान दशावतार सादर करपाची आपली परंपरा सोडली ना. नाटकाक लागपी पांयपेटी आनी प्रयोगा लागपी हेर सामान त्या दिसा पुरतें भाड्यान हाडून देवाच्या पायांकडेन श्रध्देन खेळ करताले. पुनर्वसन जाल्या उपरांत गुळ्ळें गांवचे सगळे कलाकार श्री. आत्माराम ठाकूर हांच्या मार्गदर्शना खाला एकठांय येवन तांणी 1990 वर्सा कला वैभव ही दशावतारी नाटक संस्था स्थापन्न केली. हे संस्थेन ता. 11 एप्रिल 1991 दिसा आपलो पयलो प्रयोग गुळ्ळें हांगां सादर केलो. उपरांत मात हे संस्थेन फाटी वळोन पळयलें ना. आयज संस्थेकडे दशावतारी प्रयोगाक लागता तें सगळें सामान आसा. कला वैभव ही सत्तरी म्हालांतली दशावतारी खेळ करपी एकमेव संस्था आसा. फुडे 1997 वर्सा संस्थेची रीतसर नोंदणी जाली. आयज ही संस्था गोंय, कर्नाटक, आनी महाराष्ट्र वाठारांत वचून दर वर्सा 50 ते 60 दशावताराचे खेळ करता. 2011 वर्सा संगीत नाटक अकादमीन नवी दिल्ली हांगा घडोवन हडिल्ल्या लोक नाट्य महोत्सवांत हे संस्थेच्या कलाकारांक आपली कला सादर करपाची संद फावो जाली.

श्री. आत्माराम ठाकूर, श्री. अर्जून फटी गांवस, श्री. शंकर फटी गांवस, श्री. विठ्ठल फटी गांवस, श्री. यशवंत उसपकर, श्री. सोमा आपा गांवस, श्री. गोपाळ सातू गांवस, श्री. येसो कृष्णा रावणकार, श्री. गणपत राणे ह्या म्हालगड्यांनी सुरू केल्ली ही परंपरा, आयज श्री. कुश्टा नारायण राउत, श्री. मधुकर नारायण राउत, श्री. महेश विठोबा गांवस, श्री. कुश्टा देवगो गांवस, श्री. गणेश महादेव उसपकर, श्री गुरुदास गणेश गांवस, श्री. योगेश विठ्ठल गांवस, श्री. लक्ष्मण आत्मा गांवस, श्री. नारायण दत्ताराम माजीक, श्री. विठ्ठल गांवस, श्री. विशाल मणेरीकर, श्री. गंगाराम देसाई, हांणी आपल्या भुजार घेवन दशावतारची परंपरा चलू दवरल्या. ह्या कलाकारां व्यतिरिक्त कै. विष्णू गांवस (शिरोली), कै. अनंत गांवस (शिरोली), कै. लाडूलो गांवस (शिरोली), श्री. आपा माजीक (केरी), कै. विठ्ठल परवडकर (केरी), कै. वासुदेव नायक (केरी), जना केरकार (केवाडें) ह्या कलाकारांनीय वेगवेगळ्या दशावतारी कंपनीनी भुमिका करून सत्तरीची दशावतारी लोकनाट्य परंपरा समृध्द करतना म्हत्वाचे योगदान दिलां.

### भरणूल

सत्तरींतल्या, दोंगर घाळींनी वशिल्ल्या भुंयपुतांनी हांगासरली जमीन वसावळीक हाडटना शेळ, सरद, भरड, कास, तोरप, मुटलो, कुमेरी सारकिल्ले शेतवडीचे प्रकार कसयले आनी आपली जीण घडयली. हें करतना तांणी आपले दिसपट्टे जिणेतलीं

सुख-दुख्खां आनी अणभव तांणी लोकवेदाच्या माध्यमातल्यान फुडले पिळगे खातीर पुंजावन दवरल्यात. जती, सोकारती, गावनकाणी आनी लोकनाट्याच्या माध्यमांतल्यान तो व्यक्त जावंक लागता. आपल्यो रिती-भाती, परंपरा बी तांणी लोकवेदाच्या माध्यमांतल्यान फुडले पिळगे मेरन पावयल्यात. 'भरणूल हें लोकनाट्य ताचे बरें उदाहरण. 'भरणूल' रणमाल्याचेच जात कुळींतलें आसलें तरी तें पुर्णपणान वेगळें लोकनाट्य आसा. सत्तरी म्हालांतल्या गुळ्ळें (आताची मोर्लें कॉलनी) ह्या एकाच गांवाक ह्या लोकनाट्याची परंपरा आसा. हें लोकनाट्य केन्ना सावन मांडार खेळतात हे संबंदी गांवच्या म्हालगड्यांकूय कांयच खबर ना. जाण्ट्यांक विचारल्यार आमचो पुर्वज तें खेळटालो, तशेंच आमी खेळटात इतलीच जाप मेळटा. गुळ्ळें गांवचो सगळो भौस क्षत्रीय मराठा वंशाचो. खर कश्ट करून जीण जगपी हे लोक आपूण 'कुळवाडी' म्हटल्यार कश्टकरी शेतकार अशें अभिमानान सांगतात. 'भरणूल' हो ताच्या शिगम्याच्या मांडावयलो परंपरेन चलत आयिल्लो खेळ. बारीक साणेन भरणूल खेळ नियाळल्यार तें विधी नाट्य म्हणपाचें लक्षात येता. शिगम्याच्या सातव्या दिसा म्हणजे फाल्गून वद्य सप्तमीक गांवच्या मांडार 'भरणूलाचो' खेळ जाता. फाल्गून शुध्द चतुर्दशीक फाग घालून हांगचो शिगमो सुरू जाता आनी सप्तमीक भरणूल उपरांत शिगम्यात जो चाळो मेळो उठलेलो आसता तेची थारावणी जावन मांड थारायतात. हो मांड थारावणेचो विधी म्हटल्यारूच भरणूल. एका काळार हो विधी लोकां अस्वडी जातालो. आतां मात ह्या विधी वेळार कांय जाण्टे आनी खेळगडे आसतात. थारावणी वेळार बायलां आनी ल्हान भुरग्यांनी तर देवळाच्या लार्गी लेगीत रावचे न्हू असो अलिखीत नेम आसा.

'भरणूल' लोकनाट्य कृशी परंपरेकडे नातें सांगता. ह्या लोकनाट्यांची सुरवात सादारण रातीच्या धा-इकरांच्या सुमाराक जाता. खेळ सुरू जावचे पयलीं गांवकार वर्सावळीची तळी काडून दवरता. सगळी तयारी जाली काय खेळे नमनां गायतात.

*पयले चरण देव गणेस नेमला*
*खेळटो गणराजा खेळों लागला*
*नाचचो गणराजा नाचों लागला*
*सरस्वती शारदा रंगयाल्यो माया*

धोल ताशांच्या गजरार भरणूल लोकनाट्याची सुरवात जाता. ह्या वेळार खेळ्यांचे दोन गट जातात. एक थळाव्या गांवकारांचो आनी दुसरो परदेसी म्हटल्यार भायल्यान आयिल्ल्या लोकांचो. पुराय नाट्य ह्या दोन गटांमदीच संभाशणात्मक रुपान चलता. ह्या दोन गटांतलो संवाद कृशी परंपरे कडे संबंदीत आसता. हें संवादात्मक नाट्य म्हटल्यार 'भरणूल' लोकनाट्य. ह्या लोकनाट्यांत कृशी परंपरा सांगपी कथानक चलता तें अशें-

कांय कुणबी लोक आपल्या गांवांत दुकळ पडिल्ल्यान आपलो वाठार सोडून नव्या वाठारांत येतात. तेंच्या कडलो दाणो गोटो सोंपला म्हण ते शेतां हणोंक येयल्यात.

*बांदोड्याचो कुणबी रे*

*शेत शिनोंक येयलो रे*
*शेत शिनोंक येयलो*

आमच्या थंय दुकळ पडिल्ल्यान आमीं हांगां पावल्यात तेन्ना आमकां शेतां हणोक इल्लोसो जागो दियात अशी मागणी करतात. गांवचे म्हालगडे तेंका आपल्या गांवच्यो रीत-भाती समजावन त्या रिती भातींक पाळो दिवन रावचे अशें समजावन शेतां हणोक जागो दाखयतात. कुणब्यांक जागो मानवता आनी ते शेत शिनोंक सुरवात करतात. ह्या लोकां वांगडा रांदू-वाडूंक एक बायलूय आयिल्ली आसता. सत्तरीचे बोलीत 'शेतां हणप' ह्या उतरां बदला 'शेतां शिनप' हो वाकप्रचार आयजूय आयकोंक मेळटा.

*बांदोड्याचो कुणबी रे*
*रीस काडूंक येयलो रे*
*बांदोड्याचो कुणबी रे*
*आगी घालूंक येयलो रे*
*बांदोड्याचो कुणबी रे*
*साकूळ काडूंक येयलो रे*
*बांदोड्याचो कुणबी रे*
*नासणे पेरूंक येयलो रे*

अशे तरेन दोंगरी वाठारांतले कृशी परंपरेची सगळी म्हायती दियत नाट्य फुडें वयता. त्या प्रमाण कलाकार कृती करीत तांचे सादरीकरण करता. शेताक आडो करप, नडणी करप, माळे राखप, खापटी बांदप, कणसां काडप, ती बडोवप, मुडयो बांदप, सारकिल्ल्यो शेताच्या वावरा संबंदानच्यो सगळ्यो गजाली ह्या लोकनाट्यांत पळोवंपाक मेळटात. शेतांनी काम करतना जे कश्ट जातात ते हलके करचे खातीर मर्दींमर्दीं सोकारत गावपाची परंपरा आसली आसूंयेत, तेचेय दर्शन भरणूलांत जाता.

*मेघ बरसलो*
*नदी पूर आलो*
*भुजंग व्हांवलो रे*
*लोंड्यावर*

भरणूल लोकनाट्याचे हे स्वरूप पळयल्यार तें कृशी परंपरेचे शिक्षण दिवपी अनौपचारीक शिक्षण केंद्रशें दिसूंक लागता. ह्या लोकनाट्यांत मर्दीं मर्दीं कांय विपरीत घटना घाडटात ताचेरूय भाश्य जाता. देखीक कुणब्यांचो एक भुरगो अचकीत ना जावप, शेतांत सावदां येवप, वाग घुरमप अश्यो घडणुको घडटात, तेन्ना कसलेशें अरिश्ट येवपाची सुलूस लागिल्ल्यान घाडी खुदोवन ताचेर उपाय काडप जाता. कुणब्यांचे चुकीक लागोन तांकां शिळकेचो मारको बसता. देखून हीं अरिश्टां येतात अशें देव (घाडी) सांगता. अरिश्टां येवची न्हंय म्हण 'मारको तोडप' सारकिल्ले विधी सादर जातात. जनावरांनी शेंतांची नासाडी करूनये म्हण कुणब्यांनी घातिल्ल्या मेणांक शिंगाडी (सावाद) मेळटा. तेन्ना तें सावद देवाक लावन गांवके प्रमाण ताचे वांटे जातात -

*देवाचो कान काडलो देवाक दिलो.*
*शिर काडलां तिगाय भावल्यांक दिलां.*

(हणजूणकार, केवाडेकार आनी पणसूलकार)

*साथ काडली मारप्याक दिली.*
*बावळी काडली राण्यांक दिली.*
*वींव काडलो सरकाराक दिलो.*

*शेंपडी आनी उल्लेल्याचे वाटे केले.*

अशे तरेन गांवच्यो रित-भाती सांबाळीत आनी नवे पिळगेक गांवकेचे धडे दियत 'भरणूल' लोकनाट्य सादर जाता. निमणे कडे गांवच्या देव देवतांक आनी राखणदारांक होरायत गांवचे चौगुले (मानी) शिगम्या दिसांनी भायर काडिल्लीं आवतां, घोड्यांची ताटी, मुखवटे बी चाळ्याचे फातरीर दाळून दवरतात. हो विधी करतना गांवचो म्हार आनी चौगूले सोडून कोणूच आसनात.

आयच्या तरनाट्यांमर्दी लोककलांविशी आशिल्ली उदासिनता, शिक्षणांचो प्रभाव आनी वेळेचो अभाव ह्या कारणांक लागून भरणूल लोकनाट्यांतलो कांय भाग काळाच्या प्रवासात शेणला काय किदें? अशें परतून परतून दिसत रावता. ताचो अभ्यासकांनी सोद घेंवक जाय.

**झर्मे गांवचे माळेगान :**

सत्तरींतल्या अवघ्याच गांवांनी आपलें लोकनाट्याचे दायज परंपरेन तिगोवन दवलां. तांतून झर्मे गांवचो प्रामुख्यान उल्लेख करचो पडटलो. जती, सोकारती, चोर, करवल्यो, घोडेमोडणी, रणमालें आनी 'माळेगान' हें लोकवेदाचे दायज आयजूय थंयचे पिळगेन सांबाळून दवरलां. सत्तरीतल्या झर्मे गांवाक खाशेली अशी 'लोकनाट्य' परंपरा आसा. 'रणमालें' आनी माळेगान सारकिल्ली आमची पारंपारीक लोकनाटयां हांगच्या भौसान परंपरेन तिगोवन दवरल्यांत. गुळ्ळें गांवच्या 'भरणूल' सारकिल्लोच एक लोक नाट्य प्रकार झर्मे गांवच्या शिगम्याच्या मांडार फाल्गून सश्टीक म्हटल्यार शिगम्याच्या सव्या दिसा पळोवपाक मेळटा. ह्या लोकनाट्याक 'मांळेगान' अशें म्हण्टात. 'माळेगान' ह्या उतराचो अर्थ 'मळ्यांतले गायन' म्हटल्यार शेतातलें गायन असो जाता. सत्तरी हो दोंगर घाळींनी भरिल्लो वाठार आसून हांगां कुमेरी शेतांची परंपरा आशिल्ली. त्या शेतांक 'मुटलो' अशेंय उतर घोळणुकेत आसा. तर कांय कडे त्या शेतांक सावड अशेंय म्हणपाची रीत आसली. दोंगरांनी शेतां हणोन थंय नासणो, वरी, कांगो बी पिकोवन हांगचो भौस पोट भरतालो. पूण सद्द्याक तरी कुमेरी/मुटलो हो शेतप्रकार गोंयात अस्तित्वांत ना. पयलींच्या तेपार शेतकार शेतानीच 'गवळ' बांदून रावताले. मिर्गार शेतांनी गेल्ले लोक तीन चार म्हयने थंयच रावोन लानीर नासणे घेवनच घरा येताले. सादारण एका एका गवळांत 20-25 जाण तरी रावताले. दिसभर काम करून थकिल्लो भागिल्लो जीव रातीकडे तरेकवार जती, सोकारती गावन वा काणयांनी बी मन गुंथोवन दिसभरायेचे कश्ट विसरायेर घालताले. ह्याच गवळांनी माळेगान गायनांची अंखडीत परंपरा चलताली अशें जाण्टे सांगतात.

भरणूल लोक नाट्या प्रमाण 'माळेगान' हे लेगीत एक विधीनाट्य. हो विधी लोकां अस्वडी करपाची परंपरा आजूनय झर्में गांवांत चलता. हे विधी ल्हान भुरगीं आनी बायलांनी बी पळोवप ना अशी चालंत थंय आसा.

साधारण 15 वर्सां पयलीं झर्मे गांवचें 'माळेगान' पळोवपाची संद म्हाकां म्हजो इश्ट गणपत गांवस हाका लगोन मेळ्ळी. माळेगानाची सुरवात सादारण रातीच्या इकरा-साडे इकराच्या सुमाराक जाता. जे सुवातेर माळेगान सादर जावपाचे आसता थंय मांडाच्या भायर एका कोनशाक लाकडां घालून मोठो जाळ पेटयतात. सत्तरींत त्या जाळाक 'परसो' अशें म्हणटात. सगळे गानेली आनी मानेली परश्या भोंवताणी जमतकूच माळेगानाची नमनां सुरू जातात

*पयिलां रे नम्मान बोलुयाऽऽ गनीस देवांक*
*गनीस काय देवांऽऽ बोलल्याऽऽ आऽऽऽ र ।*
*दुसरां रे नम्मान बोलुयऽऽ म्हादेव देवांक*
*म्हादेव काय देवांऽऽ बोलल्याऽऽ आऽऽऽ र ।*
*तिसरां रे नम्मान बोलुयाऽऽ तामेटीचे काटयेक*
*गरीब धाट्याचां काय आसरांऽऽऽ कऽऽ ।*
*चवतां रे नम्मान बोलुयाऽऽ केंगऱ्याचे ल्हवेक*
*गरीब धाट्याचां काय कामरांकऽऽऽ कऽऽऽ।*
*पाचयां रे नम्मान बोलुयाऽऽ कापसनीच्या फुला*
*दिया जोत गाऽऽ पेटयल्या ऽऽऽ र ऽऽऽ ।*

नमनां जालीं काय मुखेल गानेली आख्यानाक सुरवात करता आनी बाकीचे गानेली तेकां फाटल्यान साथ दितात. हे गायन फांतोडमेरेन चलता. माळेगानांत मुखेलपणांन पांडव कथांचें गायन जाता. हे आख्यान चालू आसतना मर्दी मर्दी हेर कलाकार शेतां हणप, रीस काडप, शेतांक उजो घालप, शेत खणप, नासणो पेरप, नासणो लावप, शेतां नडप, सावदां बी येवन शेताची नासाडी करप सारकिल्ले प्रसंग शिस्तबध्द रितीन सादर करतात. 'भरणूल' लोकनाट्याच्या सादरी करणापरस माळेगान म्हाका अदीक भावलें. तातुंतलीं पात्रां आनी तांचे शिस्तबध्द सादरीकरण अदीक परिणाम कारक दिसता. रातीच्या वेळार परश्याच्या मंद उजवाडांत शेतांत आयिल्ल्या रानवटी जनांवरांचे प्रसंग आयजूय म्हज्या दोळ्या मुखार तश्शे उबो आसात. इतले अप्रतीम रितीन तो सादर जाता. शेतां पिकेर येवंक लागतात शेतांच्या कुपाक वाग धुरमता असो एक प्रसंग माळेगानात पळोवंक मेळटा. निमणेकडे घाडी हाडून देवसपण जोकतात असो प्रसंग आसता. तेन्ना तो वाग घाडयाचे माथ्यावयल्यान उडी मारून पळोन वयता. हो प्रसंग तर आयच्या तंत्रीक दिश्टीन समृध्द अश्या नाटकांतलोसो दिसूंक लागता. अशी माळेगान लोकनाट्याची समृध्द परंपरा झर्मे गांवांक आसा. पूण हे लोकनाट्य लोकमांडाचे चौकटीत बदिस्त आशिल्ल्यान मांडाच्या भायर सरना. देखून तें लोकांमेरेन पावनासतना उपेक्षीत जावन उरलां. 'भरणूल' आनी 'माळेगान' ह्या दोनूय लोकनाट्यांचे कथानक आनी सादरीकरणूय सादारणशें सरकेंच आशिल्ल्यान हीं दोनूय लोकनाट्यां एकूच काय किदे? तशें आसल्यार तांच्या नांवांत हो फरक किद्याक? हाचो सोद अभ्यासकांनी घेवंक जाय.

**एक वेगळी परंपरा:**

सत्तरी म्हालांत 'माळेगान' गायनाची आनी एक परंपरा पळोवपाक मेळटा. हांगच्या दोंगर घाळींनी रावपी भौस दोंगरांनी वचून थंय सावड (सामुहीक

शेतां) हाणटाले. शेतां हाणून पीक घरा पाव मेरेन सादारण चार-पांच म्हयने लोक शेतांनीच गवळ बांदून रावताले. पावसा दिसांनी कुलकुल्याची थंडी आनी तांतून धुकें, मनोरंजनाचे कसलेंच साधन ना. शिवाय दिसभर केल्ल्या कामाचो शीण घलोवचे खातीर खासा 'गानेली' आसताले ते गवळांनी वचून पुराणातली आख्यानां गायताले. ह्या गायन प्रकाराकूय 'माळेगान' म्हणटात. पूण ह्या गायन प्रकारात प्रत्यक्ष नाट्य सादरीकरण मात खंयच आसना. आयज पुराय सत्तरीत श्री. विठ्ठल केरकार (केरी) आनी श्री. आपा केरकार (शिरसोडे) हे दोगूच माळेगान गावपी 'गानेली' आसले. तांतूंतले श्री. विठ्ठल केरकार (केरी) हालीच भायर पडल्यात. दोंगर घाळींनी वचून शेतां हाणपाची परंपराय आयज काळाच्या पड्ड्या आड गेल्ल्यान 'माळेगान' हो लोकगायन प्रकार काळाच्या पड्ड्या आड वचत आसा.

**समारोप**

गोंयचे लोकनाट्य परंपरेत 'रणमालें', 'जागर', भरणूल, माळेगान ही सांस्कृतीक नदरेंतल्यान खूब महत्वाची लोकनाट्या. आमच्या पुर्वजांनी खर खश्ट घेवन रचिल्ले हे खेळ म्हटल्यार गोंयचे सांस्कृतीक दस्तऐवज आसात. पूण तांच्या संवर्धना खातीर जो वावर जावंक जाय आसलो तितलो जाल्लो दिश्टी पडना. आमच्या पुर्वजांचें हें दायज तेचे संवर्धन करचे ही सरकाराची लागणूक. तरी गोंयच्या लोकनाट्यांच्या वांट्याक मात उपेक्षा येता हें खेदान नमूद करचें पडटा. आयच्या आधुनीक आनी डिजिटल माध्यमाच्या युगांत आमचीं लोकनाट्यां हेर कलांवांगडा चलतना खर्शेल्यात निर्शेल्यात. तांका आदाराची गरज आसा. तरनाटे पिळगेन हो आदार दिवन शेकड्यांनी वर्सांची ही परंपरा आपल्या भुजांर घेवन फुडे व्हरची म्हण तीं व्हड अपेक्षेन पळयतात.

सत्तरी पुरतोच विचार केलो जाल्यार आयचे घडयेक 'कालो' आनी 'दशवतार' ह्या लोकनाट्यांची स्थिती समाधानकारक आसा अशें निश्चीतपणान म्हणूं येता. 'रणमालें' हें लोकनाट्य फुडें येवचे खातीर आपले परीन धडपडटा, त्या लोकनाट्याक तरनाट्यांनी हात दिवपाची गरज आसा. पूण 'भरणूल' आनी 'मळेगान' ह्या दोनूय लोकनाट्यांची स्थिती मात निर्शेणी हाडपी आसा. हीं दोनूय लोकनाट्यां विधीचे फास्केंत बंदिस्त आशिल्या कारणान गांवच्या मांडापुरतीच उरल्यांत. नवे पिळगेन खास करून तरनाट्यांनी म्हालगड्यांच्या मार्गदर्शनान नवो आयाम दिवन ह्या लोकनाट्यांक पुनर्वैभव प्राप्त करून दिवचें पडटलें. अशें जालें जाल्यार सत्तरीचे लोकनाट्य परंपरेचे दिश्टीन ती आशादायक गजाल थारतली.

'रणमालें', 'जागर', 'भरणूल', 'माळेगान' 'खेळ' हीं लोकनाट्यां म्हणजे सत्तरीच वैभशाली परंपरा न्ही तर ती पुराय गोंयची आसा. हें दायज राखून दवरप ही काळाची गरज, हें मतींत घेवन वेग वेगळ्या थरांवेल्यान लोकनाट्यांच्या संवर्धनाचो

वावर जांवक जाय. हे खातीर सरकार, सांस्कृतीक मळावेल्यो संस्था, लोकवेद अभ्यासक, लोककलाकार ह्या घटकांनी एकटांय येवन लोकनाट्यांच्या संवर्धनाचो वावर चालीक लावंचो पडटलो. ते खातीर खासा 'लोकनाट्य अकादमी'ची स्थापन करून ते अकादमीच्या माध्यमांतल्यान गोंयच्या लोकनाट्यांचें संवर्धन आनी विकासाचो वावर सुरू जालो जाल्यार लोक नाट्या पुनर्जिवीत जावन तांका पुनर्वैभव प्राप्त जातलें, हातूंत इल्लोय दुबाव ना..

000



# लोकवेद

(निबंद)

पौर्णिमा केरकर

## गावनकाणी : एक – दायज

अस्तम घाट आनी अस्तम दर्यादेग हांच्या गोपान आशिल्ल्या आमच्या गोंयात लोकसाहित्याची गिरेस्त परंपरा आसा. कदीम काळासावन जेन्ना मनशाचे जिणेंत भाशेचो जन्म जालो तेन्नासावन काणयांची परंपरा सुरू जाल्ली आसपाक जाय. नवाष्म काळान बायलानी शेतीचो सोद लायलो. फळा-फुला, कंदमुळा रानटी जनावरांचे मांस हांचो सोद घेताना आदिमानवांचे जिणेंत अस्थिरताय आसली. फाल्या आपणाक अन्न खंयच्यान मेळतले हाचो विचार ताका अस्वस्थ करतालो. पूण शेतीच्या सोदान मनशालागी अतिरिक्त अन्न धान्य उरपाक लागले. तो एका जाग्यार राबितो करून रावपाक लागलो. अशा वेळार मन रिझवण आणि गिन्यान दिवपा खातीर गावन काणयेची परंपरा निर्माण जाल्ली आसूये. पयलींच्या तेपार मनशाक कसलीय गजाल गावन सांगपाक आवडटाली. ल्हान भुरग्याक आल्लय उपयोगाक पडटाली. आल्लय गायनांतले शब्द, अर्थ सान भुरग्याक कळप कठीण. पूण तातूंतलो नाद लय, गेयता भुरग्याक आवडटाली. जशे जशें भुरगें व्हड जातालें, तसतशें ताका गिन्यान दिवपा खातीर आयचे सारक्यो नर्सरी इस्कॉल नाशिल्ले, देखून लोकाकाणयेच्या माध्यमाचो उपेग जावपाक लागलो. सामाजीक, पर्यावरणीय, सैमिक मुल्या रुजवपाखातीर लोकांक गावनकाणयेचो उपेग जातालो. आमच्या देशांतल्या 'रामायण' आनी 'महाभारत' ह्या म्हाकाव्यांचो जल्म गावनकाणयेच्या माध्यमांतल्यांनच जाला. मनीस जेन्ना समुहान रावपाक लागलो, तातुंतल्यान घराबो,

**पौर्णिमा केरकार** : जल्मः 15 मार्च 1972. गोंयची नामनेची लोकवेद अभ्यासक आनी लेखिका. गोंयची लोकसंस्कृती आनी दायज ह्या विशयाचेर तयार जाल्ल्या जायत्या संशोधन प्रकल्पांनी तशेंच डॉक्युमेंटरी निर्मितींत सहभाग. वेग-वेगळ्या दिसाळ्यांनी लोकसाहित्य आनी साहित्य विशयाचेर सातत्यान लेखन. *'स्पंदन'* (कविता), *'गोव्यातील धालोत्सवाचे स्वरुप'* (लोकवेद), *'अनुबंध लोकगंगेचे'* (लोकवेद) हीं पुस्तकां प्रकाशीत. जायत्या प्रतिश्ठेच्या पुरस्कारांनी सन्मानीत. गोवा हिंदू असोशिएशन- मुंबयहे संस्थेचो बा. भ. बोरकर पुरस्कार, तशेंच द सेंच्युरी एशिया पुरस्कार, गोमंतक मराठी अकादमीची अ. का. प्रियोळकार संशोधनवृत्ती, भारत सरकारच्या संस्कृती मंत्रालयाची ज्युनियर संशोधनवृत्ती हे तातुंतलें कांय उल्लेखनीय सन्मान. संपर्कः घर क्र. 227, गोठेली नं. 1, केरी, सत्तरी, गोंय. मो. 8805144565.

लग्न, रीतिरिवाज, लोकधर्म हांची परंपरा सुरू जाली. तेन्ना सामाजीक, सांस्कृतीक, धर्मीक संस्कार एका पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेमेरेन केळोवपाक गावनकाणये सारख्या माध्यमाचो उपेग जावपाक लागलो. त्या वेळार आयच्या सारकी मन रिझवण, प्रबोधन करपी माध्यमां नाशिल्लीं आनी ताका लागोन गावन काणयेतल्यान जीवन मुल्यांचो प्रसार जातालो.

*कुरु कुरु काना*
*म्हशी गेल्यो राना....*
*बायच्या मामा येरे घरा..*

सारकीं गितां मनशाचे जिणेंत ताच्या म्हशीसारक्या जनावरान हाडिल्या बदलाची कल्पना दिता. दूद, धंय, लोणी, ताक हांची पुरवण करपी म्हस तांच्या वांगडा रावताली. पूण ह्या म्हशीक चारो घालपाखातीर रानांत वचप गरजेचे आसले. ल्हान भुरग्याक भरयताना ते जेवपाक पळयनासले. तेन्ना ताचो लक्ष कुत्र्या मांजराचेर, गोरवांचेर, म्हशींचेर वचोंक जाय म्हणोन अश्यो आल्लये आमच्यो आवयो गातालीं. ही बडबड गितां आनी हेर लोकगितां मनशाक समाजान रावपा खातीर ज्या नेमाची पाळणूक करपाक जाय ताचें शिक्षण दितालीं. आमच्या गोंयांत शेकड्यांनी वर्सासावन गांवगिऱ्या वाठारांनी गावनकाणयेची परंपरा आसा ह्यो गावनकाणयो आमच्या समाजाच्या इतिहास संस्कृतायेची आमकां गवाय दितात. भावभयण हांचे नातें समाजान शेकड्यांनी वर्सां सावन पवित्र मानलां. एकाच घराब्यान जल्माक येवपी एकामेका वांगडा खेळोन, ल्हानाचे व्हड जावपी भयण भावा खातीर भावनीक आनी सामाजीक आदार मजबूत करपाक मजत करता. अशें आसताना अशी एक गावनकाणी आसा की तेच्या आशयांत भाव भयणी वांगडा लग्न जावपाचो हट्ट धरताना दिश्टी पडटा. 'सोनुल्या केसांची काणी' म्हणून ही काणी गोयांतल्या बऱ्याच वाठारांत लोकांक खबर आसा. भयणीचे केंस भांगराचे. त्या भांगराळ्या केंसांचो मोह भावाक जाता. तो आपल्या आवाय-बापाय लागीं हट्ट धरता की लग्न जालो जाल्यार सोनुल्या केसांचे चलये बरोबरच! भावा भितर आपणाल्या भयणी वांगडा लग्न करपाची इत्सा जावप ही पापाची आनी सामाजीक भंयाची लक्षणा आसात. समाजान भाव आनी भयणीच्या लग्नाक मान्यता दिवक ना. अशा तरेची गजाल घडप म्हळ्यार ते व्हडले अरिश्ट. या विशयीची भावना सोनूले केसांच्या धुयेच्या गावनकाणयेन पळोवपाक मेळता. आपणाल्या भावा वांगडा लग्न जावपाची पाळी आयिल्ल्या भयणीक या धर्म संकटातल्यान सुटावो करचो आसता. भयणीन आपणाली ही गजाल शेजारच्या म्हातारेक सांगली. तिणें तिका चंदन रुखाची बी दिवन ती तुळशीत घालून दर दिसा उदक घालपाक सांगलें. ती बी किल्लोन तातुंतल्यानं रुख वाडपाक लागलो. आनी एक दीस जेन्ना तिच्या घरांत लग्नाखातीर हळदीची तयारी सुरू जाली तेन्ना ती चंदन रुखाचे खांदयेर बसली. तेन्ना तिचो बापूय तिका सांगपाक लागलो..

*उतार उतार गे सोनूले केसांचे धुये*

*वळणी साडी लोळता, तुझे फुलांचे झेले बावता गे*
*आदी आसलय बापूय रे तिया, आता जालूय माव रे*
*वाड वाड रे चंदन रुखा, पापियाच्या मुलका दिश्ट घालू ने..*

बापायची विनवणी धूव न्हयकारता. चंदन रुख वाडोन सूर्य लोकां वयता, आनी ती सुर्या वांगडा लग्न जाता. समाजान निर्माण केल्ले रीतिरिवाज, परंपरा, रूढी हांचे पालन केल्यारुच सामाजीक मुल्यांची, मनीसपणाची राखण जातली हो विचार ह्या गावनकाणयेतल्यानं दिश्टी पडटा.

गावनकाणयेंतल्यान त्या वेळा वयल्या समाजाच्या जिवनमुल्यांचे, संस्कारांचें दर्शन जाता. ह्या मुल्याचे पालन करप हे दरेक मानाशाचें कर्तव्य आसलें. लोकपरंपरेचे रीतिरिवाज मोडप हे तांकां योग्य दीस नासलें. गोंयांतल्या गावनकाणयांनी जनावरां लेगीत आपल्यो भाव-भावनां परगटायताना पळोवपाक मेळटा. सैम आनी सरभोंवतणच्या वाठारांत राबितो करून आशिल्लीं जनावरां लेगीत नेमाचे पालन करताना दिसतात. 'भोळी गाय आनी तिचो दुबळो' हे काणयेन भोळी गायेक वाग खावपाक येता. ही कथा गावनकाणयेंतल्यान जायत्या वाठारांनी आयकुवपाक मेळटा. गावनकाणयेंतली भोळी गाय वागाक विनवणी करता की आपणाल्या दुबळ्याक निमणें दूद दिवन येता. तिच्या उतराक मान दिवन वाग तिका दुबळ्याक मेळोक गोठ्यांत वचोंक दिता. जेन्ना भोळी दुबळ्याक दूद दिताना आपणाली व्यथा सांगता, तेन्ना दुबळो लेगीत भोळी वागा कडेन वयताना तिच्या फाटल्यान येता. भोळी, दुबळो आनी वाग हांचे भितरल्या उलोवपार आदारीत गितातल्यानं जंगली वागाची लेगीत संवेदनशीलता जागी जाता आनी भोळी गाय, वागाक आपलो भाव मानता. असो सुखांत काय वाठारांतल्या गावनकाणयेंतल्यान आयकोंक मेळटा. काळजाक हात घालपी सादी भाशा आनी तितल्याच प्रभावीपणान मांडिल्ले कथासूत्र. ताका लागून ही काणी कितल्याश्याच पिळग्याक आपल्या आशया लागीं समरस करपाक कारण जाल्ली. गावनकाणयेंतलो दुबळो, भोळी आनी वाग हांचो गीतरुपी संवाद जाता तेन्ना हे काणयेचें वेगळे म्हत्व लक्षांत येता.

*भोळी : आगा आगा वागा, म्हाका येवन खा गा*
*नेणत्या दुब्याक माज्या सोडून दि गा*
*दुबळो: आगा आगा वागा म्हाका येवन खा गा*
*म्हातारे भोळेक म्हज्या सोडून दि गा*
*वाग : भोळी म्हाजी भयण, दुबळो म्हाजो भाचो*
*शीतळ सावळेक पुता, गोठण कर..*

गावनकाणयेंतल्यान आमकां पयलींच्या तेपार चलत येयल्या भाव-भावना, श्रद्धा, परंपरा हातुंतल्यान लोकमनाचें पडबिंब पळोवपाक मेळटा. आपणाल्या पुर्वजांची श्रध्दास्थळां तिगोन उरची लोकधर्माची

राखण जावची असो गावनकाणी निर्माण करपी समाजाचो हेत आसलो. अस्तम घाटाच्या गोपांत आशिल्लो सत्तरी म्हाल पयलींच्या तेपार पाचव्या रानांनी गिरेस्त आशिल्लो. मात हांगा रावपी लोकांक जगपा खातीर दिसपट्टें झगडचें पडटालें. घरान गरिबी आसताना भुरग्याच्या मनान चवथीक गणपती पुजपाची इत्सा जाता. घरांत खावपा-जेवपा लेगीत कांयच नासताना बापूय गणपती पुजेक लायता आनी आवय रानांतलो तायकळो चुलीर शिजोवन करमळाच्या खोल्यान गणपतीक नैवेद्य दवरता. आपणाली मनाकाळजासावन पुजा केली देखून गणपती खोशी जाता. वायनांत भांगरा काणयो तयार जातात. ताका लागून त्यांच्या घरांतली गरिबी सासणाची ना नपयत जाता.

गावनकाणयेंतल्यान आमकां देवभोळ्या समाजाचें चित्र पळोवंक मेळटा. तांची आर्थिक परिस्थिती कमी आसाताना लेगीत तांची भक्ती काळजासावन आसली. तांची खरी भक्ती पळोवन गणपती खूश जाता आनी आशीर्वाद दिता..

*गणपतीक म्हनी नायी कायी गे*
*गणपतीक जमनीर पुजीलो गे*
*तेका दिवो नायी वात गे*
*वात फणसाच्या दिकाची गे*

गणपतीचे कृपेन घराब्यातली गरिबी पयस जाली. खावपा-जेवपा धडपडपी घराब्याक देवाचो आदार मेळो. हें परिवर्तन गावनकाणयेंतल्या गितांतल्यान परगट्टा..

*देवाक केलो गंद धूप गे*
*तेनी घेतली दुसरी काणी रे*
*तेनी हाडले तानूळ गोटो रे*
*तेनी हाडले नाल बोणो*
*देवान लायलो संवसाराक रे*
*गणपतीच्या नांवान रे*
*बाबडो जालो शिरिमंत रे*

पयलींच्या तेपार गावनकाणयेंतल्यान रामायण, महाभारत सारक्या ग्रंथांत मांडिली जिवनमुल्यां, सांस्कृतीक आनी धर्मिक संबंद एका पिळगे कडल्यान दुसरे पिळगेमेरेन व्हरपाचें काम गावनकाणी कर ताली. रामायणांत येवपी मातृभक्त श्रावण बाळाची काणी काळजाक हात घालता. आपल्या जाणत्या आनी कुड्ड्या आवय-बापायक काशी यात्रेक व्हरपाक श्रावणबाळ कावड तयार करता. ताच्या काळजांत आवय बापायविशीं उपाट मोग आसता. गोंयांत झिनोळी नांवाचो जो फुगडीचो प्रकार आसा तातूंत श्रावण बाळाच्या ह्या गावनकाणयेचो आसपाव जाल्लो आसा.

*बत्तीस पानाचा इडा धरणी थेईला*
*श्रावण बाळ तो रानी पावला*
*रानी पावून तेनी चंदन कापिला*
*चंदन कापून तेनी कावड घडयली*

अशा गावनकाणयेंतल्यान श्रावण बाळाची मातृपितृ भक्तीची व्हडविकाय सांगपी भावस्पर्शी घटना उबी जाता.

आवय-बापायची तान भागोवपाक जेंना श्रावण उदक हाडपाक वयता तेन्ना राजा दशरथाचो बाण लागोन तो मरता. ही गजाल दशरथराजा श्रावणाच्या आवय-बापायक सांगता तेन्ना ती दोगाय राजाक स्राप दितात आनी मरतात. रामायणांतली ही काणी गोंय आनी हेर जागे वयल्या गितांतल्यान आयकोपाक मेळील्ली आसा. श्रावण, तेचे आवय-बापूय हांकां आयिल्ले मरण आनी श्रापाक लागून दशरथ राजाक आपणाल्या मोगाळ पुतांचो सोंसपाक लागील्लो विरह अस्वस्थ करता. आवय-बापायचेर उपाट मोग करपी आनी तांकां जिवनदान मेळचें म्हूण बलिदान दिवपी श्रावणासारखो गुणी चलो भुरगो सगल्याक मेळचो, अशी धारणा समाजमनात आयजूय दिश्टी पडटा.

संवसारभरांतल्या लोकवेदांत गावनकाणयाचो आसपाव जाल्लो पळोवपाक मेळटा. लोकगितांतल्यान कथा सांगपाची परंपरा कांय वाठारांत लोकधर्मांतल्या विधी वांगडा संबंदीत आशिल्ल्यान तांच्या सादरी करणांतल्यान नाटकाचे विंगडविंगड पैलू पळोवपाक मेळटा. लोकजिणेंत परंपरेन चलत आयिल्या काणयांक आसपावोन गावनकाणी समृद्ध जाता. युद्धान लढपी पराक्रमी, धाडसी आनी वीर व्यक्तींच्या जिणेंतल्या घटनांचो आसपाव कांय गावनकाणयेंत पळोवपाक मेळटा. फ्रँक सिजविक ह्या लोकवेदाच्या संशोधकाच्या मताप्रमाण ‘लोकसमुहान मौखीक परंपरेंतल्यान प्रचलीत आशिल्लें वर्णन वा निवेदन करपी गीत म्हळ्यार गावनकाणी’ लोकवेदाचे संशोधक एफ. बी. गुमेर हांणी जायत्या गावनकाणयांचो चिकित्सक नजरेतल्यान अभ्यास करून गावनकाणयेच्या स्वरूपाचेर उजवाड घातला. त्या प्रमाण :

1. गावन काणी गावपाची आसता.
2. गावनकाणयेच्या निर्मात्याचे व्यक्तीत्व अज्ञात आसता
3. गावनकाणयेचो सामुहीक नाचा वांगडा संबंद आसता
4. गावनकाणयेक मौखिक परंपरा आसता

गोंयात गावनकाणयेचे विंगड विंगड प्रकार पळोवपाक मेळटात. तातून पौराणीक काणयेचेर आधारीत, कौटुंबीक सामाजीक विषयांचेर आदारीत, पराक्रमी व्यक्तीविर्शी आदारीत गावनकाणयो. गद्य पद्य स्वरूपातल्यो गावनकाणयो आनी हेर तरेचे गावनकाणयो हांचो आसपाव जाता. आमच्या देशाक पौराणीक स्वरूपाच्या गावनकाणयांची गिरेस्त परंपरा आसा. गावनकाणयेचें गायन करपी गाणेली अशेच तरेच्या काणयांची निवड करतात. रामायण महाभारतांतले, प्रसंग आनी मनशां, श्रीयाळ -चांगुणा, हरिश्चंद्र -तारामती, सत्यवान -सावित्री हांचेर आदारील्यो गावनकाणयो गोंयच्या लोकांभीतर श्रद्धा, आदर्श नीतीमुल्या आनी आदर्श व्यक्तीजीवन हांचो प्रसार जावंचो म्हणोन गाणेल्यांनी तांचो स्वीकार केलो. कौटुंबीक आनी सामाजीक गावनकाणयेंतल्यान तांणी दिसपट्टे जिणेंतल्या

घडणुकां वांगडा सैम आनी पर्यावरण तशेंच सामाजीक मुल्यांचो प्रचार करपाचो यत्न केल्लो आसा. पोर्तुगीजां विरुद्ध झुजपी दिपाजी राणे, दादा राणे, हांच्यो विर्शींचे गावनकाणयो सत्तरी वाठारांत एका तेपार प्रचलीत आसल्यो. 'श्रीयाळ-चांगुणा' हांची काणी गोंयच्या समाजाक पुर्विल्ल्या काळासावन प्रभावीत करीत आसा. हाका कारण ह्या दोगांय घोव बायलेन जीवन जगताना जीं मुल्यां आपणायलीं तांची जपणूक जावपा खातीर संघर्श केल्लो आसा. शिवलीलामृत ह्या ग्रंथांत श्रीयाळ-चांगुणाची काणी येता. सत्य धर्माचे पालन करपी श्रीयाळ राजा आनी तांकां समर्थपणान तेको दिवपी चांगुणा. घरांत आयिल्या सोयऱ्याक येवकार दिवपा खातीर व्हड त्याग करपाक तयार जाता.

*नया सवळा गे, नया वस्तूरा*
*नया सवळ्याची गे झोळी शिंवली*
*हाती घेतला पात्र गे, खाके लायली झोळी*
*हिंडेता फिरता गेले चांगुण वाड्यार*
*घरात कोण गे नारी, आम्हा धरम वाडा*
*पाच मुठी साळी गे पाच मुठी दाळी*
*घातले सुपावरी*
*नार गे गेली ती धरम वाडूंक*
*तसला धरम आम्हा नको नारी*
*चिल्लया बाळाक दी भोजनाक*

आकाशांत लकलकपी सुर्या शेकड्यांनी वर्सा सावन मनशाक लोकगितां, लोकाकाणयो निर्माण करपा खातीर प्रेरणा दीत आयला. उजवाडाची किरणां दिवपी काळोख पयस करपी सुर्याक तांणी देव मानलो. ताका आपणा सारकी बायल भूरगी आसात अशी कल्पना केली. गोंयांतल्या गांवगिऱ्या वाठारांतल्या बायलांनी सुर्याक राधिका नावाची चली आसा, आनीक आपणा भासेन ती कश्टार्ची कामां करता अशें फुगडेन येवपी गावनकाणयेंत चित्रायलें आसा.

*सुर्याची कन्या राधिका*
*उठली कोंब्या पाठोपाठी*
*गेली गे गायीच्या गोठ्या*
*आणिला गुळीभर श्याण*
*राधिकेन श्याणकैर केला*
*पेटयले ताम्याचे चुली*

*ओतीली घंगाळ आदनां*
*घेतिली ताम्या घागरी*
*घेतिली मोत्या चुंबळी*
*घेतिला पिवळा पितांबर*
*गेली गे नदी जवळी*

श्रीकृष्णाची प्रेयसी म्हणून राधिका पुराण काळासावन नामनेक पावल्ली आसा. हे गावनकाणयेंत राधिका सुर्याची कन्या म्हणून उल्लेख मेळटा. तिच्या गळ्यांतलो नवलक्षी हार ना जाता. तेन्ना तांचो सोद घेवपा खातीर ती न्हंयचेर रानांतल्या सवण्यांलागी धांव घेता. निमणे कडेन तिका गळ्यांतलो हार गोविंद गवळ्यालागीं मेळटा, ताका अर्दी अस्तुरी जावपाचें आस्वासन दिवन निमणें

नवलक्षी हार घेवन ती आपणाल्या घरा येता. फुगडी गितांतल्या ह्या गावनकाणयेंतली शब्दकळा, भावविश्व आनी कल्पनाबंध खुबच बऱ्यातरेन परगटायल्ले आसात. एखाद्र्या चित्रकारान सुरेख चित्र काडचें. ते रंगोवचें, तेच तरेन गावनकाणयेंत राधिका आनी गोविंद गवळ्याची काणी येता. सत्तरी म्हालांतच न्हय तर गोंयांत विंगड विंगड वाठारांत बायलांक कश्टप्रद जीण सोसची पडटाली. 'जिच्या हातांत पाळण्याची दोरी, ती जग उद्धारी' अशी जरी म्हण प्रचलीत आसली तरी प्रत्यक्षांत बायलांक घोवाचे, सासयेचे त्रास, अपमान, अवहेलना सोसची पडटाली. 'अनुवा' हे गावनकाणयेंत बायलांच्या वेदनेची काणी आयकुप्याच्या काळजाक हात घालता.

*अनुवा नी गे सुने*
*तुजे अनवाळे एकवत गे*
*अनुवान हाडिले गुळीभर श्याण गे*
*अनुवान सारयले घर आनी दार गे*
*अनुवा गेली न्हंयी व्हाळा गे*
*अनुवा न्हावुन तुरुस जाली गे*
*अनुवा येईली घरदारा गे*

लग्न जाल्ल्या बायलांक मांय जशी कश्ट दिताली तसेच कांय माव लेगीत त्रास करताले. एकादऱ्या बांयक वा तळ्याक उदक मेळाना जाल्यार मनशाक बळी दिवपाची प्रथा आशिल्ली. कांय फावटी न्हंयक प्रसन्न करपाक बळी दिताले. ह्या गावनकाणयेंतलो माव आपणाल्या सुनेक निरन्न एकवाद करून साडी चोळी नेसून, वेणीं-फणी करून, काजाळ-कुकुम लावन, फुला माळून न्हंयतले उदक घरा हाडपाच्या निमतान बुडोवन मरपाक प्रवृत्त करता. एका तेपार समाजांत आपणाक मानाची सुवात मेळची देखून बायलांक बळी वचपा खातीर प्रवृत्त करताले. गोंयच्या गांवगिऱ्या वाठारांनी पयलींच्या तेपार तरातराच्यो कु प्रथा लोकांमदीं आसल्यो. तातुंतल्यान मानवी मूल्यांचे उच्चाटन जाताले तांचो सामाजीक इतिहास गावनकाणयेंतल्यान पळोवपाक मेळटा. आयज बायलां जिणेंत उदरगतीची पावलां फुडें मारीत आसात, पयलीच्या तेंपार तांच्या मार्गार जायते कांटे आसताले. तांकां कश्ट सोंसचे पडटाले. कुटुंबांतल्या सगल्याचे सगळें करताना तांकां थकोंक जाताले. तरी फुरसद मेळानाशिल्ली. तिची चुलीकडली सुवात सामकी भाणशिरे कशी आशिल्ली. अशें आसतानाय तिणेंन संवसार आपणाल्या बळग्यार तिगोन धरलो. तो तसो धरपाक तिच्या वठावयल्यो ह्यो काणयो उपेगाक येयल्यो. ही काणी तिची जीण परगटावपाक जशी लागली, तशीच समाज मनाक रीतभात, नीत अनीत शिकोवपाक लागली. भुरग्यांचे रंजन करप होय हे काणयेचो मुखेल हेत जाल्लो. गावनकाणयांचे विविध विशय आमकां दिश्टी पडटात. ते जसे कुटुंबीक मळावयले आसात, तसेच ते धार्मिकय आसात. पंढरपुरचो विठ्ठल हो देव सान ते थोरा मेरेनचो आवडीचो देव. विठ्ठलाची परमभक्त 'संत सखू', तिचेविशींची गावनकाणी

आयकुपाची ती अस्सल लोकगायिकेच्या मुखांतल्यान. तशी ती आयकता असताना दोळे दुकांनी भरोन येतात. आशाडी एकादशीक विठ्ठल संत सखूचे रूप घेता आनी खरे सखूक पंढरेक धाडता. सखूचे सासयेक जेन्ना हें कळता तेन्ना ती आपल्या चल्याक म्हळ्यार सखूच्या घोवाक सांगता ताका खूब राग येता. तो तिका सोडून हाडूंक वयता

*सखूची शेजारीण होती गे सखूपाशी*
*येयली ती सखुच्या घरी*
*सखुच्या सासयेक सांगा लागली*
*सखू, तुजी सून गेली गे पंढरेशी*
*सखूची सासू गेली आपल्या मुलापाशी*
*सखू तुझी नार, गेली पंढरेशी*
*सखूचो नवरो चलतो जालो*
*सखूचो नवरो पांयान घसारलो*
*सखूक वळखान काडिल्यान*
*चिंचेच्या बडयेन मारीत हाडिल्ल्यान*
*केळीच्या सोंपानी बांदून घातल्यान*

सखू ही विठ्ठलाची परम भक्त. कितल्याश्याच वर्सा पासून तिका पंढरपूर वचपाचें आसले. पूण घोव आनी सासू हांचो खर विरोध आशिल्ल्या कारणान ती आडोवन उरली. विठ्ठलान हें जाणून घेवन सखूची इत्सा पुराय करपाचे थारायलें. ही काणी आयजूय गावगिऱ्या वाठारांतल्या लोकमनाक भावूक करता. चिल्लया बाळाची, अनुवा सुनेची काणी अशीच संवेदनशील मनाक रडयता.. काळीज आकुळपिकूळ करता. शेकड्यांनी वर्सा जाली ह्या काणयांक. शब्दांनी बदल जालो आसुंये मात तातुंतली भावना, उत्कट उमाळे आयजूय आसा तशेच आसात. खाशेल्या लोकाकलाकाराच्या आवाजांत जेन्ना आमी ते आयकता तेन्ना ताचे सत्य दिश्टी पटता. अशें आसूनय केन्ना केन्ना ह्यो काणयो परंपरेन चलत आयिल्या समजाक ना नपयत करून उडयतात. ह्या काणयांनी समाजजीण दिसता. बायल मनशांचे कश्ट, तांचे सोसप, तांची सपना हातूंत दिसतात. घोव मेलो जाल्यार एखाद्री बायल यम देवाक जाप विचारता. आनी चलाखी दाखोवन ती घोवाक जिवो करून तेचेबरोबर सुखान रावता. नावडते- आवडतेचे काणयो खूब आसात. सावत्र आवयन त्रास दिल्या उपरांत आकवार चली मरता, तिका मुद्दाम मारले वता.. तिचे रूपांतर फुलझाडांत जाता. चडश्या वेळार ते फुलझाड गुलाब, पारिजाताचे बी आसता. ते त्या रुखावळींतल्यान उलयता. बरो चलो भुरगो मेळटा तेन्ना ते जिवें जाता. घडये केन्ना ताचो बापूय परगांवाक गेल्लो आसता, तो खूब दिसांनी वारवार बसोन येता तेन्ना वाटेंत बरीं फुलां फुललेलें झाड दिसता. तो चलयेक दिवपाचें म्हुणोन हात लायता, तेन्ना त्या फुलांतल्यान एकतर रडपाचो आवाज येता, ना जाल्यार ते फूल हळू आवाजांत उलोवन आपणाली काणी सांगता. बापूय अजाप जाता.. ते फूल जतनायेन काडटा. चली जिती जाता, तें पळोवन तो खूब खोशी जाता. बायलेचो सूड घेता. अशे कितलेशेच विशय, पात्रां, प्रसंग, घटनां. ह्यो काणयो वाचतल्याक आयकोप्याक खूब गिरेस्त करतात. समजीक. सोशीक करतात.

बऱ्या-वायटाची जाणविकाय करून दितात. वाठारांचो इतिहास, संस्कृताय कळटा.. जीण समृद्ध जाता.

गोंयांतल्या काणकोणांतल्या जंगल वाठारांनी रावपी आदिवासी वेळीप जमाती भितर भाद्रपद म्हयन्याच्या शुद्ध एकादशीच्या रातीक जेन्ना गुडुल्या परब मनोवपाची आसता तेन्ना जेवण-खाण जाल्या उपरांत पल्लीच्या उजवाडांत, ताच्या उबेन मुखेल गावपी गाणेली 'गुडुल्या गाणी' गावपाक बसता. ताका साथ दिवपाखातीर चार पाच वांगडी आपणाले सूर एकरूप करतात. महाभारतासारक्या महाकाव्याची भुलवणी देसभराच्या सर्जनशील मनाक पडिल्ली आसा. महाभारतांतल्या पांडवा भितल्लो, पराक्रमी, निर्भयी भीम म्हळ्यार बळिश्ट पुरुस, गुडुल्या परब आनी गुडुल्या गितांचो केंद्रबिंदू आसता. भीम, भिवगो, भिवा अश्या नांवान वळखुपी भिमाच्यो काणयो सर्वसामान्य मनशाक जगपाक बळगें दितात. गुडुल्या गितांच्या गावपाच्या सुरावटीन भिमाच्यो काणयो जेन्ना समूर्त जातात तेन्ना आयकुपी अजाप जाता तो भीमाच्या कर्तृबांनी! 'गुडुल्या गाणी' ही लेगीत गावनकाणयेचोच एक प्रकार जावन आसा. तातूंतल्यान

वेळीप जमातीचो पारंपरीक लोकधर्म आनी भावविश्व अणभवपाक मेळटा. सत्तरी हो अस्तंम घाटांतलो म्हाल. पुर्विल्ल्यो काळासावन रानावनांनी गिरेस्त आशिल्ल्यान जगपाखातीर हांगासरले लोक, दोंगर उताराचेर कुमेरी शेतींत नाचणें, वरी सारक्या अन्नधान्याची पैदासी करताले. तेन्ना रानांतल्या जनावरांनी शेताची नासाडी करची न्हय ह्या खातीर माळ्यार रावोन राखण करताले. त्या वेळार काय माळेकार परसो पेटोवन पारंपरीक काणयांचे गायन करताले. जायते फावटी महाभारतांतल्या काणयांचेर गायन जातालें, तें माळेगान म्हणोन नामनेक पाविल्ले आसा.

आमच्या देसांत गावनकाणयेचें म्हत्व विंगड विंगड भासांनी, विंगड विंगड वाठारांत दिश्टी पडटा. तशेंच ताचे पडबिंब हांगासरल्या समाजान मानून घेतिल्ले आसा. प्रचलीत आशिल्ल्या लोककाणयांनी, जायत्या लेखकांक ह्यो काणयो एकठांय करपाची प्रेरणा दिल्ली आसा. गुणाढयाचो 'बृहतकथाकोष', विष्णूशर्माचो 'पंचतंत्र', नारायण पंडितांचो 'हितोपदेश', बौद्ध धर्मांतल्यो 'जातककथा' अशे जायते ग्रंथ समाजांत चलत आयिल्या पारंपरीक लोककाणयेच्या आदारान निर्माण जाल्ले आसात. ह्या ग्रंथानी तशेंच गावन काणयांनी आपणाल्या वाठारांत मेळपी सुकणी सावदां आपल्या मुळाव्या स्वरूपातल्यान येतात तर काय वेळा तांचें मानवीकरण केल्ले आसा. गोंयच्या सामाजीक, सांस्कृतीक, मुल्यांचे दर्शन हांगासरल्या गावनकाणयेंतल्यान जाल्लें पळोवंक मेळटा. समाजांतलीं जिवनमुल्यां, पर्यावरणविचार, समज-विश्वास, चालीरीती, हांचें दर्शन गावनकाणयेंतल्यान जाता. आयज शिक्षणाची जायती माध्यमां आसात. पूण पयलींच्या तेपार, सत्य -असत्य, नीत अनीतीची जाण करून दिवपी गावनकाणयो

सामाजीक शिक्षणाचें एक माध्यम म्हूण उपेगाक येतालें. शारीकरणाच्या आनी तरेकवार प्रसार माध्यमाक लागोन आयज गावनकाणये सारख्या माध्यमाचे अस्तित्व संकटान आसा. गावनकाणी फक्त मनोरंजन करीना तर मनशाक खरे –फट, गूण–अवगूण हांचे संबदान मार्गदर्शन करता. कांय गावनकाणयो रानांतल्या जनावरांच्या सभाव गुणांची पारखणी करून सैम आनी हेर जीव जीवावळीकडले मनशाचे नातें स्पश्ट करतात. अशा गावनकाणयेंतल्यान लोकमानसाची कल्पकताय समर्पकपणान मुखार येता.

पारंपरीक, सांस्कृतीक आशय आशिल्ली आनी मौखीक परंपरेंतल्यान चलत आयिल्ली गावनकाणी लोकमनाची निर्मिती आसता. ती राखून दवरचे खातीर समाज यत्न करता. तिच्या मूळ स्वरूपांत बदल घडता. अशें आसूनय तिचे प्रवाहीपण तिगोन उरता. मानवी अस्तित्वाच्या सुरुवातीच्या काळार मनशान सैमाच्या अनंत रुपाच्यो घडणुको अणभवलेल्यो आसात. तातुंतल्यान सैमाविशींच्या लोककाणयांचो जल्म जालो. सैमाविशींचें आकलन, गिन्यान वाडत गेलें आनी 'देव' कल्पनेचो जन्म जालो. तेन्ना लोकाकाणयांनी अशा काणयांचो जल्म जालो. लोकवेदाच्यो संशोधिका डॉ. तारा भवाळकर हांच्या मताप्रमाण, 'बदलत्या विज्ञान युगांत पारंपरीक श्रद्धा, रूढी, आनी त्या संदर्भातल्यो कथा मनशाच्या जिणेंतल्यान ना जावपाक लागल्यात. हें खरे आसले तरी मनशाच्या आद्य अबोध, समूह मनाच्या अणभवांचे काय उफाडे आपोआप पिळग्या पिळग्यांनी राखून दवरून, जगांतल्या आधुनीक साहित्यांत लेगीत ते परते परते येतात. आद्य अणभवांचे काय कल्पनाबंध लेगीत परते परते परगटतात. तातूंत बरेच आद्य कल्पनाबन्ध आसतात. ते आधुनीक साहित्यांत लेगीत बरोवप्याच्या नकळत येतात. एका अर्थान आधुनीक युगांत लेगीत लोकाकाणयेच्या जतन संवर्धनाची ही मूलभूत प्रवृत्ती भूत, वर्तमान, भविष्यालागीं जोडताना दिश्टी पडटा.'

**संदर्भ ;**

1) मराठी विश्वकोश –खंड 15 वा –डॉ. तारा भवाळकर
2) गांवरान –डॉ. जयंती नायक
3) लोकसरिता –डॉ. विनायक खेडेकर
4) गोयच्या लोकवेदाचो रुपकार –प्रा. श्याम वेरेकार
5) गोमंतकीय मराठी वाङ्मयाचा इतिहास (गोमंतक मराठी अकादमी प्रकाशीत ग्रंथ खंड –2 ) लोकसंस्कृती –आणि लोकपरंपरा – राजेंद्र केरकर
6) क्षेत्रीय माहिती ––लोककलाकारा वांगडा केल्लो प्रत्यक्षातलो संवाद,

000

# लोकवेद

(निबंद)

कांता काशिनाथ गावडे

## गोंयचो जागोर : एक समृद्ध सांस्कृतीक दायज

गोंय, गोमंतक, गोवा हो सैमान नटलेलो आनी लोक संस्कृतीची व्हड मिरास मिरोवपी एक ल्हान प्रदेश. भारत देशाचे अस्तमतेंक अरबी समुद्राचे वेंगेंत वसलेलो हो भुंयभाग. खऱ्यानीच एक सैमाचें अप्रुपच जावन आसा. दोंगर दऱ्यांनी आनी व्हाळा-न्हंयांनी भरलेलो हो प्रदेश लोकसंस्कृती वा लोकवेदाचें कुळार म्हटलें जाल्यार ती अतिताय जावची ना.

फाटल्या इतिहासाचेर नदर मारली जाल्यार जायत्या राजवटींनी ह्या प्रदेशाचेर राज्य केलें आनी आपल्या संस्कृतीच्यो कुरु तांणी हांगा दवरल्यो, हे कळून येता. कारण ल्हानशा ह्या प्रदेशांत आशिल्ल्या लोकसंस्कृतीच्या दायजाचेर तांचो नजरेत भरपा इतलो प्रभाव जाला. हांगाचें लोकसंगीत, लोकांनाच लोकनाट्य हांचो अभ्यास केलो जाल्यार ताचें खरेंपण आसा अशें दिसून येता.

ह्या प्रदेशांतले मुळ निवासी हे 'गावडे'. दोंगरा कुशींनी आनी न्हंयच्या देंगांनी चोम्या-चोम्यांनी आपले वाडे, गांव स्थापन करून रावपी हे लोक भुंयपूत जावन आसात. आपल्या खाशेल्या संस्कृतीचे दायज सांबाळपी हे लोंक गोंयच्या आदिवासी जमातीचे घटक जावन आसा. आपले खाशेले रितीरिवाज, भेस, आहार पद्दत, भास आनी सैमाक देवाच्या रुपांत पळोवपी हे लोक आपली जीण खर कश्ट आनी मेहनत करून जियेतात. हांगचीं शेतां, कुळागरां, भाटां, खाजनां, मानसो मड्डा, कुमेरी आपल्या खाशेल्या गिन्यानान तयार करपी हे लोक सैमाच्या

**कांता काशीनाथ गावडे** : जल्मः 15 एप्रील 1956. गोंयचे नामनेचे लोककलाकार. 'जागर' ह्या लोकनाट्य प्रकारांत विशेश प्राविण्य. राष्ट्रीय तशेंच आंतरराष्ट्रीय थराचेर जागर आनी हेर लोकनाट्यांचें सादरीकरण केलां. लोककला क्षेत्रांतल्या जायत्या प्रतिश्ठेच्या पुरस्कारांनी सन्मानीत. गोंय राज्य युवा पुरस्कार, कलावृंद - वास्को हे संस्थेचो कलाभूषण पुरस्कार, रसीकरंजन गोवा, हे संस्थेचो गोमंत कला भूषण पुरस्कार, कला आनी संस्कृती संचालनालयाचो राज्य सांस्कृतीक पुरस्कार, हे तातुंतले कांय म्हत्वाचे. संपर्कः गोठण, वेलींग, पो. म्हाड्डोळ, गोंय, मो. 9422635238., इमेलः kantagaudegmail.com

आदारानूच आपली जीण सारतात.

आपल्या एकंदर भावार्थाचेर विश्वास दवरून आनी आपल्या रितीरिवांजाचो मान राखून तांणी आपल्या खासा लोकवेदाची रचणूक केल्या हे तांचे मर्दीं प्रचलीत आशिल्लो एक कलाप्रकार 'जागोर' पळयत जाल्यार गवाय मेळटा.

तातुंतल्यानूच ह्या आदिम वसाहतकाराच्या व्हड संस्कृतायेचो आनी अभिरुचीचो दिश्टावो घडता.

जागोर हो एक गोंयचो आदिम कला प्रकार. गावडा ह्या गोंयच्या आदिवासी जमातीच्या लोकांचे एक व्हड सांस्कृतीक दायज. वर्साक एक फावट आपल्या गांवांत वा वाठारांत हो जागोर, विधी म्हण करप हें हो समाज आपली परंपरा मानता. वर्साचो जागोर थारावपाची एक पद्दत आसा. गांवचो जागराचो माणकारी वा कामत वा वाडेकार एक दीस त्या वाठारांत जागराकडेन संबंद आशिल्या लोकांचो भौस वा भौसार आपयता. भौस वा भौसार म्हळ्यार त्या लोकांचो जमो. जाण्टे तशेच वयांत आयिल्ले गडे म्हळ्यार तरणाटे ह्या भौसारा खातीर माणार (मांडार) एकठांय येतात. सादारण तिन सांजेच्या वेळार हो भौस आपोवपाची चाल आसा. त्या वाड्यावयल्या सगळ्या घरच्या गड्यांक अमूक दीस भौसार आपयला अशें माणकारी कळीत करता. भौसाराक वाड्यावयले हेर मानकरी तशेच सगळे गडे आयल्यात हाची चौकशी माणकारी करता आनी ह्या वर्साचो जागोर थारावपा खातीर आमी जमल्यात हाची गवाय दिता. एखाद्रो दीस जागरा पासत थारायलो जाल्यार त्या दिसा कोणाकूच कसली अडचण बी ना मूं वा त्या द्रिसा कोणागेरूय कसलें कार्य बी ना मूं हाची चौकशी करता. आनी उपरांतूच भासाभास करून वर्सुकी जागराचो दीस थारता. घाडी वा खोताचे उतर घेवपाची अशी विशेश चाल-रीत ना, पूण कांय गांवच्या माणकारांकडल्यान आपल्या समाधाना खातीर घाडयाचो शब्द घेवप जाता, पूण हें वैयक्तिक पांवड्यार जाता, मात हो नेम न्हय.

जागोर चैत्र ते जेश्ठ म्हयन्याभितर घडवोन हाडपाची प्रथा आसा. गिमांतलीं शेतां-भाटांचीं सगळी कामां सोंपिल्ली आसता. वरय-गोटो नाल्ल-बोणो घरांत जमिल्लो आसता. घरशिंवणी जाल्ली आसता. आनी रोखडोच येवपी पावसाळो आनी त्या वेळार करपाच्या शेतकामां खातीर गांवगाडो चलोवपी देवाचो आर्शिवाद घेवंक, तांचो मान तांका दिवन तांका खोशी करून सगळ्यांच्या राखणेचो शब्द आनी पत्कर घेवपा खातीर ह्या म्हयन्यात एक दीस जागराची थारावणी करता. पूण म्हयन्याचें जरी बंदन नासलें तरी दिसांचें मात बंदन आसता. सुमानाच्या एकाद्र्या मंगळाराक वा शेनवाराक जागोर करपाची चाल आसा. जागोर सोंपता तो दीस बुधवार वा आयतार हो दीस आसुंकूच जाय. कारण हे 'गडे' दीस आनी जागरा उपरांतच्यो ज्यो देवसपणाच्यो विधी ह्या दिसा करच्यो पडटात म्हण जागोर मंगळार वा शेनवार ह्या दिसा जाता.

जागराची सुरवात तिनसांजे उपरांत

रातीक जाता. ते पयलीं माणकाराच्या पुरसाक दिवली पेटयतात. ती दिवली घेवन माणकारी आनी तेच्या घरवडीचे सगळे गडे येसायेच्या जाग्यार गरनाल, नारंगां, माराण आनी चंद्रज्योती असो फोग लायत घेवन येतात. येसायेच्या जाग्यार बाकीचे मानकरी आनी गडे जमिल्ले आसतात. सवंगां नाचपी गडे पयलींच जागरा मांडार रंगपाटांत आपल्या सवंगांची रंगवण आनी भेसवणेची तयारी करतात. माणकार सगळे वांगडी आनी गडे आयले हाची खात्री करून घेता आनी 'या मरे माणार' अशें सगळ्यांक विचारून दोबार बडी आनी धुमटार थाप मारून एक मोड घेता आनी सगळे गडे आनी माणकरी दिवली घेवन वाजयत माणार चलत वतात. मांणार पावतकच पेटती दिवली जाग्यार दवरून सगले वाजंत्री आनी गडे दिवलेक नमस्कार करून वांटकुळे बसतात. एखाद्रो गडो माणार जमिल्या सगळ्यांक चाफ्याचीं फुलां भेटयता आनी माणकारी नमनांक सुरवात करता.

देखीक नमनांच्यो ह्यो कांय ओळी आसात.

''आदिवन नमन पयल्या जाणा''
जेणी रचिल्या हो सरवय जाणा

आदिवन नमन धरतरे माते
आदिवन नमन सांतेरी माये

आदिवन नमन खुंटये माये
आदिवन नमन बसलेल्या सभेक.''

जागरामाण हो वाड्याच्या मदल्या भागांत आशिल्लो एक नवाळो जागो. माणाचो अधिपती माणागुरुच्या सासायेन पावन जाल्लो हो वांठार. माणागुरुच्या आशिर्वादान सगळ्यांचें रक्षण जाता. कल्याण जाता असो घट्ट विश्वास. हांगा कसलोच भश्टकार जांवचो न्हय हाची सगळे जिवाभावान जतनाय घेतात. ह्या जाग्यार एखाद्री रोयण, फातर, शिळा, झाड तसेच हार्लीतेपार कांय माणाचेर घुमटी वा देवळी बी आसा. या जाग्यार देवसपण वा सांगणें करपाचो मान हो माणकाऱ्याचो. धा जाण एकठांय येवन बऱ्या वायट घडणुकांचो नियाळ वा नविचार करून एकवटीत निर्णय घेवपाची ही सुवात. माणार सगळ्यांनी अनवाळेपण राखचें, कोणेंच वायट कर्तुप करचें न्हय, कोणेंच खोटें उलोवचें न्हय, आपसांत उणी दुणी काडची न्हय, कोणेंच कोणाचेर हात ऊबारचो न्हय आनी कसलेंच गैरवागप केलें जाल्यार माणागुरुचें रागणें पडटा आनी ताका ख्यास्त जाता असो सगळ्यांचो खर विश्वास. बायल मनशांकूय हांगा कांय बंदनां आसात. आनी ताच्या वावुरपांचेरुय शीम मेर आसा. जागरादिसा बायल मनशेचो जागो फकत पळोवप्यांमदीं. आयजमेरेन खंयच्याय माणार बायलमनशेन सवंग वठयल्याची घडणूक जावंक ना. जागरांत बायलांनी वांटेकार जांव नजो अशी चाल-रीत चलत आयल्या.

एखाद्रो वाड्याचो माणकारी, कामत वा वाडेकार होच जागराचो मुखेली. सगळे जाण ताका मान दितात. ताच्या हातांनूच माणावयलीं सगळीं चेरबां जातात. ताच्या

पुरसाक पेटयली दिवली माणार येता. नमन घालप आनी माण दवरप होवय बी ताचो अधिकार. जागरांतलें पयलें आनी निमणें सवंग जें हक्काचे सवंग, नाचपाचो ताचो वा ताच्या घरवडींतल्या एकाद्र्या जेश्ट गड्याचो मान.

जागरांतलीं सवंगां हीं थरायल्लीं आसात. म्हळ्यार कांय सवंगां ही हक्काचीं सवंगां आसात. हीं सवंगां नाचपाचे नेम थारायल्ले आसात. देखीक पयलें सवंग आनी निमणें सवंग हें माणकारी कुटुंबाचें हक्काचें सवंग आसा. त्या उपरांत दुसरें, तिसरें, चवथें आनी पांचवे हीवूंय बी हक्काचीच सवंगां, तीं हेर माणकरी कुटुंबाची आसात. हक्काची सवंगां माणावयल्या हेर गड्यांक नाचपाची मेकळीक ना.

हीं हक्काचीं सवंगां सोडली जाल्यार हेर सवंगां नाचपाक दुसऱ्या गड्यांक मेकळीक आसा. पूण हीं सवंगां जाणट्यांल्यांपासून नाचत आयल्या कारणान एखाद्रें सवंग, हें त्याच घराण्याकडेन उरता.

वाड्यावयल्या खंयच्याय गड्याक जागरांत नाचपाक मेकळीक आसा. हांगा वयाचें बंदन ना. जागरांत अशिल्लीं बायल मनशेचीं सवंगां दादलेच करतात. म्हणजे, दादल्या मनशानच बायल मनशेचो भेस करून नाचपाची परंपरा आसा.

जागराखातीर मुखेलपणान जावपी खर्च म्हळ्यार माणार माटोव घालप, जागरादिसा मुस्तायकी, रंगवण, वाद्यां, उजवाडा येवजण या सारक्या कामां खातीर जावपी खर्च हो 'धाजाणांच्या कोप्रींतल्यान' जाता. धाजाणांची कोप्र म्हळ्यार त्या वाड्यावयल्या वा वाठांरातल्या लोकांनी विंगड-विंगड वर्गणींतल्यान एकठ्यांय केल्ल्या पयशांची एक पेट. त्या पयशांचो हिशोब दवरपाखातीर ठराविक गड्यांची एक समिती आसता. तांका 'चावयेकार' वा 'कोमिसांव' अशें म्हणतात. कोप्रीत जमा जाल्या पयशांचो तांणी हिशोब दवरप आनी वर्सभर जावपी खर्चाचोय बी नियाळ करप हें तांचे काम. वर्साकणकणी हे समितीचे वांगडी बदलता.

उत्सवाच्या निमतान मांडार जावपी फळां वा हेर वस्तुंची पावणी आनी त्या निमतान जमिल्ली येणावळ तसेच केन्नाय चुली परमाणें वा घरांपरमाणें वा गड्यां परमाणें काडील्ली पटी वा वर्गणी तशेंच एखादया गड्याक वा घराक जाल्लो मुक्त (दंड) हांच्या रुपान एकठांय जाल्लो पयसो हो धाजाणांच्या कोप्रींत एकठांयता आनी तांतुतल्यान हो जागराचो खर्च निभायता.

माटोव घालपाचें काम चड करून भौशीक रित्या जाता. घरा कणकणी एक एक गडो एकठांय जमता आनी माटवाक लागपी सामान म्हळ्यार माड्यो, मेढी, मल्लां, दोरयो, केवलीं वा माटोव सजवपाचे साहित्य हे अशेंच सगळेजाण जमयता. त्याचप्रमाण जागराक लागपी वाद्यां म्हळ्यार घुमटां, दोब, झांज, कांसाळें हीं घरांकणकणी हाडची पडटा वा कांयकडेन ही वाद्यां धाजाणांच्या कोप्रींतल्यांन हाडपांत येता.

मुखेल माणकारी घराण्याक जर सुयेर-

सुतकाची बी अडचण आयली जाल्यार थारायल्लो जागोर त्या दिसा जायना. तो तांचे हे दीस सोपमेरेन फुडे धुकलता.

वर्सुकी जागोर थारावपाक जो भौसार जाता त्याच दिसा जागराचो दीस आनी येसायेचो दीस थारता. जागरापयलीं सादारण सुमनभर जागराची येसाय चलता. त्यावेळार गावप, नाचप आनी वाजोवप हाची संवकळ करता. दरवर्सा तींच तींच सवंगां तेच गडे नाचतात. देखून सगळ्यांकूच ताची सवकळ जाल्ली आसता. पूण एकाद्रो नवो गडो सवंग नाचपाक फुडें आयलो जाल्यार ताचेर विशेश लक्ष दितात. पूण जागराची खासियत म्हळ्यार दरवर्सा तेंच तेंच सवंग आपले जाण्टेले नाचत आयल्या तें ल्हान भुरगे पळयतात आनी तांकां तीं सवंगां पाठ जातात आनी दरवर्सा लागींच्यान हें सगळें पळयिल्लें कारणान भुरगीं खेळ लेगीत जागराचो खेळटात आनी त्या सवंगाची तांकां संवकळ जाता. आनी तांकां हीं सवंगां शिकोवची पडना. जागरांतल्या ह्या सवंगांचीं गितां नाचपाची पावलट आनी वाजपाचो ठेको हो खूब वर्सांपासून एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेकडेन, दुसऱ्या पिळगेकडल्यान तिसरे पिळगेकडेन आयिल्ल्यान शिकोवपाचे विशेश श्रम घेंवचे पडनात.

सप्तकभर येसाय चल्ली जाल्यार तांतुतलो एक दीस हो "घेर्रा येसाय" आसता. घेर्रा येसाय म्हळ्यार निमणी येसाय. त्या दिसा तालीम खर आसता. गावप, नाचप, वाजपाची तयारी सारखी जाल्या मूं हाची पळोवणी करतात, खंयचोच गडो सवंगाचे तयारेंत मात्सो कमी पडलो जाल्यार ताका जाणकाराकडल्यान अदीक समजिकाय दितात. तशेंच हे दिसा, जागरा दिसा कोणी कसलीं कामां करप हें गड्याभितर वांटणी जाता. जागर जावपाच्या आदलो दीस म्हळ्यार, समजा जागोर शेनवारा पावपाचो आसा तर बिरेस्ताराक घेर्रा येसाय जाता. जर जागोर मंगळाराक जावपाचो आसा जाल्यार हो दीस आयतार आसता.

एक गजाल खरी, जागरांत नाचूंक वा वाजोवपाक खंयच्याय गड्याक तशी आडमेळ बी आसना. फकत तो त्या माणाचो गडो आसल्यार पुरो. तशेंच 'जागरा दिसा' ताका घरची कसलीय सुयेर वा सुतकाचीं अडचण नासल्यार पुरो. बाकी ताच्या उमेदी परमाणें जागरांत तो नाचूंक वा वाजपांत वाटेकार जावंक शकता.

हां एक खरें, एका वाड्यावयलो म्हळ्यार त्या माणाचो कलाकार दुसऱ्या खंयच्याय मांडार सवंग नाचपाक ताका मेकळीक ना. दर एका माणाचे आपले खास अशे नेम आसतात. परंपरेपरमाणें सवंगां वांटिल्ली आसतात. पूण असोच एकाद्रो उमेदी कलाकार ह्या माणार सवंग नाचपाचीं इत्सा दाखयता तेन्ना माणकाराच्या आनी इतर गड्यांच्या मान्यतायेन तो सवंग नाचपाची आपली इत्सा भागयता. पूण शे खीण सदांच येनात वा अशें सहसा घडना.

एखाद्र्या गड्यान आपल्या वांट्याक आयिल्ले जागरांतलें सवंग बरे भशेन सोबयलें जाल्यार जागोर पळोवंक आयिल्ले जागरमोगीच ताची ताळयो वाजोवन वा

शिटयो वाजवोन तोखणाय करता. इतर गडे मागीर रंगपाटांत ताची तुस्त करतात. आनी तेच धुंदीत तो गडो गुल्ल जाता.

जागरांत दोन तरेचीं पात्रां आसतात. दैवी आनी मानवी. दैवी पात्रां हीं लव, पातरंगी, धोनो पावणार, सीद, अंबाबाई, ह्या सारकीं आसतात. हीं पात्रां व सवंगां आशिर्वाद दिवपा पुरतीं नाचून वतात, तांकां हक्काचीं सवंगां म्हणतात. हीं सवंगां नाचपाचो हक्क परंपरेन त्या त्या गांवच्या वा वाड्यावयल्या म्हाल कुटुंबाच्या गड्यांक आसता.

मानवीं पात्रां हीं गांवच्या वांगड्यांचें पडबिंब. हीं सवंगां जागरांतले खंयचेय गडे नाचपाक शकतात. हातूंत माळी, कुमार, दोतोर, गवळी-गवळण, जानू-जेसू, तेंडली, मामा-भाचो, निखणदार, पारपती, थोटो, घाडी, वैज, फिरंगीण, इरमांव, पारधी, पांखो, खाप्री, रणरावत, गराशेर अशा प्रासंगीक आनी सामाजीक पात्रांचो आस्पाव आसा.

गोंयांतल्या अंत्रूज (फोंडें) तिसवाडी, मुरगांव, बार्देस, सालसेत, केपें ह्या तालुक्यांनी जंय आदिवासी लोकांचो राबितो आसा त्या जाग्यांनी वर्साक एकदां हो जागोर जाता.

गोंयच्या अंत्रूज म्हालांतल्या बऱ्याच गांवांनी हो जागोर परंपरेन जातालो. पूण काळाच्या ओघांत कांय गांवच्या मांडांनी तो आज बंद पडला. पूण वेलींग, प्रियोळ, करमळे, कुंकळये, कुट्टी-पिसगाळ, खेडें, मागिलवाडा-प्रियोळ ह्या अंत्रूज म्हालांतल्या गांवांनी मोठे उमेदीन आनी भावार्थान जागोर नाचपाची परंपरा टिकून आसा. गांवचो जागोर हो वर्साक एकदाच जाता. वर्साची ती भोगावळ. ही भोगावळ गांवांत जाली ना जाल्यार लोकजिणेचेर अरिश्ट येवं येता असो समज आसा.

जागोर हें विधीनाट्य. जागरांतलें कथानक, पात्रां (सवंगां), संवाद, संगीत, नाच, अभनय, न्हेसवण, ह्या सगळ्यांचो विचार करतकच गोंयच्या मराठी वा कोंकणी नाटकांचें 'जागोर' हें कूळ वा मूळ हाची खात्री पट्टा.

पयले राती सुरू जाल्लो जागोर दुसऱ्या दिसा सकाळीं सोंपता. जशी जागराची सुरवात नमनान जाता तसोच शेवट बी 'दंडवतान' जाता. निमणें सवंग नाचून वतकच सगळे गडे दिवले भोंवतणी बसतात. कोणूय गडो घरा बी गेल्लो जाल्यार मांडार आयला मूं हाची चौकशी जाता. उपरांत माणकारी 'माण दवरूय मरे?' अशें सगळ्यांक विचारून दंडवताक सुरवात करता.

दंडवताची गितां अशीं आसात :

*"आम्या तुजें पान रे आमट*
*आम्या तुजें पान रे आमट*
*माणाच्या गुरु तुका दंडवत गा*
*जळट्या दिपका तुका दंडवत गा*
*सखय देवां तुमकां दंडवत गा*
*खेळट्या गड्यां तुमकां दंडवत गा."*

सर्वय असो आसता की सगळीं गांवची पांच पंचिशट दैवतां आनी माणाचो अधिपती माणागुरु जागराक आयिल्लो. तांचे कृपेन आनी सासायेन जागराची वर्सुकी भोगावळ बेस बरी रंगली. खंयच खट्ट्-कुट्ट जालेंना.

कसली आडमेळ वा अडचण आयलिना. जागर पळोवपी सगळे लोक तशेच सोयरे दयरे तृप्त जावन आपापल्या घरा वचूंक लागल्यात. तशेच तुमी ही वर्सुकी भोगावळ मानून घेवची. गांवच्या सिमांचे रक्षण करचें, पावस-पाणी बरो घालचो, शेतां-भाटां, कुळागरां, मड्डां, खाजनां पिकावळीन भरचीं, गोरवां-वासरांक सांबाळचीं. गांवचो एकचार घट्ट उरचो. कलेय पिडा-धामीपासून गांवचें रक्षण करचें. गांवांत सदाच सुबत्ता नांदची, सगळ्या अरिश्टांपासून रक्षण करचें आनी बाळगोपाळांचें कल्याण करचें अशें आमी तुमचे कडेन मागतात आनी तुमकां नमस्कार करतांत अशे भावनेन पयलीं माणकारी आनी मागीर सगळे गडे ही कवनां गायतात आनी जागोर पुराय जालो हे दाखोवंक सगळीं वाद्यां उरफाटी करून दवरतात. कांय माणांनी ह्या वेळार माणागुरुचो अंवसर माणकाराल्या घरवडींतल्या एकद्र्या गड्याचेर येता आनी वर्सावळीची भोगावळ आपणाक पावली हाची पोच दिता. सगळे गडे मांडागुरुक नमन करून खोशयेन उठ्ठात. ह्या वेळार पणस, आंबे, केळीं वा इतर फळांचो निवेद्य माणागुरुंक करून सगळ्यां गड्यांक प्रसाद वाडटात. ह्या सगळ्या विधींक 'मांड दवरप' अशें म्हणता.

ह्या वेळार एखाद्रो माणावयलो नाचपी गडो भलायकेन बरो ना जाला. वखदपाणी पारना आनी कसोच गूण मेळना आनी दिसान दीस दुयेंस चडत्या पांवड्यार आसा जाल्यार माणार गाराणें घालतात आनी माणागुरुक सांगणें करतात की, तुजो गडो बरो जांवचो, वखद-पाण्याचो गूण ताका मेळचो आनी फुडल्या जागरांत तुज्या माणार सवंग नाचपाक तो आपल्या पायांनी उबो रावचो अशा भाशेची होरावणी वा आंगवण करपाची परंपरा आसा.

अशे तऱ्हेन गोंयच्या आदिम समाजामदीं आशिल्लें 'जागोर' हे एक समृद्ध सांस्कृतीक दायज. आनी तें एक विधीनाट्य जावन आसा.

गोंयांत आयज मेरेन प्रचलीत आशिल्ल्या ह्या जागरान कूस परतिल्या. काळा माना प्रमाण थोडोसो बदल हातूंत जाला, पूण मूळ परंपरेचो खंयच अनादर जावंक ना.

गोंयच्या आदिवासी समाजाचो हो कला प्रकार आज माणावयलो भायर सरला आनी ताचे प्रयोग गांवांगावांनी – शारांनी वा परदेशांनी सुद्धा जावंक लागल्यांत.

जागरांतल्या कलाकारांनी जागराची ही शैली, नाटक सिनेमांत लेगीत पावयल्या, आनी जैत जोडलां. आयज गोंयांतले वा इतर भागांतले सांस्कृतीक अभ्यासक जागराबद्दल आस्था दाखयतात आनी आपले प्रबंध बरयतात हें पळोवन आनंद जाता.

माणागुरुच्या सासायेन आनी आशिर्वादान हो 'जागोर' गोंयांत सासणाचो जिवो उरूं अशें मागणें.

000

लोकवेद

(निबंद)

आर.एस.भास्कर

# गोड्डें आचरण आनी रामायण गीत गायनाची परंपरा

गोड्डें रामायण हें कोंकणीच्या लोकवेदांतलें महाकाव्य म्होण मानून येताय. आदीं साहित्यांत हाचें विशींचे परामर्स नाशिल्यान ह्या काव्याची रचना कोणें केली वा खंयच्या काळांत जाली हाचें विशीं आजून कांय गवाय मेळना. भायल्यांनी केरळांत पाविल्या संत कवीनी हें गीत रचिल्ले आसूंक जाय. पंद्राव्या वा सोळाव्या शतकांत वा हाचें आदीं ह्या काव्याची रचना जाली अशेंय मत आसा. पंद्राव्या शतकाचे आदीं सावनच केरळांत कोंकणी जनपथाची वसणूक जाल्या आनी संतांची आनी संत कवींची आगमनूय जाला. कांय घराण्यांत हांकां रावपाक खातीरची वेवस्था बी आशिल्ली. ह्या काव्यांत वापरल्या उतरांचेर सोद घेतना हेर भाशेचो प्रभाव नाशिल्ली आदीं काळाची नीज कोंकणी उतरां हींच म्हळ्ळे मताक बळ दिता.

'गोड्डें' एक अनुश्ठान वा समाजीक आचरण म्होण मानू येताय. कोची अमरावती वैश्य वाणी वाटारांतल्या भगवती देवळाकडेच्या शिगम्या उत्सवाक लागून भिरम्या (बरम्या) देवळाकडेन गोड्डें पडप जाता आनी जनार्दन देवळाच्या आंगणांत रामायण कथेचे गायन बी जाता. व्हडल्या आकाराची भेरी, चेंडे आनी जगांट वाद्यांचे वाजन सयत रामायण कथेचे गायन जाता आनी गायनाच्या आनी वाद्द्यांच्या ताळांत पावलां दवरन गोड्डो नाचता. दर वर्सा फालगून म्हयनाच्या दुवादशी दिसा रात्री ह्या आचरणांत वांटो घेवपाक थळावी लोक एकडे जाताय. परंपरीक रीतीचेर अनुसारनु नाचपाक येवपी मनशान

**आर. एस. भास्कर** : जल्म : 04-07-1947, नामनेचे कोंकणी कवी. मुख्य रचना : *अक्षरां, नक्षत्रां, अक्षतां आत्मनिवेदन, युगपरिवर्तनाचो यात्री* (काव्यसंग्रहां), *चिनु मिनु चानो* (बालकविता संग्रह), *म्हाजा आज्जाक एकी हस्थी आशिल्ली, ब्रहार्षी श्रीनारायणगुरु, केळी घडाव, दवशकम, गौरी* (मलयाळम भाशेंत सावन भाशांतरां), *तुकारामवाणी* हीं पुस्तकां प्रकाशीत. केंद्रीय साहित्य अकादमी भाशांतर पुरस्कार, कोंकणी भाशा प्रचार सभा साहित्य पुरस्कार, ताराबाय विष्णु म्हापसेंकार वैश्य भारती पुरस्कार, विल्फी रेबींबस स्मारक कोंकणी कविता पुरस्कार आदी पुरस्कारांनी सन्मानीत. संपर्क : राम मंदिर 10/539 जनार्दन टेंबीळ सैथ, अमरावती, कोची 682001, केरळ, मो. : 8891306123

एकेचाळीस दिसांची व्रत पाळपाक जाय. ह्या दिसा ताचेर भार येता.

गोड्डें आचरण आनी रामायण गीत गायनाचें वेवस्ता देवस्थानाचे भावीक बोडवो शेटी घरण्याचे वतीन जातालें. कांय कारणाक लागून ही प्रथा कांय वर्सां खातीर बंद पडली. उपरांत 1955 वर्सा सावन आसूंक जाय देवस्थानाचे आनी एक भावीक अभिमन्यू शेटी हांगेले वतीन ह्या अनुश्टानाचो पुनरुद्धार करपाक खातीरचे यत्न चल्ले. आनी ही प्रथा परतून चालू लायली. ह्याच वाठारांतल्या मुकुंद शेटी हांगेल्या मुद्रणालयांत साकून पोरण्या बरपावळींतल्यान गोड्डें रामायण गीत मलयाळम लिपींत छापिल्ली कांय कागतां अभिमन्यू शेटीक मेळ्ळी. अभिमन्यू शेटी आनी सांगात्यांनी मेळनू आचरण आनी गायन चालू दवरलें. थोडें उपरांत अभिमन्यू शेटी हांगेलीं भुरगीं रक्षीत आनी राजीत सान पिराय सावनच रामायण गीत तोंडपाठ म्होणून आयलीं. भुरग्यांले गायन ध्यान दीत आयकून बसताली देवळा केरींतली जाटी आज्जी द्रौपदी (मिन्क्का) हांणी हांगेल्या गायनांत कांय भागां शेणल्याय म्होणून आपल्या यादींत सावन शेणिल्यो वाळ्यो म्होण दिल्यो. शेणिल्यो भाग पुराय लावन रामायण कथा पूर्ण केली. पट्टाभिषेक मेरेनची रामायण कथा हांगा आजून गावंन येताय. भाशातज्ञ आनी संशोधक दोतोर जूजे परेरा कोची पाविल्ले तेन्ना अभिमन्यू शेटीक भेट दिल्या. दोतोर परेरा हांणी रक्षीत आनी राजीत हांगेले गोड्डे रामायण गीत तोंडपाठ आयकला आनी हांतु वापरिल्या बोलीचेर बेस बरें तोखणाय केल्या.

***

खंचेय शुभकार्याक खातीर भायर सरतना भाविकांनी भिरम्याक नालवीडो (नाल्लविडो) दिवपाची प्रथा चालू आसा. ह्याच प्रकार भिरम्या देवळाकडेन नालवीडो दवरनु देवाकडेन मागणें केल्ले उपरांत गीत गायन सुरू करताय. गायनांत पयलें गणरायाक वंदिताय :

*ओम नमो गणेद्रा पार्वती नंदन गा*
*चौदाय विद्याचे स्वामी तुमी गजानन गा*
*दुसरें नमन म्हजें सरस्वती चरण गा*
*तीसरें नमन म्हजें कुलदेवा चरण गा*
*चौतें नमन म्हजें माता पिता चरण गा*
*पांचवें नमन म्हजें पण्डरीचें राया गा*
*सवें नमन म्हजें कपिवर चरण गा*
*सत्तवें नमन म्हजें अष्टदिक- पालांक गा*
*आठ्ठवें नमन म्हजें योग्यां चरण गा*
*नव्वें नमन म्हजें श्रीरामा चरण गा*
*दस्सवें नमन म्हजें नाही कळलें गा*
*इक्रावें नमन म्हजें इकराय रुद्रांक गा*

नमन श्लोक गायलें उपरांत गोड्ड्याक सांगाता घेवन गायक संघाचे व्होरावणी जनार्दन देवळाकडेन पावता. वाद्याचे बरोबर रामायण कथेचो उरिल्लो भागाचे गायन सुरू जाता. श्रावणाची कथा अशें गायताय:

*जाचेन्दाची कावडी श्रावणाच्या*
*खंध्यारी गा*
*काशीयात्रा करून श्रावण हिंडूंक लागलो गा*
*क्षेत्रांनी क्षेत्रां श्रावण हिंडूंक लागलो गा*

*हिंडता हिंडता श्रावण घोर वनांत पाविलो गा*

श्रावणालो मृत्यू, दशरथरायाक शिराप पाविलें, पुत्रकामेश्ठी यागु अशें पुराय वृतांताचेर गायन जाता.

श्रीरामालें जल्म अशें गायताय:

*कौसल्या राणियेक श्रीरामु पेय जालो गा*
*कैकेयी राणियेक भरतु पेय जालो गा*
*सुमित्रा राणियेक लक्षमण सत्रुघ्नु पेय जालें गा*
*दशरथ रायाक चौग पुत्र जाले गा*

किष्किधाकाण्डांत राम–सुग्रीवाची भेट जाता. राम–सुग्रीव अग्नी साक्षी घेवन सत्य करताय. उतर दिलें प्रकार:

*एक बाणान रामान बालीक मारिलें गा*
*बालीक मारनु राज्य सुग्रीवाक दिलें गा*

गायनाचें ह्या संदर्भांत गोड्ड्याच्या हातांत नाल दिताय. गोड्डो नाल व्हरून भगवती देवळाकडेच्या घेणाकडेचे फातरीचेर मारनू बेतून येता आनी परतून मांण्डात वांटेकार जाता.

राम रावण झूज जाता:

*कुंभकर्णाक रावणाक श्रीरामान मारिल्ले गा*
*विभीषणाक लेंकेचो रायू करिलो गा*

हाज्या उपरांत अयोध्या प्रवेश मेरेनच्यो वोंवयो (होंवयो) गायत गायक संघ देवळा केरींतल्यान भोंवडी घेताय. परतून देवळा अंगणांत पावताय. आखेर श्रीराम पट्टाभीषेक जाता.

*राम सीतेक सुवर्णाच्या सिंहासनी बैसिलें गा*
*वसिष्टानी श्रीरामाक अभिषेकू करिलो गा*
*रामायण कथा एयसे बोलिले गा*
*श्रीरिमा चरणी नमस्कारु करिलो गा*

अनी रामायण कथा गायन सोंपयताय. गोड्डे नाचप्याक नवें वस्त्र, विडो आनी दक्षिणा दिवन भोमान करप जाता. गोड्डे नाचपाचे संद आदीं कोणाकडेन आशिल्ले हाची गवाय ना. अभिमन्यू शेटीचें काळांत शेजार कुणबी समाजांतलें माधवमामा हें व्रत पळोंवक नेमान पावताले. उपरांत वैश्य वाटारांतलेच राजामणीमामा हांकां संद मेळ्ळो. हालीसराक नाचनाची पद्दत ल्हवू ल्हवू ना जाता. आतां सिंगारल्या माटवांत रामपट्टाभिषेकाचें चित्र स्थापिताय वा भुरग्यांक राम सीतेचे भेस सयत सिंवासनाचेर बसयताय. लक्षमण आनी हनुमंत बरोबर रावताय. ह्या प्रकार प्रथा चालू रावता. ह्या दिसा देवस्थानाचे भावीक आनी हेर भौस देवळा आंगणांत मेळताय.

भुरगीं बी वांटो घेताय. चेडवांच्या हातांत फंडचणाचो करडो बी आसतलो. दर वर्सा फाल्गून म्हयनाचे दुवादशीच्या रात्री घडोवंन येवपी हें समाजीक अनुश्ठान वा आचरण खंयच्या काळ सावन सुरू जालें हाचें विशीं गवाय मेळना. डॉ. पांडुरंग फळदेशाय हांचें वतीन 2018 ह्या वर्सा जनार्दन देवळाकडेन घडोवपी गोड्डे आचरणाचेर पुरायेन डोक्युमेंटेशन बी जाला.

1976 ह्या वर्सा गोड्ड्या माण्डावेल्यान रामायण गायन टेपरिकोर्डाचेर घेवन देवनागरी लिपींत छापून घेतलें श्री. एन.पुरुषोत्तम मल्या हांणी. कोंकणी भाशा प्रचार सभेचे वतीन ह्याच वर्सा उजवाडायल्लेल्या 'कोंकणी लोकगीत – केरळ' ह्या पुस्तकांत हें गीत आसपावन घेतला. हांतू फकत रामायण बालकाण्ड मात्र मेळ्ळा आनी सतरा काण्डां बी आसूंक जाय देखून ह्या वाटेन सोद घेवप गरजेचे अशीं संपादकान पुस्तकाच्या प्रस्तावनेंत सांगला.

***

'गोड्डें' हें देवळाच्या वातावरणांत जावपी आचरण आसूंनच हाका कला आविश्कार दिवन भौसीक रंगमाचीर हाडलें बलराज वी.शेट हांणी आनी केरळ कोंकणी अकादमीचे वतीन केरळा साहित्य अकादमीचे संस्कृतीक कार्यावळींत सादर करीत कोंकणी आदीं काव्य रूपाची ओळोख केल्ली. उपरांत बलराम वी. एस हांणी वैश्य वाणी संस्कृती मंडळाचे वतीन कोची एरणाकुळमांत घडयलें अखिल भारतीय कोंकणी परिशद संम्मेलनाचे संस्कृतीक कार्यावळींत तशींच मंगळूरांत चलिल्ले 'मांडशोबान' कार्यावळींतय ह्या कलारूपाचे सादरीकरण जाल्ला. हांगा पट्टाभिषेकाचे सोबायल्या माटवांत सिंवासनाचेर राम–सीता नट बसून आसता. बरोबर लक्षमणूय रावून आसता. मुखेल कथापात्र म्होण हनुमंत गंभीर भेस सयत रामायण गायनाचे ताळांत पावलां मारन भायल्यांनी सावन वेदीचेर चलून येता. गायनांत लय पावन नाच बी जाता. जें कडेन रामायण गायन जाता थंय मारुतीचे सान्निध्य रोकडेच आसतले ह्या संकल्पाक ही घडणूक तेंको दिता. वेदीचेर गायक आनी हेर कलाकार हेंवय भेसभुसांनी वांटे घेताय.

000



लोकवेद

(निबंद)

उषा राणे

# कारवारचो लोकवेद

अशिक्षीत आनी गांवठी जिवन जगच्या समाजाचे परंपरेन घोळणुकेंत घडत आयिल्ले मौखीक साहित्य म्हणल्यार लोकवेद. हातूंत भुरग्याच्या जल्मापसून ते चलपाक लागता पसूनचीं गितां, आज्या पोंज्या पसून चलत आयिल्लो धंदो, लोकनाटयां, लोकखेळ, सण-परबो, जात्रा-काले, फेस्त, न्हेसण-पांगरूण, विधी-संस्कार, वखद-विसर्द, चालीं रिती, खाण-जेवण, लोककाणीं, म्हणीं, उमाणी, जांचे पसून मनशाचेर नकळत संस्कार घडत वतात, हें सगळें मेळून लोकवेद जाता.

लोकवेदाचो जल्म मनीस संस्कृतीच्या उदया बरोबरच जाला अशें म्हणटात. अनुकरण आनी मौखीक परंपरा हे लोकवेदाचे दोन गुणधर्म म्हणूं येता.

पयलींच्या काळांत लोकांले ज्ञान वाडोवचें वा वेळ सारचे साधन म्हणल्यार लोकसाहित्य. हांतूत....

भुरग्यांली गितां, लोक कथा, लोकगितां, श्रमगितां, लग्नगितां, फुगडी, घुमटां कांतार, दीपमाळ, धालो, शिमगो, दशावतार, ओंवयो, उमाणी, मांडो, नांव घेवप, कांजीण, दीवज, शेल, हांचो आस्पाव जाता.

मनीस हो हाडांपेरांचोच हुशार प्राणी. ल्हान भुरग्यांक आपले भोंवतणच्या जगाची ओळख करून दिवचे खातीर तांणी आपले घरांचे पडवेतच अंगणवाडी-नर्सरी फुलयली. आनी समाज, निसर्ग, चाली, रिती, नाती, सोयरीं, सुकणी, शेवणीं मनीसपण, जीवदया हांची ओळख बालपणा पासूनच करून दिवचे खातीर गितां काणयो तयार केल्यो.

कांय देखी.......

**उषा राणे :** जल्म 23 डिसेंबर 1952. कवी आनी लोकवेद संग्राहक , कोंकणी भाशेची कार्यकर्ती. कारवार वाठारांत प्रामुख्यान कोंकणी लोकवेद संकलनाचो आनी जतनाचो वावर. अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेची विद्यमान अध्यक्ष. भांगरभूंय, सुनापरांत अशा वेग-वेगळ्या कोंकणी नेमाळ्यांनी लोकवेद आनी साहित्य विशयाचेर बरयिल्लें लेखन प्रकाशीत. संपर्क: पोस्ट ऑफिसालागीं, सदाशीवगड, कारवार. मो. 9448947129.

**धोलयतना :-**

*धोल बाये/बाबा धोल*
*धोला फाटल्यान खोल*
*धोलचो बाब भागलो*
*केळी खाऊंक लागलो........*
*केळी व्हेली कावळयान*
*तवंशे दिले मावळयान*

**तेल लायतना :-**

*आको माको तेल माको*
*तेलाकारा शेंडी माको*
*आया हुयांदो, माकडाच्या धुवांदो*
*माकड गेले, वैल रानां*
*तुमी या दावे कानां.....*

**न्हिदयतना :**

*न्हीद बाळा चाफ्या कळया*
*मागेल्या मांडेर*
*न्हीद काडन उटचे सोडन*
*बसला मांडेर*
*तांणी घरा येवचे जाले*
*कचेरिंतल्यान*
*रांदप हांवें केले ना रे*
*तुगेल्या त्रासान......*
*अगो लिलू हांगा यो गो*
*बायेक/बाबाक न्हिदय गो*
*ना जाल्यार च्याचो उजो*
*मातसो पळय गो.*

अशे तरेन जेवयतना, न्हिदयतना, खेळयतना, पाळण्यां घालतना, भुरगे दरेक कृती करतना, तांचे दरेक शारिरीक हालचालीनुरूप गितां म्हणून तांका उमेद हाडताली. गितांतल्यान तेकवार देखी, नार्ती, सुकर्णी शेवर्णी, जनावरां हांची ल्हान पणांतच वळख करून दिताली.

**लोककथा :-** म्हणल्यार लोकांक खबर आशिल्ल्यो काणयो आनी गरजेनुसार, प्रसंगानुसार, देख दिवचे खातीर लोकांनी स्वता रचिल्ल्यो काणयो. पूण त्यो लिखित स्वरूपांत नात. त्यो सांगता आसतना उतरांत बदल जावूं येता. पूण तातुंतलें तत्व सार, अर्थ वा देख बदलना. लोककथेंतल्यान संस्कृतीचे खरेलें ज्ञान मेळता. तातूंत संस्कृतीचें पडबिंब आशिल्ल्यान आमच्या दायजाचे चित्र उबे जाता. आतां अशो काणयो आनी त्यो सांगपी लोक कमी जालात. संकलीत करूंक आमी फाटी पडले.

**लोकगितां :-** हांतूत भुरगें जल्मा येतसावन ताचें लग्न जाता पसूनची पदां तशेंच फुगडी, धालो, ओंवयो, ही चडशी उमाळे उत्तावपी आसतात. वेगवेगळया प्रसंगार कार्यावळीक आनी आनी वावराक अनुसरून धर्मीक, सामाजीक, आनी घरगुती सुवाळया वेळार आनी श्रमीक काम करतना देवाक होरावणी आनी स्वताचें मनोरंजन जावचे हे खातीर रचिल्लीं गीतां.

**श्रमगितां :-** दळतना, कांडतना, शेतांत रोपी लायतना, नडतना, न्हुवतना खूब बायलां एककडेन मेळताल्यो. तेन्ना वेळय वचनाशिल्लो आनी कामय आटाप नाशिल्ले. म्हण रामायण, महाभारत वा राजा राणी हांच्या खबर आशिल्ल्या काणयांक पदाचे रूप दिवन म्हणची गितां. हातूंत बाळ

चिल्लया, हरिश्चंद्र तारामती, सात भावाली भयण, अशे तरेच्यो गायन रूपान काणयो आसतात. काणी आयकतले जसो हुंकार दितात तशी काणी मुखार वता.

*विक्रम राजाक सात पूत आशिल्ले... हं हं*
*धाकटया पुताचे नांव विद्याधर... हं हं*
*मोग्रावंत म्हण तेजी भावज... हं हं*
*ती देराक सांगता बेलावंती सुंदर राजकन्या... हं हं*
*तिका घेवून यो आनी लग्न जा... हं हं*

**लग्न कार्यावेळार :-**

माटोव घालतना :-पयली काळार आतां सारकीं लग्नाची हॉलां नाशिल्लीं, घरा मुखार माटोव घालून लग्न करताले. लग्नाक आठ-धा दीस आसतना वाडेकार, दायजी, गोत्री, सोयरे येताले आनी रानांत वचून माटवा खातीर म्हेड वांसे मारून हाडताले.

*"कोयती कुराड घेवन खंय चाले मुरारी*
*माटवाची म्हेड सुत्रधारी*
*माटवाचे आडे गे तासता जाले फाले*
*मज येवजिल्ले कार्य गे सिद्ध जाले*
*माटवाची म्हेड गे गजय गजवंता*
*आनी माटवाक दवरला राजा माज्या*
*माटोव शिंवला गे करमळी दावांनी*
*आनी व्हंकले भावांनी माटवा केले परी*
*व्हंकले भावांनी माटवा केले परी*
*आनी न्हवऱ्या भावांनी गे माटोव केलो सरी..."*

रशा रान्नी, रशा माटोव घालताना, माटोव परतणी वेळार म्हणचीय गितां आसात.

दळतना:-पयलीं आतां सारकी पिठाच्यो गिरण्यो नाशिल्ल्यो तेन्ना वाड्या वेल्यो सवाशिणी बायलो लग्न घरा येवन न्हवरो, व्हंकल, यजमान, यजमान्न, करूली हांची मस्करी मजा करत दळताल्यो. शुभ कार्याचो आकडो पांच म्हण, पांच दार्ती मांडून, दात्याक आंब्या ताळो बांदून फूल कुकूम करून पांच सवाशिणी दांते फिरयतात. आनी दांत्याच्या तालार ओंवयो गायतात. दात्याक पयलो घाणो न्हवऱ्यान/व्हंकलेन घालचो आसता. मागीर त्या पिठाची लग्नाक गुळोणी करताले.

आपल्या कार्याचे सगळया देवाक आमंत्रण दिवन कार्य विना विघ्न पार पडचे म्हण ओवयांतल्यान देवाक विनयतात.

**1**

*आंब्या तुजा ताळा गे फुलाचा तुजा झेला*
*आदी मान केला घरच्या देवा*
*आंब्या तुजा ताळा गे फुलाचा झेला*
*आदी मान केला घरच्या देवा*
*दांतें मांडूनी गे तीळ तांदूळ शेंसया*
*आनी लक्ष्मी बसया दळपाक*
*दांतें मांडूनी गे दांत्या केले तिबे*
*आनी मानाचे गे उबे घरचे देव*
*मिठाची पायली गे पिठाक लायली*
*आनी माजी करभारकान्न येयली गे लक्ष्मी माजी*
*आले रायी भायी गे नगर हिंडोनी*
*आनी सुंदर म्हणोनी लक्ष्मी घेवन गेले.*
*आयले रायी भायी रे बसले तुळशी पेडा*
*विनंती करी होडा लक्ष्मी माजी.*

आयले रायी भायी रे बसले पेटे कणा
भयण भावोजी शाणा गे शब्द दिना

2

यजमान्या बाबा रे तूं कित्या वोगी
धनाची मोर्गी तुजी रिती जाली
न्हवऱ्या बाबा रे सत्री धर आड
व्हंकल आसा गाड न्हवऱ्या खबरदार
व्हंकले बाये गे खांब्यालागी उबी
वये वोटया रे भयण तुजी

3

आंब्या लागले आंबे गे
पणसा लागले कुंवले
वरदक्षिणा घेतना
यजमान्याचे दोळे घुंवले

4

ओंवयो हेले हाये माजाळी वैचे केले
माजे कमर धल्ले
माजाळे गांवा गे पडले चुडीत
कारवार गांवा गे हाडले ओडीत
थंय जाले घडीत व्हंकल–न्हवऱ्याचें
मिना आमचे पोंवळे गे
कोण सौभाग्यान उपराशिले
विराज आमचो चांगलो गे
तेणे ते उपराशिले.

**सांबार भाजतना :–**
(रशा माटवांत लग्नाचो मसालो भाजताना.)
भाजी भाजी ता गे
जिऱ्या सांबराचे
न्हवरकार कुंभराक
आमी जेवण केला
भाजी भाजी ता गे
नातू पावला गे गगना
रामाचे लगना सीते स्वयंवराक
भाजी भाजी ता गे जिरे करपिले
तारू झळकले, होंकले भांगराचे.......

**तेल हळद करतना :–**
आंबतीचे पान नवरत्नांची भाल
आंबतीच्या पानांनी न्हवऱ्याक /व्हंकले तेल चडयाली
तेल गे चडविता सावळया श्रीकन्या
सांग सांग वाण्या साड्या मळ
एक साडो साडया दोन साडे खुडया
पांचलक्ष घडया चिंतादेवीच्या कांचोळेक
चिंतादेवीची कांचोळी ठेवियेली पलंगावरी
कोण नार करूली गे घेवन गेली
भावाली भयणुली आपूण म्हणता करूली
बेगी बेगी हळद घेवुनी वाटू गेली
कित्या रे भावा रागान वैता
तोळयाची मुदी घालता तुका

**माळ घालतताना :–**
राम खुडितो कळ्यो
सीता गुंतिता माळयो
राम बसला पाशावर
सीता बसली माथ्यावर
ये उठ गे सीता,
घाल गे माळा, नयी वळा
नाका घातली वाळी गे
तोंडार पडली सावली

*कातरलेली बावली*
*आमची व्हंकल बाय*
*घोसा मदी घोस रे आबोलेचो घोस*
*गावडेचो लेस न्हवऱ्या तोंड पूस*

**कांजीण :–** फाटल्या काळार जाण्टेली सुनांची जायते तरेन परिक्षा घेताली. उदा. नाल्ल कसो फोडता, वळे कशें कांतता, कांकणाचो आवाज कितलो करता, जेवणाक तांदूळ कशे काडता. तातुंतलीच एक परिक्षा म्हणल्यार कांजीण. ल्हान व्हड पाच कोळशे वा दोडी एकमेकाचेर दाळून दवरप. तेतूत काठा पर्यंत उदाक भरप आनी खंयचे तरी एका कोळशात मुदी दवरप. आता ते व्हंकलेन वयर धरून सकल पर्यंतच्या कोळशात हात घालून पळयत ती मुदी सोदत ती सकल दवरन परत मांडप. अशे पांच खेपे करप. आनी मुदी सोदून काडप. हातूत तीन परिक्षा एक म्हणल्यार हात कशें घालता, उदाक कितले सांडता, परत कांजीण मांडतना कोळशाचो कितलो आवाज जाता. हे पळोवप.

*(कांजीण गीत)*
*साळ दाळीचे तांदूळ*
*तेजेर पुजिला कांजीण*
*कांजीणी मडक्या हात घाल गे सावित्री*
*काड पाच रतनां*
*तीवय रतनां दी गे तुज्या मायी लागी*
*मावा लागी,... देरा लागी,... जावे लागी...*

**गंदा चपके :–**

व्हंकलेन साणीर गंद झरोवन त्या गंदात आपले दोनय हाताचे चपके बुडोवन पयली देवा वण्टीर लावप. आनी मागीर मांय, मांव, देर, नणंदो जावो हांचे हड्ड्यार लावप. कारण इतले दीस आरंबिले कार्य कशे जातले या हुस्क्यान वयर सकल जाल्ले सगळयांचे काळीज नवे व्हंकलेच्या हाताच्या गंदा चपक्यान थंड जावचें.

*गंद झरय गे गंदासाणी*
*तेतूंत बुडय गे चपके*
*तेवय गंद चपके धतरी लाय*
*तेवय गंद चपके स्वामी भ्रतारा लाय*
*तेवय गंद चपके माय मावासी लाय*
*तेवय गंद चपके सगळया जाणासी लाय*
*सर्वांचें काळीज थंड गे जाय.*

न्हाणयतना, बाशिंग बांदतना, बाळ खेळयतना, ओंपणी करतना, घरभरणी घेतना, माटोव परतणी अशे वेगवेगळे वेळार म्हणची पदांय आसातालीं.

**फुगडी :–** खास करून चवथी वेळार गणपती मुखार घालतात. गणपती मुखार चोवीस तास दिवो पेटून उरचो. ही भक्ती आनी भावना. आनी बायलां हे काम भक्ती भावान करूं शकतात. जागरण करून वात पेटत उरची आनी बायलांक मनरीजवण जावची म्हण पूर्वजांनी घालून दिल्ली परंपरा. हांतूत तरेकवार आनी विविध विशयाचेर रंजक, उमाळे आनंद दर्शोवपी फुगडयो आसतात. एक पात्री, जोडयेन ते पंगडां पर्यंत सुमार 14 तरांची. तशेंच तरेकवार पद्धतीची. थापटाची, कोळशांची, कट्टेची, बसून फू फू करून घालची. हाका घुमटाची आनी शंबळीची साथ आसता.

कांय फुगड्यांच्यो देखी :

1

मस्का रूखार कावळो
रडतालो गे बाये
मस्का रूखार कावळो
रडतालो
भायर गेल्लो पती माजो
येतलो गो बाये
भायर गेल्लो पती माजो
येतलो
कापडाची घडी माका
हाडतलो
गो बाये कापडाची घडी माका
हाडतलो.
मस्का रूखार कावळो  रडटालो गे बाये
मस्का रूखार कावळो रडतालो
भायर गेल्लो पती माजो
येतलो गो बाये
भायर गेल्लो पती माजो येतलो
नोटांचो कवळो माका
हाडतलो गो बाये
नोटांचो कवळो माका
हाडतलो.

2

दारांतल्या तुळशी गो
पानान पान फुलशी गो
पानान पान फुलशी गो
कशी गौराय भुलशी गो
कानांतल्या कुडकासाठी गो
कानांतल्या कुडकासाठी गो
दारांतल्या तुळशी गो
पानान पान फुलशी गो
कशी गौराय भुलशी गो
नाकांतल्या नथीसाठी गो
नाकांतल्या नथीसाठी गो
दारांतल्या तुळशी गो
पानान पान फुलशी गो
कशी गौराय भुलशी गो
(दरेक आभरणांचीं नांवां घेत :- ठुशी, गोठ, मंगळ्सूत्र, वेण्ण, शालू....)

3

दारात वायंगण, पांयांत पैजण
नागफोंडकार देसाई गो
नागफोंडकार देसाई
हातात जाळी, सुंगटा गाळी
हळ्ळेबागकार देसाई गो
हळ्ळेबागकार देसाई
वेळेर गोठो, गोठो बांदूक तोटो
वांगडकार देसाई गो
वांगडकार देसाई
मानयेस्त करी, शिपाया सारी
माजाळकार देसाई गो
माजाळकार देसाई
हातांत बुट्टी, दुकानांत पट्टी
कोंकणवाडकार देसाई गो
कोंकणवाडकार देसाई

**दीपमाळ :-** जात्रे वेळार पूर्णालंकारान सजून देव रथांतल्यान वनभोजनाक वता, आनी रातीन परत येता तेन्ना पूर्णलंकारान नटिल्ल्या देवाक कोणाचीच दिश्ट लागनये आनी लोकांची नजर दुसरे कडेन आकर्शीत करचे खातीर बायलो माथ्यार दिव्यांचो रथ कसो घेवन धोल, घुमट, झांज, शंबळ ह्या

वाद्यांच्या विशिश्ट तालार नाचतात. रातीचो काळोख आनी तेतूंत नाचपी दिव्यांचो रथ हांचे कडेन लोकांचे लक्ष खिळून उरता. आनी देव शिंगारा सयत सुखरूप उरता.

**धालो :–** पुश्य (पौष) म्हयन्याच्या पयल्या आयताराक सुरू जावचो हो सुवाळो. तो पाच, सात, णव अशा गडया दिसांत जाता. त्या जाग्याक मांड म्हणतात. ठरावीक विधी नंतर एकवीस रंभा आनी तेंचो एक भाव पुंडलीक हांचो भार ह्या मांडार येता. लोक तेंका गार्हाळणी (गाराणी) घालतात, नवस करतात. पुश्य म्हयन्यात धतरीर रंभांचे आगमन जाता अशी आख्यायिका आसा. ह्या लोकगितांत तीन प्रकार आसतात. देवाची गितां, रंभांची गितां आनी मनशांचीं गितां.

कांय देखी :

1

*शेणाना मांड सारयात*
*रंगांनी मांड भरयात*
*हाडिलें पाणी घातिलें मांडा*
*मांडाचा भोवमान केला गो*
*मांडाचा भोवमान केला गो*
*हाडिलीं फुलां घातिली मांडा*
*मांडाचा भोवमान केला गो*
(दरेक पटी फुलां, कुकूम, गंद आदी)

2

*श्री धालो धालो रे*
*आमी धालांनी खेळूं आयलीं गे*
*आमी धालांनी खेळूं आयलीं गे*
*आली तर बरीच जालीं*
*तुमच्या सखया साद दिया गे*
*तुमच्या सखया साद दिया गे*
*आमचे सखये रेगेर उबे*
*खेळासी तैयार जाली गे*

3

*लांब न्हेसण बारीक चमकण*
*कोण गांवचे नारी गे*
*तुमी कोण कोण गांवचे नारी गे?*
*तुमी कोण कोण गांवचे नारी गे?*
*आमी मुंबय शारांतले राणी गे*
*आमी मुंबय शारांतले राणी गे*
*तुमी केजेर बसून आयली गे?*
*तुमी केजेर बसून आयली गे?*
*आमी उज्या गाडेर बसून आयली गे*
*आमी उज्या गाडेर बसून आयली गे*
*जाईशी जुईशी फुलला तो शंकरा*
*विकुशी जावुंया मथुरेच्या बाजारा*
*थिंगाशी भेटला कृष्ण बा एकला*
*तेणी नी धरिला वल्लाच्या पदरा*
*सोड सोड बा सुंदरा गवळीच्या चतुरा*

4

*मारियाली कुदळ काडियाला धेंपा*
*तेतूंत नाटला रोपा पिंपळाचा*
*साकरीची आळ, दुदाची शिंपण*
*भव जतन पिंपळ*
*खाडियले चिरे बांदियले पेड*
*चिऱ्यांनी पिंपळ बांदा गे*

**उमाणी :–** रातचीं जेवणां जाले नंतर गांवचे लोक शीण घालोवचे खातीर चावडेर एककडेन जमताले. आनी वेळ वचचे खातीर एकमेकाक उतरांत घुस्पोवन दवरपाचीं अशीं उमाणी घालताले की, तांची जाप सोदप कठीण जाताले. ती सोदतां

सोदतां तेंका न्हीद येताली. दुसरे दिसा काम करतना परत ती जाप सोदतना कामाचो ताण येनाशिल्लो.

कांय देखी :

1. *घाटावेल्या जोग्याक*
*घरात हाडलो*
*घरच्या घरकान्नीक*
*रडयत जोगी मेलो*

2. *तांबडी तपकडी*
*दर्यात शेणली*
*रातभर सोदून*
*सकाळी गावली*

3. *केसट गावची चली*
*तळटे गावात दिली*
*नाखटे गावात मेली*

4. *इल्लोसो हुतहूतो*
*दिवो भेंडाक बांदून*
*रातभर हेडलो.*

**मांडो :–** ख्रिश्चन समाजाचो हो लोकगीत प्रकार. सुरवातेक चार वण्टी भितर आनी ठरावीकच लोक गायिल्ले मेळताले. काजराच्या दुसरे दिसा व्हंकलेगेर मांडे गावची परंपरा आसा. पयलींच्या काळार मांड्याक घुमट आनी डब्याची साथ आसताली.

**नांव घेवप :–** पयलींच्या काळार घोवालें नांव सरळ घेवची प्रथा नाशिल्ली. तेन्ना उतरांच्या माळेंत गुंथून लजत मोडत घोवालें नांव घेतना व्हंकलेची कल्पकताय, संस्कार, वागणें, स्वभाव जाणून घेवचो हो जाण्टयालो सुज्ञ यत्न.

कांय देखी :

1. *साखरी फोडो गोडा लेपण*
*...वता थंय देवा राकण.*

2. *काळे कापड वांशाचे दांडेर*
*बाय खेळता... मांडेर.*

3. *लांब नेसण मानेर खोचण*
*...रावा बरोबर पंढरेक वचन.*

4. *काळ्यो पिड्डुको गळोभर*
*रावाक पळय दोळेभर.*

**दीवज :–** चली वयांत येवचे पयलीं, आनी लग्ना नंतर दरेक चलेन आनी बायलेन आपापल्या कुलदेवतेक दिवज दिवची प्रथा आसा. दिवज म्हणल्यार थारावीक तरेन रचिल्ली पांच पणत्यांची मातेची दिवली. ती माथ्यार पेटोवन घेवन देवाक पांच प्रदक्षिणा घालप. हो एक तरेचो देवाचो मान. दिवज दिले शिवाय लग्न करूक जायना हो नेम.

शिवाय पयलीं देवाक पालखी वा रथार बसोवन फांतोडेर मिरवणूक काडताले. ते वेळार लायटी नाशिल्ल्यो. देखून देवा मुखार उजवाडाचे सादन होवय ते फाटलो एक जाण्ट्यांलो हेतू आसत.

**शेल :–** जशी बायलांक दीवज तशें दादल्यांक ‘शेल’ दिवप ही पद्धत आसा. चल्याक अकरा वर्सां जावचे पयली ताका कुलदेवते कडेन शेल दितात. म्हणल्यार देवा फुड्यांत ठरावीक मनीस तांच्या पोटाक सूय तोंपून तांका पवित्र करता. शेल दिवचे पयली लग्न जायना. शेल वा दिवज दिवचे पयली उपास करचो पडता. कांय कडेन हातारे (हाताचे पाचय बोटांक केळी गाभो बांदून तेजेर वाती पेटोवप) दिवपाची पद्धतय

आसा. 'शेल' आनी 'हातारे' हांचे फाटली श्रद्धा वा भावना एकच.

**कापड न्हेसयतना :**

(कापड न्हेसयतना होवयो म्हण्टात)

*पयल्या मासे मामा बा पुसे*
*काय सुने तुजे धुवाळे कसले*
*रामन धुवाळे जाला हो मामा*
*साड्यांची तैयारी करा हो मामा*
*जो बाळा जो*
*दुसऱ्या मासी मामी हो पुसे*
*काय सुने तुजे धुवाळे कसले*
*रामन धुवाळे जाला गे मामी*
*चोळी शिंवोनी हाडा गे तुमी*
*जो बाळा जो*
*तिसऱ्या मासी दीर गे पुसे*
*काय भावजे तुजे धुवाळे कसले*
*रामन धुवाळे जाला हो दिरा*
*पिकलेली पेरा आणा हो घरा*
*जो बाळा जो*
*चवथ्या मासी जाव गे पुसे*
*काय जावे तुमचे धुवाळे कसले*
*रामन धुवाळे जाला गे जावे*
*तैयार करा साळीचे फोवे*
*जो बाळा जो*
*पाचव्या मासे बाप्पा गे पुसे*
*काय धुये तुजे धुवाळे कसले*
*रामन धुवाळे जाला हो बाप्पा*
*बागांत तुमी फुलया चाफा*
*जो बाळा जो*
*सटव्या मासे आई गे पुसे*
*काय धुये तुजे धुवाळे कसले*
*रामन धुवाळे जाला गे आई*
*जाईची फुला गूंत गे आई*
*जो बाळा जो*
*सातव्या मांसे भाव गे पुसे*
*काय भयणी तुजे धुवाळे कसले*
*रामन धुवाळे जाला रे भावा*
*पाच तरेचे खाण हाड रे भावा*
*जो बाळा जो*
*आटव्या मासे नणंद गे पुसे*
*काय भावजे तुजे धुवाळे कसले*
*रामन धुवाळे जाला गे नणंदे*
*ठेवा भरोनी काजळाचे करंडे*
*जो बाळा जो*
*नवव्या मासे स्वामी हो पुसे*
*काय बायले तुजे धुवाळे कैसे*
*रामन धुवाळे जाला हो स्वामी*
*भांगराचो पाळणो हाडा हो तुमी*
*जो बाळा जो*

**दादल्यांच्या लोकवेदाचे कांय प्रकार :–**

**घुमटां कातर :–** चवथी वेळार दादल्या खातीर मनोरंजनाचे साधन म्हणल्यार घुमट, शंबळ आनी कांसाळ. ह्याच वाद्यांनी दोन पंगडां मर्दी वाद्यांचो सवाल जवाब जाता. तातूंत गाण्याचीय साथ आसता. तेका 'घुमटा कातर' वा 'घुमटा पाग' अशें म्हणतात. हें वाजप इतलें रंगता की, स–सात तास पर्यंत वाजोवपी तल्लीन जातात.

**दशावतार :–** महाभारत आनी रामायण हातुंतल्या शूर वीर व्यक्तींचे आनी तांच्या कर्तुत्वाचे दर्शन घडचे आनी देख उरचे खातीर विविध पात्रां तांची देख खेळ रुपान लोकां मुखार दवरतात. देवान धा

अवतार कशे आनी कित्याक घेतले हांचो प्रत्यक्ष अवतार रूपी चित्रण आनी अभिनय करून दाखयतात. खेळाचें खाशेलेपण म्हणल्यार तबलें आनी कांसाळ हांचे तालार जावपी नाच. खेळाक वाजोवपी बी खाशेले आसतात. तशेंच तांची वेशभुशा आनी भाग घेवपी पार्टीय वेगळेच आसतात. खेळ रूपांत धा अवतार दाखयताले म्हण तेका खेळ म्हणतात. अर्थात दशावतार.

**खेळातलो कोडांगी :-** दशावतारांत मनोरंजनात्मक वा हांसपा सारके काय आसना. देखून हो कोडांगी चित्र-विचित्र भेस करून तोंड रंगोवन, हाताक माथ्याक आंब्या ताळे बांदून हांसोवचें काम करता. पयले नमनाक तो फुगडी घालता, मागीर गणपती हाडून विधीवत पुजता. खेळ बरे तरेन जावचो म्हण सांगणी करता आनी गणपती पावयता. गणपतीचें सोंड घालून मनीसच गणपतीचें रूपान येता.

**शिमगो :-** ही फाल्गून म्हयन्यातली आनी वर्सांतली शेवटाची परब. वर्सभराचे श्लील-अश्लील, नश्ट-भ्रश्ट, नाजूक-रूद्र, मंगल-अमंगल या सगळयांचे दर्शन आनी दहन या खेळांतल्यान जाता. वर्सभरातल्या वायट, अमंगल, अपवित्र गोश्टीची होळी करून मंगल आनी पवित्र जिवनाक नव्यान सुरवात करचे खातीर दरेकाच्या घरा मुखार तळय खेळोवन, तोणया मेळ, गोफ विणून शिमगो खेळतात. शेवटाच्या दिसाक रंगाची होळी खेळून ही परब सरता. शिमगो हो दाल्ल्यांनी मनोवपाचो उत्सव. शिमग्याक दाल्ले मस्त आनी चवथीक बायलो मस्त अशी ग्याद आसा.

शिगम्याच्या गितांच्यो कांय देखी :

1

*चानयेच्या पिला तुका*
*तीन गो पाट*
*रावणान सीता व्हयला*
*दाखय वाट*

2

*मामाच्या गावा आयला गा शिमगो*
*मामा म्हणोनी साद दिला गो*

3

*वाली सुग्रीव दोन वानर*
*किंश्कीदे पावलो रामचंदर*

4

*आयतुला गो कोयतुला*
*हिळया येदो थोरू*
*माय सून झगडल्यार*
*हांव किते करू*

5

*आयना गो मयना*
*गोटे कित्याक खायना*
*घोवान हाडिले बुराटे*
*खावूं गेल्यार कांटे*

6

*तांबडी भाजी लवा लवा*
*आयच्यान शिमगो*
*सरलो देवा*

परबेचे जेवण जाले नंतर प्रत्येक घरा मुखार सुपांत कचरो, सोलां, तांदूळ, मीठ मिरसांग अशे दिश्टाव्याचे जीनस घालून तें सूप रस्त्यार दवरतात. तेका 'करमर'

म्हणतात. ठरावीक लोक ते व्हरतात. ते व्हरतना ते लोक बुरशी गाळी मारतात. तेन्ना कोणेंच भायर रावनये अशे म्हणतात. कारण गांवातले सगळे नश्ट ते व्हरतात अशी समजूत आसा.

पयलीच्या काळार मनशाचे ज्ञान वाडोवची साधना कमी आशिल्ली. प्रवचन, कीर्तन, लोकसाहित्य या साधनांनी एक पिळगी दुसरे पिळगेक ज्ञान पावयताली. एक पिळगे पसून दुसरे पिळगेक ज्ञान पावोच्याक तेंका फकत तोंडाचो उपेग करचो पडतालो. कारण ते वेळार छापखाने नाशिल्ले. म्हणून पाठ करून वा यादींत दवरून ते फुडले पिळगेक पावयताले. हातूंतल्यान बरे तरेचे समाज प्रबोधनय जातालें.

लोककथेंतल्यान आमकां आमचे संस्कृतायेचें दायजाचें ज्ञान मेळता. लोकगीतां हीं चड करून उमाळे दाखोवपी आसतात. लग्नां, सण-परबो, दळप कांडप, शेतां भाटांतली कामां अशा प्रसंगार बायलो एकठांय येताल्यो. सुखदुख्खाच्यो खबरो करताल्यो. अशा खबराक अलंकारीक रूप दिवपाची कला कांय बायलां मर्दी जन्मताच आसता. तीं आपलीं सुखदुख्खां उमाळ्यांच्या स्वरूपात उक्तायताल्यो. आनी हातुंतल्यानच लोकगितांचो जल्म जालो. तीं एक पिळगे कडल्यान दुसरे पिळगे कडेन तोंडान पावली. लग्न-कार्यां सण-परबो, वेगवगळीं कामां करतना लोक तीं म्हणूक लागली.

पूण आज परीस्थिती बदल्ली. दरेक मनशाचे व्याप वाडले. ताका लागून लोककथा, लोककाणयो हांचो विसर पडत गेलो. लोकसाहित्याची परंपरा बंद पडत चल्ली. ह्या संस्कृतायेची राखण आनी ज्ञान वाडोवपाचे काम बंद जावन वच्चे पयली तांची राखण जावंक जाय.

हें जरी खरें आसलें तरी, हे बाबतींत म्हाका आयिल्लो अणभव...

1. आताची पिळगी असले पोन्ने लोकवेद शिकूंक मागनात.
2. घरांतले पगारदार भुरगे जाण्टयांक असले तरेचो वावर करूंक दिनात.
3. कांय लोकांक उमेद आसा पूण सहकार्य वा ताकद ना.
4. थोडे लोकांक दिसता की, पयलीं ज्या कार्याच्या वेळार लोकवेद उमेदीन गायताले, ती उमेद, तीं कार्यां आतां जायनात.
5. लोकवेद कथनाक लजेतले आनी हे करून कितें मेळता? अशें म्हणतलेय लोक आसात.
6. वयोवृद्ध जाल्ल्यांक उमेद आसा पूण शरीर साथ दिना.

आमच्या वाठारांत भोवतेक सगळे कडेन ह्यो कला एका कोणशाक बापडे अवस्थेंत पडून आसात. तांका थंयच्यान ना जावन वचूंक वेळ लागचो ना. खरे तर हो संक्रमणाचो काळ आसा. पोन्न्यो चाली रिती पुरायपणान ना जावन वच्चे पयली ती राखून दवरची खूब गरज आसा.

000

# लोकवेद

(लोकनाट्य)

संकलन आनी शब्दांकनः डॉ. जयंती नायक

## कुमारीचें रणमालें

## (युध्दकांड)

**(नाट्य अंश – 2)**

**संकलनः ता. 21–11– 1991**

**सुत्रधार :** (संवाद)

हेच रे त्या ताटके मठावयर कसलो गडगड चल्ला. कृपा करून मायेबाप्पा ताटका वधून सावशीद जाले. शाब्बास .म्हण लागलो. तुमी वधली काय आमी वधली. कृपा करूं माये बाप्पा, आमी वधली ना तर तुमी वधली... शाब्बास रे शाब्बास.. असो रामाक दिलो काय तें काडून राज्य..अशे गुरू आनी लक्षुमण लागले चलोंक..

(गायन)

*राम गेला बा त्या ताटके गोठणीर*
*राम गेला बा त्या ताटके गोठणीर*

**सुत्रधार :** (संवाद)

गुरू आनी लक्षुमण नीब्ब चालला जनकाच्या राज्यात... शिते रे मांडला सयंवर बाप्पा जनकान..

(गायन)

*सयंवराचे मानी जनकां पावल्या,*
*माणकां–मोतयांची माळा रे गांतून सोंपल्या*

**डॉ. जयंती नायक :** जल्म : 1962, सर्जनशील लेखक आनी लोकवेद संशोधक. कथा, कविता, नाटक, बालसाहित्य, अणकार, निबंध, लोकवेद अशा साहित्य प्रकारांनी लेखन. 40 पुस्तकां प्रकाशीत, साहित्याचो जायत्या हेर भारतीय भाशांनी तशेंच इंग्लीश भाशेंत अणकार. केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कारान (2004) सन्मानीत. संपर्क : आमोणें, केपें, गोंय – 403 705, मो. : 9823575623

*खबर कळली बा लंके रावणा*
*खबर कळ्ळी बा लंके रावणा*

*धांवोन आला बा तो लंकेचा रावण*
*धांवोन आला बा तो लंकेचा रावण*

(नाटकीकरण)

**रावण** : हें म्हण लागलो आयक रे जनका. ही म्हण लागली तेत्तीस कोटी देवांची सभा कोणते कारणी बसल्या.

**जनक** : रावणा सांगतो श्रवण कर, हो म्हण शिते सुंदरीन नवस केलात की नाही...तटबंदी आंगणी सवर्णाचे ताटी धोणसा पुजलात की नाही... हे धोणसा उखलीन तेला वाहिन माळा... इतला तिणें नवस केलात की नाही. ते नवसाचे कारणी तेत्तीस कोटी देवांची सभा बसल्या.

**रावण** : जनका सांगतो श्रवण कर. हे तेत्तीस कोटी देव पत्रिका पाठोवन आले की पत्रिका पाठयनासतना आले..?

**जनक** : बा रावणा ते , हे सगळे पत्रिका पाठोवन आलेत की नाही.

**रावण** : असे का...मग मी एकवीस शिरांचा, बावीस भुजांचा लंकापती रावण असता मला एकही पत्रिका कशी पाठयली नाही?

**जनक** : बा रावणा सांगतो श्रवण कर , तुला पत्रिका पाठयली , पण ती तुला पावली नसेल. पण जावूं काही हरकत नाही.

**रावण** : असे का? ...काहीं हरकत नाही...जनका कोठे आहे ते धोणसे...दाखव पहा..

**जनक** : पूण जावूं काही हरकत नाही. तुमी पावले बरेच जाले..हे पहा धोणसे पुजल्या...

सुत्रधार : (संवाद)
कितें रे केलें रे लंकेच्या रावणान ?

(गायन)
*बरी धोणशा येंग रे मारिला*
*बरी धोणशा येंग रे मारिला*

(संवाद)
येंग मारिला आनी काय रे केला...ते काय धोणशे रे उखलला.

(गायन)
*धोणसा पडला रावणाच्या उरावयर*
*धोणसा पडला रावणाच्या उरावयर*

(संवाद)
अशें धोणशें पडलें रावणाच्या उरावयर आनी लागलें तोंडांतल्यान अचूत रे व्हांवोंक

(गायन)
*भल्ले सभे बा ते रावणां मरों जालां*
*भल्ले सबे बा ते रावणा मरों जालां*

*शोक करता बा तो लंकेचा रावम*
*शोक करता बा तो लंकेचा रावण*

रावण : (नाटकीकरण)
हे जनका सांगतो श्रवण कर, तेत्तीस कोटी देवांचे सभे कोण काय ह्या रावणाकाच्याय बरे वीर आसा , येवन काय हे धोणसें उखला.

सुत्रधार : (गायन)

*भल्ले सभें बा लक्ष्मण उठला*
*भल्ले सभे बा लक्ष्मण उठला*

*धोणश्या भोंवतणी प्रदक्षणा काडिला*
*धोणश्या भोंवतणी प्रदक्षणा काडिला*

सुत्रधार : (संवाद)
अशे धोणशा भोंवतणी पांच फेरे काडले आनी चलोन गेला रावणाच्या उरावयर.

(गायन)
*दाये किरांगळेन धोणसु रे उखलिता*
*दाये किरांगळेन धोणसु रे उखलिता*

*माळा घेवन येयली लक्ष्मण विरा*
*माळा घेवन येयली लक्ष्मण विरा*

(नाटकीकरण)

**लक्ष्मण :** शिते सुंदरी सांगतो श्रवण कर..आमचा वडील बंधू असता आमी केदी बी माळा घेई सारके नायी.

**सिता :** तुमचा वडिल बंधू दोळ्यांने कुड्डा की पांयांने थोटा , मी कधी बी पळयला नाही.

**लक्ष्मण :** शिते सुंदरी सांगतो श्रवण कर..आमचा वडिल बंधु गोरा गोमटा, किल्लाचा कोमटा. आमच्यांनी बळी सुंदर आहे का ना?

**सिता :** लक्षुमणा सागंतो श्रवण कर. मी तुला शिराप देते , तूं जल्मो जल्मी व्होर न्हावूं नये.

**लक्ष्मण :** हाय हाय रे देवा, आतां मी काय करूं ? दिणो मेल्यार जल्माचो घात जातलो.

सुत्रधार : (गायन)

*धोणश्या कुच्यार माळ रे घेतिला*
*धोणश्या कुच्यार माळ रे घेतिला*

*असो सयंवर काय रे न्हावला*
*असो सयंवर काय रे न्हावला*

(संवाद)
हेच रे काय लक्षुमणान केलां..ना नापरीन पालकी शिरंगारली.

(गायन)

*पालकी धाडली बा त्या ताटके गोठणी*
*पालकी धाटली बा त्या ताटके गोठणी*

*पालक्या बसून येयला बा राम रघुनात*
*पालक्या बसून येयला बा राम रघुनाथ*

*माळा वाहिली बा त्या रामा ऱ्घुनाथा*
*माळा वाहिली बा त्या रामा रघुनाथा*

*सयंवर न्हावला राम जनका राज्यांत*
*सयंवर न्हावला राम जनला राज्यांत*

*सावशीद जाला लंकेचा रावण*
*सावशीद जाला लंकेचा रावण*

(नाटकीकरण)
**रावण** : पण जनका सागंतो श्रवण कर. तेत्तीस कटी

देवांची सभा बसली असता हा दुश्ट प्राणी म्हाज्या उरावरी जावुंनी, दाये हाताच्या किरांगुळेच्या' बोटान धोणसा उखल्ला, हा इतका मला अपमान करून ठेवलांत की नाही...सांग पहा...मी एकवीस मुखांचा. बावीस भुजांचा, लंकापती रावण आहेस का नाही...आनी आता ही रामचंद्राची सिता-सुंदरी आहेत की नाहि तिली लंकेवरती तीन दीस व्हरून ठेवलीस नाही तर गमन कर!

सुत्रधार : (गायन)

*पैजा उलोवन गेला लंकेचा रावण*
*पैजा उलोवन गेला लंकेचा रावण*

*राम लक्षुमण शिता तिगां जाणा*
*राम लक्षुमण शिता तिगां जाणा*

*तीं म्हण चालर्ली निरांजन वनां*
*तीं म्हण चालर्ली निरांजन वनां*

*निरांजन वनां खेळ रे येवजता*
*निरांजन वनां खेळ रे येवजता*

(संवाद)

असो रुक्शाचेर बाण रे सोडलो...तेच्यो तीन रे पाटयो काडल्यो...

(गायन)

*एके पाटयेचो बांदला पलंग-बांक*
*एके पाटयेचो बांदला पलंग-बांक*

*एके पाटयेचे बांदला दरवटे*
*एके पाटयेचे बांदला दरवटे*

*एके पाटयेची गुंफा रे बांदिला*
*एके पाटयेची गुंफा रे बांदिला*

*तिगां बांदली गुंफा बा दोगांक जाली*
*तिगां बांदली गुंफा बा दोगांक जाली*

*लक्षुमणा बांदला दिण्याचो मठ*
*लक्षुमणा बांदला दिण्याचो मठ*

काय कळीत केला लंके रावणान
काय कळीत केला लंके रावणान

कपटे मायेचं मिर्ग रचिला
कपटे मायेचें मिर्ग रचिला

मिर्गा धाडिला बा शिते परुड्याक
मिर्गा धाडिला बा शिते परुड्याक

झारी घेवन शिता भायर गा सरिल्या
झारी घेवन शिता भायर गा सरिल्या

नदर गेली बा ती काय रे मिर्गावर
नदर गेली बा ती काय रे मिर्गावर

(नाटकीकरण)

**शिता** : आयक गा पती सुवामी भरतारा...ह्या मिर्गान आमचें परूडें खाल्लें. तेंच रे मिर्ग वधून मला रे कांचोळी करात.

**राम** : आयक गे शिते –सुंदरी...मी तुला सोन्याची कांचोळी पेटोवन देईन...ह्याचे कांचोळेक

येतात शेणाघाणी..

**शिता** : सुवामी पती भरतारा, आयक गा...सोन्याची कांचोळी आंहे घरी , मिर्गाची कांचोळी नायी...

**सुत्रधार** : (संवाद)

काय केले रामचंद्रान...

(गायन)

*धोणशें बाण बा ते लायला खांदिक*
*धोणशें बाण बा ते लायला खांदिक*

*राम धांवला बा मिर्गा मागून*
*राम धांवला बा मिर्गा मागून*

(संवाद)

अशें बारा कोसाचे वाटे मिर्ग काय तर धांवता..
अशे तेरा कोसाचे वाटे मेळून घेतले.

(गायन)

*दायी दिमी मारून बाण रे सोडिला*
*दायी दिमी मारून बाण रे सोडिला*

*बाण झोमला बा काय रे मिर्गाक*
*बाण झोमला बा काय रे मिर्गाक*

(संवाद)

अशें मिर्ग वचोन पडलें दर्याचे देगे.. असो राम गेला मिर्गाचे मागून दर्याचे देगे.
तेचे रे काय केले शिते सुंदरीन.? ती म्हण लागली लक्षुमण दिरा सांगोंक...

(नाटकीकरण)

**शिता** : लक्षुमण दिरा सांगते श्रवण कर...पयली बोब जाली मिर्गाची, दुसरी बोब जाली मनशाची तुज्या बंधवाक कोणे ती खाल्ला आसत!

**लक्षुमण** : आयक गे शिते व्हनये, आमच्या बंधवा खाणारा कोणी बी जल्माक आला नाही.

**शिता** : आयक गा दिरा लक्षुमणा...तुका तुज्या बंधवाचें पडलेलें ना..तुजें ध्यान मन आहे गुंफेचे दारी...

**सुत्रधार** : (संवाद)
इतल्यो गोष्टी लागली शिता बोलूंक. कितें केलं लक्षुमणान ? अश्यो रेगा-रेगो तीन रे सोडल्यो...पयली रेग रे सोडली दसरंथाच्या नांवान ...दुसरी रेग सोडली कौसुलेच्या नांवान...तिसरी सोडली रामाच्या नांवान... ह्योच रे वलांडूक व्हनये तुका आज्ञा ना... असो धोणसो बाण लायलो खांदी...

(गायन)
*चालून गेला बा बंधवा सोदीक*
*चालून गेला बा बंधवा सोदीक*

**सुत्रधार** : (संवाद)
असो दर्याचे देगे एको राम वीर चलता. आरे म्हण लागलो लक्षुमणा, असे शिते सुंदरीक गुंफे वयर एकटी सोडून कसोच रे आला... आरे बंधवा म्हण लागलो, शिता व्हनी लागली

विखारांच्यो गोश्टी बोलूंक. अश्यो रेगा-रेगो तीन रे सोडल्यात आनी आपून म्हण लागलो येयलो. त्योच रे रेगो वलांडूंक आज्ञा ना.तेंच रे कितें केलें लंकेच्या रावणान...

(गायन)
*रुपां धरिलीं बा त्या काय जोगड्याची*
*रुपां धरिलीं बा त्या काय जोगड्याची*

*भिक्शा मागयास रावण भायर सरला*
*भिक्शा मागयास रावण भायर सरला*

*दपक्या पवलांनी बा रावण चालों लागलां*
*दपक्या पावलांनी बा रावण चालों लागला*

आनी बम बम शंख वाजयी रे
आनी बम बम शंख वाजयी रे

आनी टीण टीण करितो बावाजी रे
आनी टीण टीण करितो बावाजी रे

आनी अलपम हांसतो बावाजी रे
आनी अलपम हांसतो बावाजी रे

(नाटकीकरण)

**रावण** : बाई गे धर्म वाडा धर्म.

**शिता** : आमी खातो कंदमुळां आणि तुला कसला धर्म वाडूं?

**रावण** : बाई गे तुमी खातात, तेच मला वाडा.

**सुत्रधार** : (गायन)
*धर्म भरिला बा सिंपल्यांत रे*

*धर्म भरिला बा सिंपल्यांत रे*

(नाटकीकरण)

**शिता** : सवर्णाचे ताटी खिडक्यांतल्यान धर्म घ्या.

**रावण** : बाई गे आमी धर्म घेवपी. दारीच्या दरवंट्यार सवर्णाच्या शिंपल्यात आमी धर्म घेणार.

**सुत्रधार** : आनी अशें घेवन येयली दारीच्या दरवट्यार, आरे म्हण लागोल जोगव्या, आतां तरी धर्म घेयात.

**रावण** : बाई गे ती धवे धवे दिसते ते काय आहे सांग पहा...

**शिता** : ती माझ्या लक्षुमणा दिराने मामा दसरंथाच्या नावाने रेगा काडलीत की नाही, ती रेगा भलाडूंक मला आज्ञा नाही.

**रावण** : तुज्या मामा दसरंथाची सत्वां घेऊन मी कैलासाला जाईन .

**सुत्रधार** : (गायन)

*सत्वा कारणे शितेन रेग भलांडली रे*
*सत्वा कारणे शितेन रेग भलांडली रे*

**शिता** : आयका रे जोगव्यानो, आतां तरी धर्म घेयात

**रावण** : ते दुसरे धवे धवे दिसते ते काय ...

**शिता** : ती माझ्या लक्षुमणा दिराने मामी कौंसुल्येच्या नांवाने रेगा सोडल्यात. तीच रे भलांडूक मला आज्ञा ना.

**रावण** : तुज्या रे मामी कौंसुल्येचीं सत्वां घेवन मी समुद्रतळा जाईन.

**सुत्रधार** : (गायन)
*सत्वा कारणे शितेन रेग भलांडली रे*

*सत्वा कारणे शितेन रेग भलांडली रे*

(नाटकीकरण)

**शिता** : आयका रे जोगव्यानो, आतां तरी धर्म घेयात.

**रावण** : ते तिसरे धवे धवे दिसते ते काय ...

**शिता** : ती माझ्या लक्षुमणा दिराने स्वामी भरताराच्या नावाने रेगा काडलीत की नाही, ती रेगा भलाडूंक मला आज्ञा नाही.

**रावण** : तुज्या मामा दसरंथाची सत्वां घेऊन मी रसातळाला जाईन .

**सुत्रधार** : (गायन)

*सत्वा कारणे शितेन रेग भलांडली रे*
*सत्वा कारणे शितेन रेग भलांडली रे*

**शिता** : आतां तरी जोगव्यांनो धर्म घेयात.

**रावण** : बाई ग मी झोळी पकडली..माझ्या झोळयांत धर्म घालात.

**सुत्रधार** : (संवाद)

कितें केलें शिते सुंदरीन...तो धर्म हाडला आणि जोगयाचे झोळयेंत वोतला.

(गायन)

*एक हात घातला शिंपलीक रे*
*एक हात घातला शितेक रे*

(नाटकीकरण)

**शिता** : आरे जोगव्या मला सोडा हो सोडा...देवा रे देवा...!

**सुत्रधार** : (संवाद)

**शिता** : सुंदरी काय लागली अकांतान खटपटी करूंक.

(नाटकीकरण)

**रावण** : आयक गे शिते सुंदरी..त्या जनकाच्य राज्यांत तेत्तीस कोटी देवांची सभा बसली असता, तुज्या लक्षुमण दिरानी माझ्या उरावर जाऊन, दाये किरांगळेन सयंवराचा धोणसा उखल्ला की नाही...मला इतला मोठा अपमान करून ठेवलात की नाही...त्या वेळेला मी किती पैजा उलोवन गेला ते माहित आहे ना तुला... ही रामचंद्राची शिता आहेत का नाही..ती रावणाचे लंकेर तीन दीस नेऊन ठेवलीत का नाही...इतका मोठा पैजा मी बोलून गेलात का नाही...आता तूं माझ्या हातातंली कधी बी सुटून जाई सारकी नायी..

**शिता** : देवा परमेश्वरा आतां मी काय करूं...धांव धांव माझ्या स्वामी पती भरतारा धांव...

**रावण** : तो तुझा स्वामी पती भरतार येईल असे वाटते का तुला...तुजा परमेश्वर देव मेला आसत... तुजा राम भरतार मेला आसत...मलाच गे आतां तुजा स्वामी पती – परमेश्वर समज...

**सुत्रधार** : (संवाद)

अशे शिता सुंदरी लागली काय इकळाप तर करूंक. असे रामचंद्र तर नायी घरी आनी लक्षुमण दीर गेल्यात बंधवाच्या सोदांत..

(गायन)

*असे कपट व्रत धरूनी मला नेती रावण*
*स्वामी पती भरतारा धांव रे मला पाव*

**शिता** : (नाटकीकरण)

रावणा सांगते श्रवण कर, बारा वर्सां बुसून माझा नवस आहे का नाही...मला हात-बोट

लावशील तर भस्म करून टाकीन!

**रावण** : वा रे वा ..काहीं हरकत नाही.. तुझा तो स्वामी भरतार येऊनं तुला घेऊन जाई असे तुला वाटते का...काहां हरकत नाहीं पण मी तुजा स्वांमी पती परमेश्वर झाला हे लक्षांत ठेव...

**सुत्रधार** : (गायन)

*पावला पक्शाच्या मेंटावर*
*पावला पक्शाच्या मेंटावर*

(नाटकीकरण)

**पक्शी** : रावणा, काळा सांगतो श्रवण कर...आमच्या शिते धनिणिला बऱ्या बोलाने ठेऊन जा नाही तर मी तुला मारून टाकीन..

**रावण** : असे का? पण आपण कोण आहात सांग पहा?

**पक्शी** : मी पक्शी आहेत का नाही?

**रावण** : पक्शा सांगतो श्रवण कर. ह्या रावणाच्या वाटेचा बऱ्या उतरान कडेक सर.

**पक्शी** : रावणा सागतो श्रवण कर. तुजे मरण कशांत आहे हे सांग पहा..

**रावण** : पक्शा सांगतो श्रवण कर. असे तुमी आकाशात उडा आनी माझ्या दाया किरांगळेला क चोंच मार, इतके माझे मरण आहेत का नाही.

**सुत्रधार** : (संवाद)

असे पक्शा आनी रावणा काय युध्दां पेटतात आनी पक्शी आसा तो काय आकार्शीतल्यान रावणाचे दाया पांयाचे किरांगळेक काय चोंच मारूंक देंवता. तर तेणें चोंच मारचे येळेक रावण पावो काय फार्टी वोडटा आनी पक्शी काय धरणेर आपटता.

(गायन)

*दोनीं पाकटे काय मोडिला रे*

*पक्शा पांकटे काय मोडिला रे*

**सुत्रधार :** (संवाद)

असे त्या पक्शाक रणांत पाडलो आनी फुडें रे रावण सल्लो.

(गायन)

*पावलां चानयां मेटार रे*

*पावला चानयां मेंटार रे*

(नाटकीकरण)

**चानी :** रावणा सांगतो श्रवण कर, आमच्या शिते सुंदरीला लवकर खाली ठेव नाहितर पाहुन घे आमचा पराक्रम.

**रावण :** पण आपण कोण सांग पहा?

**चानी :** पण आम्ही चानयेचें पील आहेत का नाही..?

**रावण :** असे चानयेच्या पिला सांगतो श्रवण कर, पण तुमच्या मरणाच्यो वांटो कशांत आहे सांग पहा..

**चानी :** दुरगाचेर फांपार मारुन वडयलो म्हणजे ते माझे मरण होईल.

**सुत्रधार :** (संवाद)

त्या चानयेच्या पिलाक आनी रावणाक इचार पडलो आनी विध्दां जालीं. तेंच रे थंय दुरगां आसा तट. चानयेच्या पिलाक मारला फांपार, शेंवटिला काय दुरगार आनी चानयेच्या पिलाक रणा पाडून रावण फुडें रे सल्लो.

(नृत्यगीत)

*पावला सोन्या लंकेर*
*आला कपटी रावण*
*धीन तक धीन तक था...*
*धीन तक धीन तक था...*

(संवाद)
अशें रे रावणान शितेक व्हरोन थेयली अशोकाचे वनी आनी आपूण येयलो सोन्याचे लंकेर. इकडेन रे काय झाले. ते रामचंद्र काय मिर्ग वधून येयले गंफेचे दारी. लक्षुमण काय येयले सांगाताक. गुंफे गे गुंफे , शिते गे शिते...म्हण उलो काय मारल्यार, गुंफा काय ओ म्हणना, शिता काय ओ म्हणना.

(गायन)
*व्याकूळ झाला राम रघुनाथ*
*व्याकूळ झाला राम रघुनाथ*

**राम** : (नाटकीकरण)
लक्षुमणा, शिता उले मारल्यार ओ म्हणत नाही...गुंफा ओ म्हणत नाही..बंधवा शिते सुंदरीला लागून मी व्याकूळ आहे, आम्ही या तिचा सोद पाडूंक. हे बंधवा, आमी शितेचे सांगातान विघ्नां विघ्नां पार केली, असली शिता आमकां कदी बी गावपा सारकी ना. या बंधवा, आमी तिचा सोद घेऊंक.

**सुत्रधार** : (संवाद)
राम-लक्षुमण दोगय गेले शितेचे मागुनी. तिच्यो सगळ्यो वस्तु लागल्यो रे मर्गीं मेळूंक. ते सरले फुडें. वस्तू -दागिने मेळ्ळे रे मार्गान फुडें सल्ल्यार पावले पक्शां मेटार. तर पक्शी

रामचंद्राचीं चरणां धरता.

**राम** : आरे आमी सुखी-दुखी असाता, आमची चरणां धरपाक तुमी कोण..?

**पक्शी** : आमी पक्शी...तुमी कोणत्या कारणे सुखी-दुखी... सांग पहा...?

**राम** : पक्शा सांगतो श्रवण कर...आमी दुख्खी शितेचे वांचुनी...आमच्या शिता सुंदरीला कोण तरी घेऊनी गेला.

**पक्शी** : तुमच्या सिता सुंदरीला कोण तरी घेऊन गेला सोन्याचे लंकेर. आमी त्या चोराशी विध्द पडेल. तेला आमचे मरण खरे सांगितले, तेणें कपटान आमचा घात केला, मला रणांत पाडून ठेवला...

**राम** : जावूं काहीं हरकत नाहीं, मी तुला दिवदान देतो.

(गायन)

**सुत्रधार** : *जीवदान दिला त्या पक्शाक*
*जीवदान दिला त्या पक्शाक*

(संवाद)

अशें रामचंद्रान पक्शाक जिवदान दिलें आनी तो फुडें रे सरला. पावला चानयं मेंटार. तर चानयेचें पील फुडें रे सरून तेचीं चरणां धरता राम.

(नाटकीकरण)

**राम** : आमी इथे सुखी- दुखी असता, आमचीं चरणां धरता, कुणाचे कोण पहा?

**चानी** : रामधनया सागंतो श्रवण कर, आमी अशे चानयेचें पील, तुमच्या शितेला रावण चोर पळवून नेत असता आमी तेच्याशी विध्दां

खेळ्ळीं. तेन्ना तेणी आमची अशी दशा करून ठेवली.

**राम** : चानयेच्यां पिला आमी तुला जिवदान देतो आनी सोन्याचे पाट देतो.

**चानी** : रामधनया सांगतो श्रवण कर. तुमी मला सोन्याचे पाट दिले तर त्या कुळंब्याचे पोर मला मारून खाणार नाहित , सांग पाहा?

**सुत्रधार** : (गायन)

*चानये दिल्या ल्हवेचे पाट रे*
*चानये दिल्या ल्हवेचे पाट रे*

(संवाद)

अशे चानये पिला दिला जिवदान आनी ल्हवेचे पाट दिले आनी फुडें रे सरले.

(गायन)

*पावला पिंपळाच्या पेडार रे*
*पावला पिंपलाच्या पेडार रे*

(संवाद)

तेंच रे लक्षुमणान मोडल्या मांडी...रामाक केलं उशें..

(गायन)

*निंद्रा काय न्हिदला राम रे*
*निंद्रा काय न्हिदला राम रे*

*उत्पन्न जाला वानरा पील रे*
*उत्पन्न जाला वानरा पील रे*

*हुप्प हुप्प झाला मारुती रे*

*हुप्प हुप्प झाला मारुती रे*

(संवाद)
अशें त्या पिंपळा रुक्शार वानराचें पील उत्पन्न जालें , तें लागलें रे रुक्साचो पालो बुडून घालूंक. पाल घालतां घालतं मोटे खांदे लागले मोडून वडोवंक.

(गायन)
*राग भरला बा लक्षुमणा*
*राग भरला बा लक्षुमणा*

(संवाद)
असो दायो हात घातलो धोणशा लक्षुमणान. असो दायो हात घालच्यो येळार काय मांडी हालली.

(गायन)
*जागरुत जाला राम-रघुनाथ*
*जागरूत जाला रान-रघुनाथ*

(नाटकीकरण)

राम : आरे बंधवा, एका एकी बाण सोडूं नाका. इचार करून बाण सोड.

सुत्रधार : (संवाद)
कितें केलें वानराच्या पिलान...

(गायन)
*चरणार उडी बा मारीली*
*चरणार उडी बा मारिली*

(नाटकीकरण)

**राम** : आमी अशे सुखी दुखी असता आमचीं चरणां धरता तुमी कुणाचे कोण, सांग पहा?

**मारुती** : रामा सांगतो श्रवण कर...आमी अंजनीचे पुत्र मारुती आहेत का नाही? ...सांग पहा... माझ्या पोटाला भूक लागली...मला भक्शाला काही तरी पाहिजे की नाही, म्हणून असा रुक्शाचा पाला बुड्डिला की नाही... सांग पहा...पण तुमी कोणत्या कारणे सुखी-दुखी आहेत सांग पहा..

**राम** : आयक रे मारुती, आमची शिता-सुंदरी आहेत का नाही...तिच्या वांचुनी आम्ही सुखी-दुखी आहेत का नाही...ती अशी गुंफेवरुन नाहिशी झालीत की नाही...

**मारुती** : तुमची सारी चिंता काडून आमच्या चरणावर ठेवा आनी अमृताची मुदी आमच्या हतावर. आनी सोन्याची लंका कोठे पावली ती पाहून द्या.

**राम** : असे का... पण जावूं काहीं हरकत नाही..

**सुत्रधार** : (संवाद)

कितें केलं रामचंद्रान...सारी चिंता काडली त्या मारुतीच्या चरणावर ठेवली आनी अमृताची मुदी काडून हातावर ठेवली...आनी सोन्याची लंका पाहून दिली. आनी म्हण लागलो, मारुती तुमी एक उडाण मारचें, सोन्याचे लंकेर पडचें, आनी मारुतीन कितें केलें..एक उडाण मारलें.

(गायन)

*उडान मारलां बा मारुतीन*
*उडान मारलां बा मारुतीन*

*पडलां बा ते सोन्या लंकेर*

*पडलां बा ते सोन्या लंकेर*

(संवाद)
अशें चालोन गेला मारुती लंकेर आनी उडान मारला अशोकाचे बागेत आनी अमृताची मुदी काडली आनी शितेच्या कोनोळ्यात वडयली. असो आपूण रावलो दडून.

(गायन)
*हड्डें कोसळून रडों येयलें शिते*
*हड्डें कोसळून रडों येयलें शिते*

(नाटकीकरण)

**शिता** : आरेरे देवा... आतां मी काय करूं. स्वामी भरताराची मुदी माझ्या हातांत येवन पडली. स्वामी भरतारला कुणी तरी खाल्ला असेल.

**मारुती** : पण शिते सांगतो श्रवण कर... तुज्या भरताराला खाल्ला असेल , असा कोणी बी कधी जल्माला आलेला ऩाही. तुमचा राम भरतार खोशाल आहे पण तुमचे बगर त्याचे ध्यन-मन लागना.

**शिता** : पण आपण कोण आहात सांग पहा?

**मारुती** : आमी असे अंजनीचा पुत्र मारुती आहेत का नाही? .पण आमी अशे बारा वर्सां जालीं तुमच्या सोदाला आलो. आतां आमच्या पोटाला भूक लागली. मला काय तरी भक्षणायला द्या.

**शिता** : अरो पुत्रा मारुती, तुला भक्षणा मी काय देवूं... हे लंकेर मोठ-मोठ्यो राकशिणी काय वन तर राखता. पडलेलें झडलेलें काडल्यारुय काय अन्यावी.

**मारुती** : माते सांगतो श्रवण कर. ह्या लंकेर मोठ मोठे

रुख आहेत का नाही... त्याची फळ मला द्या.

**शिता** : मारुती सांगते श्रवण कर ...पोरा पडलेले झडलेलें खां, रुक्शा वयर मात उडी मारूं नाका.

**सुत्रधार** : (संवाद)

काय केलें मारुतीन...

(गायन)

*आज्ञा घेतला शितेची रे*

*आज्ञा घेतला शितेची रे*

*उडान कलें बागार रे*

*उडान केलें बागार रे*

*बाग चरचऱ्यां मोडिता रे*

*बाग चरचऱ्या मोडिता रे*

(संवाद)

तेंच रे कितें केलं मारुतीन...सारें बाग रे मोडोन घातलें

(गायन)

*पावली खबर रावणाक रे*

*पावली खबर रावणाक रे*

(संवाद)

तेंच रे कितें केलें रावणान..त्या रे सगळ्या देवांक भायर घातले...आनी फांशे मांडूक सागंले. आनी सांगले, देवांनो ,त्या वानराच्या पिलाला लवकर पकडून आणांत. तर म्हटलें देवांनी, जावूं काही हरकत नाही, आमी अशे वता आनी त्या वानराच्या पिलाक धरून

हाडटात.

(गायन)
*लागल्या फांशे मांडूंक रे*
*लागल्या फांशे मांडूंक रे*

*तें गिन्यान जालें पुत्रा मारुतीक बा*
*तें गिन्यान जालें पुत्रा मारुतीक बा*

**सुत्रधार :** असें म्हण लागलो आपूण फांसाक लागल्यार, देव म्हण लागले बंदिंतल्यान सुटल्यार सुटले. कितें केलें मारुतीन?

(गायन)
*उडान मारलें बा त्या फांसावयर*
*उडान मारलें बा त्या फांसावयर*

(संवाद)
असो फांसाक सांपडला मारुती... देवंनी धल्लो आनी व्हेलो काय रे रावणा समोर. कितें केलें रे रावणान...लागलो रे तेचीं मरणा विचारुंक.

(नाटकीकरण)

**रावण :** आयक रे मारूती...वानराच्या पिला तुमी मरणां कित्याक आहेत सांग पहा?

**मारुती :** रावणा सांगतो श्रवण कर, आमच्या मरणाच्यो वांटो सोप्यो आसात. तुमच्या सारे लंकेची लुगडीं आसात ती हाडून आमच्या शेंपेच्या कुंच्याक बांदची आनी आगीन ठोकची आनी मानीं मानीं घरां दाखोवन दिवचीं.

**रावण** : असे का? पण जावूं काही हरकत नाहीं..

**सुत्रधार** : (संवाद)

कितें केलं रावणान? असे शिपायांक वर्द दिली की सारीं लंकेचीं लुगडीं हाडून तेच्या शेंपेच्या कुंच्याक बांदचीं...तशें केलें रे शिपायांनी... शेंपेच्या कुंच्याक लुगडी घुंवडायली...अशे पेत्रेलाचे डबे वोतले, आगीन ठोकली...मानीं मानीं घरां दाकोवन दिलीं...तर कितें केलें वानराच्या पिलान...शेंपेक आगीन प्रवाळटाच मारलें उडान...

(गायन)

*पयलें उडान मारलां काय रे लंकेर*
*पयलें उडान मारलां काय रे लंकेर*

*दुसरें उडान मारलां काय रे घरांर*
*दुसरें उडान मारलां काय रे घरांर*

*तिसरें उडान मारलां काय रे समुद्रांत*
*तिसरें उडान मारलां काय रे समुंद्रांत*

(संवाद)

असें सारी लंका जाळून वडयली आनी मारुतीन समुद्रां उडान मारलें, समुद्र लागलो जळोंक. असो वयर येवन तळपट्या सड्यार रेयें वयर येवन बसलो आनी शेंपेक हात पुसलो आनी असो हात तोंडावेल्यन वोडलो, पांयांवेल्यन वोडलो. घामा उदक पुसलें आनी खर्र करून धरकल समुद्रां वडयलें, तें तर मरगीणीन गिळ्ळें. धरकलाचो गर्भ जालो. अशें पळयल्यार तोंडाक काळो डाग तर जालो...हेंच तर खत आपल्य वंशा उरो...कितें केलं मारुतीन?

(गायन)
*चालोन येयला पिंपळा पेडार रे*
*चालोन येयला पिंपळा पेडार रे*

(संवाद)
अशें तर रामचंद्रक भेटलो. ते नंतर राम-लक्षुमण आनी मारुती तिगींय एक जाले आनी अशे अयोध्येक गेले. इकडेन रे काय केलं लंकेच्या रावणान...

(गायन)
*आपलो परधान काय रे बोलयालो*
*आपलो परधान काय रे बोलयालो*

(नाटकीकरण)
रावण : परधानजी अलिकडे ये.
प्रधान : आयलो सायबा...

(नृत्य गीत)
*परधान भिले रे परधान भिले*
*धीन तक...धीन तक था*
*धीन तक ...धीन तक था*

प्रधान : रावणा धनया मला कोणत्या कारणे पत्रिका पाठवली सांग पहा?
रावण : हे प्रधानजी, बंधवा विभुशणा लवकर पत्रिका पाठवलीस तर गमन कर.

सुत्रधार : (गायन)
*परधाना बा त्या काय रे पाठविला*
*परधाना बा त्या काय रे पाठविला*

प्रधान : राजाराम महाराज ...अलिकडे ये.

(नृत्य-गीत)
*सुर्यपूत्र तो महाप्रतामी*
*येता सभे पातला...*

(नाटकीकरण)

विभुशण: परधानजी...एका एकी मला कोणत्या कारणे पत्रिका पाठयली सांग पहा?

प्रधान : सायबा तुका हायें आपयलो ना, तुका तुगेल्या भावन आपयला.

विभुशण: आमचे बंधव कोणत्या ठिकाणी आहेत, सांग पहा?

प्रधान : हो पळय, हांगा उबो आसा.

विभुशण: बंधवा सांगतो श्रवण कर, आम्हाल पत्रिका पाठवून एका एकी बोलावणयाचें कारण काय झाले..

रावण : बंधवा विभुशणा, अंजनीचा पुत्र मारुती येऊनी आमच्या साऱ्या लंकेचा इधवंस करून टेवला आहे की नाही...पूण आतं पुठे लंकेचा काय इचार आहे सांग पहा.

विभुशण: रामचंद्राची जानकी शिता आहेत का नाही, तिला आधी अ.ध्येच्या राज्याला पाठवून द्या. तिच्या पायी अंजनीची पुत्र येऊन सारे लंकेचा इध्वंस करून टेवला आहे हे तुम्हाला माहित आहे की नाही...सांग पहा.

प्रधान : हेणें एकदम सारकें सांगलें.

रावण : काय सागंतो विभुशणा...प्रधानजी...बंधवा कर्णाला लावकर पत्रिका पाठव.

**प्रधान** : राजाराम महाराज कर्ण, अलिकडे ये..

(नृत्य-गीत)
*सुर्यपूत्र तो महाप्रतामी*
*येता सभे पातला...*

**कर्ण** : परधानजी... एका एकी मला कोणत्या कारणे पत्रिका पाठयली सांग पहा?

**प्रधान** : सायबा तुका हायें आपयलो ना, तुका तुगेल्या भावन आपयला.

**कर्ण** : आमचे बंधव कोणत्या ठिकाणी आहेत, सांग पहा.

**प्रधान** : हो पळय, हांगा उबो आसा.

**कर्ण** : बंधवा सांगतो श्रवण कर, आम्हाल पत्रिका पाठवून एका एकी बोलावणयाचें कारण काय झाले सांग पहा?

**रावण** : बंधवा कर्णा, ह्या विभुशणाची म्हण्णी काय आहे पहा.

**कर्ण** : विभुशणा तुजी म्हण्णी काय आहे, सांग पहा.

**विभुशण**: रामचंद्राची जानकी शिता आहेत क नाही, तिला त्या अयोध्येच्या राज्यांत पाठवून देवून आमच्या लंकेचा सुशेग करायचा की नाही... अशी म्हाजी म्हण्णी आहे.

**कर्ण** : बंधवा, या विभुशणाला काय करवे...?

**रावण** : कर्णा सागंतो श्रवण कर, त्याचा मुड्डा बांदून साता समुद्रा मध्ये टाकून दिलात तर माझा प्रतिपाळ झाला.

**कर्ण** : असे का? ...पण जावूं माजी काहीं हरकत नाही.

**सुत्रधार** : (संवाद)
असो काय कर्ण विभुशणाचो मुड्डो काय बांदता

आनी साता समुदरांत वडयता.

(गायन)

*साता समुंदांत काय रे व्हांवोन वयता*
*साता समुद्रांत काय रे व्हांवोन वयता*

(नाटकीकरण)

**रावण** : हा. हा. हा...परधानजी...

**प्रधान** : ओ सायबा

**रावण** : त्या पाताळीच्या रस्त्यामध्ये ...पयल्या पाऱ्याची कोण वेवेस्था करून ठेवल्या आहेत...संगा पहा?

**प्रधान** : त्या पाताळीच्या रस्त्यार मोठ मोठे तळप-पाशाण आड घालून ठेवल्या आहेत.

**रावण** : शाब्बास...प्रधान ...शाब्बास...

**प्रधान** : देव बरें करूं सायबा

**रावण** : प्रधनजी अलीकड याय....

**प्रधान** : आयलो सायबा

**रावण** : त्या मयंकावतीच्या रस्यामध्ये... दुसऱ्या पाऱ्याची कोण वेवेस्था करून ठेवल्या आहेत... संगा पहा?

**प्रधान** : त्या मयकावंतीच्या रस्त्यार रानशिंगाचें वारू करून ठेवल्या आहेत.

**रावण** : शाब्बास... प्रधान... शाब्बास...

**प्रधान** : देव बरें करूं सायबा

**रावण** : प्रधनजी अलीकड या....

**प्रधान** : आयलो सायबा

**रावण** : त्या मृत्यूलोकाच्या रस्यामध्ये ...तिसऱ्या पाऱ्याची कोण वेवेस्था करून ठेवल्या आहेत.. सांग पहा?

**प्रधान** : त्या मृत्यूलोकाच्या रस्त्यार आश्णाचीं मश्णां घालून दवरल्या आहेत.

**रावण** : शाब्बास...प्रधान ...शाब्बास...

प्रधान हय कोण येवपाचेर ना हांगा...कधी बी नाही....
(स्वगत) आरे, हाये अशें सांगलें खरें...पूण तो राम जर येत तर माझ्या आंतकोड्यो भायर काडटलो...आनी हो म्हागेलो धनी म्हुटल्यार सामको कट्टो...हेची चाकरी करून कांय फायदो ना. मेज्जून दोन मुठी गोटे गालता...ह्या येद्द्या मोट्या धमकट्या पोटाक ते पावतात... शी हेची चाकरी करपाची ना...

**प्रधान** : (गीत)
*ह्या धनयाची कठीण चाकरी*
*हागोंक गावना, देवाच्यान हागोंक गावना*
*मुठभर गोटे, सोलांची कडी*
*पोटाक पावना, देवाच्यान पोटाक पावना...*

बरें हांव वयता तर...पलोवया मुखार कितें घडटा तें.

**सुत्रधार** : त्याच रे विभुशणाचो मुड्डो समुद्रांत लागलो व्हांवपाक. असे राम-लक्षुमण समजले दैत काय रे येता. ते काय सावचूत जाले.असे व्हांवता व्हांवता रामचंद्राच्या बंदराक मुड्डो लागलो.

(गायन)
*मुड्डो लागला रे बंदराक*
*मुड्डो लागला रे बंदराक*

(संवाद)
असे रामान धल्लो साक आनी लक्षुमण लागलो काय मुड्डो सोडोवंक...तोच रे दिसता मुसळा येदे दांत, सुपा येदे कान...घुगमा येदे दोळे...

तोच रे सोडटा , चिंता जाली रे रामाक...काय
मोटो राकेस तर तो दिसता...

(गायन)
*धोणश्या बाण रे लाविला*
*धोणश्या बाण रे लाविला*

(संवाद)

**सुत्रधार :** असे धोणश्या बाण लावचे येळे काय रे केले विभुशणान..अशीं काय रामचंद्राचीं चरणां धरलीं, नी म्हण लागलो, रामधनया आनी तुमची भक्ती दावीन.

**राम :** असे आमी इथे सुखी-दुखी असता, आमचीं चरणां धरता कुणाचे कोण पहा?

**विभुशण:** तुमी कोणत्या कारणी सुखी-दुखी आहे सांग पहा...

**राम :** आमी शितेच्या कारणी सुखी-दुखी आहे.

**विभुशण:** राम सांगतो श्रवण कर. शितेचे वांचुनी तुमी चिंता करूं नाकात. शितेचा सोद पाडून देणरा मी विभुशण आहेत का नाही...

**राम :** शब्बास विभुशणा...शाब्बास...!

(गायन)
*सगे घेतला विभुशणा रे*
*सगे घेतला विभुशणा रे*

सुत्रधार : अशे काय केले रामचंद्रान...असे सगे विभुशणा घेतलें आनी अशी पत्रिका पाठयली लंकेच्या रावणा...अशे सोमाराच्या दिसा आमचें दल लंकेर येतलें.असे तुमचे मानी मनी दैत काय पुनोवन ठेवचे.

(गायन)
*पत्रां पाठयलीं बा रावणाक*
*पत्रां पाठयलीं बा रावणाक*

(संवाद)

**सुत्रधार :** अशे पत्रां पाठयली आनी काय झाले... सोमाराच्या दिसा रामाचें दल, तो विभुशण, लक्षुमण नी तो अंजनीचा पुत्र मारुती ...

(गायन)
*घांवून गेला बा सोन्या लंकेर*
*धांवूनी गेला बा सोन्या लंकेर*

*शाद मारल्या बा लंकेच्या रावणा,*
*शाद मारल्या बा लंकेच्या रावणा*

*धांवोन येयला रे रावण*
*धांवोन येयला रे रावण*

(नृत्य)
*सुर्यपुत्र तो महापराक्रमी*
*येता सभे पातला...*

(नाटकीकरण)

**रावण :** हे रामचंद्रा सागंतो श्रवण कर. एका एकी असे लंकेवर येण्याचे कारण काय सांग पहा..?

**राम :** रावणा सांगतो श्रवण कर...काय तुमच्या मनांत चोर आहे, आनी आमची जानकी शिता आहेत का नाही, तिला अयोध्येच्या राज्यांत पाठवून देतोस का नाही?

**रावण :** काय काय...? आमी अशे कधी बी करणार

नाही. रामचंद्रा सागंतो श्रवण कर. त्या जनकाच्या राज्यामध्ये , तेत्तीस कोटी देवांची सभा बसली असता, तुज्या लक्षुमण बंधवाने माझ्या उरावर चडोनी दाया हाता किरांगळेन धोणसा उखून इतका मोठा माझ अपमान करून ठेवलात की नाही सांग पहा . आनी त्याच वेळी मी कितकी मोठी पैज उलोवन गेला ते तुला माहित का नाही...तुजी रामचंद्राची शिता आहेत का नाही, ती सात लंकेवर तीन दीस पर्यंत व्हरून भेटवलीत नाही तर गमन कर, इतकी मोठी पैजा मी उलोवन गेलात की नाही ...आनी आतां तुमची ती शिता लंकेवर आहेत की नाही. पळय...पळय...रामचंद्रा..

**राम** : रावणा सांगतो श्रवण कर...गुरू मायेबाप्पा आहे चक्राबळी आम्ही आहेत खेत्राबळी , तुमच्या रावणाला मारून शितेला घेऊन गेलात नाही तर गमन कर...!

**रावण** : प्रदानजी अलीकडे ये.

**प्रधान** : येता सायबा.

(गीत)
*प्रधान बोले रे , प्रधान बोले रे*
*धिन तक ता, झिन तक था*

**रावण** : प्रदानजीबंधवा कर्णाला लवकर पत्रिका पाठवून द्या.

**प्रधान** : राजा राम महाराज, अलिकडे या.

(नृत्यगीत)
*सुर्यपुत्र तो महापराक्रमी*
*ता सभे पातला*

(नाटकीकरण)

**कर्ण** : प्रधानजी, मला एका एकी कोणत्या कारणे पत्रिका पाठवली सांग पहा.

**रावण** : बंधवा कर्णा सागंतो श्रवण कर. हे रामटंद्राचे दल आहेत का नाही...ते सात लंकेवर आले म्हणून तुम्हाला पत्रिका पाठवली आहे. पण त्याचे म्हण्णे काय आहे संग पहा?

**कर्ण** : बंधवा ते रामचंद्राचे दल कोठे आहे संग पहा... हे रामचंद्रा ...हा हा हा...तुमचे म्हण्णे काय आहे संग पहा...?

**राम** : हो प्रश्रन तु मला विचारतोस... तुज्या बांधवाने काय केले आहे तुला माहित नाही का...? आमची शिता सुंदरी आहेत का नाही...तिला सात सोन्याचे लंकेर आणून ठेवलीत की नाही...त्याच कारणी आमी ह्या सात सोन्याचे लंकेर दल घेऊन आलोत की नाही.?

**कर्ण** : जानकी शिता आहेत की नाही तिला अयोध्योच्या राज्यांत पाठवून द्ययचे अशे तुजे म्हण्णें आहेत का...?

**राम** : हय.

**कर्ण** : हा. हा. ह. राम सागंतो श्रवण कर. असे कधी बी होणार नाही. तुझ्या देहाचा घात करून , तुजे तुकड तकडे केल्या बगर हा कर्ण कधी राहणार नाही...पण जावूं काहीं हरकत नाही.

**राम** : कर्णा सांगतो श्रवण कर, गुरू आहे चक्राबली आम्ही आहे खेत्राबळी, तुजा वध केल्या शिवाय हा राम कधी बी राहणार नाही. पण जावूं काहीं हरकत नाही!

(युध्द नृत्य)

*फोडीन पाताळ, भेदीन गगन*
*पाडीन या कर्णाला*

*फोडीन फोडीन*
*उडवीन गर्दन या कर्णाची*

**सुत्रधार :** (संवाद)
अशे त्या रामाक आनी त्या कर्णाक मोठी विध्दां काय पेटटात .

(गायन)

*कर्णाक बा तो काय रे वधिला*
*कर्णाक बा तो काय रे वधिला*

(नाटकीकरण)

**रावण :** प्रधानजी आमच्या पुतण्या अतिकयाला लवकर पत्रिका पाठवून द्या.

**प्रधान :** राजा राम महाराज, अलिकडे या.

(नृत्यगीत)
*सुर्यपुत्र तो महापराक्रमी*
*येता सभे पातला.*

**अतिकय:** प्रधानजी आहाला एका एकी पत्रिका का पाठवली सांग पहा. ?

**प्रधान :** आम्ही नाही पाठवली , तुमच्या बापलया रावणाने पठवली.

**अतिकय:** आमचे बापोलये, पिते कोणत्या ठिकाणी आहे सांग पहा ?

**रावण :** पुत्रा अतिकया सागंतो श्रवण कर. हे रामचंद्राचे दल आहेत का नाही...ते सात लंकेवर आले म्हणून तुम्हाला पत्रिका पाठवली आहे. त्यांनी आमच्या बंधवा कर्णाला तुमच्या पित्याला

रणांत पाडून ठेवले. त्याच कारमी तुम्हाला पत्रिका पाठवली.

**कर्ण** : ते रामचंद्राचे दल कोठे आहे सांग पहा...? हे रामचंद्रा ...हा हा हा...आमच्या पित्या कर्णाला जिवदान देतोस की नाही सांग पाहा..

**राम** : अतिकया सांगतो श्रवण कर, तुज्या पित्या कर्णाला कधी बी मी जिवदान देई सारका नाही. तुज्या काका रावणाने आमची शिता सुंदरी आहेत का नाही...तिला सात सोन्याचे लंकेर आणून ठेवलीत की नाही...त्याच कारणी आमी ह्या सात सोन्याचे लंकेर दल घेऊन आलोत की नाही. आमी तुमच्या पित्या करणाने आमच्या कडे विध्द खेळलेत का नाही.

**कर्ण** : असे का ? ...जावूं काही हरकत नाही..हो युध्दाला तयार.

**राम** : अतिकया सांगतो श्रवण कर, गुरू आहे चक्राबळी आम्ही आहे खेत्राबळी, तुजा पराक्रम बधितल्या शिवाय हा राम कधी बी राहणार नाही. पण जावूं काहीं हरकत नाही.

(युध्दनृत्य)
*ऐक रे विरा, सांगतो तुला*
*शस्त्र ठेऊनी शरण ये मला*

(नाटकीकरण)

**राम** : पण जावूं काहीं हरकत नाही.

(युध्दनृत्य)
*मुरली लागे वाजवूं श्रीहरी*
*तुज्या मुरलीन शत्रुला हरवीन*

*धीन तक धीन तक था*
*धीन तक धीन तक था*

**सुत्रधार :** (गायन)
अतिकय बा ते काय वधियालो
अतिकय बा ते काय वधियालो

(संवाद)
तेच रे अतिकय वधताच काय रे जालां, रावण काय तो धांवून आला.

**रावण :** हे रामचंद्रा सांगतो श्रवण कर, तुजीं शस्त्रां काडून माझ्या पांयांवर ठेव आनी असा येऊन मला नमस्कार कर.

**राम :** हे रावणा सांगतो श्रवण कर. गुरू बाप्पा आहे चक्राबळी आम्ही आहोत खेत्राबळी तुला जर तुजा जीव हवा असोल तर आल्या पावली परत जा, नाहितर हो मरणाल तयार!

**रावण :** पाहिन तुजा पराक्रम.

(युध्दनृत्य)
*खणखण परजुनी या शस्त्रांना*
*यमसदना धाडीन तुज असुराला*
...........................................
...........................................
*धीन तक धीन तक था*
*धीन तक धीन तक था*

**सुत्रधार :** (संवाद)
अशे रावणा आनी रामा काय विध्दा पेटलीं.

(गायन)
*रावण बा ते काय रे वधियालो*
*रावण बा ते काय रे वधियालो*

*ही खबर कळ्ळी बा विंद्रज्युता*
*ही खबर कळ्ळी बा विंद्रज्युता*

(संवाद)
अशें म्हण लागलो, बाप्पा पित्याला रणांत पाडून ठेवलो, असो मंदोदरेचे पोटी, नकमाळेचे राजे असो पराक्रमी आपूण विंद्रज्यूत असता, व्यर्थ म्हण लगलो. असे विंद्राचे सभेवर जाऊनी, विंद्राचे पोटीवर बसणार , इतका माझा पराक्रम आसा. काय कें विंद्रज्योतान...

(गायन)
*धूम मारला बा ते सोन्या लंकेर*
*धूम मारला बा ते सोन्या लंकेर*

(नृत्यगीत)
*सुर्यपुत्र तो महापराक्रमी*
*येता सभे पातला*
*धीन तक धीन तक था*
*धीन तक धीन तक था*

(नाटकीकरण)

**विंद्रज्यूतः** रामा सांगतो श्रवण कर. आमच्या बाप्पा पित्याला जिवदान देतोस ...नाहितर दावीन माझा पराक्रम.

**राम** : हे विंद्रज्युता सांगतो श्रवण कर. गुरू बाप्पा

आहे चक्राबळी, आम्ही आहे खेत्राबळी... चलतो पांय चलूं दी... तुज्या पित्याला कधी बी जिवदान देई सारका नाही.

**विंद्रज्युत:** असे कां? ...मग होऊ दे विध्द.

**सुत्रधार :** (संवाद)

असे रामाक आनी विंद्रज्युताक विध्दां पडली.

(युध्दनृत्य)

................................

......................................

*धीन तक धीन तक था*
*धीन तक धीन तक था*

**सुत्रधार :** (गायन)

*रामाक बा ते काय रे वधियालो*
*रामाक बा ते काय रे वधियालो*

(संवाद)

असो रामाक वधलो आनी विंद्रज्युतान लकमळी काय उडी मारली आनी हवन तें मांडले आनी हवनाक बसलो. आनी ते हवन केलें त्या दसरंथाच्या पोराक केदी बी जिव-वाचा येवूं न्हूं म्हुणोन. असो रामाक ते वेळी मोटो घात घडलो. लक्षुमणाचेर मोठो परसंग येयलो.

(गायन)

*शाद मारला बा ते विभुशणा*
*शाद मारला बा ते विभुशणा.*

*धांवोन येयलो बा तो विभुशण*

*धावोन येयलो बा ते विभुशण*

(नाटकीकरण)

विभुशण : लक्षुमणा, असे कोणत्या कारणी आम्हाला शाद मारले सांग पहा?

लक्षुमण : विभुशणा, मंदोदरेचा पुत्र, नकमळीचे राजे विंद्रज्युत येऊनी आमच्या वडिल बंधवाला असे रणांत पाडून गेले असता, काय करूं सांग पहा...

विभुशण : पण जावूं काहीं हरकत नाही. त्या मारूतीला शाद मार आनी असे रुशीकडेन वखदी आणायला पाठव.

**सुत्रधार** : (गायन)

*शाद मारला काय रे त्या मारुतीक*
*साद मारला काय रे त्या मारुतीक*

(संवाद)

तेंच रे मारुती धांवन येयेलो. आरे, म्हण लागलो धनया आपल्याक कोणत्या कारणे शाद मारलो. तर म्हण लागलो मंदोदरेचा पुत्र येऊनी मोठो घात केलो, बंधवाक रणां पाडून गेलो. तेन्ना वचोंन वखदी घेऊन यो. तेंच रे काय केलें मारुतीन गेलो रुशीकडेन आनी लागलो वखदी मागोंक. ती वखदी दिना म्हण तेचे जांगेर दिलो एक फांपार आनी सारी वखदी काय लागलो शेंवटून वडोवंक. आनी ते रुशीक उबारून काय हाडलो रामचंद्रा फुड्यांत. तेंच रे रुशीन काय केलें, रामचंद्राची नाडी धरली आनी सांगले, हेका बरी करी सारकी वखदी हांगा ना, ती गिरी पर्वतार मेळत. तशें सगळ्यो खाणा-खुणा विचारून मारुतीन काय केलें..

(गायन)

*उडान मारलें गिरी पर्वतार*

*उडान मारलें गिरी पर्वतार*

**सुत्रधार :** (संवाद)
तेंच रे काय केलं मारुतीन ... अशी सारी वखदी घेतली बुड्डून आनी येयलो परत, तर रूशीन सारी वखदी दिली टाकून आनी एक मुळी रामचंद्राचे नाकेकडेन चोळ्ळी.

(गायन)
*जिवदान दिला रामा रघुनाथा*
*जिवदान दिलां रामा रघुनाथा*

**सुत्रधार :** (संवाद)
तेंच रे काय जालें...असो रामचंद्र काय जिवंत जालो आनी लागलो इचारूंक लक्षुमणाक.

(नाटकीकरण)

**राम :** बंधवा, मी बारा वर्सांची निंद्रा न्हिदली असता, मला एका एकी कोणत्या कारणे जागृत केला सांग पहा ?

**लक्षुमण :** बंधवा ऐक पहा, मंदोदरेचा पुत्र विंद्रज्युत येऊनी तुला रणांत पाडूंनी गेला. आतां मारुतीला गिरी पर्वतार धाडूंनी तुला वखदी हाडूंनी जिवदान केला.

**राम :** असे का ? पण कुठे गेला आहे तो विंद्रज्युत...

**विभुशण :** मंदोदरेचा पुत्र आहेत का नाही. नकुंमळेच्या राज्यांत हवन मांडून तिथे बसकार केला आहेत का नाही..मारुतीला तिथे पाठवून ठेवा आनी तेच्या हवनाचा भंग करून या.

**मारुती :** असे का ?

**सुत्रधार :** (गायन)

*उडान मारलां नकुंमाळेक*
*उडान मारलां नकुंमाळेक*

*विंद्रा हवन बा पाडिलां*
*विंद्रा हवन बा पाडिलां*

*घांवुनी येयला विंद्रज्युत*
*धांवुनी येयला विंद्रज्युत*

(नृत्यगीत)
*सुर्यपुत्र तो महापराक्रमी*
*येता सभे पातला*
*धीन तक धीन तक था*
*धीन तक धीन तक था*

**सुत्रधार :** (संवाद)
अशें कितें केलं रे विंद्रज्युतान...अशें उडान मारलें लंकेर...आनी लक्षुमणाक आनी विंद्रज्याताक विध्दां पडलीं..

(नाटकीकरण)

**विंद्रज्युत:** लक्षुमणा सांगतो श्रवण कर.हे...म्हाज्यो वाटो कोणत्या प्रकारे लाऊन दिल्यो हेच मला तत्पर कळीत कर!

**लक्षुमण:** विंद्रा, सांगतो श्रवण कर. त्या सात समुद्रांत मुड्डो करून टाकलेल्या विभुशणाची तुला आठवण आहे का नाही...तेचेच कृपेने मला वाटा कळल्या,

**विंद्रज्युत:** आमचे विभुशणा बापोलये फार मदांत जाले.. पण जावूं काही हरकत नाही.

**लश्क्षुमण:** पाहिन तुझा पराक्रम.

(युध्दनृत्य)

...................................

...................................

*धीन तक धीन तक था*
*धीन तक धीन तक था*

**सुत्रधार :** (संवाद)
हेंच रे कितें केलें विंद्रज्युतान...मोठी मोठी अस्त्रां काय भायर काडली आनी लक्षुमणाच्यान नजो विद्रज्युताक मारोंक. कितें केलं विभुशणान ? ...अशीं मंदोदरेचीं रुपां काय घेतलीं...

(गायन)
*चालोनी गेला नकमाळेक*
*चालोनी गेला नकमाळेक*

*सुने सुने माझे जिवलावंती गे*
*सुने सुने माझे जिवलावंती*

(नाटकीकरण)
**विभुशण:** हे अशे पुत्र पडले रणा, बाणाची भरणां बेगीन दियात.

**सुत्रधार :** (गायन)

*मामी मामी माझे मंदोदरी गे*
*मामी मामी माझे मंदोदरी गे*

*बाणाक हात घालता शकुन जाले गे*
*बाणाक हात घालता शकुन जाले गे*

(नाटकीकरण)
**विभुशण:** हे सुने दुलावंती, असे गे शकुन जाता, बाणाची

भरणी बेगीन काडात.

**सुत्रधार :** (संवाद) अशे सुनेन बाण काडले आनी तेच्या हाती दिले.

**सुत्रधार :** (गायन)

*लांब लांब पासयो मारताली गे*
*लांब लांब पासयो मारताली गे*

(नाटकीकरण)

**जिवलावंती :** हे मामी मंदोदरे, कितें गे लाम लाम पासयो मारता?

**सुत्रधार :** (गायन)

*जांगो दिसता तुज्यो पुरुशाच्यो गे*
*जांगो दिसता तुज्यो पुरुसाच्यो गे*

*रांडला रांडला तूं दुलावंती गो*
*रांडला रांडला तूं दुलावंती गो*

*दोन दीस तुका आयेपण गो*
*तिसऱ्या दिसा तुका रांडपण गो*

*सातां समुंद्रा टाकलेलो गो*
*सातां समुद्रां टाकलेलो गो*

(संवाद)

असो बाण घेतलो आनी धांव मारलो लंकेर. आनी विंद्राचे बाण काडून लक्षुमणा हाती सोंपयले. असे ते बाण मेळटाच लक्षुमण लागलो रे विध्दां पेटोवंक. तेंच रे आकाशां उडान मारलें विंद्रान...

**लक्षुमण :** हे... विभुशणा सांगती श्रवण कर..आतां मंदोद्रेचा पुत्र विभुशण कोठो गेला हे मला तत्पर कळीत कर.

**विभुशण:** असे का? ...विंद्रज्युत आकाशा आहेत का नाही...आपण असे मारुतीच्या पुश्टावर जावून बाण सोडला तर विंद्राला झोमत आहे.

**लक्षुमण :** असे का? .. मारुती सांगतो श्रवण करप. आलेकडे ये.

**सुत्रधार :** कितें केलें लक्षुमणान...असो मारुतीच्या पुश्टीचेर सुंवार जालो.

(गायन)
*बाण सोडिला आकाशांत रे*
*बाण सोडिला आकाशांत रे*

*बाण झोमिला विंद्रज्युता रे*
*बाण झोमिला विंद्रज्युता रे*

(युध्दनृत्य)
*सुर्यपुत्र तो महापराक्रमी*
*येता सभे पातला*
*धीन तक धीन तक था*
*धीन तक धीन तक था*

(नाटकीकरण)

**विंद्रज्युत:** लक्षुमणा सागंती श्रवण कर. माज्या वाट कोणत्या प्रकारे लाऊन दिल्यो हेच मला तत्पर कळीत कर!

**लक्षुमण :** विंद्रा सांगती श्रवण कर. त्या तुझ्या पित्याच्या बंधवाने सात समुद्रांत टाकलल्या विभुशणाची

तुला याद आहे का...हे...हे... आणि या शस्त्राची तरी तुला ओळख आहे आहे. आणि या शस्त्राची तरी तुला ओळख आहे...

**विंद्रज्युत:** अरेरे विभुशणा...आतां काय तूं माझ्या हाती लागला असता, तर तवश्याची निरपी कशा तुला खाल्ला असाता!

**लक्षुमण:** पण मी तुला कधी बी मेळी सारका नाही. आणि तुज्या विंद्राचा कितका पराक्रम आहे हे पाहिल्या शिवाय कधी मी राहणार नाही!

(युध्दनृत्य)
*रघुनाथाचा बंधू, शेशाचा अवतार*
*एकादशी कारणे उपास बसले*
*मंदेदरेचा पुत्र उडती रे आकाशी*
.................................

**लक्षुमण:** पण जावूं काही हरकत नाही.

(युध्दगीत)
*ऐक रे विरा सांगतो तुला*
*शस्त्र ठेऊनी शरण ये मला*

*धीन तक धीन तक था*
*धीन तक धीन तक था*

**सुत्रधार :** अशें किते केलें लक्षुमणान? ...मारुतीच्या पुश्टीर सुंवार जालो आनी बाण सोडलो...

**सुत्रधार :** (गायन)
*बाण झोमलो बा काय त्या विंद्रज्युता*

*बाण झोमलो बा काय त्या विंद्रज्युता*

(संवाद)
असो बाण झोमलो आनी लागलें व्हावोंक अच्युत.

(गायन)
*विंद्रज्युत बा ते काय वधियालो*
*विंद्रज्युत बा ते काय वधियालो*

**सुत्रधार :** (संवाद)
अशें विंद्रज्युता वधलो आनी काय केले?

(गायन)
*विभुशणा दिला बा ते काय लंकेचा अधिकार*
*विभुशणा दिला बा ते काय लंकेचा अधिकार*

**सुत्रधार :** (संवाद)
अशें रे काय केलें विभुशणान...ह्या रे शिते सुंदरे म्हण लागलो पावयतलों.

(गायन)
*पांच पावलां बा ते काय रे पावयला*
*पांच पावलां बा ते काय रे पावयला*

**सुत्रधार :** (संवाद)
आयक रे म्हण लागलो रामधनया, तुमची जानकी शिता म्हण लागलो तुमकां वसों आनी अयोध्येचें राज्य म्हण लागलें तुमकां वसों. आनी आमचीं सोन्याची लंका म्हण लागलो आमकां वसों... आनी विभुशण रावलो सोन्याचे लंकेर.

(गायन)
राम-लक्षुमण गेले अयोध्येच्या राज्यांत
राम-लक्षुमण गेले अयोध्येच्या राज्यांत
---------- ---------
---------- ---------

(रणमालें सोंपोवपाचें गीत)
बरें एक झाड पिंपळीचें पिंपळीचें
झेम लागला हणमंता, हणमंता
बाळ जो जो रे, जो बाळा तान्हा
रतन निंद्रा बरी न्हिदला

हाणयाले चंदन घडियाले पाळणे
पाळणें जोजवूंक लागला
बाळा जो जो रे, जो बाळा तान्हा
रतन निंद्रा बरी न्हिदला

बाळाच्या पाळण्या रेशमाच्यो दोरयो
पावयल्यो मिरयो, झेलपायल्यो तिरयो
बाळा जो जो रे, जो बाळा तान्हा
रतन निंद्रा बरी न्हिदला

पाळणें बांदिला चंदनाचें रे, जो बाळा जो,
जो बाळा तान्हा, रतन निंद्रा बरी न्हिदला

झोपय मारिला आकाशा रे, जो बाळा जो
जो बाळा तान्हा, रतन निंद्रा बरी न्हिदला

तळपट्या सड्यार वंयो करिता,
बीं नासतना रोंपयो रोयिता
जो बाळा तान्हा, रतन निंद्रा बरी न्हिदला

....

*कवाश्याच्या फुलापासून*
*रामा वाकयो उतारी रे रामा, वाकयो उतारी*

*मोगरे फुला पासून*
*रामा पटो उतारी रे रामा, पटो उतारी*

*दसणीच्या फुला पासून*
*रामा काबाय उतारी रे रामा काबाय उतारी*

*आबोलेच्या फुला पासून*
*रामा मुकूट उतारी रे रामा मुकूट उतारी*

*चांफ्याच्या फुला पासून*
*रामा सरवय शिरंगार उतारी रे,*
*रामा सरवय शिरंगार उतारी*

*बोला पुंडलीक वरदा...*

(सोंपता)

000

(टीप : 'कुमारीचें रणमालें' हाचो सुरवेचो भाग नाट्यअंश - 1 अनन्य 8-9 अंकांत उजवाडाक आयला.)

मंथन

(निबंद)

डॉ. हनुमंत चोपडेकार

# ‘भारतीय लोकरंगभुमी आनी कोंकणी लोकनाट्य ‘रणमालें’ : एक चिकित्सक मोलावणी’

(झिलू गांवकार हांच्या ‘रणमालें : स्वरूप दर्शन’ ह्या संशोधनात्मक ग्रंथा संदर्भांत)

**सारांश :**

The concept of Folk Theatre is articulated from traditional rituals and beliefs. ‘लोकरंगभुमी’ ही संकल्पना पारंपरीक विधीनाट्यांतल्यान तशेंच लोकसमजुतींतल्यान आकाराक आयल्या. संवसारांत अश्या तरेच्या लोकविधींतल्यान जल्माक आयिल्ल्या नाट्यप्रकाराक लोकनाट्य (Folk Drama) हें नांव अभ्यासकांनी दिलां. हे नाट्यपरंपरेन हजारांनी वर्सा साकून चलत आयिल्ल्या लोकनाट्याच्या गिरेस्त परंपरेचो दिश्टावो दिला. भारतीय उपखंडांत यक्षगान, कुटियाट्टम, मयुरभंग, भवाई, माच, स्वांग, अंकीया, रासलिला, नौटंकी सारक्या प्रकारांतल्यान जाल्यार कोंकणी भुंयेचेर रणमालें, जागोर, खेळ, कालो अश्या स्वरूपांत तो दिश्टावो अस्तित्वांत आयिल्लो आमकां पळोवपाक मेळटा.

गोंयांत ह्या सारक्या विशयाचेर विनायक खेडेकार, डॉ. जयंती नायक, डॉ. पांडूरंग फळदेसाय सारक्यां अभ्यासकांनी अभ्यास केला. पूण तांच्या अभ्यासाक एक मर्यादा आशिल्ली. ते मर्यादेचें दुरीग हुंपून लोकसंस्कृतायेचे अभ्यासक आनी स्वता लोककलाकार झिलू लक्ष्मण गांवकार हांणी ‘रणमालें स्वरूप दर्शन’ ह्या संशोधनात्मक ग्रंथाच्या माध्यमांतल्यान ‘रणमालें’ ह्या थळाव्या लोकनाट्याचो सखोल अभ्यास करून ह्या मळावेल्या

**डॉ. हनुमंत चोपडेकार** : जल्म : 1973, कवी, नाटककार, समीक्षक, बालसाहित्यकार. *‘आतां केन्ना फांतोड जातली’*, हो कविता संग्रह आनी *‘हम होंगे कामयाब’*, *‘कैदी नंबर 001’*, *‘हरी आमचो टेंपररी’*, *‘दम दमा दम,’* *‘कुवाडी’* हीं नाटकाचीं पुस्तकां, तर *‘अस्तुरी प्रतिमा’*, हें संशोधनात्मक प्रकाराचें आनी *‘रायटर आनी फायटर – रवीन्द्र केळेकार’*, हें संपादीत पुस्तक प्रकाशीत. बालसाहित्याचीं पांच पुस्तकां प्रकाशीत. गोवा कोंकणी अकादेमीचो उत्कृश्ठ साहित्य पुरस्कार (2010, नाट्य विभाग) तशेंच हेर प्रतिशठेच्या साहित्य पुरस्कारांनी सन्मानीत. संपर्क : बी–1, श्रीराम पर्णकुटी, यशवंतनगर, तिस्क, फोंडें, गोंय – 403401. मो. 8805152539.

संशोधनाक नवी दिका दिल्या. देखून प्रस्तूत सोद प्रपत्रांत भारतीय रंगभुमीवेल्या फामाद लोकनाट्यांचो तशेंच वयर उल्लेख केल्ल्या कोंकणी रंगभुंयेवेल्या 'रणमालें' ह्या लोकनाट्याचो समाजीक, संस्कृतीक आनी इतिहासीक आंगान मोलावणी करपाचो यत्न जाला.

**विशयकेंद्रीत उतरां :**

लोकरंगभुमी, लोकनाट्य, विधीनाट्य, भारतीय लोकनाट्य, कोंकणी लोकनाट्य रणमालें, मुल्यांकन

**प्रस्तावना :**

'लोकरंगभुमी'! तशें, 'लोकरंगभुमी' हें उतर भोवआयामी. लोकांनी, लोकांच्या, लोकमनोरंजना खातीर लोकजिणेचो आदार घेवन उबी केल्ली ती एक सशक्त रंगमाची. पारंपरीक विधिनाट्यांतल्यान ती घडटा. तिका हजारांनी वर्सांची परंपरा आसा. शेंकड्यांनी वर्सां चलत आयिल्ले लोकनाट्याचे परंपरेक 'लोकरंगभुमी' ह्या नांवान पुराय जनसमुदाय वळखतात.

खरें म्हणल्यार, जल्म, लग्न आनी मरण सारक्या मनशांच्या साबार धर्मीक वा समाजीक विधींक नाट्यतत्व आशिल्लें हाचो पुरावो लोकरंगभुमीचो अभ्यास करताना जाता. यातुविधी हे जनमानसांत रकाद पावोवपाचें साधन आशिल्लें. धर्मीक विधींतल्यान आनी साबार तरेच्या लोककलेंतल्यान समाजाक एक दिका दाखोवपाचो यत्न जातालो हें नोंद घेवपा सारकें. मुळांत लोकरंगभुमीचो आरंब आदिवासी जमातींतल्या लोकनाचांतल्यान जाला अशें अभ्यासकांचें मत आसा. प्रत्यक्षांत नाच सादर करचे पासत गीत आनी नृत्य जाय पडटा. उपरांत अभिनय हें तंत्र येता. मागीर उतरां, संवाद गितां, वाद्यां सारक्यो गजाली आसपावीत जायत वता. काळांतरान विंगड विंगड रुपड्यांचो उपेग जावपाक लागता. हो रुपड्यांचो उपेग यातुविधी म्हूण जातालो.

भारतीय लोकरंगभुमीचो विचार केल्यार, मयुरभंग, ख्याल, भवाई, माच, स्वांग, यात्रा, रासलिला, रामलिला, अंकीया नाटक, नौटंकी, जागोर, रणमालें, यक्षगान सारक्या प्रकारांतल्यान नाट्यघटकांचो आविश्कार सेगीतपणान जातालो. फुडाराक तीं खेरीत लोकनाट्यां म्हूण फामाद जायत रावलीं. त्याच लोकरंगभुमींतल्यान प्रेरणा घेवन आयचें आधुनीक नाटक आकाराक आयलां. भारतीय नाटयपरंपरेंत संस्कृत भाशेंतल्या नाट्यइतिहासाक भोव म्हत्त्व फाव जालां.

कोंकणी लोकनाट्याचो विचार केल्यार, हे कोंकण वाठारांतले भुंयेंत कोंकणी लोकनाट्याचो दिश्टावो शेंकड्यांनी वर्सां सावन घडत रावला ताचे पुरावे आयज लेगीत मेळटात. कला आनी उत्सवांक व्हड सुवात आशिल्ले हे भुंयेर रणमालें, कालो, जागोर, खेळ, दशावतारी नाट्क अशी साबार लोकनाट्यां फामाद आसात. तातूंत 'रणमालें' 'जागोर' आनी 'दशावतारी नाटक' हीं लोकनाट्यां जाल्यार कोंकणाची

शीम हुपून संवसारभर नामनेक पावल्यात. कारण तातूंत कोंकणी मातयेचो सुगंध आनी नीज कलाविश्कार उपाट भरिल्लो आसा.

वयले नोंद घेतिल्ले भारतीय आनी कोंकणी लोकरंगभुंयेचे फाटभुंयेर भारतांत एका समयार तेंगशेर आशिल्ले संस्कृत रंगभुंयेचो विचार केल्यार एक वेगळोच संदर्भ मेळटा. इसवी सना आदीं 500 आनी इसवी सनाउपरांत 500 अश्या वट्ट 1000 वर्सां मजगतीं भारतीय उपखंडांत संस्कृत रंगमाचयेन लागीं लागीं विश्वक्रांतीच घडयल्ली म्हणल्यार जाता. त्या काळांत रचिल्ल्या भरतमुनींच्या 'नाटयशास्त्रम्' ह्या ग्रंथांत जाल्यार नाटकाच्या सगळ्या आंगांचो तांत्रीक नदरेंतल्यान सखोल अभ्यास जाल्लो. आचार्य भरतमुनीन नाटय निर्मिती, नाटयतंत्र, रंगमाची, अभिनय कला तशेंच नाटयधर्मांतल्यान लोकधर्म, नाट्यसेवेंतल्यान समाजसेवा अशा साबार आयामांची उस्तवारी आपल्या ग्रंथांत केल्या. भरतमुनींच्या नाटयशास्त्राचेर उपरांत जायत्या जाणकारांनी आपलें भाश्य ग्रंथरूपांत हाडलां. तातूंत भट्टलोल्लट, श्रीशंकुक, भट्टनायक, अभिनवगुप्त आदींचो आसपाव जाता. खासा नाटयशास्त्राचेर इतली मोठी चर्चा त्या काळांत जाताली जाल्यार 'नाटक' कितलें उंचेल्या पांवडयाचेर पाविल्लें आसतलें हाची कल्पना करूं येता. संस्कृत भाशेंत 'भास, कालिदास, शूद्रक, भवभूति' सारके श्रेश्ट नाटककार जावन गेल्ले आसात हिवूय ते गिरेस्त परंपरेची एक मुखेल गवाय म्हणपाक जाय.

पूण भारतीय उपखंडांत संस्कृत भाशेंतल्यान चलत आयिल्ली ही नाटयपरंपरा उपरांतच्या काळात प्राकृत भासांनी उदरगतीक पावली ना ताचो सोद हांगा लोकरंगभुमीच्या अभ्यासा निमतान घेवपाचो यत्न जाला.

### लोकनाट्य : एक विधीनाट्य –

मुदलाक 'लोकविधी' हो दैवी संकल्पनेक होरावपी एक सामुहीक आविश्काराचो आनी धर्मीक कर्मकांडाचो प्रकार. विशिश्ट पद्दुतीन विधिवत देवदेवतांची पुजाअर्चा केली ना जाल्यार दैवी शक्तीचो कोप जाता असो समज जनमानसांत आशिल्लो तातूंतल्यान 'लोकविधी' आनी 'लोकनाट्याचें' स्वरूप निश्चीत जायत गेल्लें दिसून येता. आदल्या काळांत देव देवतांक प्रसन्न करचे पासत विधी आनी नाट्य हांचो उपेग जातालो. तातूंत विधीक चड मोल फाव जाल्लें जाल्यार आयच्या काळांत तातूंतल्या नाट्यतत्वाक चड मोल मेळूंक लागलां.

लोकनाट्याचो जल्म लोकविधींतल्यान जाला ही एक वास्तवीक घडणूक. विधींच्या गरजेंतल्यान लोकनाट्य अस्तित्वान येवंक पावता वा ताची आकारणी जाता, ते पासत लोकनाट्याक विधीनाट्य म्हणपाची चाल आसा. आयच्या काळांत मूळ विधी शेणून गेल्या आसली तरीय मुळांत विधी ही भोवूच म्हत्वाची आसली हें लोकरंगभुमीचो अभ्यास करतकच कळून येता.

**विधी नाट्याच्यो खाशेलतायो –**

1. विधीनाट्यां गांवच्या विशिश्ट सुवातेर वा मांडार सादर जावपाची शेंकड्यांनी वर्सांची परंपरा आसा.
2. आयच्या काळांत प्रेक्षकांखातीर ती रंगमाचयेर सादर जातात तशी तीं सादर जाय नाशिल्लीं. तीं मुळांत उगड्यारच सादर जावप समा आसलें.
3. नाटका खातीर लागपी भेस वा मुस्तायकी भोंवतणच्या सैमघटकांतल्यान घेवप जातालें.
4. विधीनाट्यां गांवांतल्या खाशेल्या घराण्यांकडच्यान सादर जातालीं. त्या त्या घराण्यांक देवस्थानाकडच्यान थारावीक येणावळ प्राप्त जाताली.
5. हीं लोकनाट्यां चड करून पुनवे राती वा कार्तिक पुनवेक सादर करपाची परंपरा आसा.
6. पिकावळीच्या उत्सवावेळार वा मिर्गाच्या येवकाराक विधीनाट्यां सादर जावपाची परंपरा कृशीसंस्कृतायेन चलत आयल्या.
7. विधीनाटक राथरातभर चलता. भारतांत रामायण, महाभारत वा पुराणांतल्यो कथा वेंचून तांचेर नाट्याभिनय प्रस्तूत जाता.
8. विधी नाटकाची सुरवात सदांच गणेश नमनान जाता. हिंदू धर्मांत सगळ्यांत पयलीं गणपतीक पुजपाची रीत आसा. ताच्या उपरांत सरस्वती, शिवपार्वती, हांची होरावणी जाता.
9. ह्या सगळ्या विधीवत पुजनाक 'पुर्वरंग' म्हणटात जाल्यार प्रत्यक्ष कथाआख्यान आरंब जाता ताका 'उत्तरंग' म्हणपाची चाल आसा.
10. विधीनाट्य हें गीत, संगीत, वाद्यां, नत्य, अभिनय अशा विवंडविंगड कलाविश्कारांतल्यान फुडें व्हरपाक सगळ्यांत म्हत्वाची भुमिका निबयता तो सुत्रधार.

**भारतीय लोकरंगभुंयेवेलीं मुखेल लोकनाट्यां**

आमच्या देशांत विंगड विंगड वाठारांनी विधीनाट्याचें सादरीकरण सेगीतपणान चलत आयिल्लें आसा. उत्तर, दक्षीण तशेंच उदेंत आनी अस्तंत वाठारांतल्या साबार संस्कृतायेंत विधीनाट्य सादर जाता. तातूंत सकयल दिल्ल्या कांय वेंचीक विधीनाट्यांचो आसपाव जाता. तांकाच अभ्यासक लोकनाट्यां ह्या नांवान अभ्यासतात. तांचो विंगड विंगड वाठारांचेर शेक चलता. त्या त्या वाठारांतल्या थळाव्या लोकसंस्कृतायेक आनी समाजजिवनाक घेवनूच हीं लोकनाट्यां अस्तित्वाक येतात. देखीक

1. उत्तर भारतांतलीं लोकनाट्यां – स्वांग, ख्याल, नौटंकी
2. दक्षिण भारतांतलीं लोकनाट्यां – कुटियट्टम, यक्षगान
3. गुजरांत, राजस्थानांतलीं लोकनाट्यां – भवाई, माच
4. ईशान्य भारतांतलीं लोकनाट्यां –

भाओना, अंकिया-नाट

5. बंगालांतलें शैव नाटक - यात्रा, गंभीरा, किर्तनीय
6. मध्यभारतांत फामाद लोकनाट्यां - रामलिला, रासलीला
7. महाराष्ट्रांतले लोकनाट्य - दशावतार, तमाशा
8. गोंयचें लोकनाट्य - जागोर, रणमालें

वयल्या लोकनाट्यां भायर जात्रा, नाटक, कृष्णाट्टम तेय्येम, ओन्तानथुल्लाल, भागवतमेला, भामकलापम, देवधनी महारी, देवदासी-अट्टम, मुतियेटु, कालो, मचनाच, वीथिनाटकम्... आदी लोकनाट्यांचो विचार हांगा करूं येता. हीं साबार तरेचीं विंधीनाट्यां भारताच्या विंगडविंगड प्रांतानी दर वर्सा सादार जातात.

**'रणमालें : स्वरूप दर्शन - एक चिकित्सक मोलावणी**

लोकरंगभुमीक उर्बा दिवपी प्रस्तूत विशयाचेर 'रणमालें स्वरूप दर्शन' हो संशोधनात्मक ग्रंथ झिलू लक्ष्मण गांवकार हांणी भोव तकालस घेवन रचला. गोंयच्या राजभास संचालनालयान तो डिसेंबर 2016 त प्रकाशीत केला. 'रणमालें' ह्या पारंपरीक लोकनाट्याचें संकलन आनी विश्लेशण आशिल्लो हो ग्रंथ गोंयच्या संशोधन क्षेत्राच्या इतिहासांतलो एक मैलाफातर जावन आसा. सत्तरीचे लोकसंस्कृतायेचे गडगंज परंपरेचो एक दस्तावेज म्हूण मुखार आयिल्ल्या ह्या वावराची हालीं बरीच चर्चा जावंक लागल्या. फोकथिएटर' म्हूण फामाद हे नाट्यपरंपरेन हजारांनी वर्सा साकून चलत आयिल्ल्या भारतीय लोकनाट्याच्या गिरेस्त परंपरेचो दिश्टावो दिला. 'रणमालें' हें लोकनाट्य म्हणजे लोकरंगभुमीचें एक पेजाद दायज. कोंकणी भुंयेंतलें लोकनाट्य 'रणमालें' हेंवूय त्याच दायजाचें एक सशक्त दालन.

रणमालें ह्या लोकनाट्याचें कूळ आनी मूळ सोदपाचो यशस्वी यत्न हांच्या 'रणमालें स्वरूप दर्शन' ह्या ग्रंथात जाला. किंग सायज आकाराच्या आनी 128 पानांच्या ह्या ग्रंथांत वट्ट आठ अध्याय आनी 07 परिशिश्टां आसात. ह्या पुराय सोदवावराची परिकल्पना पळयल्यार झिलूबाब गांवकार लोकसंस्कृतायेचो भक्त म्हूण न्हय तर लोकनाट्याचो निश्टावंत अभ्यासक आनी संशोधक म्हूण दोळ्यामुखार उबो रावता. कारण अतिशय तटस्थपणान केल्लो तांचो वावर संशोधनाच्या साबार निकशांक मानसन्मान दिता. ह्या ग्रंथांत तांणी फकत लोकनाट्य रणमाल्याचें संकलन करूंक ना तर ताच्या तरेकवार आयामांचें रीतसर विश्लेशण लेगीत केलां. तेभायर हो येदो व्हडलो वावर केल्याउपरांत विविध संशोधनात्मक तंत्रप्रणालींचो उपेग करून तो वावर योग्य प्रबंधात्मक पद्दतीन मांडलाय बी. तेखातीर प्रस्तूत गंर्थाच्या आठ अध्यायांचो संरचना आमी पडताळून पळोवं येता.

पयल्या अध्यायांत; संबंदीत वावराक धरून आपली विशय आनी भुमिका, दुसऱ्या अध्यायांत सत्तरींतली लोकजीण

आनी लोकप्रकार जाल्यार तिसऱ्या अध्यायांत सत्तरींतली लोकगीत परंपरा ह्या अभ्यासकान स्पश्ट जाता. तातूंत सत्तरींतल्या म्हालमाताऱ्यांनी, जाण्टयांनेण्टयांनी, कश्टकरी भौसान रामायण, महाभारत आनी पुराणकथांतल्यान तशेंत जतींच्या माध्यमांतल्यान जिबेर घोळयत रणमाल्याच्या रूपान तिगोवन दवरिल्लें लोकसंचीत आपूण उस्तून काडलां अशी भुमिका हो अभ्यासक मांडटा. सत्तरींतली लोकजीण आनी लोकप्रकारां हेविशीं बरोच सखोल अभ्यास करून सत्तरीच्या खाचींकोनशांनी शिंपडून पडिल्लें अणभवसंपन्न लोकगीत ते फकत सोदुनूच काडीना तर त्या गीतांतलें समाजजिवीत आनी संस्कृतीक संदर्भूय तपासता. सत्तरींतल्या आनी भोंवतणच्या वाठारांत परंपरेन चलत आयिल्ल्या रणमाल्याचो सोद घेवचे आर्दी हो अभ्यासक हेर जायत्या गजालींचेर अभ्यापुर्ण भाश्य करता.

सत्तरीची भुगोलीक रचना, हे भुंयेची इतिहासीक स्थित्यंतरां, सैमाक आनी जैवीक संपदा, समाज आनी जाती व्यवस्था, शेती आनी ग्राम संस्कृती, देव देवस्की, सण परबो, शेतां-भांटा, गोरवां वासरां हांचो तपशील दिता. म्हणजेच एकंदर, सत्तरीच्या संस्कृतीक आनी समाजीक दायजाची एक झलक हो अभ्यासक पयलीं दाखयता. तशेंच विविध लोकगीतांचो सोद घेवन तांचें वर्गिकरणूय करता. देखीक - बायलांचें भावविश्व उक्तावपी फुगडी गीत, धालो गीत सारकीं 'बायलांची गितां', दादल्यांची मक्तेदारी आशिल्लें शिगम्या गीत, सोकारत हीं गितां जाल्यार भुरग्यांची तरनी मानसिकताय दर्शोवपी खेळांतलीं 'बालगीतां' अशे वांटे हो लेखक घालता. देखीक -

*'आराड गे मांडके सांज जावंदी सांज जावंदी*
*आमचे आवयक घरा येवंदी घरा येवंदी'*

(बालगीत, 37)

---------

*'आंब्या तुजी आंबाडी आंबट रे...*
*सावर्शेकार भुरग्यांचें रोमाट रे...*
भले भले भले भले भलेऽऽऽ'
(शिगम्यागीत, 41)

ह्या ग्रंथांतलो चवथो आनी पांचवो अध्याय रणमालें ह्या लोकनाट्याची परंपरा, आंवाठ आनी सादरीकरण हांची भोव तपशिलान म्हायती दिता. अभ्यासक रणमाल्याची फाटभूंय स्पश्ट करून तातुंतले यातूविधीचो संदर्भ घेवन तें एक विधीनाट्य कशें आसा हाची इतिहासीक म्हायती दिता. धर्मीक विधींतल्यान आनी साबार तरेच्या लोककलेंल्यान समाजाक एक दिका दाखोवपाचो यत्न जातालो हें म्हत्वाचें. विधी ही देवदेवतांच्या वा अदृश्ट सैमीक शक्तींचे उपसनेची एक तरा. थारावीक प्रसंगार ह्या देवातांची पुजा-अर्चा केली ना जाल्यार ह्या शक्तींचो प्रकोप गांवच्या शेती संस्कृतीचेर, गोरवां वासरांचेर वा मनशाचे वंशावळीचेर जाता असो भावार्थ थळाव्या वाठारांनी घट्ट जाल्लो आसता. देव देवता आनी अदृश्ट शक्तींक प्रसन्न करून गांवावेलीं अरिश्टां

पयस करपाचे लोकधारणेंतल्यान रणमालें वा हेर विधीनाट्यांची परंपरा संवसारांत चलत आयल्या. कोलो, जागोर, लळीत, भरणूल, माळेगान अश्या कांय विधीनाट्यांची देख हो अभ्यासक हांगा दिता. ते भायर रणमालें केन्ना, खंय, कशें सादर जाता हाचीय उस्तवारी हांगा जाल्या. तातूंत शिगम्याक, लग्नकार्याक आनी गांवच्या उत्सवाक लेगीत रणमालें खेळोवपाची चाल आसा हाचीय म्हायती मेळटा. रणमाल्याचें मूळ सोदताना हो अभ्यासक तीन आख्यायिकेंचो संदर्भ दिता.

पयले सुवातेर - हेब्बर नांवाचे भिल्ल जमातीपासून क्षत्रीय मराठा समाजान सावंतवाडकार भोसलेंच्या तेंक्यान नाचगाण्यांचो आदार घेवन आपल्या बायल-भुरग्यांची राखण केल्ल्याची आख्यायिका. दुसरे सुवातेर - करंजोळ गांवच्या हेब्बरांक स्त्री-स्वाभिमानाच्या कारणांक लागून असोच नाचगाण्यांचो कट रचून चेंचोवन मारिल्ल्याची आख्यायिका. तिसरे सुवातेर - व्यंकट ह्या मांग जातींतल्या वायट प्रवृत्तीच्या व्यक्तीक माईणकार क्षत्रीय म्हालगड्यांनी परत नाचगाण्यांची येवजण आंखून काबार केल्ल्याची आख्यायिका.

वयल्या तिनूय आख्यायिकेंतल्यान सत्तरी, खानापूर, दोडामार्ग आनी सांगेच्या थळाव्या वाठारांत एका काळार क्षत्रीय मराठा समाजान स्त्रीसन्मान होच आपलो आत्मसन्मान आसा अशें मानीत खास नाचगाण्यांचो आदार घेवन दुस्मानांचो कांटो काडिल्ल्याचें स्पश्ट जाता. संबंदीत समाजाच्या स्वभिमानाचें प्रतीक म्हूण त्याच नाचगाण्यांचो प्रकार 'रणमाल्याच्या' रूपान आयजलेगीत फुडें चलता. 'रण' आनी 'मालें' ह्या दोन उतरांचो अर्थ आनी संस्कृतीक संदर्भ सोदतना ह्या अभ्यासकान विनायक खेडेकार, डॉ. प्रकाश पर्येकार, श्रीपाद रघुनाथ देसाय, डॉ. श्रीकृष्ण उपाध्याय, गो. प. नेने, डॉ. पुष्पलाता राजापुरे तापस, वा. गो. आपटे अश्या संबंदीत मळांवल्या जायत्या संशोधकांचे संदर्भ दिल्यात. तेचप्रमाण आपलीं नीज मत्तांय पुराव्यासयत मांडल्यात.

पांचव्या अध्यायांत रणमाल्याचें सादरीकरणांतल्यो तरेकवार गजालीं आयल्यात. तातूंत पुर्वतयारी, रंगवण, भेसवण, वाद्यां, माची व्यवस्था आनी एंकदर रणमाल्याच्या स्वरुपाची रितसर म्हायती मेळटा. प्रत्यक्ष सादरीकरणांत गानेलींचें 'गायन', 'जत', 'धोंग', 'सोंग' आनी हेर पात्रांची वळख जाल्या. खास करून रणमाल्याच्या सादरीरणांतलो पुर्वरंग, मध्यरंग आनी उत्तररंग हांचेर भोव मार्मीक तपशील मांडला जातूंतल्यान रणमाल्याच्या सादरीकरणांतले तरेकवार आयाम सर्वसामान्य वाचकाक सहज मतींत येता. सुरवेक गणपती, शारदा आनी हेर देवांक नमन घालपाची चाल आसा. देखीक -

*परतम नमान गणपते*
*मागे नमल्यो सरस्पते*
*मागे नमला इश्वर देव*
*मागे नमला इश्णू देव*
*मागे नमला कुळदेव*

*मागे नमला म्हादेव देव*
*मागे नमला ब्रह्म देव*

(नमन, 60, 61)

'जती' विशीं सांगचें जाल्यार, 'जत' ही पुराणीक पात्रांच्या व्यक्तीरेखेचेर वा कार्याचेर आदारीत गीतगायनाचो प्रकार. देखीक – गणपतीची जत, श्रावणबाळाची जत, रामाची जत, सितेची जत, गुरूरावणाची जत. 'धोंग' वा 'धोंगां' ही समाजीक पात्रांची प्रस्तुती आसता. तातूंतल्यान मनोरंजन आनी प्रबोधन ह्यो दोन गजाली साध्य जातात. देखीक – कुंडबी, म्हालो, तारी, गवळी, म्हार, चामार, शेट, मडवळ, कलयकार, म्हसोबा, चोट्टो हीं धोंगां. सांगपाचें म्हणजे, प्रस्तूत अभ्यासकान रणमाल्यांतल्या पात्रांची म्हणजेच 'सोंग' आनी 'धोंग' हांची शास्त्रीय वर्गवारी आपल्या आभ्यासांत केल्या जी संशोधनात्मक निकशांचेर खरी उतरल्या. कांय देखी –

*पांयान पांगळी दोळ्यान आंधळी*
*पुत्रा पुत्रा माज्या बाळा सरवोणा*
*आमकां व्होर रे पुता काशी तिरताक*
*तुमकां कशीं व्होरो तिरताक*
*चलता सरवोण गेलो वकाराच्या घरी*
*वकार मामा सोड तुजा तियां काम*
*आनी सरवोणाचा काम घे रे हातीन*
*पेट घेडोवन दिया चंदन विरसाची*
*माता पिता दोगां आंधळी पांगळी*
*तेंका व्हरता नी काशी तिरताक*

(श्रावणाची जत, 78)

*येताय जाल्यार यो गो चेडवा*
*एकच मारुया धांव गो चेडवा*
*एकच मारुया धांव*
*साखळेची तार काडून, पैलारी*
*दिवचले माजो गांव गो चेडवा*
*दिवचल माजो गांव*

(धोंग – चेडो आनी चेडूं, 118)

आपल्या परिशिश्टाच्या आनी खासाकरून 'रणमालें दर्शन' ह्या फोटो दर्शन विभागांतल्यान रणमालें ह्या लोकनाट्याचें प्रत्यक्ष स्वरूप आनी दर्शन घडोवपाचो यत्न ह्या अभ्यासकान केला. निश्कर्श आनी समारोप मांडटनाय तांणी सत्तरींतलें समाजदर्शन आनी संस्कृतीदर्शन घडोवपी रणमालें हो लोकनाट्याचो प्रकार आधुनीक कोंकणी नाटकाचो प्रेरणास्त्रोत आसून थळावे लोकसंस्कृतायेचें पडबिंब तातूंत दिसता आसा असो शेरो मारला. तेभायर करंजोळ, कुमठोळ, सुरल, सात्रें, कोदोळ, धावें, नानोडा, दाबोस, सालेली, होंडा, शिसोडें सारक्या सत्तरींतल्या गांवांनी आनी भाटी, कुमारी, बोट्टेर सारक्या सांगेच्या गांवांनी, तशेंच दोडामार्ग, खानापूर ह्या शेजारच्या राज्यांतल्या वाठारांनी शेणपाक पाविल्ल्या ह्या लोकसंस्कृतायेच्या खजान्याक लोकाश्रय आनी राजाश्रय मेळचो म्हूण प्रस्तूत संशोधकान कांय सुचोवण्योय दिल्यात. लोकसंस्कृतायेच्या संरक्षणाचो तशेंच संवर्धनाचो हो भार तरन्या पिळगेन खांदार घेवन जोगेश्वरी मायेचो खेळ आतां सातासमिंदरा पलतडी पावोवचो असो उलोय तांणी मारता. हांगा गोवा कला

अकादमी, सत्तरी नागरीक समिती - धावें आनी ग्रामीण कला आनी संस्कृतीक संस्था - वाळपय हांच्या कार्याचोय ते मुजरत सोद घेतात. हेखातीरूय झिलू गांवकार हांचो हो सोदवावर लक्षणीय थारता.

**निश्कर्श आनी समारोप :**

लोकसंस्कृतायेचो आनी लोकसाहित्याचो अभ्यास सादरण 20 व्या शेंकड्यांत सुरू जालो अशें इतिहास सांगता.. भारतीय समाज-संस्कृती, आचार-विचार, चाली-रिती, देव-देवस्पण, भूंय-भास,भौस-भुंगोल हांचो अभ्यास सुरवेक यूरोपीय अभ्यासकांनी केलो. तातूंत कलकत्ता हांगा 1784 वर्सा एशियाटिक सोसायटी हे संस्थेची स्थापना जाली. विल्यम जोन्स हे 1782 वर्सा कलकत्ता हांगा सुप्रीम कोर्टाचे न्यायाधीश म्हूण वावर करताले. तांणी संस्थेचें मुखपत्र सुरू केलें. तातूंत आशिया देशांतल्या पुरातन कलाप्रकारांचो, परंपरांचो, चालीरितींचो, आचार विचारांचो, भास आनी साहित्याचो संशोधनात्मक अभ्यास जावंक लागलो. सर विल्यम जोन्स हांणी संस्कृत तौलनीक भाशाशास्त्राच्या निमतान भारतीय साहित्य आनी संस्कृती हांचे विशीं एक नवें अभ्यास दालन उक्तें केलें

तशेंच 1804 वर्सा मुंबय शारांत अशेच तरेचो हावेस बाळगून 'लिटररी सोसायटी' ची स्थापना जाली. हे संबंदी कर्नल जेम्स टॉड हांणी नल्स अँटिक्विटीज ऑफ राजस्थान (02 खंड, 1839,32) हो ग्रंथ रचून ह्या मळाचेर इतिहासीक वावराची बुनयाद घातली. ताकाच अनुसरून लोकसंस्कृतीचोय अभ्यास मुखार आयलो. कोंकणींत अशे तरेचो अभ्यास विनायक खेडेकार, डॉ. जयंती नायक, डॉ. पांडुरंग फळदेसाय, कांता गावडे, झिलू गांवकार आदिंनी केला. तशाच तरेच्या अभ्यासाची ही चिकित्सक मोलावणी मांडटाना लोकरंगभुमी खंयचीय आसूं तिची आंतरीक प्रेरणा आनी अभिव्यक्ती मुळांत एकूच आसता हो निश्कर्श. कारण मनीस आपल्यो मुळाव्यो गरजो पुराय जाले उपरांत सृजनशक्त जागयत हें मानवी सभ्यतायेचो इतिहास सांगता. कला निर्मितीचें पिशें मनशाक लागतकच रस, रूप, गंध, नाद, स्वर, ताल, पदन्यास, विभाव, अनुभाव हांचो संगम जावन ताचे कडच्यान अलौकीक कलाविश्कार घडत रावता. ह्या मळारूच तेंच सैमीक रितीन घडत रावलें. अशाच तरेच्या निव्वळ सैमीक प्रक्रियेंतल्यान आदीम काळांत मनशांकडच्यान विविध कलाप्रकार घडल्यात. तातूंतलो एक लोकप्रीय कलाप्रकार म्हणल्यार लोकनाट्य. तेच प्रकृती आनी प्रक्रियेंतल्यान भारतीय लोकरंगभूंय समृद्ध जायत गेल्या.

लोकरंगभुमीच्या अभ्यासाच्या ह्या पांवड्यार एका काळार भारतीय उपखंडांत संस्कृत भाशेंतल्यान चलत आयिल्ली नाटयपरंपरा उपरांतच्या काळात प्राकृत भासांनी उदरगतीक पावली ना ताचो सोद घेवप रास्त. संस्कृत भाशेंतली गिरेस्त नाट्यपरंपरा मूळ संस्कृत भाशेच्या आनी

पर्यायान संस्कृत पंडितांच्या आडमुठ्या धोरणांक लागून फाटीं पडली. वर्णभेद, वंशभेद, जातीभेद आनी प्रतिकात्मक नदरेन संस्कृत भाशेन प्राकृत भासांक दिल्ली हीनपणाची वागणूक अश्यो साबार गाजाली ताका कारणीभूत आसात. तेभायर ताचे फाटल्यान हेर जायतीं कारणांय आसात. कलेक मेळपी खालती सुवात, परकी राजवटींचीं आक्रमणां, परकी संस्कृतायांचो वाडटो दबाव हातूंतल्यान नाटयपरंपरेक आनी रंगमंचयेक उतरती आयली. मध्ययुगीन काळांत मुस्लीम राज्यकर्त्यांनी राजकी आनी सांस्कृतीक कारणांक लागून विंगड विंगड वाठारांनी आनी भासांनी वावुरपी नाटयशाळा नानपयत करून उडयल्यो. पूण 'सीतामेंगा आनी योगीमारा' सारक्या भुंयारांनी चलपी नाटयकेंद्रां सुरक्षीत उरलीं आनी त्याच समयार खासाकरून बंगाल, उडीसा आनी दक्षिण भारतांत नाटयाविश्कार जायत रावले.

तेच प्रतिकूल परिस्थितींत उपरांतच्या काळांत भारतांतल्या विविध प्राकृत भासांनी विविध लोकनाटयांतल्यान ही परंपरा जिवी उल्ली. बंगालांत चैतन्य महाप्रभुंच्या प्रभावान श्रीकृष्णाच्या लिलांचें अभिनय-नाटय सादर जावंक लागलें, मिथिलांत किर्तनिया जाल्यार आसामांत अंकिया नांवाचें नाटय आकाराक आयलें. ह्याच काळांत महाराष्ट्रांत हरिकथा, दशावतार, तमाशा सारके प्रकार रूप धरूंक लागले. हिंदी वाठारांत ह्या समयार रामलिला आनी रासलिलाच्या स्वरूपांत लोकनाटयां चालू जाल्लीं. ही लोकनाटयांची क्रांती इतली तांकिवंत आसली की, पुराय भारतांत ताची कीट उसळ्ळी. तातूंतल्यान गुजरातांत भवाई, राजस्थानांत माच, उत्तरप्रदेशांत स्वांग, नौटंकी, दक्षिणेक तेरुकूथु, ओत्तांनथुल्लाल, यक्षगान, भागवतमेला आदी लोकनाट्याचे प्रकार रुपकराक येयत रावले. तेच परंपरेन गोंयच्या सत्तरी, सांगे आनी शेजारच्या दोडामार्ग, खानापूर सारक्या वाठारांत रणमालें हें क्षत्रीय मराठा समाजाचो आत्मसन्मान प्रकट करपी रणमालें हे लोकनाट्य घडलें.

'रणमालें' ह्या लोकनाट्याक पांचशीं सर्शी वर्सांची परंपरा आसा अशें जाणकार मानतात. 1391 ते 1470 वर्सां मजगतीं 'दोडामार्ग' आनी 'सत्तरी' (त्या काळांतली अनुक्रमान 'मणेरी' आनी 'सांखळी') ह्या वाठारांत विजयनगरचें साम्राज्य आशिल्लें. म्हत्वाचें म्हणजे राजाचो आलाशिरो लाबिल्ल्यान त्या काळांत विंगड विंगड लोककलांक राजव्यवस्थेकडच्यान पोसवण आनी प्रतिश्ठा फाव जाली. ह्याच समयार रणमाल्याचें मुळावण पडलां अशें अभ्यासक मानतात. हें मत खरें मानलें जाल्यार ह्या लोकनाट्याक पांचशीं ते सशी वर्सांची परंपरा आसा अशें म्हणपाक रजांव आसा. पूण आयज 21 व्या शेंकड्यांत थोडे अभ्यासक आनी कलाकार सोडले जाल्यार आमकां ह्या लोकसंस्कृतायेच्या येद्या व्हडल्या संचिताविशीं व्हडलेशें कांय खबर ना. हे फाटभुंयेर झिलू लक्ष्मण गांवकार ह्या सत्तरीच्या भुंयपुतान केल्लो हो सोदवावर सगळ्याच आंगांनी तोलामोलाचो थारता.

एकाद्या विद्यापिठाक पीएचडी पदवे खातीर सादर जावं येता इतलो तोलामोलाचो सोदवावर प्रस्तूत संशोधकान केला.

सोपयतना... भारतीय लोकरंगभुमीवेल्या लोकनाट्यांत जसो सुत्रधार होंवयो वा लोकगितांच्या आदारान आनी आपल्या निवेदनाचो कलात्मक उपेग करून पुराणकथेक एका भव्य नाटकाचें स्वरूप फाव करून दिता. तसोच आवांठ आनी तशेंच स्वरूप रणमाल्याचें आसता. यक्षगान, कुटियाट्टम, मयुरभंग, भवाई, माच, स्वांग, अंकीया, रासलिला, नौटंकी ह्या साबार भारतीय लोकनांट्यां प्रमाण रणमालें सारक्या विधीनाट्यांतूय देव-देवता आनी हेर कांय वेंचीक पात्रां येता. ज्या देवाची जात्रा वा उत्सव आसता त्याच देवाची मुखेल भुमिका प्रस्तूत लोकविधीनाट्यांत चड प्रमाणांत दाखोवपाचो यत्न जाता. दर वर्सा थारावीक तिथीचेर विधीवत लोकनाट्याचो प्रयोग सादर जावप हो गांवच्या वा थळाव्या देवस्पणाचोच एक वांटो आसता. विधीनाट्यांतल्यान आनी पर्यायान लोकनाट्यांतल्यान अदृश्ट शक्तीक होरावपाचो यत्न जाता. तातुंतल्यान सैमाच्या विविध रुपांकूय होरावपाचो यत्न जाता. विधी आनी नाट्य सारकें शास्त्राक धरून रितसर आयोजीत जालें ना जाल्यार संबंदीत कलाकारांचेर आनी पर्यायान अख्या गांवाचेर अरिश्ट येता असो लोकसमज जसो पुराय भारतांत आसा तसोच तो गोंयच्या संबंदीत समाजांतूय आसा.

## संदर्भ ग्रंथ :


1. गावकार झिलू. रणमालें : स्वरूप दर्शन. पणजी गोंय : राजभाशा संचालनालय, 2016
2. ढेरे, रा. चि. संतसाहित्य आणि लोकसाहित्य : काही अनुबंध, पुणे, 1978.
3. श्याम वेरेंकार. गोंयच्या लोकवेदाचो रुपकार. पणजी गोंय गोवा :कोंकणी अकादेमी, 1991.
4. नायक, पुंडलीक. कोंकणी नाट्यस्पर्धेचीं पंचवीस वर्सां.1976-77-2000-01. पणजी गोंय, गोव कला अकादमी, 2001.
5. वेणु, पी. के 'संस्कृत रंगमंच और कूटियाट्टम्', केरल की सांस्कृतिक विरासत, संपादक जी. गोपीनाथन, वाणी प्रकाशन नयी दिल्ली, 1998
6. वेरेंकार,श्याम., सरदेसाय, माधवी., म्हाळशी कमलाकर. (संपादक) कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय. मडगांव गोंय : कोंकणी भाशा मंडळ, 2003.
7. हळर्णकार, तानाजी. (संपादक) विश्व कोंकणी परिचय कोश - खंड - 02, शक्तीनगर, मंगळूर : कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान, 2013.
8. सातोस्कर, बा. द. गोव्याचे आर्यीकरण करणारा 'परशुराम : एक कोडे'. 'गोमंतक : प्रकृती आणि संस्कृती' खंड 1. पुणे : शुभदा-सारस्वत प्रकाशन, 1979.
9. http://en.wikipedia.org/wiki/folkdrama


000

मंथन

(निबंद)

संपदा कुंकळकार

# भारतीय तत्वगिन्यान

श्री. ओरबिंदो हांणी म्हणिल्लें, ''भारत हो सगळ्या जगाचो आध्यात्मिक गुरु म्हूण उदेंतलो.'' तत्त्वगिन्यान हें भारतीय संस्कृतायेचे एक म्हत्वाचें आंग. भारतीय तत्वगिन्यान हें विविधतायेन भरलां.

भारतीय तत्वगिन्यानाचे दोन भाग आसात. एक आस्तिक आनी दुसरो नास्तिक. आस्तिक पंगडात 6 विचारसरण्यो आसात. तांका 'षडदर्शन' अशेंय म्हणटात. मिंमासा, वेदांत, सांख्य, योग, न्याय आनी वैशेशिका. ही ह्यो विचार सरण्यो तीं देवाचे अस्तित्व मानतात म्हूण आस्तिक. हांतली मिंमांसा आनी सांख्य विचार सरणी देवाचें अस्तित्व माननात.

दुसरो पंगड नास्तिक जांतूत चार्वाक, बुद्धमत आनी जैनमत ह्या तीन विचारसरण्यांचो आस्पाव जाता.

**1) चार्वाक विचारसरणी** : चार्वाक कोण आशिल्लो, हो एक गूढ प्रस्न. ही विचारसरणी प्रत्यक्ष हेच प्रमाण मानपी. आत्मो, पुर्नजल्म ह्यो संकल्पना माननात. तांच्या मतान मनीस मरतकच ताज्या अस्तित्वाचे किदें जाता हाजो कांयच पुरावो ना. देवाचे अस्तित्व मानिनात. देव जर आसा जाल्यार तो मनशाचें किद्याक वायट करतलो? आनी जर ना जाल्यार ताका किद्याक भियेवप? संवसारात दुख्ख जरी भरलां तरी मेळपी सुखाचो त्याग करप ही पिशेपणां.

**2) बुद्धमत** : साक्षात्कार जातकच सुमार 45 वर्सां गौतम बुद्ध हांणी आपल्याक होलमल्ले सत्य सगळ्यांक सांगले. बुद्धमताची चार आर्य सत्यां –

**संपदा कुंकळकार :** 1985. वैचारीक साहित्य प्रकारांत मुखेलपणान लेखन. जाग, बिंब ह्या दिसाळ्यांनी नेमान लेखन. 500 वयर वैचारीक लेख प्रकाशीत. *'मिस्टीरियस पावर'* (2010), *'मनोपासना'* (2011), *'मिस्टीकल पावर'* (2013), *'मनमंथन'* (2014), *'मनाची शक्त'* (2014), *'रवींद्र केळेकारच्या साहित्यांतलें तत्वगिन्यान'* (2017), *'जगभरातील तत्वगिन्यान'* (2018), *'चार पावलां आशियेंत'* (2019) हीं कांय प्रकाशीत पुस्तकांची नांवां. गोंय सरकारच्या कला आनी संस्कृती खात्याच्या युवा पुरस्कारा सन्मानीत. संपर्कः 22/2, गौरी कॉओपरेटीव्ह हावसींग सोसायटी, सुख निवास, जुवारीवोडो, तिवें, मार्शेल, गोंय. मो. 9850149319.

1. दुख्ख हें पयलें आर्य सत्य.

2. तृष्णा हें दुसरें आर्यसत्य

3. तृष्णा हुमटावन उडोव येता.

4. तृष्णा हुमटावन काडपाक आठ आंगी वाट (अष्टांग मार्ग) आठ आंगी वाट म्हळ्यार जिविताकडेन समा नदरेन पळोवप. समा नदर, समा निर्णय, समा उतर, समा करणी, समा जोड, समा यत्न, समा स्मृती आनी समा समाधी. संवसारात जें आसा तें सगळे खिणयाळें अशे बुद्धमत सांगता.

**3) जैनमत** : जैनमत देव ही संकल्पना मानिना. तें तिर्थकाराकं मानतात. जैन विचारांत जांकां सिद्धि प्राप्त जाल्या तांकां तीर्थकार म्हणटात. जैन धर्मात 24 तीर्थकार आसात. सगळ्या जिवांखातीर कळवळो हो जैनमताचो एक म्हत्वाचो विचार. तांचे आनी एक म्हत्वाचो विचार म्हळ्यार 'स्यादवाद'. एका गजालीक खूब बाजू आसता. एक विशिष्ट गजाल / वस्त अशीच आसा वा तर्शीच आसा अशें मानपी 'एकान्त पक्ष' या वादाक मान्य ना. राग, लोभ, अहंकार आनी माया हें भितरले दुस्मान आनी तांचेर जैत मेळोवपाक जाय हें तांचे तत्वगिन्यान. अहिंसेक खूब म्हत्वाचे स्थान आसा.

**4) न्याय विचारसरणी** : गौतम ऋषी ह्या तत्त्वगिन्यानाचो जनक. ही विचारसरणी तर्कशास्त्राचेर आदारून आसा. तें मानतात, ज्ञान हे चार गजालीवेल्यान मेळटा. प्रत्यक्ष (आकलनशक्ती, अनुमान, उपमा आनी शब्द (दाखलो). देवाचें अस्तित्व आनी कर्म सिद्धांत मानता. हे विचारसरणेत अनुमानाक चड म्हत्व आशिल्ल्यान तिका 'न्याय' हे नांव पडले अशें म्हणटात.

**5) वैशेशिक विचारसरणी** : ह्या विचारसरणेचो जनक कणाद. ही विचारसरणी प्रत्यक्ष आनी अनुमान ही दोनूच प्रमाण मानतात. सामान्य मनशाच्या वेव्हारीक दृष्टिकोनाचे तात्त्विक समर्थन हीच वैशेशिक विचारसरणीची मूळ प्रेरणा. ते अनेकान्तवाद मानतात.

**6) सांख्य विचारसरणी** : एक पोरणी आनी द्वैतवादी विचारसरणी. पुरुष आनी प्रकृती अशी दोन पूण स्वतंत्र तत्त्वां अंतिम अशें मानतात. देवाचे अस्तित्व मानिनात. हे जग प्रकृतीपासून तयार जालां, ताजो कोण कर्ती आसा हो विचार तांकां मान्य ना. हे जग आपसूक निर्माण जाले अशें ही विचारसरणी मानता.

**7) योग विचारसरणी** : पतंजली हे योग विचारसरणीचे जनक. चित्तवृत्तीक आडावप म्हळ्यार योग. चित्त आनी वृत्ती हांचो संबंध तोडप असोय अर्थ जाता. ह्या योग विचार सरणीचे आठ पांवडे आसात. यम, नियम, आसन, प्राणायम, प्रत्यहार, धारणा, ध्यान आनी समाधी.

**8) मिमांसा विचारसरणी** : जैमिनी हे विचारसरणीचो जनक. हे विचारसरणेचो मूळ हेतू वैदीक विधींक तेंको दिवपी तत्त्वगिन्यान मांडप. मिंमासा म्हळ्यार चिकित्सापूर्ण विस्कटावणी करप.

**9) वेदांत विचारसरणी** : वेदांत म्हळ्यार उपनिषदां. 108 उपनिषदां आसात, पूण तांतली 10 मुखेल – इरश, केन, कठ, प्रस्न, मुंडक, मांडुक्य, तैतरीय आनी

बृद्धारण्यक. भगवद्गीता ही उपनिषदाची सार अशें म्हणटात. स्वधर्म आनी कर्मयोग हे भगवद्गीतेंतलें विचार सरसामान्य मनशाकडेन पावल्यात. कर्म करचे पूण फळाची आस धरची न्हय हो सगळ्यांत म्हत्वाचो विचार. उपनिषदांची शिकवण आमकां श्रेय आनी प्रेय म्हळ्यार जें बऱ्याक पडटा आनी जें बेटे दिसता हांचेमदीं फरक करपाक शिकयता. संवसारभर ज्या साहित्याचो अणकार जालो तो वेदांत विचार पुर्नजल्म हे संकल्पनेक मानता. देवाचे अस्तित्व मानता. तशेंच गृहस्थ हो संन्याश्याकूच चड श्रेश्ठ अशें गीतेंत म्हळां. कर्तव्य करपाचेर भर दिवपी हो विचार मनशाचें आध्यात्मिक बळगें वाडयता.

भारतांतल्या ह्या 9 विचारसरण्यांमदी 4 मुद्यांविशीं वेगळेपण दिसून येता.

1. संवसारांत मुल्यतत्वां कितलीं?
2. वेदांक प्रमाण मानचें?
3. देवाचे अस्तित्व स्वीकारपाचें?
4. आत्मो अमर आसता?

संवसारात मुलतत्त्वां कितलीं ह्या प्रस्नाचेर तीव्र आनी स्पश्ट मतभेद आसात. वेदान्त विचारसरणी एकमेवद्वितीय ब्रह्म ह्या संवसाराचें अधिश्ठान आसा अशें मानतात. तांका अद्वैतवादी म्हणटात. पुरुष आनी प्रकृती ही ह्या संवसाराची मुलतत्वां आसात अशें सांख्य विचारसरणी मानता. तांका द्वैतवादी म्हणटात. जाल्यार न्याय, वैशेशिक, जैन हांच्या सारक्यो विचारसरण्यो अनेकतत्ववादी आसात. ह्या मुलतत्त्वांच्या बाबतीत कांय जाण एकतत्ववाद, कांय द्वितत्ववाद, अनेकतत्त्ववाद मानतात.

जशें कांय बाबतीत मतभेद आसात तशेंच कांय विचारां बाबतीत साम्यूय आसा. सगळ्यो विचारसरण्यो काम, अर्थ, धर्म आनी मोक्ष हें 4 पुरुषार्थ (मूल्यां) मानतात.

कांय विचार हें भारतीय संस्कृतायेत मुरल्यात. तांतलो एक 'मोक्ष' मेळोवप. साद्या उतरांनी सांगपाचे जाल्यार मोक्ष म्हळ्यार मेकळीक. वेग-वेगळ्या विचारसरण्यांनी मोक्षाविशीं वेग-वेगळे विचार मांडल्यात.

चार्वाक विचारसरणेच्या नदरेन मोक्ष म्हळ्यार स्वातंत्र्य. मरणाउपरांतचो मोक्ष ते माननात कारण मरतकच नेंमके कितें जाता हाचो काय पुरावो ना.

कर्माच्या बंधनांतल्यान जिवाची सुटका कशी करप ह्या प्रस्नाची जाप सोदतना जैन विचारसरणेक जी वाट मेळ्ळी तो 'मोक्षमार्ग'. मोक्ष मेळपाखातीर 3 तत्त्वांक आपणावचें पडटा. जांकां ते 'त्रिरत्नां' म्हणटात. योग्य दर्शन, योग्य ज्ञान आनी योग्य चारित्र्य.

जांचे भितर कसलीच इत्सा वा तृष्णा उरूंक ना, त्या खिणाक थंयच ताका पुराय शांती मेळटा. पुरायपणान शांती मेळपाची स्थिती म्हळ्यार मोक्ष वा निर्वाण अशें बुद्धमत मानतात.

न्याय विचारसरणेच्या मतान जेन्ना आत्म्याक मोक्ष मेळटा तो फकत दुख्खापासून न्हय जाल्यार सुखापासून लेगीत ताची सुटका जाता. अजापाचो काळोख पयस जातकच वासना, इत्सा, राग, द्वेश हांचो नाश जाता

आनी जिवाक मोक्ष मेळटा.

सांख्यविचार हे मोक्षवादी. पूण तांचे ध्येय स्वर्ग न्हय. तांची मोक्षाची कल्पना ही पुरायपणान नास्तिकवादी आसा. तांका मरणाउपरांतचो मोक्ष नाका. तांचे खातीर दुख्खाचो नाश म्हळ्यार मोक्ष.

पतंजलीच्या मतानुसार योगाचो खरो उद्देश हो मोक्ष मेळोवपी यथार्थ ज्ञान मेळोवप. योग विचाराच्या आठ आंगी मार्गाचो अभ्यास चालू आसतना हें ज्ञान योग्याक मेळटा.

मिमांसा विचारसरणी मानता जेन्ना आत्मा, बुद्धी (ज्ञानी, सुख, दुख्ख, इत्सा, द्वेष, यत्न, धर्म, अधर्म हांच्यापासून सुट्टा तेन्ना तो मुक्त जालो अशें मानतात. दुख्खाचो नाश जावप होच पुरुषार्थ आनी तोच मोक्ष.

वेदांत विचारानुसार जल्म-मरणाची सांखळी तुटून जेन्ना आत्म्याक पुर्नजल्म मेळना तो मोक्ष. जेन्ना मनशाच्या मनांत कसलीच इत्सा, आसक्ती उरना, जीं कर्मा करता त्या कर्मफळाची आस मनांत आसना, तेन्ना तो जल्म-मरणाच्या चाकांतल्यान सुट्टा. हाचे फाटलें तत्त्वगिन्यान अशें, मनशाक जें जें आवडटा, जें जें जाय दिसता तें ताका बंधनांत घालता. मेळ्ळ्यार लोभ वाडटा. मेळूंक ना जाल्यार राग, द्वेष, दुस्वास, मूड भावना वाडटा. दोनूय वटेन मनशाचे लुससाणूच जाता. ह्या लुकसाणांतल्यान मुक्ती म्हळ्यार मोक्ष.

भारतीय तत्त्वगिन्यान एक अथांग दर्या. काणयेच्या माध्यमांतल्यान तत्त्वगिन्यान सरसामान्य मनशाकडेन पावपाचो यत्न केला. महाभारतांत जेन्ना पांडव वनवास आनी अज्ञातवसांत गेले त्या काळांत तांकां जे अणभव येतात ताचेर जायत्यो कथा, काणयो आसात, जातुंतल्यान जिविताचे व्हड तत्त्वगिन्यान वाचूंक मेळटा. यक्ष प्रस्न अशाच वनवासांत घडिल्ल्या घडणुकेंतल्यान आयल्यांत. रामायण हो ग्रंथ आमकां जिविताविशीं खूब व्हड तत्त्वगिन्यान शिकयता. मुळांत भारतीय तत्त्वगिन्यान मनशाच्या पुराय व्यक्तीमत्त्वाचेर भर दिता.

000

ग्रंथदालन

(पुस्तक समिक्षा)

सखाराम शेणवी बोरकार

# गूढबंध – गूढ गजालींचेर उजवाड!

डॉ. जयंती नायक ह्यो गोंयच्या साहित्यीक मळावेल्यो एक नामनेचें व्यक्तिमत्व. त्यो एक नामनेच्यो लोकवेद संशोधक. त्या भायर कथा, कविता, नाटक आनी अणकार अश्या विंगड- विंगड साहित्यिक मळांचेर कोंकणी, मराठी आनी इंग्लिश भासांनी तांणी खूप लिखाण केलां आनी खेरीत असो आपलो छाप सोडला.

लोकवेदाचेर आतांमेरेन तांची एकवीस पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. तांतूत 'आमोणे- एक लोकजीण' (1993), 'लोकबिंब' (1998), 'लोकरंग' (2008), 'लोक मंथन' (2008) आदी म्हत्वाच्या पुस्तकांचो आसपाव आसा.

हालींच 'गूढबंध' हें तांचे गोंयच्या लोकसंस्कृतीवेलें मराठी भाशेंतलें पुस्तक उजवाडाक आयलां. लेखिका 'लोकमत' ह्या मराठी दिसाळ्यांत दर आयतारा (जानेवारी 2016-डिसेंबर 2016) गोंयच्या लोकसंस्कृतीचेर 'गूढबंध' ही लेख- माळ चलयताली. त्या दिसाळ्यांतल्या लेखांचे संकलन ह्या पुस्तकांत केलां.

भारतीय संस्कृताय ही वैलेचाराक सोंपी दिसली तरी ती खूप किचकटीची आसा आनी तिचीं पाळांमुळां खूप खोल आसात. तिचेर साबार विचार समजण्याचो प्रभाव आसा. तांतूत खूबश्यो गूढ आनी समजणे पलतडच्या गजालींचो आसपाव आसा.

आयच्या विज्ञानीक युगांतय समाजमनांचेर तांचो शेक आसा. कोणय कितलोय विज्ञानाचो पात्सो घेवपी आसलो जाल्यारुय ताका संवसारांतल्यो ह्यो गूढ गजाली

**सखाराम शेणवी बोरकार:** जल्म :1955. कवी, निबंदकार, समिक्षक. 'अग्रेक' आनी 'तूं' हे दोन कविता संग्रह प्रकाशीत. संपर्क : सी 25, सपना व्हेली, पाजीफोंड, मडगांव , गोंय - 403601, मो. 9923306751.

जाणा जावपाची उमळशीक आसताच. ह्या गूढ गजालीं फ़ाटल्यान विज्ञान लिपिल्लें आसा हें जाणा जावनय ताका ह्या गूढ गजालीं विशीं वाचपाक, आयकूपाक सदांच घोस्ताक वता.

कांय जाण ताका कुड्डो भावार्थ म्हणूं, तरी पूण कांय जाणांचो तांचेर खर विस्वास आसता. हातूंत फकत अशिक्षीत लोक आसतात अशें न्हय तर उच्चशिक्षितय लोक आसतात.

कदीम काळासावन ह्या संवसारांत एक गूढ आनी अदृश्य शक्त वावुरता अशें मनीस मानत आयला. ही शक्त 'संवर्धक' आनी 'संहारक' ह्या दोनय प्रकाराच्या वावरांत घुस्पल्ली मेळटा. ह्या गुढ शक्तींच्या विस्वासाचेरच मनश्याची धर्मीक जीण उबी आसली.

जिणेंतल्या खंयच्याय बऱ्या वायट गजालींचो सांगड देव देवस्की आनी नशिब हाचे कडेन जोडपी लोकांनीं असल्यो रूढी, परंपरा, देव- देवस्पणां, फ़कत सांबाळूनच दवरुंक नांत तर ताका सारें आनी उदक घालां. ह्या गजालीं भितर देंवचार, भुतां, थारावीक जागे, अतृप्त आत्मे हांचो आसपाव आसा. ह्या सगळ्याचो प्रभाव आमकां कोंकण दर्यादेगेर म्हळ्यार मालवण ते मंगळूर मेरेन दिसून येता. ह्या पुस्तकांत अश्या गूढ गजालींचेर लेखिकेन उजवाड घाला.

लेखिकेन आपल्या व्हांवत्या आनी ओड लावणे शैलीन हे सगळे विशय आमकां सोंपेपणान आनी उदारणां दिवन सांगल्यात आनी ताची फ़ाटली विज्ञानीक फ़ाटभूंय सांगल्या. 'भूतां', 'देंवचार', 'जाग्यावेले' अश्यो ज्यो संकल्पनां आसात त्यो जनमानसांच्या जिणेकडेन संबदीत आसात आनी ते खातीर तांकां त्यो सामक्यो जिणे लागसारच्यो आसात. ह्यो संकल्पना विस्कटावन सांगतना लेखिकेन खंयच तांचे 'उदात्तिकरण' करुंक ना जाचे वरवी कुड्ड्या भावार्थांक सारें-उदक मेळत.

ह्या पुस्तकांत सगळीं मेळून 52 प्रकरणां आसात. त्या भायर संदर्भ ग्रंथाच्या नांवाच्या वळेरेचो आसपाव आसा. ह्या वळेरीचो गोंयच्या लोकवेदाचेर अभ्यास करपी अभ्यासकांक जेरुल फ़ायदो जातलो. ह्या पुस्तकांत 'गडे', 'मासीक पाळी', 'म्हालजल्मी', 'देंवचार', 'खुंटीमाया', 'सोरोप', 'केंस', 'म्हाळ', 'दिश्ट बादा', 'ओटी भरप' अश्या लोकसंस्कृतायेच्या नदरेन गूढ विशयांचेर साबार लेख आसात. मुखेल म्हळ्यार लेखांनी त्या-त्या विशयांवेल्या दुर्मीळ छायाचित्रांचो आसपाव आसा तीं ह्या लेखांचें म्हत्व आनीकूय वाडयतात आनी तांचे वरवीं सगळें चित्र वाचप्यां मुखार उबें रावता.

आमच्या जिणेसंबदीत बारीक सारीक गजाली जश्यो सावळी, केंस, गांठ, दिवो, मीठ, व्हटी भरप हाचे फ़ाटली मूळ कारणां पळयल्यार वाचपी अजापीत जाले शिवाय रावना. हे लेख वाचतगीर ह्या गजालींफ़ाटलो आमच्या पुर्वजांचे विचारसरणीचो आमकां अदमास येता आनी ताचें कौतूकय दिसता. आयज सगळ्यो गजाली विज्ञानीक साणीचेर

घांसून पळोवपाचो कल आसा. पूण कांय गजाली ह्यो विज्ञानापलतडच्यो आसात हेंवूय आमी मान्य करपाक जाय.

देखीक, 'केंसः आत्म्याचे वसती स्थान, आदिमाची धारणा' ह्या लेखांत लेखिका बरयता ''आयजय गोंयच्या लोकमानसांत केंस, नाखटां हाचे विशीं कांय समज रुढ आशिल्ले दिश्टी पडटात. देखीक शेनवारचें केंस कापचे न्हय, खाड करचें न्हय, रातचे केंस कापचे न्हय, बायलांनी केंसांक कातर लावची न्हय, रातची नाखटां कापचीं न्हय, दुदाचो दांत पडल्यार ते कोणाच्या पांयांखाला पडचे न्हय म्हण सात गुणे घेवन तो दांत घराच्या पांख्यार उडोवचो अशे समज आसात.'' हाचे फ़ाटलीं विज्ञानीक कारणां कितेंय आसलीं तरी लोकमानसांत वयले समज आजय आमकां दिश्टी पडटात.

'मिठ पेरणे : एक आदिम यातूकर्म' हांतूत मनश्याक मिठाचो सोद कसो लागलो? मागीर मिठांत घालून दवरतगीर खंयचीय वस्त खूप तेंप कशी तिगता हातुंतल्यान मिठांत कसली तरी गूढ शक्ती आसा अशे आदिम काळावेल्या लोकांक दिसलें. आयज लेगीत भुरग्याक दिश्ट बादा जायत जाल्यार ताचे भोंवतणी मीठ उंवाळून रात्रींत उडयतात. आदले तेंपार खंयचोय मनीस गांव सोडून वतनां गांवचे शिमेर मीठ रोवन वतालो आनी तो त्या गांवाकडलें आपलें नातें तोडटालो. हें सगळें मुळांतल्यान ह्या पुस्तकांत वाचपा सारकें आसा.

ह्या लेखांचें खाशेलेंपण म्हळ्यार ह्या पुस्तकांत ज्यो संकल्पना मांडल्यात तांचो लेखिकेन स्वता जंय ह्यो गजाली चालंत आसात त्या वाठारांक भेट दिवन तांचो अणभव घेतला.

लेखिकेचो ह्या विशयाचेर खोल अभ्यास आशिल्ल्या कारणान त्यो संक़ल्पनां वाचप्यांक सोप्या रितीन सांगपाक त्यो यशस्वी थारल्यात.

ह्या सगळ्या लेखांचें म्हज्या नदरेन एक उणेपण म्हळ्यार मुळांत हे लेख एका दिसाळ्याक बरयिल्ले आशिल्ल्यान तांचेर उतरांची मर्यादा आयल्या. वाचप्यांक हे लेख वाचतगीर ह्या विशयांचेर आनीकय विस्तारांन वाचपाची उमळशीक जाता. ह्या पुस्तकाचे दुसरे आवृत्तींत ताचो विचार जातलो हाची आस्त दवरुंया.

ह्या पुस्तकाची प्रस्तावना 'लोकमत' दिसाळ्याचे संपादक भौ. राजू नायक हांणी बरयल्या आनी ती खूब अभ्यासपुर्ण आसा.

गोंयच्या लोकसंस्कृतायेची वळख जावपाखातीर हें पुस्तक गोंयभायर जे मराठी वाचक आसात तांचेमेरेन पावपाची गरज आसा. ह्या पुस्तकाचो कोंकणी अणकारय येवपाची गरज आसा.

ह्या पुस्तकाचे मुखचित्र गोंयचे फ़ामाद चित्रकार श्रीधर कामत बांबोळकार हांणी काडलां आनी तें खूब सुंदर जालां. हें पुस्तक राजाई प्रकाशन, आमोणे-केपें हांणी उजवाडायलां.



**गूढबंध**
लेखक : डॉ.जयंती नायक
प्रकाशक : राजाई प्रकाशन,आमोणे-केपें
मोलः रु200/-
वर्स : 2019
पानां: 242

# ग्रंथदालन

(पुस्तक परिक्षण)

आकाश भालचंद्र गांवकार

## समाजभासविज्ञान : भाशीक अध्ययनाचें आर्विल्लें शास्त्र

### (भाशाशास्त्रीय मळा वयलो कोंकणींतलो एक प्रामाणीक अभ्यास)

कोंकणी भाशेक दर एक गजाल नव्यानूच करची पडल्या. कोंकणीतले जायते बरोवपी कवी म्हूण जल्माक येतात आनी उपरांत ते कथाकार जातात. कांय जाण कथाकार म्हूण जल्माक येतात आनी उपरांत ते कादंबरीकार जातात. डॉ. हनुमंत चोपडेकार हांचे बाबतींत मात अशें घडूंक ना. कोंकणी सरस्पतीच्या मळार तांची सुरवात आतां केन्नातरी फांतोड जातली ह्या कविता झेल्यांतल्यान जाली. ताच्या उपरांत तांणी नाटक, एकांकी, बालसाहित्य आनी कथा सारकिल्ले साबार साहित्य प्रकार हाताळ्यात. पूण जरीय तांचो पींड कवीचो आसलो तरीय तांणी आपलें लेखन फकत ललीत साहित्यापुरतें दवरिनासताना समिक्षा आनी संशोधनाच्या मळार बेसबरो वावर केल्लो दिशटी पडटा. 19 व्या युवा साहित्य संम्मेलनांत तांचें 'समाजभासविज्ञान: भाशीक अध्ययनाचें आर्विल्लें शास्त्र' हें भासविज्ञानाचेर आदारीत पुस्तक उजवाडाक आयलें. ह्या पुस्तकांतल्यान तांणी कोंकणी संशोधनाच्या मळार वेगळी शास्त्रीय दिका उक्ती केल्या.

**आकाश भालचंद्र गांवकार :** जल्मः 18 एप्रील 2000. युवालेखक. कविता, कथा आनी संशोधनपर निबंद प्रसिध्द . पार्वतीबाई चौगुले महाविद्यालय, मडगांव हांगा कोंकणी विशयांत पदवेचें शिकप घेता. संपर्कः किटोलें, बेतोडें, फोंडें, गोंय. फोन नं- 2330385 , मो. 7378760441/ 8007564864, इमेल : akashgaonkar838gmail.com

### कोंकणी भासविज्ञान : काल आनी आयज

भासविज्ञान हो विशय कोंकणी भाशेक तसो नवो न्हय. शणै गोंयबाबाचें कोंकणी नादशास्त्र हें पुस्तक 1940 वर्सा उजवाडाक येवन कोंकणींतल्या भासविज्ञानाचो वावर

सुरू जालो. मदल्या काळार रविंद्र केळेकार हाणें 'भाशेचें समाजशास्त्र' हें भासांचेर भाश्य करपी पुस्तक बरोवन उजवाडाक हाडिल्लें. ताच्या उपरांत 1993 वर्सा डॉ. माधवी सरदेसाय हांचें 'भासाभास' हें पुस्तक उजवाडाक आयलें. त्याच वर्सा प्रा. भालचंद्र गांवकार हांचें 'कोंकणी भासविज्ञान' हें पुस्तक उजवाडाक आयलें. अशे तरेन 20व्या शेकड्यांत आमकां कोंकणींतल्यान चार भासविज्ञानाचीं पुस्तकां सहजतायेन मेळटात. जाल्यार डॉ. प्रताप नायक आनी डॉ. मॅथ्यू आल्मेदा हांचे भासविज्ञानाचेर कांय लेख अभ्यासपाक मेळटात. 1985 वर्सा डॉ. मॅथ्यू आल्मेदा हाणें आपलो Description of Konkani हो भासविज्ञानाचेर आदारीत अप्रकाशीत प्रबंध वोशिंगटनांतल्या जॉर्जटावन विद्यापिठांत सादर केल्लो असो पुरावो मेळटा.

21व्या शेकड्यांतल्या पयल्या दशकांत कोंकणी भाशा मंडळान उजवाडाक हाडिल्ल्या 'कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय' (2003) ह्या पुस्तकांत भासविज्ञानाचेर आदारीत कांय अभ्यासकांले लेख पळोवपाक मेळटात. तातूंत डॉ. मॅथ्यू आल्मेदा हांचें 'भास आनी भासविज्ञान, कोंकणी ध्वनिविज्ञान आनी स्वनविज्ञान', डॉ. माधवी सरदेसाय हांचें 'स्वनीम-विचार: भाशेचें नादाचें व्याकरण', शणै गोंयबाबालें 'नादशास्त्र- एक वळख', 'कोंकणी: इतिहासीक भाशाशास्त्राच्या संदर्भांत, कोंकणी व्याकरणाचीं मुखेल आंगां', डॉ. प्रताप नायक हांचें 'समाज भासविज्ञानाचे नदरेंतल्यान कोंकणीचो अभ्यास, लिपयेचो प्रस्न', यशवंत सदानंद पालेकार हांचो 'कोंकणी भास आनी लिपी', प्रा. से. मा. बोर्जीस हांचो 'कोंकणी परिभाशेची निर्मणी', डॉ. ओलिव्हिन्यु गोमिश हांचो 'कोंकणीचेर हेर भासांचो प्रभाव', फेलीस्यु कार्दोज हांचो 'कोंकणी शब्दकोश आनी व्याकरणां', प्रा. सुरेश जयवंत बोरकार हांचे 'कोंकणी व्याकरणीक बांदावळ, कोंकणी वाक्य विन्यास' आनी प्रा. सुमंत केळेकार हांचो 'भाशीक कसबांचीं चार सुत्रां' लेख आसात. पूण आजून मेरेन 21व्या शेकड्यांत भासविज्ञानाचेर कोंकणींतल्यान एकूच पुस्तक आयलां. डॉ. हनुमंत चोपडेकार हाणें बरयल्लें 'समाजभासविज्ञान: भाशीक अध्ययनाचें आर्विल्लें शास्त्र.'

कोंकणी भासविज्ञानाची सुरवात शणै गोंयबाब हांच्या 'कोंकणी नादशास्त्र' ह्या पुस्तकांतल्यान 1940 वर्सा सावन जाल्ली. ताका लागून आयज 2020 वर्सा कोंकणी भासविज्ञानाक 80 वर्सांचो इतिहास आसा अशें आमी म्हणूं येता. पूण दुर्दैवान ह्या 80 वर्सांत कोंकणी भासविज्ञानाचेर जितलो वावर जावपाक जाय आशिल्लो तितलो जावंक ना हें आमकां सहजतायेन दिसून येता. ह्या गजालीची दखल घेवन आनी भासविज्ञानाच्या अभ्यासाची गरज समजून डॉ. हनुमंत चोपडेकार हाणें भासविज्ञानाचें समाजभासविज्ञान हे पध्दतीचो पुरायपणान अभ्यास करून 'समाजभासविज्ञान: भाशीक अध्ययनाचें आर्विल्लें शास्त्र' ह्या पुस्तकाच्या रूपान तो उजवाडायला ताका

लागून तांकां परबी फावता.

### भाशीक आयामांचेर केल्ली शास्त्रीय भासाभास

भाशेचेर जायतो अभ्यास करूं येता. एका तेपार लोक भास उलोवपाखातीर आनी साहित्य रचपाखातीर वापरताले. पूण हालिंच्या तेपार तिचे जाय ते उपेग जातात. भासविज्ञानाच्या अभ्यासाखाला जायतें संशोधन करूं येता. हाची बरी देख म्हणल्यार समाजभासविज्ञान: भाशीक अध्ययनाचें आर्विल्लें शास्त्र हें पुस्तक. ह्या पुस्तकांत भास: संकल्पना आनी स्वरूप, भासाभ्यास: आरंभ आनी परंपरा, भासविज्ञान: स्वरूप आनी व्याप्ती, समाजभासविज्ञान : एक शास्त्रीय वळख, समाजभासविज्ञान: आंतरविद्याशाखीय अभ्यासक्षेत्र, भाशाद्वित्व: समाजभासविज्ञान अभ्यासशाखेचो मुखेल घटक, भाशीक प्रस्न आनी भाशीक चळवळी: समाजभासविज्ञानीक उस्तवारी, कोंकणी भूंय, भास आनी भौशीक संस्कृताय- मानववंशीय आनी सांस्कृतीक नदरेंतल्यान अश्या आठ विशयांचो आस्पाव जाला. संशोधकान ह्या मुखेल विशयांची वाटणी आनीक ल्हान विशयानी करून ह्या विशयांचेर बेस बरो अभ्यास करून पुस्तकाक आनी विशयाक न्याय दिला. वयल्या साबार भाशीक आयामांचेर शास्त्रीय अभ्यास जावप ही काळाची गरज आसली आनी आसा.

एका तेंपार अशा शास्त्रीय विशयांचेर पुस्तकां नात म्हूण कोंकणींत मुद्दाम बरोवपाचो यत्न जातालो. पूण आयज काळ बदल्ला. आयज भासविज्ञान गरज म्हूण न्हय तर अभ्यासाची स्वतंत्र शाखा म्हूण शिकपाचो वेळ आयला. जर प्रामाणीकपणान भासविज्ञानाच्या वेग-वेगळ्या फाट्यांचो अभ्यास करून तांचेर भाश्य केलें जाल्यारूय ह्या विशयाक न्याय मेळपाक पावतलो आनी ह्या विशयाच्या संशोधनाची व्याप्ती वाडटली. हे सगळे मुद्दे बारीकसाणेन नियाळून डॉ. हनुमंत चोपडेकार हाणें कोंकणी संशोधनाच्या मळार घणघणीत पावल घालां. तांणी कोंकणी संशोधनाच्या मळार एक नवी पांयवाट घडयल्या. आयज महाविद्यालयांत आनी विद्यापिठांत अध्ययन करपी विद्यार्थ्यांक भासविज्ञान हो विशय शिकपाक आसता. ह्या विद्यार्थ्यांक हें पुस्तक खूब गरजेचें थारतलें हातूंत इल्लोय दुबाव नां. दर एका विद्यार्थ्याची समाजभासविज्ञाची भूक भागोवपाची तांक ह्या पुस्तकांत आसा.

- खंयच्याय एका संशोधनात्मक पुस्तकाचो अभ्यास करताना तें पुस्तक चार गटांनी वाटून घालप योग्य आसता.

1) संशोधनाची आनी मांडावळीची शैली
2) पुस्तकाची भास
3) पुस्तकाची सार्थकताय
4) पुस्तकाचें प्रभाविपण

### संशोधनाची आनी मांडावळीची शैली

भासविज्ञान म्हणल्यार साहित्य न्हय. भासविज्ञान म्हणल्यार कांय विज्ञानीक प्रकिया पाळून केल्लो भाशेचो अभ्यास. हो

विशय अभ्यासताना कांय गजाली पाळप म्हत्वाच्यो आसतात. ह्या गजालींचो उल्लेख करपाचो जेन्ना वेळ येता तेन्ना तांची मांडावळ बेस बरी आसपूय भोव गरजेचें आसता. ताका लागून म्हायतीपत्रक, आकृताय, तकटो आदीं हांचो वापर जावपाक जाय. अशेच तरेचो अभ्यास आनी मांडावळीची बेस-बरी शैली ह्या पुस्तकांत पळोवपाक मेळटा. डॉ. हनुमंत चोपडेकार हांच्या ह्या शैलीक लागून कठिनांतलो कठीण विशय लेगीत समजुपाक सामको सोपो जाता वा ताणें तो वाचकांक सोपो करून दिला.

संशोधनाच्या खंयच्याय एका विशयाचेर उजवाड घालतकूच ताची विस्कटावणी कशी करप, त्या विशयाक मुखार कशे तरेन वाटून दिवप, ताचे ल्हान भाग कशे करप, खंयच्याय विशयाक मांडटना म्हायतीपत्रक, आकृताय, तकटो आदी हांचो वापर भासविज्ञानांत कसो जांव येता हाचें बेस बरी देख म्हणल्यार समाजभासविज्ञान: भाशीक अध्ययनाचें आर्विल्लें शास्त्र हें पुस्तक. ह्यो कांय गजाली पाळिल्यान विद्यार्थांक हो विशय समजुपाक खूब आदार जाता. अशे तरेच्या संशोधन शैलीची गरज कोंकणीक आसा.

**पुस्तकाची भास**

खंयच्याय भासविज्ञानाच्या पुस्तकाची भास, तें जे भाशेंत बरयलां ते भाशेक न्याय मेळपाक जाय. पूण डॉ. हनुमंत चोपडेकार हाच्या पुस्तकांत कितलींशींच मराठी उतरां जश्याक तशीं मेळटात. त्याच खातीर कोंकणीक सामको प्रामाणीक आशिल्लो मनीस फसता. कित्याक तर ती भास कळपाक ताका कठीन लागता. भाशाविज्ञानाचीं कांय पुस्तकां हाच्या पयलीं कांय लेखकांनी बरयल्यांत. तांच्या पुस्तकांची भास पळयल्यार ती सामकी सोपी आनी पुराय कोंकणी अशी दिसता. तसो यत्न हनुमंतबाबान केल्लो जाल्यार ह्या पुस्तकाचें सामकें भांगर जांव येतालें. पूण ताचे यत्न खऱ्यानींच तोखणाय करपा सारके आसात.

**पुस्तकाची सार्थकताय**

भाशाविज्ञान हो विशय आयज महाविद्यालयीन आनी विद्यापीठ पावंड्यार सामको सक्तिचो जाला. ते खातीर चडांत चड संदर्भ पुस्तकां आसप गरजेचें. जीं पुस्तकां भुरग्यांक शिकपाक गरजेचीं. समाजभासविज्ञान नांवां खाल पुस्तक कोंकणी भाशेंत साप्प उणें आशिल्लें तें उणेंपण डॉ हनुमंत चोपडेकार हाणें भरून काडलां. देखून ह्या पुस्तकाची सार्थकताय आमकां दोळ्यांमुखार दिसता.

**पुस्तकाचें प्रभावीपण**

'समाजभासविज्ञान: भाशीक अध्ययनाचें आर्विल्लें शास्त्र' हें पुस्तक तशें पळोवपाक गेल्यार खुबूच प्रभावी आसा. खंयच्याय विशयाचेर जायतीं पुस्तकां आसतात पूण तांचो उपेग लोकांक जाताच असो ना. कांय पुस्तकां छापून उजवाडाक येतात पूण विद्यार्थ्यांक तीं पळोवपाक मेळनात. एक

तर तीं सोपिल्लीं आसतात ना जाल्यार गोंयांभायर आनीक खंयच्याय सुवातेर तीं पडिल्लीं आसतात. कोंकणींतले प्रकाशक एका फाटोफाट जायतीं पुस्तकां प्रकाशीत करपा इतले गिरेस्त नांत. देखून ते पुस्तकांचे चड भानगडीक पडनात. लेखक डॉ. हनुमंत चोपडेकार विद्यापिठांत एक प्राध्यापक आसात देखून तांकां ह्या पुस्तकाचें म्हत्व खबर आसा. हें पुस्तक विद्यापिठाच्या विद्यार्थ्यांक खुबूच प्रभावी आसा हातूंत कसलोच दुबाव ना. हाचे फुडें चडांत चड पुस्तकां रचपाची संद डॉ. हनुमंत चोपडेकार हांकां मेळची अशी म्हजी इत्सा.

### संदर्भग्रंथ


1. कुळकर्णी, सु. बा. कोंकणी भाषा : प्रकृती आणि परंपरा. पणजी गोवा : गोवा कोंकणी अकादेमी, 2007.
2. चोपडेकार हनुमंत डॉ.. समाजभासविज्ञान : भाशीक अध्ययनाचें आर्विल्लें शास्त्र. पणजी: गोवा कोंकणी अकादेमी, 2020.
3. गांवकार भालचंद्र. कोंकणी भाशाविज्ञान. फोंडें: मित्र प्रकाशन, 1993.
4. सरदेसाय माधवी. भासाभास. म्हाड्डोळ: जाग प्रकाशन, 1993.
5. वेरेंकार श्याम आनी हेर (संपादक). कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताय. मडगांव: कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय, 2003.


000



**समाजभासविज्ञान : भाशीक अध्यनाचें आर्विल्लें शास्त्र**
लेखक : डॉ. हनुमंत चोपडेकार
प्रकाशक : रगोवा कोंकणी अकादेमी
वर्स : 2020
पानां: 149
मोल: रु 150/-



# ग्रंथदालन

(पुस्तक समिक्षा)

सखाराम शेणवी बोरकार

## 'खलील जिब्रान' वेंचीक साहित्य–एक देखदेणो अणकार

संवसारीक नामनेचे साहित्यीक खलील जिब्रान हांच्या वेंचीक साहित्याचो कोंकणी अणकार हालींच उजवाडाक आयला. हो अणकार कोंकणींतले जेश्ट साहित्यीक श्री. नागेश करमली हांणी केला. खूब वर्सां उप्रांत जिब्रानाचें साहित्य आमकां कोंकणींतल्यान वाचूंक मेळटा. हाचे पयलीं 1973 वर्सा जिब्रानाच्या "The Prophet" ह्या पुस्तकाचो अणकार स. बाकीबाब बोरकार हांणी 'पैगंबर' ह्या नांवान केल्लो आनी 'जाग' प्रकाशनान तो उजवाडायिल्लो.

खरेपणी खलील जिब्रान हो तांच्या 1923 वर्सा उजवाडाक आयिल्ल्या "The Prophet" ह्या पुस्तकावरवींच संवसारभर फामाद जालो. ताच्या ह्या पुस्तकाचो संवसारांतल्या 120 भासांपरस चड भासांनी अणकार जाला आनी त्या भासांमदीं कोंकणीचोय आसपाव आसा ही आमकां सगळ्यांक अभिमानाची गजाल.

खलील गिब्रान हो साहित्याचो सगळ्यांत चड खप आशिल्ल्या (Best selling poet) संवसारांतल्या पयल्या तीन कवीं मदलो एक. पयल्या सुवातेर सहाजीकच विल्यम शेक्सपियर हांचे नांव येता.

खलील जिब्रान हांचें सगळें साहित्य मनीस कुळयेक स्फुर्त दिवपी. तांची भास–शैली, तांची विचार मांडपाची पद्दत हें सगळें आगळें वेगळें. अशें तरेचें साहित्य ह्या आदीं कोणे बरोवंक नासलें आनी ते खातीरच तें सगळ्या लोकांक भावलें. खलील जिब्रान हांणी साहित्या वांगडाच चित्रकलेचेरुय फ़िशालपण जोडलें.

**सखाराम शेणवी बोरकार:** जल्म :1955. कवी, निबंदकार, समिक्षक. 'अभ्रेक' आनी 'हूं' हे दोन कविता संग्रह प्रकाशीत. संपर्क : सी 25, सपना व्हेली, पाजीफोंड, मडगांव , गोंय – 403601, मो. 9923306751.

जिब्रानाचो जल्म लेबाननचे उत्तरेक आशिल्ल्या पर्वत रांगा मदल्या बशेरी ह्या गांवात 6 डिसेंबर 1883 वर्सा जालो. ताचें मुळावें शिक्षण ताच्या गांवांतच जालें. तो जरी अरबी आनी सिरियन भासो शिकलो तरी ताची बरोवपाची भास ही अरबीच आसली. खलील भुरगेपणांतच चित्रांय काडटालो. तो मुळासावन एक वेगळे तरेचो भुरगो कसो वागतालो. तो वांगडच्या भुरग्यां मदीं भरसना आसलो. ताका एकांत आवडटालो.

पिरायेच्या बाराव्या वर्सा जिब्रानाची आवय आपल्या चारुय भुरग्यांक घेवन 1895 वर्सा अमेरिकेक गेली. बोस्टन शारांत तांणी राबितो केलो, कित्याक तर कामां निमतान आयिल्ले जायते लेबानांनी त्याच शारांत रावताले. थंयच जिब्रान इंग्लिश – फ्रेंच भासो शिकलो. दोन वर्सां भितर तो लेबाननची राजधानी बैरुताक परतलो आनी 1901 वर्सा थंय तो पदवीधर जालो. उप्रांत तो चित्रकलेचें उंचेले शिक्षण घेवपाक पारिसाक गेलो. आवय बरी ना म्हण 1903 वर्सा चित्रकलेचें शिक्षण अर्द्यार सोडून तो अमेरिकेक परत आयलो.

1908 वर्सा चित्रकलेचें शिक्षण पुराय करपाक तो परत पारिसाक गेलो आनी शिक्षण पुराय करुन 1910 वर्सा अमेरिकेच्या न्युयोर्क वाठारांत स्थायीक जालो. ताणें चित्रकले बराबर इंग्लिश भाशेचेरुय फ़िशालपण जोडलें. तो शैलीदार इंग्लिशींत बरोवपाक लागलो. ताच्या नांवाची नामना संवसारभर पातळ्ळी. ताणें बरयिल्लें 'अल नबी' ह्या ताच्या अरबी भाशेंतल्या पुस्तकाचो अणकार "The Prophet" ह्या नांवान ताणें उजवाडायलो आनी ह्या पुस्तकाखातीर ताची नामना संवसारभर जाली.

तांकां 1931 सालांत पिरायेच्या 48 वर्सा मरण आयलें. मरणां उप्रांत ताका चड प्रसिध्दी मेळ्ळी. लोकांक ह्या म्हान लेबाननी कवी, तत्वगिज्ञानी आनी चित्रकाराची व्हडवीक कळ्ळी. जिब्रानान अरबी साहित्याक एक नवो आयाम दिवपा वांगडाच साहित्य सृजनाचो एक नवो अध्याय सुरू केलो.

जिब्रानाक आशिया खंडांतलें साहित्य, कला आनी संस्कृतीचे उद्‌गाते मानतात.

अश्या ह्या भोव आयामी आनी संवसारभर तोखणाय जाल्ल्या साहित्यिकाचें कांय वेंचीक आनी मोलादीक साहित्य नागेशबाबान 'खलील जिब्रान-वेंचीक साहित्य' ह्या नांवान कोंकणींतल्यान उजवाडाक हाडलां.

नागेशबाब आपल्या ह्या पुस्तकाच्या मनोगतांत म्हण्टात, 'ते जेन्ना गोंय मुक्ती संग्रामांतलो वांटेकार म्हण रेजमागाच्या बंदखणींत आसले तेन्ना तांकां खलील जिब्रानाच्या साहित्याची पयली वळख घडली.

मराठींतले नामनेचे लेखक श्रीपाद जोशी हांणी जिब्रानाची 'सलमा' ही नवलिका मराठींत अणकारीत केल्ली, ती नागेशबाबांक वाचूंक मेळ्ळी आनी ताचे उप्रांत तांणीच अणकारीत केल्ल्यो कांय निती कथांय वाचूंक मेळ्ळ्यो. त्यो

वाचतगीर नागेशबाबांक तांचे पुराय साहित्य वाचपाची उमळशीक लागली.

ते आपल्या मनोगतांत फुडें म्हण्टात ''हो खलील जिब्रान मनांत कितलींशींच वर्सां घर करुन आशिल्लो. ताच्या साहित्याचें वाचन-मनन काळजांत एक वेगळीच खुशालकाय जागयतालें. ही खुशालकाय आमच्या कोंकणी साहित्य मोग्यांमेरेन पावोवची अशें सदांच म्हाका दिसताले. आनी असोच एक दीस हांव जिब्रानाक घेवन बसलों आनी हो अणकार जल्माक आयलो.''

ह्या पुस्तकांत जिब्रानाचें वेंचीक साहित्य 'भूंयदेव'- (The Earth Gods), 'वज्रां आनी मोतयां'- (Sand and Foam), 'अग्रदूत' (Forerunner), जिब्रानाच्या दिश्टव्याच्यो काणयो(दोन भागांत)- (The wonderer and the madman) आसपावलां.

नागेशबाबान ह्या वेंचीक साहित्याचो सुरबूस तरेन अणकार केला. सामकी सोपी भास, व्हांवती शैली आनी मूळ संहितेक खंयच धपको दिनासतना केल्लो हो अणकार म्हळ्यार दुसऱ्या भासांतल्यान कोंकणींत अणकार करप्यांखातीर एक देख जावन आसा, अशें म्हळ्यार अतीताय जांवची ना. ते खातीर नागेशबाबांची तोखणाय करत तितली थोडीच.

पिरायेच्या सरत्या काळार एदो व्हडलो वावर करप म्हळ्यार "The age is just a number" हे सत म्हण नागेश बाबान आमकां दाखोवन दिलां.

कोंकणी मायेक एक सोबीत पुस्तक दिल्ले खातीर नागेशबाब आनी संजना प्रकाशनाचे दिनेशबाब मणेरकार हांका परबीं.



**खलील जिब्रान**
वेंचीक साहित्य
अणकार - नागेश करमली
प्रकाशक - संजना प्रकाशन, सांगे-गोंय
पानां - 172
मोल - रु. 200/-

000



